

# DIRECTORATE OF SOCIAL WELFARE

## Schemes applicable for ST are extended to Dhangar/Gouly Community

| Sr. No. | Name of the scheme | Assistance provided under the scheme |
|---|---|---|
| 1. | Grant of financial assistance for performance of Funeral and Religious Ceremonies related to last rites of a person of Dhangar Community under **"Anty Sanskar Sahay Yojana"** | An amount of ₹ 20,000/- |
| 2. | Scheme for construction of Multiprpose comminity hall in areas inhabited by social community **"Sanskrit Bhavan"** | Total coast of the project including the cost of land shall not exceed ₹ 50.00 lacks |
| 3. | Financial assistance to dhangar Student under **"Gagan Bharari Shiksha Yojana"** | a) Under the scheme ₹ 750/- p.m. fo day scholar & ₹ 1500/- p.m for staying in hostel (for ten months) & b) Aditional disability allowance of ₹ 750/- p.m. during academic year fo (ten months) is given |
| 4. | Financial assistance to purchaseDwelling House of Mundakar under the Scheme **"Mundakarache Ghar"** | Maximum financial assistance under the scheme for purchase of land for dweling house ₹ 30,000/- |
| 5. | Scheme to provide financial assistance for conducting study tours (excursion) for Dhangar community Students during vacations **" Prashikshan yatra"** | Assistance to the Educational institute for an amount of ₹ 1.00 lack to conduct study Tour/ Excursions |
| 6. | **Scheme to support Orphan Child/Children of widow belonging to Dhangar Community** | a) fixed maintenance allowance of ₹ 1500/- p.m. per child of a widow<br>b) fixed maintenance allowance of ₹ 2000/- p.m. per child who is an orphan |
| 7. | **Atal Asra Yojana** | Financial Assistance for construction of new House is up to ₹ 2.50 lacks and for repairs of existing house is up to ₹ 1,00,000/- |
| 8. | **Merit Based Award** | a) Students Securing marks in the range (between 50% to 59.99% will be given a financial award of ₹ 5000/-<br>b)Students Securing marks in the range (between 60% to 69.99%) will be given a financial award of ₹ 8000/-<br>c ) Students securing marks in the range (between 70% to 74.9% will be given a financial award of ₹ 10,000/-<br>d) Students securing 75% marks and above will be given a financial award of ₹ 15000/- |

**DETAILED INFORMATION CONTACT:**

The director, Directorate of Social Welfare,
18th JUNE ROAD, PANAJI-GOA. 403 001
Tel.No.2223784, 2232257, Fax No. 2228172.
Website: www.goasocialwelfare.com
Email: socialwelfaregoa@rediffmail.com

# जैत

पुंडलीक नायकगौरव विशेशांक 2014

वर्स : 36 अंक : 1

संपादक

**भिकू बोमी नायक**

कार्यकारी संपादक

**प्रा. भूषण भावे**

संपादक मंडळ

**पांडुरंग का. गावडे**

**प्रा. सत्यवान नायक**

**प्रा. हुनमंत चोपडेकार**

**विनंती कांसार कळंगुटकार**

मुखचित्र

**इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा**

पणजी हांच्या बरेपणान

फोटे

**साहिल भिकू नायक**

(पान नं. 1, 2, 101, 130)

उजवाडावपी

**सुरेश सगुण नायक**

जैत प्रकाशन

एम. 231, खोर्ली, तिसवाडी,

गोंय. मो. 9850465229

छापपी

**लोकमान्य प्रोसेस,**

खोर्ली, तिसवाडी–गोंय

मोल

100/– रुपया

---

चत्राय: ह्या अंकात उक्तायिल्ले विचार त्या त्या लेखकांचे आसात. त्या विचारांकडेन संपादक मंडळ आनी प्रकाशक सहमत आसाच, अशें ना.

जैत पुंडलीक नायकगौरव विशेशांक 2014
वर्स : 36 अंक : 1

संपादकीय

प्रा. भूषण भावे/कार्यकारी संपादक

लेख





मांडावळ



मुलाखत



पुंडलीक उवाच



जिवीतपट



फोटो दर्शन

(रंगीत तशेंच ब्लॅक आनी व्हाईट)






प्रा. भूषण भावे

# पुंडलीक : व्यक्तित्व आनी कर्तृत्व समिक्षा

पुंडलीक नारायण नायक हें कोंकणी साहित्याक पडिल्लें एक सर्वांगसुंदर सपन. पुंडलीकाचें साहित्यीक योगदान, भोवआंगी आनी अश्टताशी. साहित्याच्या लार्गी लार्गी सगळ्याच साहित्य-प्रकारांनी पुंडलीकान आपली स्वताची अशी ठळक आनी स्वतंत्र छाप निर्माण केल्या. आशय आनी तंत्र, दोनूय नदरेन तांच्या साहित्याच्या रूपान कोंकणीक अस्सल, निजाचें, सामाजिकतायेचें भान आशिल्लें साहित्य मेळ्ळां. ग्रामीण आनी प्रादेशीक हांचे वांगडाच आधुनीक अशीं विशेशणां मिरोवपी तांचें साहित्य सकस, वास्तवपूर्ण आनी जिवनाचे समृद्ध अनुभुतीन भरिल्लो आनी भारिल्लो आशय परगटायता; जाल्यार दुसरे वटेन रसरसीत, जिती-जिवी कोंकणी भास आनी विशुद्ध तंत्र हांकां लागून तांच्या साहित्यान वाचप्यांचेर मोहिनी घातल्या. आशय-विशय आनी तंत्र हांचो इतलो सुमेळ कोंकणी साहित्यांत अपवादानच दिश्टी पडटा.

तांचें चडशें साहित्य गोंयची भूंय, भौस आनी भास हांचेर आदारीत आसा. पुंडलीकाच्या साहित्यांत गोमंत-भूंयचे उत्फर्के आनी नैराश्य, हावेस आनी मर्यादा, आत्मस्वर आनी अंतर्वेदना, क्रियाकलाप आनी कर्मभोग ह्या सगळ्यांचीं रूपां पळोवक मेळटात. शेताची नांगरणी करतना मातयेचे दिफळे वयर येवचे तशें साहित्यीक मशागत करतना पुंडलीकान कश्टकरी, श्रमीक वर्गाच्या घामांनी भिजिल्ल्या अणभवांचे दिफळे आपल्या साहित्यांतल्यान प्रदर्शित केल्यात. देखून विशय ग्रामीण वा प्रादेशीक आसून लेगीत तांच्या साहित्याचो आशय मात अमर्याद मानवी तत्वांकडेन नातें सांगता. ग्रामीण, प्रादेशीक साहित्यांत लेगीत वैश्वीकते कडेन झेप घेवपाची तांक आसूं येता हें तांचें साहित्य वाचतकीच मतींत येवचें.

'व्यवस्था-परिवर्तन' हें तांच्या साहित्याचें प्रयोजन आनी उद्दिश्ट. परंपरीक जिवन वेवस्थे कडल्यान आधुनीक जीण आपणायता आसतना मानवी जीवनाची जाल्ली घुस्मट आनी अंतर्बाह्य संघर्श तांणी चित्रीत केलां. हात मळबाकडेन पूण पांय मात मातयेंत रोमिल्ले आनी

काळजांतलें सदांकाळचें द्वंद्व. 'जुने जाऊ द्या मरणा लागुनि- जाळून अथवा पुरूनी टाका' असो केशवसुती आवेश एके वटेन जाल्यार 'जुने ते सोने' अशे द्विधा अवस्थेंत तांचीं पात्रां जियेतात. सभ्यतायेच्या संक्रमण काळांत, समाज कूस बदलता आसतना मानवी जिणे मुखार उबे जाल्ल्या निती, मुल्यां, तत्वां, देव, धर्म, निसर्ग हांचे विशींच्या साबार प्रस्नांत तांचे भितरलो चिंतक जापो सोदपाचो यत्न करता. ह्याच वैशिश्ट्याक लागून पुंडलीकान कोंकणी साहित्याक समकालीन भारतीय साहित्याच्या मळार व्हरून बसयलां.

पुंडलीकचें साहित्य आयज अध्ययन, अध्यापन आनी संशोधनाचो विशय जाला. गोंय, कर्नाटक, केरळ धरून साबार विद्यापिठांनी तांच्या साहित्याचो अभ्यासक्रमांत आसपाव जाला. तांच्या साहित्याचे साबार भारतीय आनी परदेशी भासांनी अनुवाद जाल्यात. तांच्या साहित्याचेर आयजवेर समाजशास्त्रीय, तुलनात्मक, रूपवादी, पर्यावरणी आनी हेर समिक्षात्मक पद्धतींनी संशोधन जालां आनी जायत आसा. पीएच.डी. पदवेखातीर विंगड विंगड दिश्टिकोनांतल्यान तांच्या साहित्याचें संशोधन करपी विद्यार्थ्यांची संख्या वाडत आसा.

तांच्या साहित्याचेर एका लेखकाचें समग्र साहित्य, हे नदरेन अभ्यास चलता, तशेंच खासा करून तांचीं नाटकां आनी कादंबऱ्यो हांचेर साबार परिसंवाद, चर्चासत्रां राज्य आनी राष्ट्रीय पातळीचेर आयोजीत जातात.

अशा ह्या भोव-आयामी लेखकाच्या साहित्याची समिक्षा मात एकठांय वाचूंक मेळना. साबार अंकांनी, पुस्तकांनी, नेमाळ्यांनी आनी भासांनी ती शिंपडिल्ली आसा. तांच्या व्यक्तित्व आनी कर्तृत्वाचें जाल्लें मुल्यमापन एकेच कडेन आनी तेंयबी कोंकणी भाशेंत वाचूंक मेळ्ळ्यार ह्या 'पुंडलीक' नांवाच्या 'साहित्य-मेरू'ची वळख सर्वांगान वाचप्याक जातली, हे नदरेन विचार चलतालो. पूण ह्या विचाराक अक्षरवाङ्मयाचें मूर्त रूप येनाशिल्लें. पुंडलीक नायक हांकां २०१३ वर्साचो संगीत नाटक अकादेमीचो प्रतिष्ठेचो पुरस्कार मेळ्ळो आनी तोच निमित्ताक कारण जालो. 'जैत'चे संपादक श्री. भिकू बोमी नायक, प्रा.हनुमंत चोपडेकार, प्रा.सत्यवान नायक, श्रीमती विनंती कांसार कळंगुटकार आनी श्री. पांडुरंग गावडे हांचे वांगडा बसून प्रस्तावीत 'पुंडलीक गौरवांका' ची रूपरेशा थारायली. पुंडलीकाचे वैयक्तीक आनी साहित्यीक जिणेकडेन लागींच्यान संबंद आयिल्ल्या आनी तांच्या साहित्याचेर लक्षवेधी बरप केल्ल्या व्यक्तींचीं नांवां काडलीं. विशयांची पुनरावृत्ती टाळपाचे नदरेन त्या-त्या जाणकारान बरोवपाचे विशय आनी लेखांचे माथाळे तांकां सुचयले.

ह्या विचार आनी कृतीच्या मंथनांतल्यान जें अमृत आयलें तें म्हणल्यार हो गौरवांक. पुंडलीकाचें भुरगेपण, शिक्षण, संस्कार, व्यक्तिमत्व घडण, साहित्यीक कर्तृत्व, चित्रपट योगदान, कोंकणी भाशीक चळवळींतलें नेतृत्व अशा साबार विशयांच्या परिघांतलें हें लिखाण वाचप्यां मुखार दवरतना खूब खोस भोगता. फकत फोनावेल्यान वा पत्र-ई-मेली वरवीं संपर्क सादून लेगीत सगळ्या लेखकांनी उस्फूर्तपणान आमच्या उल्याक दाद दिली आनी आपली बरपावळ धाडून दिली. पुंडलीक आनी साहित्याच्या प्रेमान तांणी घेतिल्ले हे तकालशी खातीर हांव तांचे मनाकाळजा सावन उपकार मानतां.

संपादक मंडळाच्या सगळ्या वांगड्यांनी ह्या अंकाच्या मुल्यवर्धनाचे नदरेन केल्ल्या शारीरीक आनी बुद्धीक कश्टां खातीर हांव तांचो उपकारी आसा. अंकात मुखचित्रां वयलें पुंडलिक नायकांचे पेंटींग वापरपाक दिल्लेखातीर इन्स्टिट्यूट ऑफ मिनेजीस ब्रागांझाचे अध्यक्ष आनी नामनेचे चित्रकार श्री. संजय हरमलकार हांचे आमी उपकारी.

'जैता'चो हो 'पुंडलीक गौरव विशेशांक' समिक्षा मळावयल्या जैताचें आनीक एक पावल थरतलो आनी फकत संदर्भ पुस्तक थारनासतना संग्राह्य जातलो अशी आस्त हांव बाळगितां.

संपादक

# पुंडलीक नायक : तरनाट्यांक सदांकाळ प्रेरणा दिवपी व्यक्तीत्व आनी नेतृत्व

लेख

पुंडलीक नायक म्हळ्यार कोंकणी मायेक पडिल्लें भोव म्होंवें सपन. साहित्याच्या मळार ताणे दिल्लें योगदान मेजमाप करूंक येवचें ना इतलें व्हड आसा. आज भारतीय मंचार नाटककार म्हूण पुंडलीकाचो हात धरपी पुराय देशांत भोव थोडे आसतले. पूण पुंडलीकालें सगळ्यांत म्हत्वाचे आनी गोंयचे नदरेन सामकें मोलादीक योगदान आसा तें कोंकणी अस्मितायेच्या राखणेच्या वावराक.

शणै गोंयबाबानी जेन्ना कोंकणी मायेचे गर्भकुडींत पेटपी लामणदिव्याची मीणमीण पेटपी वात पळयली तेन्ना, वेळार तिका घटाय दिली ना जाल्यार गर्भकूड पुराय काळखी जावपाक कळाव लागचो ना हे तांणी पारखिलें. वात सारकी केली, काजळी फाफुडली, तेल ओतलें तेन्ना लामणदिवो तेजिश्ट जावन पेटूंक लागलो. त्या उजवाडान जायत्या जाणांच्या काळजाक स्पर्श केलो. रवीन्द्रबाबानी ते वातीन दिवो पेटयलो आनी गर्भकुडींतलो उजवाड कोंकणीच्या चौखार फांकलो. कितलेशेच प्रतिभावंत ह्या उजवाडीत मंदिरांतली सरस्पत पळोवन भाळ्ळे. आनिकूय दिवे पेटले. लोकसाहित्याची घुडी नाचोवपी भौस मात हे सरस्पतेकडसून चिके पयसच उरिल्लो. पूण स्वतंत्रतायेच्या वाऱ्यावांगडा शिक्षणाची गंगा व्हांवत आयली. तिणे भौसाक वेंगायलो. मनां उजवाडीत जालीं. असत्याचो काळोख नश्ट जालो. लोकसाहित्यांत दडिल्लो सृजनाचो हुंकार अक्षरसाहित्याक साद घालूंक लागलो. ह्या हुंकाराचोय धेंक जालो. शिंगा दाखोवन पुजून घेवपाचें सामर्थ्य आशिल्ली नवी पिळगी फुडें सरली. तिका दिका नाशिल्ली. फुडारी मेळ्ळे ते दुसऱ्यांचे सांगणेन चलपी. दुसऱ्यांच्या पोशान उदक पियेवपी. पूण भौसपुरुस ज्या फुडाऱ्याची वाट पळयतालो तो एक कंवळो तरनाटो सरस्पतेच्या मंदिरांत भितर सरलो. मंदिरांतल्या दिव्याचेर ताणे आपणाली मशाल पेटयली. मशाल घणघणीत पेटली. त्या इल्ल्याशा मंदिरांत तो दोळे दिपकावणो उजवाड मावना जालो. सरस्पतेन कूस परतिली.



दामोदर मावजो
(आंतरराष्ट्रीय किर्तीचे कोंकणी लेखक)
माजोर्डे - गोंय
मो. 9422059509

मंदिराची लांबाय, रुंदाय शेकानशेक वाडली. सृजनाच्या साक्षात्कारान जांच्यो संवेदना तिक्ष्ण जाल्ल्यो, ती नवशिक्षीत तरणी पिळगी भार आयिल्लेवरी खुदूंक लागली. कोंकणी सरस्पतमायेक आपणाल्या सामर्थ्याची जाण जाली. पूण ह्या नवचैतन्याची धग लागिल्ले प्रस्थापीत अस्वस्थ जाले. नाटकीपणा, दुस्वास, अंधविस्वास हांचे सुवार्थी पोशणकर्ते साडेभावार्त्यांची दिकाभूल करून आपणाली पोळी सारकी भाजना म्हूण खंती जाल्ले लोक ह्या नवचैतन्याक दुशण दिवंक लागले. शेजारी रादूंन वाडटा जाल्यार आमी रांदपाचे कश्ट कित्याक घेवचे? आयतें सगळें मेळटा जाल्यार आमचें कित्याक जाय? काय बरी गिरेस्त आमची मावशी, सामकी आवयसमान. न्हय आवयच ती... असल्या विचारांनी राजकी रंग घेतले तेन्ना मात कोंकणी मायेक, कोंकणी अस्मितायेक, कोंकणी राज्याच्या फुडाराक निर्माण जाल्लो धोको कोंकणीच्या स्वाभिमानी पुतांनी वळखलो. पांचूय बोटांची मूठ कवळ्ळी आनी सहस्र हतयांचें बळगें आंगांत संचारिल्लो पुंडलीक नारायण नायक हो फकत भौसाचो न्हय तर समेस्त कोंकणी जनतेचो फुडारी म्हूण उबो रावलो.

ह्या कोंकणी पुताचो तो अवतार हांवें लागींच्यान पळयला. लेखक, साहित्यकार, नाटककार अशीं ताचीं विंगडविंगड तांसां पळयिल्लींच. पूण एक फुडारी म्हूण ताका खूब लागशिल्ल्यान पळोवपाची संद ताच्या खांद्याक खांदो लावन वावुरतना म्हाका मेळ्ळी. ताच्या आंगांतलें नेतृत्व कौशल्य खंयच्यान आयलें हें तपासून पळयल्यार पुंडलीकालें व्यक्तित्त्वच ताका ते सुवातेर पावोवपाक कारण जालें अशें म्हणूंक जाय.

पुंडलीकाची- म्हजी वळक जाली ती 'राष्ट्रमता'चे कथा सर्तेंत ताका इनाम मेळ्ळ्या उपरांत. म्हाका दिसता 1970 वर्सा जावंये. हांवें तेन्ना पळयिल्लो पुंडलीक म्हाका आयजूय याद आसा. जबर आत्मविस्वाशी. पयलें इनाम मूं? मेळपाचेंच तें म्हाका. कथा बरी बरयल्या मूं? जाणां हांव कथा हांवें बरी बरयल्या म्हूण. हो सॅल्फ-कॉन्फिडन्स म्हाका आवडिल्लो. पूण पयले खेपेक भेट जाल्ली तेन्ना मात तो ओव्हर-कान्फिडण्ट कसो दिशिल्लो हें कबूल करूंकच जाय. पुंडलीकाच्या आंगांतलो जबर आत्मविस्वासूच ताका फुडें उपकरा पडलो हें सामकें खरें.

लिखणेवांगडाच पुंडलीकाल्या व्यक्तित्वाकूच धार येत गेली. विचारांवांगडाच व्यक्तित्वच प्रगल्भ जायत गेलें. पुस्तकांवांगडाच मनशांय वाचपाची कळाशी पुंडलीकाक प्राप्त आसा. मनशां मनशांमदले गूण पारखून ते आपणावपाची ताची तरा हांव सुर्वेकसावन पळयत आयलां. रवींद्रबाबालो ध्यास आनी हव्यास, उदयबाबालो निर्धार आनी ध्येय -निश्ठा, नागेशबाबाली लोक संग्रह वाडोवपाची कळाशी, बाकीबाबाली ' मार भिस्क्यार' ही बेफिकीर वृत्ती, शंकर भांडाऱ्याली हजरजबाबी जीब, मनोहरबाबालें भाशाप्रभुत्व, फेलीस्युबाबालो उदारमतवाद, नारायणबाबाली पड्ड्या फाटसून कश्ट करपाची निस्पृह चलणूक, आंतोन पियेदाद मोरायशाली पोटतिडक आनी अश्या जायत्या म्हालगडच्यांच्या सांगातान वाडिल्ल्या पुंडलीकान तांगेले गूण आत्मसात करपाचो प्रामाणीक प्रयत्न केलो. तेच बराबर तांच्यातले दोश पारखून तांचेपसून पयस रावपाचोय यत्न केलो हें हांवें प्रत्यक्ष पळयलां.

साहित्य प्रवासांतल्या जायत्या पेण्यांचेर ताका जायतीं विभूतीसमान व्यक्तित्वां मेळ्ळीं. उमाशंकर जोशी, सुनितीकुमार चटर्जी, भिष्म साहनी, हांकां लागींच्यान पळयतना पुंडलीक

आपणाले तरणे पिरायेचेर भारावन गेल्लो. तांचेविशींच्या आदरा वांगडाच पुंडलीकाच्या मनांत एक म्हत्वाकांक्षाय जागताली. 'म्हाकाय तांचे वाटेन चलपाचें आसा' हो निर्धार ताणे मनोमन केलो.

पुंडलीक म्हजेपरस पिरायेन सात-आठ वर्सांनी ल्हान आसलो तरी खूबशी वाट आमी सांगातान चल्ल्यात. हे वाटेर चलतना हांवें बारीकसाणीन ताच्यांतले बदल नियाळ्ळ्यात. गोंयांत आनी गोंयाभायर आमी सांगातान एकेकडेन रावल्यात. प्रतिभेवांगडाच ताच्या व्यक्तित्वांत घडून येवपी बदलांक हांव गवाय आसां.

जिणेंत कांय धाडसी निर्णय पुंडलीकान घेतले तेन्ना हांव अजापून गेल्लों. एक गांवगिरो भुरगो मोगांत पडून लग्न जाता, तेंय आंतरजातीय. म्हाका ताची खूब तोखणाय दिशिल्ली. पूण ताचें घर, ताचो गांव, हें ताचें कर्तूप मानून घेत काय हाचो हुस्को आसलो. मात पुंडलीकान अर्थात हें हेमानूय एक सभावीक करणी जाल्लेवरी सगळे निभावन व्हेलें. 'प्रस्थापीत मत कशेंय आसूं, हांव म्हज्या मताकडेन ठाम रावतलों' हे तत्वाधिश्ठीत भूमिकेन पुंडलीकालें व्यक्तीत्व अदीक पर्जुळूंक लागलें. त्या उपरांत तागेलो दुसरो आनी धाडसी निर्णय म्हळ्यार आकाशवाणीवयली सरकारी पगाराची नोकरी सोडून दिवपाचो. म्हाका ताचो हुसको दिसलो. पिशेपणां करना मूं हो! पूण तेयपरस म्हाका ताचो दुस्वास दिसलो. बरोवपाक फुरसत मेळची म्हूण ताणे बरी येणावळ दिवपी नोकरेक खोंट मारपाचें धाडस दाखयिल्लें. म्हजी इत्सा आसुनूय हांव मात तशें करूंक पावंक नाशिल्लों. आपणाले करणेचेर पुरायेन विस्वास आशिल्ल्या पुंडलीकान ते करणेचें भांगर केलें. एकापरस एक श्रेश्ठ साहित्य कृती निर्मण करून. घडये शणै गोंयबाबानूच ताका नोकरी सोडपाक प्रवृत्त केल्लो जावंये. कारण फुडें कोंकणी चळवळीचो रथ खांद्यार घेवपाक ताचीं भुजां मेकळीं उरलीं आनी हे चळवळीक एक खंबीर नेतृत्व मेळूंक पावलें.

29 जुलय 1985 दीस कोंकणी भाशीक चळवळी खातीर भोव म्हत्वाचो. कोंकणी मायेच्या नांवान मारिल्ल्या एका उल्यान देड हजार कोंकणी मोगी रस्त्यार देंवले. ह्या दिश्टाव्यांतसून 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' संघटनेचो जल्म जालो. हे संघटनेचें फुडारपण एकमत्तान पुंडलीक नायकाच्या हातांत दिलें आनी 555 दिसांचें एक उग्र आंदोलन पुंडलीकाच्या नेतृत्वान जैतिवंत करून दाखयलें. पूण हें नेतृत्व म्हळ्यार ताचे खातीर एक कसवटी आसली. होमखणांत चलपावरी आसलें. गोंयचे साबार फुडारी कोंकणी प्रजेचो आवाजाचे वांगडी, डॉ. विल्फ्रेड डिसौझा, लुईझिन्यु फालैर, एराज्मु सिकैरा, राजू मंगेशकार, माथानी साल्दान्य, माँत क्रूझ, सुलोचना काटकार, निर्मला सावंत, हेर्क्युतान देरादो व्हिक्टोरिया फेर्नाडीस, मावीन गुदिन्यु अशे राजकारणांतले एकापरस एक अशे रथी-म्हारथी. चडशे तापट सभावाचे आशिल्ले. थोड्यांक हिंसा जाय दिसताली. थोड्यांक राजकी सूड घेवपाचो आसतालो. ह्या सगल्यांक वळखून आशिल्लो तो उदयबाब. उदयबाबाचो वेळावेळार सल्लो घेवन आमचो वावर चलतालो. पूण निर्णय भोवमत्तान वा एकमत्तान घेवचो असो पुंडलीकाचो येत्न आसतालो. आनी घेतिल्लो निर्णय तडीक पावोवपाची पुराय जापसालदारकी को. प्र. आ. चो निमंत्रक ह्या नात्यान पुंडलीक निभायतालो.

555 दिसांच्या ह्या आंदोलनान पुराय देशाचें आनी देशा भायल्या लोकांचेंय लक्ष वेधून घेतिल्लें. 14 नोव्हेंबर 1985 दिसा पणजेंत 'न भुतो न भविष्यती' असो म्हामेळावो घडोवन हाडिल्लो. सगळ्या राजकी पक्षांचे फुडारी एके माचयेर येवन एकमुखान कोंकणी राजभास जावची अशी मागणी करताले. हरशीं ह्या धा लोकांचीं धा तोंडां धा दिकांनी. पूण कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचें फुडारपणच सगल्यांक सांबाळून आनी वांगडा घेवन फुडें वचपी आशिल्ल्यान हें शक्य जालें. सगल्यांक वांगडा घेवन आनी तांचेमदीं रावन फुडारपण

करपाची कळाशी पुंडलीकाक बेस बरी सादिल्ली. जावं पणजेंतल्या म्हामेळाव्यांत जावं, दिल्लींतल्या पत्रकार परिशदेंतल्या, जावं गांवगांवांतल्या सभा-बसकांनी, जावं को. प्र.आवाजाचे कार्यकारिणीच्या बसकांनी पुंडलीक सदांच संयमान आनी संतुळा राखून चलतालो - उलयतालो. एकाद्रे बसकेंत कोणूय तिडकीभरशीं हिंसेची भास उलयतालो तेन्ना पुंडलीक तितलेच निबरसाणीन ताका विरोध करतालो. ह्या ताच्या गुणाक लागून त्या रथी-म्हारथींनी लेगीत पुंडलीकालें नेतृत्व गृहीत धरलें ना वा ताका दुय्यम लेखलो ना. गोंयचो आनी कोंकणीचो पाखो घेतलो तो स्वाभिमाना पोटी आनी अस्मिताय तिगोवन दवरपा खातीर- तितलेचपासत पुंडलीकान मंत्री, मुखेलमंत्री, केंद्रीय मंत्री वा मध्यस्थी करपा खातीर केंद्रान गोंयां धाडिल्ले जाळवणदार हांचेकडेन केन्नाच आनी कसलेंच खालतेंपण घेतलें ना.

पणजेंत एका मोर्चाचें फुडारपण करतना पुंडलीक मुखार आशिल्लो. विल्फ्रेड डिसौझासयत आनीकूय राजकी फुडारी मुखार आशिल्ले. अचकीत लाठीचार्ज जालो. पुंडलीकाक मार बसलो, पूण तो पळून गेलो ना. त्या बोवाळांत एक गजाल ह्या कोंकणी भक्तांच्या ध्यानांत आयली- मार खावपाचो तो आमी. राजकी फुडारी उजो घालतात आनी आपूण अचळय कुशीर सरतात. त्या दिसा एकाय राजकी फुडाऱ्याचेर लाठी बसूंक नाशिल्ली. 'हाचेफुडेंय कोंकणी खातीर मार खावचो पडटलो तो आमकां' हें ताणे पारखिलें आनी मन अदीक निबर करून ताणे चळवळ अदीन नेटान फुडें व्हेली.

नेतृत्व करपा सारके गूण आसले तरी राजकी फुडारपण करपाक लागता ती दाट कात आपणाकडेन ना हें वळखल्ल्यान ज्या दिसा कोंकणी प्रजेचो आवाजाचें आंदोलन जैतिवंत जालें त्या दिसा तो अळंग कुशीक सरलो. ताचेर राजकी चेंपण आयलें. लोक मागताले ताणे पक्ष स्थापन करचो, ताणे वेंचणूक लडोवची. पूण पुंडलीकालो निर्धार ठाम आशिल्लो. राजकी मळ सोडून ताणे साहित्यीक मळार वावुरपाचें थारायलें.

रचनात्मक काम करतनाच संघटनात्मक वावराचीय गरज आसा हें वळखून ताणे तरनाट्यांक कोंकणीकडेन ओडपाच्या वावराक सुरवात केली. गोवा कोंकणी अकादेमीचें फुडारपण चलून ताचेकडेन आयलें. नाटकमोगी गोंयकारांच्या काळजाक हात घालतलो जाल्यार नाटक हें एक शस्त्र म्हूण वापरूं येता हें पारखून ताणे बरीं बरीं नाटकां गांवांगांवात पावयलीं. अकादेमीचो वावर हो अकॅडॅमीक आसता पूण साहित्यरचनेक पोसवण मेळटली जाल्यार पुरस्कारांचीय गरज आसता हें वळखून ताणे पुरस्कार दिवपाची येवजण चालीक लायली. कोंकणी अकादेमीक आजून वांगडी सचीव ना. तो मेळचो हे नदरेन ताचे यत्न चालू आसात.

मजगतीं 2008-2012 ह्या काळांत ताणे केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे वावुरपी समितीचो वांगडी म्हूण मोलाचो वावर केलो. कोंकणी सल्लागार समितीचो निमंत्रक म्हूण कोंकणीक राष्ट्रीय मळाचेर सुविधा मेळोवन दिवप, विंगड विंगड कार्यावळी चालीक लावप आनी कोंकणी लेखकांक भारतीय साहित्यकारांचे पंगतीचो लाव घडोवन हाडप हें काम तर ताणे केलेंच. पूण कार्यकारिणीचो वांगडी ह्या नात्यान पुराय भारतीय साहित्य आनी साहित्यकारांचो प्रतिनिधी म्हूण केल्लो वावरूय तितलोच मोलाचो. विंगड विंगड वाठारांनी साहित्य अकादेमीन घडोवन हाडिल्ल्या परिसंवादांनी वांटो घेवन कोंकणीचो बावटो हुबोवपाचें काम केलें. हें काम करतना आपूण कोंकणीचो एक निशठावंत कार्यकर्तो हीच भावना ताच्या काळजांत आशिल्ली.

आयचे घटकेक तो गोवा कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष आसा. ताचें नेतृत्व सदांच दुसऱ्यांक प्रेरणा दिवपी थारलां. फुडारांत घडये हाचेपरस व्हडली पदां तो भुशयतलो. आनी कसलेंच पद नासतनाय कोंकणी खातीर वावर तो करीत रावतलो. पुंडलीकालें व्यक्तीत्व आनी नेतृत्व तरणे पिळगेक सदांच प्रेरक थारतलें.

◆◆◆

# Keep Goa Clean

You can help the authorities in safe disposal of "Household/Muncipal" Solid Waste as under:

1) Do not litter.
2) Avoid the use of plastic bags.
3) Collect household " wet" waste (Biodegradable 'kitchen/garden' Waste) and 'dry' waste (non-biodegradable) in separate Containers.
4) Use 'wet' waste for conversion into manure in your 'back garden'.
5) Dispose off 'PET' bottles, plastic bags, glass bottles, metals and paper through PET collection centers and scrape dealers.
6) Dispose off remaining "wet" and "dry" waste separately through the Municipal/Panchayat authorities.

**Please Note**

"Municipal/Household" solid waste increases with the increase in our standard of living. It is mandatory under the law of each "Municipal/Village Panchayat" to collect, treat and dispose off "Municipal/Household" Solid Waste in a safe and sanitary manner.




Issued in Public Interest by
**Department of Science, Technology & Environment**
Government of Goa
Saligao, Goa



# Department Of Cooperation



**Government of Goa, Panjim-Goa**

The Department Of Cooperation has brought-out various welfare schemes for the development of cooperative movement in the State of Goa. It is the movement of mass people in the Cooperative Societies by availing all the facilities for improvement of their economic and social conditions.

The various types of cooperative societies are being provided with the financial assistance through the Registrar of Cooperative Societies to strengthen the financial base in the form of:

I) Govt. Share Capital and interest free loan .
ii) Managerial Subsidy.
iii) Loan/subsidy for construction of Godown.
iv) Loan/subsidy for purchase of furniture and fixtures.
v) Loan/subsidy for purchase of computer and transport vehicles.

***SEVEN SALENT FEATURES OF COOPERATION:***

1. KNOW YOUR OWN COOPERATIVE SOCIETY.
2. USE THE SERVICES OF YOUR COOPERTAIVE SOCIETY.
3. TRUST IN YOUR COOPERATIVE SOCIETY.
4. BE HONEST AND SINCERE TO SHARE THE RESPOSIBILITIES IN THE COOPERATIVE SOCITIES.
5. MUTUAL SUPPORT AND BENEFITS TO EVERY MEMBER IS THE CORNER STONE OF COOPERATION.
6. CONTRIBUTE YOUR EFFORTS FOR DEVELOPMENT OF COOPERATIVE SOCITIES KEEPING THE BASIC PRINCIPLE OF "ONE FOR ALL & ALL FOR ONE".
7. DEVELOP YOUR VILLAGE, CITY THROUGH COOPERATIVE SOCIETY.

Issued by:

**REGISTRAR OF COOPERATIVE SOCITIES**
**GOVERNMENT OF GOA, PANJIM-GOA.**

# लोकसंग्रही: पुंडलीक नायक

लेख

सुमार चाळीस एक वर्सां फाटली गजाल. हांव कोंकणीचे एके कसले तरी कार्यावळी वेळार सभाघरांत बशिल्लों. म्हज्या म्हऱ्यांत एक बावीस-तेवीस वर्सां पिरायेचो तरनाटो येवन बसलो. हांवें ताचें नांव विचारलें. ताणे सांगलें, ''पुंडलीक नायक''. हावें म्हळें, पुंडलीक नारायण नायक म्हूण एकलो बरयता. ''हय हांवूच तो'' म्हाका कच्च जालें. इतलो भुरगो? हांवें ताका म्हळें लेगीत, तुज्यो कथा हांवें वाचल्यात. हो कथा लेखक म्हज्या दोळ्यांमुखार आशिल्लो तो सादारणसो पन्नास-पंचावन्न वर्सांचो दादलो. लक्ष्मणराव सरदेसाय बी तातूंतलो. ताणे थंडपणान म्हळें, ''जायत्या जाणांनी म्हाका तशेंच सांगलें'. ताचे उपरांत आमचेमदीं कितें उलोवप जालें तें म्हाका याद ना. पूण पन्नासां वयर पिरायेच्या मनशाची परिपक्कताय ताच्या साहित्यांत तेन्नाच दिसताली. डॉ. मनोहरराय सरदेसायाचेर हांवें बरयिल्ले एके कवितेंत हांवें ताका म्हणिल्लें, 'मांडविचे हांडीवेलें बरप्याचें कूळ तुजें' पुंडलीकाक म्हणचें जाल्यार बरप्याचें कूळ अशें जरी म्हणूंक जालें ना तरी तोय बी मांडवीचे हांडीरूच ल्हानाचो व्हड जाला. आनी ताच्या मुखावयल्या पिळग्यांनी बरप्याचें कूळ म्हणोवन घेवपा इतली साहित्य संपत ताणें करून दवरल्या. तो हरशीं कथाकार पूण रायटर फायटर जातात तें कोंकणीन पळयलां. अशाच एका समर प्रसंगार तो बांगर बैल जावन आयलो आनी शिंगां दाखोवन पुजून घेतलों अशी गरड जेन्ना ताणे घाली तेन्नांच जैत आतां पयस ना म्हणपाची मनान गांठ घातली. ही गरड कानार पडटकूच सगळें गोंय जागें जालें आनी जेन्ना 'कोंकणी प्रजेचो आवाज'ची पणजेंत व्हडली सभा जाली तेन्ना पुंडलीका भेटेक परब्रम्ह आयिल्लें पळोवपाचें भाग्य ज्या दोळ्यांक मेळ्ळें ते खरेच भाग्याचे. असो पणजी भरून ओतता म्हणपा सारको लोक हाचे आदीं गोंयात खंयचेच कडेन केन्नाच जमूंक ना. फुडारांतलें म्हज्यान कांय सांगूं नजो. तें काळाचे गरजे प्रमाण जातलें.

आरंभाक हांवें पुंडलीकाक हरशीं कथाकार अशें म्हळां.



शांताराम वर्दे वालावलीकार
(लेखक, शणै गोंयबाबाच्या समग्र साहित्याचे संपादक)
पर्वरी - गोंय
मो. 9881730802

तसो तो कवीय. मात मुखार नाटककार म्हणूनूच ताची चड वळख जाली. ताचीं जायतीं नाटकां जालीं. ताचें नवें नाटक चालू जातकूच मदल्या काळांत वा मध्यंतरांत आरत्यो परत्यो चर्चा जाताल्यो. चड करून कला अकादेमींत नाटकां सुरू आसतना. पुंडलीकबाब थंयच आसतालो. कान दिवन आयकतालो. पूण तें अशें न्हय तशें न्हय अशें ताणे केन्नाच सांगलें ना. तो आपली भुमिका किदें, कित्या खातीर आपणाक अमूक एक बरोवचें पडलें वा आपणे बरोवपाचें टाळ्ळें हें थंय सांगपाचे भानगडींत पडलो ना. अलिप्तपणान उक्त्या कानांनी बरी वायट टिकाटिपणी आयकुपाची ताणें सुरवेसावनूच संवकळ लावन घेतिल्ली. ताचेकडेन जापो नाशिल्ल्यो अशें न्हय. त्या वेळार तो वादांत भितर सरनाशिल्लो. घडये गरज पडली जाल्यार ते संबंदांतलें स्पश्टिकरण ताणे दुसऱ्या खंयच्याय माचेवयल्यान दिलां आसूंये. एक याद जाता, ती ताच्या पयल्याच 'खण खण माती' ह्या नाटकाचो कला अकादमींत प्रयोग जाल्लो तेन्नाची. ह्या नाटकांत म्हजे भयणीन (आतां उषा सरदेसाय) काम केल्लें. त्या नाटकांत पोजडी भास खूब्ब आसा. इतल्या वर्सां उपरांत आयज सुदारिल्ल्या समाजांत ताचें कोणाक कांय व्हडलेंशें ना दिसूंये. पूण तेन्नाच्या प्रेक्षकांक अशे तरेच्या संवादांची संवकळ नाशिल्ली. आनी मध्यंतराच्या वेळार तांच्यो आरत्यो परत्यो (चडश्यो परत्योच) प्रतिक्रिया जायत्यो आयल्यो. पुंडलीकबाबान त्यो थंडपणान आयकून घेतल्यो. आपली कसलीच प्रतिक्रिया दी नासतना. म्हाका ताचें कवतूक दिसलें. अजुनूय ताचे हे वृत्तींत बदल जावंक ना. राजकी माचयेर वा भाशीक प्रस्नाचेर विरोधकांचेर सामको पोटतिडकीन तुटून पडपी हो मनीस आपणावयली साहित्यीक टिकाटिपणी (सामकी तोंकाची विरोधी आसली तरी) शांतपणान आयकून घेता हें पळोवन अजाप दिसता. पूण तोच पुंडलीकबाब ह्या साहित्यिकाचो खाशेलो गूण. ताच्या साहित्यीक गुणांची चर्चा हेर जायत्या जाणांनी ह्या अंकांत केल्या आसतली. हांव ती परत करूंक सोदिना. पूण पुंडलीकबाब वेळार कोंकणीचे गरजेक पावलो हाची नोंद करून दवरूंक जाय. तो तेंप मराठीवाद्यांचे थारावीक प्रस्न आयकुपाचो आशिल्लो. तुमचेकडेन महाकाव्य खंय आसा, तुमचेकडेन अभंग खंय आसात? ह्या प्रस्नांक जाण्टेल्यांनी करून दवरिल्ल्या कर्तृत्वाची मिरास मिरोवचे परस खासाखुद्द आपणेच त्यो गजाली करून दाखोवपा खातीर त्या त्या मळावयल्या जाणकारांनी पेंगट बांदलें. पुंडलीकबाबान नाटकांचो उणाव भरून काडलो. त्या वेळार आमचेकडेन सगळींच इनमीन साडे तीन नाटकां आशिल्लीं. 'मोगाचें लग्न', 'पोवनांचें तपलें', 'झिलबा राणो', 'ताची करामत', 'चवथीचो चंद्र' आनी हेर कांय एकांकी अशीं हाताच्या बोटांचेर मेजूं येतली इतलींच नाटकां. तांच्योय छापील प्रती मेळपाची अडचण. कोणूय एकाद्रो उमेदीन कोंकणी नाटक करूंक भायर सरला म्हूण ताका कोणेय आपलेकडली छापील प्रत काडून दिली तर ती परत मेळपाची शक्यताय उणी. अशे परिस्थितींत नव्या नाटकांची सामकी गरज आशिल्ली. तेन्नाच 'भुतेबाब', 'राजा चंद्रहास', 'कालीगुला' अशीं कांय नाटकां हे गरजेंतल्यान छापून आयिल्लीं. पूण मागीर गांवगांवांनी, काल्या उत्सवांनी गाजूं लागलीं तीं पुंडलीकबाबाची नाटकां. पूण ती फकत गरज भागोवपा खातीर नाशिल्लीं. हेर खंयचेय भाशेंतल्या नाटकांकडेन सर्त करीत इतल्या तोलामोलाचीं नाटकां पुंडलीकबाबान बरयलीं. आनी 'कोण आहे रे तिकडे?' थाटाचीं नाटकां गोंयचे माचयेवयल्यान लागीं लागीं नाच्च जालीं म्हळ्ळ्यार अतिताय जावची ना. पुंडलीकबाबा वांगडा हेर जायत्या नाटककारांनी गोंयचे रंग माचयेक सोब हाडल्या हीय गजाल मानून घेवपाक जाय.

कोंकणी साहित्यीक हो इतिहासीक कारणांक लागून भाशीक आनी राजकी चळवळींतलो मनीस. पुंडलीकबाब ह्या दोनूय चळवळींतलो म्हालगडो जावन वावुरतालो. ताचो लोकसंग्रह कितलो व्हड हाचो प्रत्यय हांवें घेतला. कोंकणी भाशा मंडळाच्या रुप्याउत्सवी समितीचो हांव अध्यक्ष आशिल्लों. तेन्ना आमी गांवगांवांनी चर्चासत्रां आनी परिसंवाद घडोवन हाडिल्ले. तेदेवेळार त्या त्या गांवांनी थळाव्या लोकांकडेन संपर्क सादपाक म्हाका पुंडलीकबाबाचो खूब आदार जाला. सगळ्याच गांवांनी ताचे कितलेशेच इश्टमित्र आयिल्ले. तांका लागून थळावें आयोजन सोपें जालें.

आज हांव जेन्ना चाळीस वर्सां फाटीं वचून पळयतां तेन्नाचो तो पुंडलीक नांवाचो वळवयचो तरनाटो साबार कोंकणी समाजाचो पुंडलीकबाब जाल्लो म्हाका दिश्टी पडटा. कोंकणीच्या मळार वावुरपी सगळेच जाण शणै गोंयबाबांक आदरान मानपी. पूण पुंडलीकबाब हे तांचे खाशेले भगत अशें म्हजें एक निरिक्षण. बाब हें उतर आमी व्हड मनशा खातीर वापरतात. गोंयबाब ह्या उतराची फोडणिशी करतनां बाकीबाब बोरकर हांणी म्हणलां, 'बाब हे निमणे मात्रेन आमचो पुरुशार्थ इतिहासाचे पेडयेर उबो रावन आमकां साद घालूंक लागलो' बाब हें उतर आमच्या पुरुशार्थाच्या इतिहासाचें प्रतीक. मुखावयल्या काळांत इतिहासकार जेन्ना गोंयचो इतिहास बरोवंक घेतले तेन्ना तांच्या कानार पुंडलीकबाबाच्या कोंकणी प्रजेचो आवाज गाजत आसतलो.



# पुंडलीक नारायण नायक : एक उडटी वळख

लेख

पुंडलीक नारायण नायक.
तुमचो आमचो लार्गीचो पुंडलीकबाब.
- एक अश्टतासी लेखक.
एक उमदो चळवळी.
एक संयमी विचारवंत.
- एक भोव आयामी व्यक्तीत्व
प्रथमदर्शनी कोणेय आकर्शीत जावचें अशें,
निरागश मुखामळ, तेजिस्ट नदर,
मुखारच्याचो थेट आंतस्थाव घेवपी अशी...
- इश्टागतीक जागपी एक बरो इश्ट.
दुस्मानाची दुस्मानकाय तितकीच निबरपणान पाळपी.
'भले तर देवू कासेची लंगोटी,
नाठाळ्यांच्या माथी हाणू काठी!'
म्हणपी- वागपी दादा पुंडलीकबाब.
- सामुदायीक आनी सार्वजनीक,
ध्येयपुर्तीची गरज म्हणून,
'पादूं पूण नांदू' हे भावनेन,
सहकाऱ्यांचे अपराध पोटांत घालपी,
सहकारी पुंडलीकबाब.
- सार्वजनीक वावरांत मुखार आशिल्ल्यांच्या नशिबांत,
विरोध आनी विरोधक आसतातूच.
खूपदां हो विरोध विरोधा खातीर आसता.
कायदां तो गैरस'ाजांतल्यान येता.
कायदां तो विरांधकांचो 'त्सर आसता.
बेबुनयादी विरोधाक आनी विरोधकांक,
मार भिस्क्यार म्हण फुडें वचपी,
बेफिकीर पुंडलीकबाब.
- हटवादी- हट्टी न्ही असो,
समंजस पुंडलीकबाब.




डॉ. तानाजी हळर्णकार
(कोंकणी विश्वकोशाचे संपादक आनी साहित्य अकादेमीच्या कोंकणी सल्लागार मंडळाचे निमंत्रक)
पर्वरी - गोंय
मो. 9822825503

विरोधकांची भुमिका समजून घेवपाचें,
पासियेंस दाखोवपी निसरगांठी पुंडलीकबाब.
विरोध म्हणजे दुस्मानकाय आनी
विरोधक म्हणजे दुस्मान
अशे तात्वीक विरोधाचें आनी वैयक्तीक विरोधाचें,
गांठवल ना बांदपी नेमस्त पुंडलीकबाब.
- एका काळांत, एका विशयाकडच्या विरोधकाकडेन,
दुसऱ्या काळांत दुसऱ्या विशया खातीर,
हात मुखार करपी नमळ पुंडलीकबाब.
जंय संद मेळल्या थंय आनी,
जाका फाव जालां तें दिवपाक,
इल्लेंय काटूकपण ना करपी.
थंय अनुयायी आनी विरोधक,
हो भेदभाव ना बाळगुवपी
उदार पुंडलीकबाब.
- तत्त्व म्हत्वाचें, बाकीचें सगळें दुय्यम.
स्वाभिमान आनी अभिमाना खातीर,
तडजोड ना स्विकारपी,
ते खातीर केद्राय त्यागाची तयारी दवरपी,
बांगरबैल पुंडलीकबाब.
थंय मागीर कोणाकडेन वांकडेपण येतलें–
सरकाराकडेन लेगीत–
हाची पर्वा ना करपाचें अवेव्हारीपण करपी,
अवेव्हारी पुंडलीकबाब.
- मनशाक कसो पारखुंचो हें,
ताचेकडल्यान कोणेय शिकचें.
खांची कोनाशांतल्या मनशांच्या,
गुणाचो वास ताका येता असो,
गूण पारखी पुंडलीकबाब.
सर्वसादारण मनशाक दिसचे नात,
ते गूण ज्युस्त पारखुपी.
पारखिल्ल्या गुणांचो वापर कोंकणी खातीर,
करून घेवपाची कळाशी सादिल्लो,
फिशाल पुंडलीकबाब.
- जावं साहित्य अकादेमीचो वावर,
वा गोवा कोंकणी अकादेमीचो,
कोण एक कुशीक उरलो अशें ना.
नावजत्यांक तशें ना नावाजत्यांक,
खंयना खंय, कसले ना कसले कार्यावळींत
मुजरत आस्पावन घेवपी,
सगळ्या गोरवांचेर लक्ष दवरपी,
राखणो पुंडलीकबाब.
- आपलीं पंधरा नाटकां प्रकाशीत करतना,
दर एक नाटक कोणा ना कोणा,
बऱ्या मागप्याक अर्पण करपी,
मुर्वती पुंडलीकबाब.
हातूंत ताका नाटकाचो पयलो पाठ शिकोवपी,
शाळेंतलो मास्तर.
नाटक कशें बरोवचें न्ही
सांगपी पाडेली.
ऐन उमेदींत माचयेवयल्यान
एक्झीट घेवपी कलाकार.
कोंकणी नाटकाचें सपन दाखोवपी
नाटकाचो जाणकार.
नाटकाची वाट मळ्ळी ते पूर्वसुरी,
जाणी हे वाटेर सांगांत दिलो ते समकालीन.
सगळ्यांची यथोचीत याद करपी,
दिलदार पुंडलीकबाब.
ह्या सगळ्यां बऱ्या मागप्यांचो,
जाहीरपणान सन्मान करपी,
कृतज्ञ पुंडलीकबाब.
तोंड भरून तोखणाय केल्ल्यांची
काळीज भरून याद करपी
इमानी पुंडलीकबाब.
- पदाच्या सत्तेची एक नशा आसता.
कांय जाण पदापरस ही नशाच,

चड भोगतात. पदां मिरयतात.
विनम्रपणान पद भोगपी,
आडवादी उणे आसतात.
अशा आडवाद्यांमदीं फुडें आशिल्लो,
विनम्र पुंडलीकबाब.
- सत्ता आसता थंय संपत्तीय आसता.
संपत्तिचो गैरवापर करपाची थंय
संद आसता, सवलत आसता.
भल्ल्यां भल्ल्यांक मोह टाळप जायना.
हे बाबतींत दुस्मानाक लेगीत बोट दाखोवपाची
छाती जावंचिना अशे प्रतिमेचो
नितळ पुंडलीकबाब.
- खोंट मारीन थंय उदक काडपाची
खूब जाणांक धमक आसता.
हात लायन ताचें भांगर करपाचें
अवघ्यांकच जमता.

कोंकणी चळवळींनी खोंटीर खोंटी मारून
उदकाचो घसघसो काडपी,
जहाल पुंडलीकबाब.
साहित्य, नाटक, सिनेमा-
जंय जंय स्पर्श जालो,
थंय थंय भांगराळें जालें,
हात लायता ताचें भांगर करपी
परीसस्पर्शी पुंडलीकबाब.
- कोंकणी हो ध्यास आनी लेखन हो स्वास जाल्लो
ध्येयवादी पुंडलीकबाब.
आपल्या कर्तृत्वान आपलें
आनी आपल्या वांगडा गोंयचें नांव व्हड करपी,
कर्तृत्वी पुंडलीकबाब.
गोंयचें भूशण, कोंकणीचें विभूशण
पुंडलीकबाब...



# पुंडलीकालो साहित्य उन्मेश

लेख

पुंडलीकालें साहित्य वास्तववादी, अतिवास्तववादी अणभवातल्यान अवतरता, तरीय ताका ललित कलात्मकतेचो बाज आशिल्ल्यान खूब आनंदमय जाता. ताका अभिजातपणा लाबता. आत्मभान, समाजभान आनी अणभव एकाच स्तरार येवन बरयतना आपले पांय भुंयेर तेकिल्ले आसपाक जाय हाचें भान ताका सतत आसता. संवेदनशील मन आसा. ताची भावनीक कंपना आसात. पूण ती कंपना उत्कीं जावन वाचकांक जाणवची न्ही हाची जतनाय तो घेता. उतरां भावनेत भिजोवन मांडप हें ताका मानवना. म्हूण ताच्या साहित्यांत दुख्खान गलबलून गेल्लीं भावनेच्या भारार अधीर जावन उलोवपी, कोसळपी मनशां नात. तीं चड व्यवहारीच आसात. सडेतोड उलयतात. अणभवाचो विस्तार कल्पनेतल्यान करीत आसता पूण अणभव आनी कल्पना हाची वेगळी वर्गवारी करूक येना होच तर एकाद्र्या व्हड साहित्यिकाचो जल्मगूण आसता. अशे साहित्यिकाचे बरेच जल्मगूण पुंडलीकासर्री आसात. एकाद्रो कलाकार, साहित्यीक मुळांत जल्माकच येवचो पडटा काय किते, असो प्रस्न कोणेय विचारल्यार पुंडलीकाक मुखार करूं येता. तागेलें साहित्य म्हणल्यार दळण न्ही, साचे घालप न्ही, जल्मजात प्रतिभेचो तो अविश्कार, आभास आनी उतरांचो संभ्रम सोडून पुंडलीकाच्या साहित्यांत सगळें आसा. वास्तव, अतिवास्तव, जीवनदर्शी विचार आनी कलाविश्कार असो सुरमेळ साधपी लेखक भोवच उणे जल्माक येतात. केन्ना अतिवास्तवाच्या मुशीतल्यान कलाविश्कार घडटना कलेक मुरड पडटा. पूण पुंडलीकाले निर्मणेंत अशें जायना. शेवटा कलाकारूच श्रेश्ठ, सुप्रीम आसता.

अणभवाक तो जातीभेद लायना. सगळ्या तरेच्या अणभवाक आपल्या साहित्यांत तो आसपावन घेता. तो सर्वस्पर्शी लेखक. तळागाळांतलो मनीस. ताचे अणभव आपले अणभव म्हूण घेता आनी वयल्या वर्गांतलो मनीस तांचो कलात्मक आनंद घेता. तरीय केन्ना सोवळ्या अणभवाक चटाविल्ल्या वाचकांच्या



**महाबळेश्वर सैल**
(राष्ट्रीय किर्तिचो कोंकणी कथा-कादंबरीकार)
फातोर्डे - गोंय
मो. 09764072908

मेंदवार चीर पडिल्लेवरी जाता. खरें जाल्यार अणभवाक गुळगुळीत, मिळमिळीत करूक उपकरना. कारण तांका धार आसता चिरो आसतात. केन्ना ते खूब खडबडीत आसतात. अशा अणभवाची मजाच आगळी आसता हें पुंडलीक बेस बरें जाणा. केन्ना असलें बहुधारी साहित्य समीक्षकांक कचाट्यांत धरता. ते संभ्रमात पडटात, खर्शेतात, मागीर कितेंय कायलोळ्यो करीत रावतात. वाचप्याकूय असलें साहित्य वाचचे, पळोवचे पयलीं मनाची तयारी करची पडटा. तरीय वाचून, पळोवन जातकूच तागेल्या मना-काळजार इल्लें रगत निशेंताच. तो केन्ना रितो उरना. ताका फटाविल्लेवरीं दिसना.

जेन्ना पुंडलीकालें साहित्य अणभवाच्या इतल्या मुळाव्या पावंड्यार वता; ताच्यो प्रतिमा आनी रुपकांय तो वास्तवतेच्या भुंयेर तेकयना. 'मुठय' तल्यो बऱ्योच कथा ह्यो रुपक कथाच. 'कासय', 'पारज', 'देंठ' ह्या बऱ्यो रुपक कथाच. 'अच्छेवा'तलें दर एक पात्र आमच्या मुखार रुपक म्हण येता. कितल्योश्योच घडणुको ह्यो रुपकांच. म्हूण 'अच्छेव'ही एक बरी कादंबरी. खरें तर 'अच्छेवा'तल्या दर एका पात्राक वेगळे काडून उबो करून ताचो सोद घेवपाक जाय. धड, किडिल्ली, दुभंगिल्ली हीं वेगवेगळी रुपकां म्हूण उबीं रावतलीं. तसो दर एक प्रसंगाचोय कलात्मक नदरेन अर्थ काडूंक जाय. रुपकांचें वैभव आमकां मेळटलें. 'सुरींग' खरें तर एक रुपक नाट्य. रुपक रंगयतना खरें तर लेखकाली प्रतिभा पणाक लागता. मनश्यान आपले सांस्कृतीक परंपरेन कितलेशेच नैतीक संकेत आपणायल्ले आसात. ते वळखून साहित्यात कलात्मक पणान हाडप हो प्रतिभेचो भाग. तो वळखलो जाल्यार आपल्या सांस्कृतीक संचिताची खोलायेन जाण आसची पडटा आनी पुंडलीकाक ती बरे तरेन आसा.

ताका तथाकथित सोवळी निरागसता मान्य ना. अतिवास्तव जिवीत जियेतना निरागसता खंयच उरना. मनशाले 'भुकेचे' ताच्या अस्तिवाचे झगडें इतलें खर आसा, निरागसता तिगोवन दवरतलो म्हूण हट्ट धरल्यार ती तिगना. मनीस तर सान बाळकच जावन पुराय जिवीत जगूंक शकना. सुरिंगातलो लिओ निरागस न्ही. तो भिजूड आनी अज्ञानी. अज्ञान म्हणल्यार निरागसता न्ही मुठयतल्या 'वळख' हे कथेतलो दादा निरागस दिसता. पूण तो अजून आकाराक येवक नाशिल्ले बाळकच आसा. 'मोगाची धूव' हे कथेतले आवय धुवेन तर निरागसतेचो गोबोर केला. अशीं आनीक जाय तीं पात्रां आसात. तांची निरागसता सामकी आंटून गेल्या. हाचो कांय समिक्षकांनी धसको घेतला अशें दिसता. पूण पुंडलीक वास्तवतायेचो उजो पचोवपी तांक आशिल्लो लेखक.

पुंडलीक सपनां दाखयना. सपनां फाटल्यान धांवडायना. बोध, उपदेशय करीना. फकत विचार कर म्हूण सांगता. वास्तव आनी अणभव सापेक्ष जीवनदर्शन वाचका मुखार दवरता. धडो घेतलो जाल्यार घेयात ना तर सोडून दियात. अच्छेवातली शोकांतिका आसूं वा सुरिंगातलो निमाणो उन्मेश आसूं. तटस्थपणान मुखार धरिल्लो हारसो. साहित्य उलथापालथ करूंक शकना. तरीय काळजांत वेदना भरून दिता. ह्या वर्ससंकीनच्या वेदनेचो उजो जाल्लो इतिहासान पळयला. अशें म्हणटात दर एक क्रांतीकाराच्या फाटल्यान एक पुस्तक आसता. फुडाराक घडये पुंडलीकालेंय एकाद्रें पुस्तक खंयच्याय क्रांतिकारा फाटल्यान आसूं येता. अशें शंबर वर्सान जालें तरीय ताच्या सगळ्या साहित्याचें यश म्हूण येतलें. 'कथा अस्तुरी' ह्या नाटकाच्या पुस्तकाक तर तें बळगें आसा.

पुंडलीकाल्या साहित्यांत लोकवेद खूब

येता. तो नाटकांनी आसा. कादंबरींत आसा आनी कथांकय स्पर्श करून वता. 'गुणाजी' ही धाकटुली कादंबरी तर लोकवेदाचोच आगळो रुपकार. गुणाजी ही कादंबरी, 'कासय', 'आडवण', 'पारज' सारकेल्या कथांवयल्यान लेखकाचे नांव कुशीक काडल्यार त्यो बरें लोकवेद साहित्य म्हूण मानून घेवंक येत. लोकवेदातल्या साहित्याक भुंयेचो, मातयेचो वास आसता. सैमाचे सान्निध्य आसता. मनशाचो हावेस आसता. म्हूण लोकवेदाच्या स्पर्शान साहित्याक मौलिकताय येता. तशी ती पुंडलीकाल्या साहित्याक आयल्याय.

तळागाळांतल्या लोकांनी मुळावी गांवगिरी भाशा पुंडलीकान पयलीच फावट कोंकणी साहित्यांत वापरली. हे भाशेचो एक उत्सवच आपल्या बरपांतल्यान ताणे मांडलो. कांय मुळाव्या उतरांची पयलीच फावट कोंकणी वाचप्यांक वळख जाली. हे तागेल्या उतरांनी आनी भाशेन मुखार कोंकणी बरोवप्यांक बरीच ऊर्जा दिली. कोंकणी साहित्यांत मुळावेंपण आयलें. कोंकणी साहित्याक गांवगिरेपणाचो वास पयलेच फावट पुंडलीकान दिलो. ताका लागून ताची दिकाच बदलून गेली.

मुळांत पुंडलीक एक जातिवंत कथाकार. ताचें साहित्य कथांच्या तुकड्या तुकड्यांनी वाटून गेलां. 'मुठय', 'अर्दूका'तल्यो तागेल्यो कथा ह्यो बऱ्यो कथा आसातूच. ताचें हेर साहित्य लेगीत कथांच्या तुकड्या तुकड्यांनी येता. अच्छेव कादंबरी ही कथांचीच एक माळ. तातूंतल्यो कथा विंगड विंगड करून एक कथाझेलो करूंक येतलो. तातूंतलें दर एक पात्र आपली कथा घेवन येता. कथांच्या मध्यार उबे रावता. म्हूण घडये अच्छेवातलीं पात्रां खूब उठावशीर, वास्तव, जितीजागती दिसतात. गुणाजी पुस्तकाक हांव कादंबरी म्हणचे परस 'अद्भूत वास्तव' कथा म्हणीन. अशा सपन वास्तवातल्यान कथा रचून साहित्यीक आनंद दिवप बरेंच कठीण काम. भारतातल्या साहित्यांत हाका बरी प्रतिक्रिया येना, तरीय विदेशी साहित्यांत हाची चलती आसा. पुंडलीकाल्या कथांचीं नाटकां जाल्यांत आनी नाटकांचीय ऐकक कथा जावं येता. म्हाका केन्ना केन्ना दिसता पुंडलीकान आपल्या सगळ्या नाटकांच्यो कथा वा कादंबऱ्यो करच्यो. 'सुरिग', 'कथा अस्तुरी', 'पिंपळ पेटला', 'श्री विचित्राची जात्रा' अप्रतीम कादंबऱ्यो जातल्यो. तो भारतीय साहित्यांत एक आगळोच वावर थारतलो. पुंडलीक नाटककार ना जाल्लो तरीय एक बहुप्रसवी असो कथाकार, कांदबरीकार जाताशिल्लो.

ताच्यो कविता रुप स्वरूप आशिल्ल्यो कविता. तातूंत कितें तरी घडटा. दोळ्यांमुखार कवितेची संकल्पना, चित्र उबें रावता. तो फकत शब्दखेळ न्ही. ती खूब कितें सांगून वता. तातूंतल्या विद्रोहात क्रांतीचें बीज आसा. तें कोंकणी भाशे संदर्भातल्यान जाव वा समाज वेवस्थेच्या संदर्भांतल्यान. म्हत्वाचें म्हणल्यार ती कवील्या मनसभावाक समांतर उरता. इल्ली विसंगत जायना. ताका तळागाळांतल्या मनश्याल्या अणभवाचें, अन्यायाचें पाठबळ आसा. म्हूण ती केन्ना आंगार उसळटा. पुंडलीकान सांगल्यार हांव 'बांगर बैला'चेर सुंदर विद्रोही रुपककथा बरयन. कृतिशील कविता ही दुर्मीळ आसता. पूण पुंडलीकाल्यो सगळ्यो कविता कृतिशील. केन्ना कृतिशीलपणाच्या हव्यासान काव्यात्मतेकूय मुरड घातिल्ली दिसता. ती एका अर्थान जागरण कविता. अश्यो कविता दक्षिण आफ्रिकेच्या स्वातंत्र्य संग्रामा वेळार खूब बरयिल्ल्यो दिसतात.

पुंडलीक कितें सांगचें आसलेबगर लेखणी हातात घेना. 'अच्छेव' हे कादंबरींतल्यान तो कितें सांगपाक सोदता? पर्यावरणाचो ऱ्हास? धरतरेची आनी वांगडा मनशांचीय पिळवणूक? तें इतले भितरूच मर्यादीत ना. मनशाची गरिबी आनी अभाव हाका लागून मनशाक भौतीक सुखाफाटल्यान धांवडावप आनी ताची नैतिकता, सांस्कृतीक परंपरा, परंपरागत वेवसाय हाका कणाकणान मारप, जिवितांत व्यसना आनी बुरशेपण हाडप असो हो विस्तृत पट अच्छेवात आसा. ही एक शोकां-तिका. ती

मनशांचीच न्ही, परंपरेचीय जावन आसा. भौतीक सुखां फाटल्यान धावंतना जाल्ली प्रचंड पडझड पस्तीस वर्सां आदी अग्रदूत जावन पुंडलीकान हाची सुलूस दिल्ली. आयज तें कितलें खरे थारलां! ती म्हाका भविश्यकाळाची प्रतिकात्मक कांदबरी दिसता. नानू, केसराली शोकांतिका ही मनीसकुळयेची शोकांतिका जावन आसा.

व्हडा अर्थान आमी पुंडलीकाक नाटककार म्हण धरतात. ताकाय नाटककार म्हूण घेवपाक बरें दिसता जावये. नाटक ह्या सांघीक कला संवसारांत तो रमला. तो ताच्या मूळ व्यक्तिमत्वाचोय भाग जावये. त्या सांघीकपणानच ताका उर्बा दिल्या. फुडल्या नाटकावटेन व्हेला. ताचे साहित्यीक गूण, सांघीक वृत्ती आनी नाटक घडोवपाची कला हाणे तो बरो नाटककार जाला. नाटककाराकडेन जो कलात्मक संयम आसचो पडटा तो ताचेकडेन आसा. म्हूण ताचें नाटक खंयच फासपून वचना. रटाळ संवादांनी भरिल्लें आसना. ताच्या नाटकातलो मुख्य गूण म्हणल्यार दर एका नाटकांत तो नवें कितें तरी परगटायता. ताचो तो हावेसूच आसता. नवें नवें सांगत रावपाचें. ताचें दर एक नाटक फाटल्या नाटकापसून वेगळें. विशय, आशय, तंत्र सगळ्याच बाबतींत फुडल्या नाटकाचेर फाटल्या नाटकाचो इल्लोय प्रभाव ना. स्वतंत्र आनी सर्वसमावेशक प्रज्ञेबगर हें शक्य ना.

नाटकांतल्यान कथा सांगतना मुखार पुंडलीक फकत कथाकार म्हूण फाटीं पडिल्लो दिसता. 'मुठय' तल्यो कथा बऱ्या कथांचो अस्सल नमुनो. खूब पयलीं, उणे पिरायेचेरूच ताका कथा म्हणटात तें किते तें कळिल्लें. खरें तर 'मुठय'तल्यो कथा नवकथेची बुनयाद आशिल्ली. पूण ती प्रकृती पुंडलीकान मुखार व्हरूक ना आनी हेर कोणाकूय ते शक्य जालें ना. 'अर्दुका'तल्यो कथा चड करून नागरी फाटभूंय आशिल्ल्यो विचारप्रधान कथा. ताका मुठयतल्या 'मोगाची धूव', 'आडवण', 'पारज' हांचो वास ना. एका अर्थान एकाच लेखकाले हे दोन प्रवाह हें विशेश. तरीय दिसता पुंडलीकान मुठयची प्रकृती, ताचो प्रवाह हट्टान मुखार व्हरूंक जाय आशिल्लें. तो मुखार नाटककार जालो. हें बरें जालें काय वायट जालें हाची हांगा जाप दिवप निरर्थकूच. एकूच सांगचेशें दिसता, पुंडलीक कवी, कादंबरीकार, नाटककार म्हूण जितलो बळीश्ट तितलोच एक कथाकार म्हूण लेगीत. दर एक साहित्यकाराक आपली वाट मांडोवची मेकळीक आसूंकच जाय आनी ती पुंडलीकान सार्वभौमपणान मांडयल्या...




**साहित्य अकादेमी** प्रादेशिक कार्यालय, मुंबई मराठी ग्रंथ संग्रहालय मार्ग, दादर (पूर्व), मुंबई 400014
फोन: 022-24135744, 24147650 E-mail: sahityakademimumbai@gmail.com

## कोंकणी प्रकाशनें

**आसरो** रु. 65/-
हरी मोटवाणी
अणकार रुपा च्यारी

**शीम हुपतना...** रु. 150/-
सन्तेशिवरा लिंगण्णैया भैरप्पा
अणकार अलका सिनाय असोळडेकार

**अधिकार अरण्याचो** रु. 90/-
महाश्वेतादेवी
अणकार कस्तुरी देसाय

**काळ** रु. 125/-
एम्. टी. वासुदेवन नायर
अणकार गोकुळदास प्रभु

**राग दरबारी** रु. 150/-
श्रीलाल शुक्ल
अणकार जयमाला ना. दणायत

**कळमेल्ली तलवार** रु. 120/-
इन्दिरा गोस्वामी
अणकार ज्योती कुंकळकार

**कलि-कथा : वाया बायपास** रु. 90/-
अलका सरावगी
अणकार हेमा नायक

**रक्तकूंड** रु. 110/-
इन्दिरा पार्थसारथी
अणकार माया अनिल खरंगटे

**मोटव्यो कथा** रु. 90/-
मास्ती वेंकटेश आय्यंगार
अणकार रमेश लाड

**उल्लंघन** रु. 150/-
प्रतिभा राय
अणकार वृषाली मांद्रेकर

**भांगराचें सुकणें** रु. 65/-
ओम् गोस्वामी
अणकार शीला कोळंबकार

**कावळे आनी काळेंपाणी** रु. 60/-
निर्मल वर्मा
अणकार महाबळेश्वर सैल

**'मंत्र' आनी हेर कथा** रु. 100/-
प्रेमचंद
अणकार एन्. शिवदास

**दोन वळींचे मजगतीं** रु. 75/-
राजेश जोशी
अणकार परेश नरेंद्र कामत

**तन्मय धूळ** रु. 75/-
प्रतिभा शतपथी
अणकार नूतन साखरदांडे

**सुमिरन** रु. 75/-
संतोष मायामोहन
अणकार संजीव वेरेंकार

**श्रीचंपा** रु. 75/-
चंद्रशेखर कंबार
अणकार मंगल देसाई

**उचल्या** रु. 125/-
लक्ष्मण गायकवाड
अणकार पांडुरंग काशिनाथ गावडे

**गोट्या** रु. 75/-
ना.धो. ताम्हनकर
अणकार लुईस रॉड्रिग्स

**गोसाय बागांतलें भूत** रु. 80/-
शीर्षेन्दू मुखोपाध्याय
अणकार चंद्रिका पांडगांवकर

**दुनदुनीच्यो काणयो** रु. 65/-
उपेंद्रकिशोर रायचौधुरी
अणकार फिलोमीना सॉफ्रॉंसिस्को

**अंतराळांतलो स्फोट** रु. 60/-
जयंत विष्णु नारळीकर
अणकार प्रेमानंद फडते

**निकोबारच्यो लोककाणयो** रु. 50/-
रॉबीन रॉयचौधुरी
अणकार माया अनिल खरंगटे

**रानांतली रात** रु. 50/-
लीलावती भागवत
अणकार शोभा शिवा फुलकार

## मराठी प्रकाशनें

**अग्निकुंडात उमललेले गुलाब** रु. 500/-
नारायण देसाई
अनु. मु.ब.शहा, विश्वास पाटील

**मराठी ग़ज़ल : अर्धशतकाचा प्रवास** रु. 175/-
संपादक : राम पंडित

**भाषावार प्रांतरचना आणि मराठी (काही परिप्रेक्ष्यं)** रु.150/-
संपादक : रमेश नारायण वरखेडे

**विवेकानंदांचे चरित्र** रु. 75/-
रोमा रोलां
अनु. विमलाबाई देशपांडे

**...म्हणे तेव्हा राजाधिराज झोपेत होते** रु. 125/-
उमा शंकर चौधरी
अनु. प्रकाश भातम्ब्रेकर

**डॉ.बाबासाहेब आंबेडकर : जीवन व कार्य** रु. 200/-
संकलन व प्रस्तावना: लक्ष्मण गायकवाड

**वि.द.घाटे** रु. 50/-
अनंत देशमुख

**बाळ गांधी बापु गांधी झाले, त्याची गोष्ट** रु. 150/-
बोळूवार महमद कुंञि
अनु. अ.रा. यार्दी

**भारतीय दलित साहित्य** रु. 230/-
संपादक: शरणकुमार लिंबाळे

**मोरनामा आणि इतर कथा** रु. 130/-
इंतजार हुसैन
अनु. भास्कर लक्ष्मण भोळे

**श्री तुकारामाच्या अभंगांची चर्चा - खंड 1 व 2** रु. 300/-
वासुदेव बळवंत पटवर्धन
गणेश हरी केळकर

**मराठी लोकगीते : संस्कृती अभ्यासाची साधने** रु. 110/-
संपादक : रमेश नारायण वरखेडे

**तुकारामगाथा** रु.110/-
संपादक : भालचंद्र नेमाडे

**हेल्गलॅंडचे चांचे** रु. 100/-
हेनरिक इब्सेन
अनु. के.ज. पुरोहित

**नगरमंथनम्** रु. 90/-
ओ.पी.शर्मा 'सारथी'
अनु. मैत्रेयी जोशी

*समकालीन भारतीय साहित्य* **Single Copy : Rs.25, 1 Year: Rs.125, 3 Years: Rs.350**
*Indian Literature* **Single Copy : Rs. 50, 1 Year: Rs. 250, 3 Years: Rs. 650**



# STATE DIRECTORATE OF CRAFTSMEN TRAINING



## GOVERNMENT OF GOA

*Offers the following courses in the Government Industrial Training Institutes under its Control :-*

**Engineering Trades**

1. Information Technology & Electronics System Maintenance (2 yrs)
2. Fitter (2 yrs)
3. Turner (2 yrs)
4. Machinist (2 yrs)
5. Electrician (2 yrs)
6. Instrument Mechanic (2 yrs)
7. Mechanic (Refrigeration & Air Conditioning) (2 yrs)
8. Electronics Mechanic (2 yrs)
9. Draughtsman (Mechanical) (2 yrs)
10. Draughtsman (Civil) (2 yrs)
11. Mechanic (Motor Vehicle) (2 yrs)
12. Wireman (2 yrs)
13. Mechanic (Diesel) (1 yr)
14. Welder (Gas & Electric) (1 yr)
15. Carpenter (1 yr)
16. Plumber (1 yr)

Empower yourself with the required Employable Skill

Employment providers are our partners

Various Scholarship Schemes Available

**Non Engineering Trades**

17. Computer Operator & Programming Assistant (1 yr)
18. Desk Top Publishing Operator (1 yr)
19. Stenography (English) (1 yr)
20. Secretarial Practice (English) (1 yr)
21. Hair & Skin Care (1 yr)
22. Craftsmen Food Production (General) (1 yr)
23. Steward (1 yr)
24. Cutting & Sewing (1 yr)

Employment through Placement Fairs

**CoE Trades**

25. Hospitality Management (BBBT) (1 yr)
26. Hospitality Management Adv -Food Production (Cookery) (6 months)
27. Hospitality Management Adv-Front office Management (6 months)
28. Hospitality Management Adv-Food & Beverage Service (Stewardship) (6 months)
29. Hospitality Management Adv-House keeping (6 months)
30. Production & Manufacturing (BBBT) (1 yrs)
31. Production & Manufacturing Adv-CNC Machining (6 months)
32. Production & Manufacturing Adv-PLC & Automation (6 months)
33. Information Technology (BBBT) (1 yrs)
34. Information Technology Adv - Repair & Maintenance of Hardware of Computer & Peripherals (6 months)
35. Information Technology Adv-Multimedia & Creative Designing (6 months)
36. Information Technology Adv-Computer Networking (6 months)
37. Fabrication (Fitting & Welding) (BBBT) (1 yrs)
38. Fabrication (Fitting & Welding ) Adv-TIG/MIG Welding (6 months)
39. Fabrication (Fitting & Welding ) Adv-Pressure Vessel & Pipe Welding (6 months)
40. Fabrication (Fitting & Welding ) Adv-Welding Inspection & Testing (6 months)
41. Automobile (BBBT) (1 yrs)
42. Automobile Adv-Servicing & overhauling of Automobiles (Petrol) (6 months)
43. Automobile Adv-Servicing & overhauling of Automobile (Diesel) (6 months)
44. Automobile Adv-Auto Electricals, Electronics & Air-conditioning in Automobiles (6 months)
45. Automobile Adv-Overhauling of Fuel Injection System & Steering Mechanism (6 months)
46. Automobile Adv-Denting, Painting & Welding (6 months)
47. Electrical (BBBT) (1 yrs)
48. Electrical Adv-Repair and maintenance of Domestic Appliances (6 months)
49. Electrical Adv-Operation & Maintenance of Equipment used in HT, LT, Substation & Cable Jointing. (6 months)
50. Electrical Adv-Repair and maintenance of Electrical Machines & Power Supply (6 months)

For more information contact the nearest I.T.I.

**Short Term**

51. Data Entry Operator (6 months)
52. Driver cum Mechanic (6 months)

All ITI's are managed with the help of IMC's whose members are from Industries

**Salient Features :-**

- Certification Nationally & Internationally Recognized
- Post ITI Direct Admission to Second Year in Polytechnics
- Facilities for Apprenticeship Training in Specified Industries
- On Completion of Advance Module, Trainees are deputed to Industries for Shop Floor Training for a period of 6 months in the Specialized Modules

*Join us for a successful career & a Bright Future*

All Courses, except for the Short Term Courses , shall commence from the August 2014 Academic Session

For further details contact Govt. ITI :- Farmagudi - 2980070, Panaji 2226333, Mapusa - 2262637, Margao - 2714887, Cacora - 2650270, Pernem - 2201238, Bicholim - 2362315, Sattari 2370242, Canacona - 2633354, Vasco - 2524030

Visit us at : www.sdct.goa.gov.in

# ‘गा आमी राखणे’, तीन दसकां उपरांत

लेख

कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत विसाव्या शतमानाचें सातवें दशक हें खूब म्हत्वाचें. कोंकणी साहित्यांत एके नवे पिळगेच्या उदेवाचो हो काळ. गोंय मुक्ती उपरांत एका दशकाचो काळ हो कितल्याश्याच कारणांक लागून म्हत्वाचो थारता. ह्या काळांत एके नव्या समाज वेवस्थेची घडी बसताली. समाज आरतो परतो जातालो. ताका लागून नवीं मूल्यां, पोरण्या मुल्यांची सुवात घेतालीं. शेकड्यांचे शेंकडे चेपून दुबळ्या घटकांक घटाय आयिल्ली. मेकळो स्वास घेतां घेतां तांकां आपलो असो कंठ फुटलो आनी मनाचेर कसलेंच चेंपण दवरी नासतना ते आपले हावेस उत्फरके उक्तेपणान व्यक्त करपाक लागले. हाचें एक मुखेल कारण म्हणल्यार तांकां आपली निजाची भास अभिव्यक्ती खातीर मेळ्ळी. हें सत कोणाकूच न्हयकारूंक मेळपाचें ना.

ज्या काळाचो हांवें उल्लेख केला ताची फाटभुंय लक्षांत दवरून पुंडलीक नायकाचो ‘ गा आमी राखणे’ हो कविता संग्रह वाचपाक जाय. ह्या संग्रहांत 1970 ते 1976 ह्या काळखंडांत बरयल्ल्यो कविता आस्पावतात. ह्याच काळाच्या कुडक्यांत रमेश भगवंत वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार आनी खासा हांवें कांय म्हत्वाच्यो कविता बरयल्यो. नागेश करमली हो तसो ते आदले पिळगेंतलो. पूण ह्याच काळांत तांच्यो कविता नवें रुप घेवन येता अशें बारीकसाणीन नियाळ करीत जाल्यार दिसतलें. ह्या कविंनी कोंकणी कविता मुखावेल्या पेण्यार व्हरून दवल्ली अशें खात्रीन म्हणूं येता. ह्या कवीं मदलो पुंडलीकूच कवितेचो हात सोडून फुडें गेलो. कथा, कादंबरी, नाटकां आनी हेर तरेचें साहित्य ताणे नेटान बरयलें. तरी ताचे भितरलो कवी ह्या साहित्य प्रकारांनी झळकल्लो दिसता. ह्या संदर्भांत ताची तुळा करपाचीच जाल्यार चिं. त्र्यं. खानोलकर ह्या प्रकृतीन मराठी प्रतिभावंत लेखकाकडेन करपाक येता. पुंडलीक आनी खानोलकर हे मूळ कालेतीन कवी. खानोलकरांची कांय नाटकां, कादंबऱ्यो वाचतना कवितेची अनुभूती येता. पुंडलीकाची कथा, नाटकां वाचतना तो अणभव



**माधव बोरकार**
(जेश्ठ कोंकणी कवी आनी समीक्षक)
ताळगांव - गोंय
मो. 09764072908

आयले बगर रावना. मर्दी ताची कविता ताचेर, रुसून, आशिल्ली अशें खासा कवीच आमकां सांगता. आतां तो तिची होरावणी करता. पूण ती ताचेर फावो तितली प्रसन्न जाल्ली दिसना. तिचो शीण उणो जावंक ना. मदल्या काळांत तिचेकडेन आदनदर केल्ल्यान आसत.

1976 वर्सा उजवाडा आयिल्लो हो संग्रह सुमार चार दशकां उपरांत परत वाचतना ताचीं कांय वैशिश्ट्यां लक्षांत येतात. हो कवी तेन्ना विशीच्या हुमऱ्यार उबो आसा. पयलीं पयलीं पावलां मारपाचो हो काळ. सामान्यतायेन ह्या काळांत बरयल्ले कवितांक आपलो असो सूर नासता. आपलें व्यक्तिमत्व घडोवपाच्या यत्नात तो दुसऱ्या कवींचीं उतरावळ, आशय, प्रतिमा बी उश्णी घेवन आपले कवितेचें मखर सजयता. काळ वता तसो ताका आपलो सूर सांपडटा आनी ताची कविता आपल्या पायांर घट्ट उबी रावता. हे प्रक्रियेक कितलीं वर्सां लागत हें सांगण कठीण. शंकर रामाणी सारकिल्ल्या कवीक आपलो सूर मेळपाक वीस तें पंचवीस वर्सां वाट पळोवची पडली ताची हांगा याद जाता. पूण पुंडलीकाची कविता सुरवेसावन सगळ्या प्रभावां पसून कडेक रावली हें तिचे खाशेलेंपण. ताका ताची वळख पयलेच चांटेक मेळ्ळी आनी ती व्हडा आत्मविस्वासान पावलां घालपाक लागलीं.

'म्हजो बांगर बैल', 'आमी कोण' सारकिल्ल्या कवितांक लागून ह्या कवीचेर सामाजीक आशयाचो कवी असो छाप ताच्या कपलार बसलो. दुबावविरयत ताचे कवितेंत ती खरसाण आसाच. पूण तेच वांगडा खूब नाजूक आनी तरल संवेदना व्यक्त करपी कविताय पुंडलीकान बरयल्यात ताचे कडेन आमची आडनदर जाल्या. अशे कवितांचो गंभिरतायेन विचार जावपाची गरज आसा. 'म्हजो बांगर बैल' ही ताची एक म्हत्वाची कविता. फकत ताचीच न्हय तर वट्ट कोंकणी कवितेचो विचार करतना तिका खूब वयली सुवात दिवची पडटा. ताका कारणांय कितलीशींच आसात. (कायं वर्सां आदीं मराठी कवी वसंत सावंत हाणे आपली बैल ही कविता पणजे जाल्ल्या एका कवी संमेलनांत पुंडलीका बरबर वाचिल्ली आनी ह्या दोनूय कवितांची तुळा करपाची संद मेळिल्ली ताची हांगा याद जाता). बैलाक प्रतिकात्मक अर्थ आसा. शेती प्रधान संस्कृतायेचो तो एक म्हत्वाचो घटक. गाय आनी बैला बगर हे संस्कृतायेचो विचार करप जमना. बांगर बैल हें एक शक्तीचें प्रतिक आसा. पुंडलीकाचे हे कवितेंत बैल शक्तीच्या प्रतिकाच्या रुपांत येता. हो निखटो बैल न्हय तर बांगर हें विशेशण ताका आसा. आनी हें विशेशण शक्त आनी ऊर्जा सुचयता आनी ह्या प्रतिकाक वेगळ्या अर्थाचें परिमाण लाबता.

*एका बांगर बैलान*
*आतांच दावें तोडलां*
*गवण मोडून*
*भल्ल्या गोठ्यांतल्यान...*

कवितेचे सुरवेकूच कवी तार सप्तकांतलो षड्ज लायता. दावें तोडप हे क्रियेंत ताची शक्त आनी जुवानपण आस्पावलां. भल्ल्या गोठ्यांतल्यान तो भायर सरता. ताका कोण आडावपी ना. ताचो मुखावेलो प्रवास पळयल्यार ताका कोण आडावंक शकना म्हणपाचें दिसता. ते परसूय ताका आडावपाची कोणा भितर तांक ना. ताची शक्त एदी की तो उबी दोंड हुपून रुखा- झोपां माड्डीत मुखार वता. तो कोणाक बदना. वाटेर आडवो आयिल्ल्याक तो आयकना म्हणपाचें शिंगार रगत माखयलें, कपलार तिबे सोबयले हे वळींतल्यान स्पश्ट जाता. ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार हो बांगर बैल शिरेर मदेल्लो आनी देखून तो धेंकर गाजयता आनी आपल्या अस्तित्वाची जाणीव सगळ्यांक करून दिता. ताचें

फुडलें पावल ताणे पागो बदलप, आपले मानेवयलें जूं शेंवटावप, नांगर- गुटे मोडप. तो किरय किरयता आनी घट थंय जिरयता. हे वळींतल्यान ताचे तांकीची कल्पना येता. तो मोव माती सोदिना. ताका आपलो पराक्रम दाखोवपाक घट्ट भूंय जाय.

*कासऱ्या कानयेक बदना*
*बैल चेचूंक जमना*
*बैल विकूंक फावना*

देखून कवी म्हण्टा बैलाक किरोंवदी आनी जाय तसो मिरोवंदी. कित्याक तर ताका पासांत बांदप आतां कोणाच्याच हातांत उरूंक ना. तो आतां कोणाक आयकुपाचो ना आनी कोणाकूच आटापा येवचेलो ना. हे वळींचे फाटभुंयेर मुखार आयिल्ल्या चार वळींक विशेश अशें म्हत्व आसा.

*बैल फुडल्या पाडव्या येंवचोना*
*पुजे खातीर तिश्टचोना*
*जाय तसो जाय तेन्ना येतलो*
*शिंगा दाखोवन पुजून घेतलो.*

बांगर बैलाची ही वृत्ती प्रवृत्ती हे वळींतल्यान बेस बरी व्यक्त जाल्या. शिंगा दाखोवन पुजून घेवप म्हळ्यार आपलो आधिकार तो हाची जाणविकाय करून दाखोवप. हो बैल सादो न्हय. तर-

*बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो उद्धारी*
*बैल म्हज्या कुळाचो वारस*

अशें म्हणपाचो शिमे भायलो आत्मविस्वास हांगा दिसता. हे म्हत्वाचे कवितेकडेन आनी एका कोनांतल्यान पळोवं येता. मराठी कवितेंत केशवसुताच्या 'नवा शिपाई'त हो बांगर बैल वेगळ्या रुपांत दिसता. ती कविता नागरी संस्कृतायेची फाटभूंय घेवन आयिल्ली. तर पुंडलीकाची अस्सल गांवगिरी. गोंयच्या संदर्भांत हे कवितेक विशेश असो अर्थ आसा. र.वि. पंडितान सामाजीक आशयाची कविता बरयली. ताचे कवितेंतलो गावडो, भाटकाराल्या सत्यनारायणातलो देमू वा झिंगचे झिंगय मदले आगरी हे समाजवेवस्थेचो जुल्म सोंसपी. तांकां आपलो आवाज ना. देमू दीसभर भाटकारा खातीर वावुरता आनी दीसा अखेर ताच्या हातार फकत एक प्रसादाचो दोणो पडटा. गावडो आपल्याक कांडून घेवपी पीठो जायसर, आपलो घाम वारोवनूय आगऱ्यांचें मीठ अळणीच उरता. सगळे तरेचो जुलूम सोंसप हें एकूच तांच्या हातांत आसता. सगळे नदरेन ते फटवल्ले उरतात. हो इतिहास गोंय मुक्ती पयलींचो. पंडिताची कविता त्या काळाचें दर्शन घडयता. गोंय मुक्ती उपरांत समाज कसो बदलतलो हाची पयली सुलूस 'जागी जाल्या गोंयची सासाय' हे बाकीबाब बोरकाराले कवितेंत मेळटा. बैल कोणा खातीर तिश्टचो ना आनी शिंगा दाखोवन पुजून घेतलो म्हणपाचें भविश्य हे कवितेंत केल्लें मेळटा. बांगर बैल ही कविता सासायेचें मुखार पडिल्लें पावल अशें म्हणूं येता. एके नदरेन पळयल्यार बाकीबाबाक फुडाराचो दिश्टावो जाल्लो अशें म्हणपाक जाय.

'म्हजो बांगर बैल' ही कविता प्रथम पुरुशी. अशें जरी आसलें तरीय तो बैल तळागाळांतल्या भौसाचे उत्फरके, हावेस व्यक्त करता. हे कवितेचें मुखावेलें पावल म्हळ्यार 'आमी कोण' ही कविता. हांगा ती प्रथम पुरुशी वचनातल्यान भौवचनात येता.

*आमी कोण...*
*हाची जाप तुमकां काळूच दितलो*
*अशें आमी म्हणचेनात*
*ती आमीच दितले.*

सामान्यतायेन आमी काळूच जाप दितलो वा काळूच थारायतलो अशें म्हण्टात. पूण हांगा काळ म्हणजे कोण? असो प्रस्न उबो रावता. हो काळ म्हणजे दुसरो तिसरो कोण न्हय तर ते आमीच अशीच ती जाप. शेंकड्यांचे शेंकडे सगळे तरेचे त्रास, हाल अपेश्टा ह्या समाजान सोंसल्यात. ताची जाप मेळपाक

आनीक वाट पळोवपाची तांची इत्सा वा तयारी ना. ते काळाक आपले मुठींत घट्ट धरूंक सोदतात.

*आमी, आमी न्हय जाल्यार*
*काडोन वतले*
*आमचें नांव निशाण*
*आमच्याच हातांनी धुवन उडयतले*

वर्सां संखिणी ताणी जें सोसलां तें सगळें उतरां पलतडचें आसा. वेदनेचो अख्खो दर्या ताणी पिवंन उडयला. ताणी मातयेकडेन इमान घाण दवरूंक ना वा निखटे वाडवडलांच्या पराक्रमांचेर जियेवपी तिब्या धनीय न्हय. तांचे स्वतंत्र अस्मितायेची भावना दर एके वळींतल्यान विस्तारत वता आनी ती assertive जाता. ते परधिगे न्हय ही खर जाणीव ते हांगा व्यक्त करतात. अन्याय मोन्यांनी सोंसलो तरी ह्या समाजमनांतल्यान क्षमेची भावनाच उसळून भायर येता. ताचें कारण आनी जाप मेळटा ती अशी–

*खऱ्यानीच सांगतां*
*थाव लागनाशिल्ल्या*
*ह्या अथांग काळजांत*
*सुडाची किटाळूय उसळना.*

हें सगळें दुख्ख अन्याय सोंसप आंगवळणी पडलां म्हूण? खूब फावट अणभवान मनाची एक ठेवण जाता. हांगा कवी ताची विस्कटावणी करता.

*आमच्या जल्मा वेळार*
*आवयच्या वेणांचें आंगलें*
*आमी आंगांत घातलां म्हणून जायत..*
*ह्या संवसारांत  येतनाच*
*खोपीच्या बुराकांतसून*
*सुर्याचें बींब*
*आमच्या दोळ्यांत भिडलें*
*म्हूण जायत...*

हे कवितेक खूब कारणांक लागून म्हत्व आसा. निग्रो वा भारतीय दलित कवितेंत एके तरेचो विद्रोही सूर आयकुपाक येता आनी खूब फावट तो आयकतना कानाक दडे बसतात हें मान्य करपाक जाय. हो सूर कलाकृतीच्या रुपकाराक बादा हाडटा. ती ऱ्हेटोरिकल जाता  आनी मनांतल्यान देंवता. इतलें शिमे भायलें सोंसून लेगीत सुडाची किटाळ उसळना तें दुबळेपणाक लागून न्हय तर तांचें काळीज अथांग आसा हें विसरूंक फावना. असो आशय आशिल्ली कविता थोडी नाटकी जावपाची शक्यताय आसता. केन्ना केन्ना अतिशयोक्तीचो ती आलाशिरो घेता. पूण पुंडलीकाची ही कविता असल्या दोशांपसून पयस आसा. कवी परिस्थिती वा समाज वेवस्थेचेर, इतिहासाचेर कसलेंच भाश्य करिना. फकत काळाचें चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार उबें करून ताचेर भाश्य करपाचें आमचेर सोडून दिता. आनी आमकां विचार करपाक लायता.

समाजांत परिवर्तन जावंक जाय. नाडिल्ले आनी नाडपी अश्यो ज्यो दोन जाती आमचे मदीं आसात त्यो ना जावपा खातीर कवी वश्रेता. पालखेक खांद मारून तिचो भार आपल्या भुजांर घेवप्यांक मात ते पालखेंत केन्नाच बसूंक मेळना हें वास्तव ताच्या काळजाक तोंपता. जे कश्ट काडटात तांकां ताचें फळ खावपाक मेळना. ताचें स्वय आनी कोण दुसरोच हातासून बसता हाची खंत आनी किंवाटो हो कवी व्यक्त करता. फकत भौसानूच हो भार कित्याक उखलचो? पालखेक येवकार दिवपाक 'मळबभेदी' कोंड्यांनीच आवुळिल्ली तोर्णा आसात. 'ही पालखी भितर घेयात' हे कवितेंत तो भौसाक सांगता की तांच्याच खांद्यार ताणी मळब तोलिल्लें आसा आनी तांची पुण्याय हीच खरी मंदिराची सोबाय आनी कळसाची बुन्याद. आनी मागीर मुखावेले वळीनी ताणे दिल्ली गर्भींत शिटकावणी आयकुपाक येताः

*दारावयल्या जाळवणदारांनो*
*हांवें तुमकां मेजून घेतल्या*
*हांवें तुमकां तिजून घेतल्या*
*तुमचीं घरां पळोवन घेतल्या*
*नांगर-फाळ पाजून घेतला*
*हांव ही तांबडी घुडी नाचयतां...*
*ह्या भुजांच्या कोळांत*
*हो रगताचो आवाज*

*तुमकां आयकूंक येना?*

(हे वळींनीं मेजून, तिजून, पाजून सारकिल्लीं अंतर्यमकां आपसूक जुळून आयल्यांत. तांचे कडेन लक्ष वेधीन दिसता). भुजांच्या कोळांतलो रगताचो आवाज ही स्फोट करपाक दारू भरिल्ल्यो ओळी कलात्मकता सादून आयल्यात. खंयच्याय अन्यायाक एक शीम आसता. देखून फुगार जाल्ले न्हंयचो अंत पळोवचो न्हय. ती केन्ना तडी हुपून सर्वनाश करीत हें सांगपाक येना. देखून काळ वेळ पारखून पावल उखलपा खातीर कवी आमकां सांगता. आनी अळेर -

*उठात*
*आतां मानो वयर करून पळयात*
*थंय सर्गार कोणाल्या कितल्या*
*कुळांचो उद्धार जाला.*

कवीक आतां कोणाची आनी कसलीच वाट पळोवचेली ना. कितलो काळ आनी शेंकडे ही वाट पळोवचेली? देखून तो स्पश्ट शब्दांनी सांगता-

*असल्या काळखांत*
*सुर्याची वाट पळयत*
*आमी तिश्टुंचे नात,*
*मनगटार मनगट घासून*
*केंण पडले बगर*
*बापायचें श्राद्ध वाडचे नात*
*पेटिल्ल्याचो गोबोर जाता*
*सत हें मानुनूय*
*पेटले बगर रांवचे नात*
*... आमच्या रगतांतलो थेंबान थेंब*
*तिजून येयात*
(पेटप रगतांतल्यान)

पुंडलीकाचे कवितेंत विद्रोही सूर व्यक्त जातो तो रगत हे प्रतिमेंतल्यान. हो कवी निखटो आपले खातीर उलयना तर एकूण समाजाच्या व्यथा उमाळ्यांक उतरांचें रुप दिता. ताचे कवितेंतलो हांव खंयच संदिग्ध उरना. आशय आडवाटेन व्यक्त करप ताका मानवना. देखून ह्यो सामाजीक आशयाच्यो कविता संवेदनशील मनाचो थाव घेता. अन्यायाविशींची जाणविकाय करून दिवपाची विलक्षण तांक तिचे भितर आसा.

सामाजीक आशय कोंकणी कवितेक अनवळखी न्हय. अशें आसलें तरी पुंडलीकाची कविता आनी ताच्या पूर्वसुरींनी बरयल्ले कवितेंत मुळावो फरक आसा. पुंडलीकाचे कवितेंत व्यक्त जाल्लो अणभव खासा ताणे घेतिल्लो. भौसांतल्या उदेवाक आयिल्लो हो कवी. आपणे अणभविल्ल्या विश्वाक ताणे शब्द रूप दिलां. ताका लागून ह्या कवितांतली खरसाण जाणवता. हो उद्‌गार ताच्या ओठांतल्यान येवंक ना तर तो काळजाच्या तळांतल्यान फुटला. ताका लागून तिका एकेतरेची जिवसाण आसा. धवाड्या वर्गांतल्यान जे कवी आयल्यात तांचे कवितेंतलो तांणी घेतिल्लो न्हय, तर पळोवन, कल्पनेन घेतिल्लो. ताका लागून परिणामाचे नदरेन ती उणी दिसता. तांचे मोल उणे करपाचो म्हजो हेत न्हय. पूण मुळावो असो फरक उरताच. मराठी वा हेर भारतीय भासांनी एका काळार धवाड्या वर्गांतल्या लेखक, कवींनी चेपिल्ल्या, चिड्डुल्ल्या समाजाची दुखखां साहित्यांत मांडलीं. पूण जेन्ना हो समाज शिकून वयर सल्लो आनी आपले अणभव आपल्या उतरांनी बरोवंक लागलो तेन्ना तांचें खरें विश्व संवसारा मुखार आयलें. 'बलुतं' सारकिली साहित्यकृती फकत त्या अणभवांतल्यान गेल्लो दया पवारूच बरोवंक शकता. पुंडलीकाचे बाबतींत तेंच म्हणचें पडटलें. साहित्याचें समाजशास्त्र आसता. ते नदरेंतल्यान कोंकणी साहित्याचो अभ्यास जावपाची गरज आसा.

कवी म्हूण पुंडलीकाचे कवितेक एक तांस

आसा. तें म्हळ्यार सैमाचें. हो सैम शारांतलो न्हय तर तो गांवगिऱ्या वाठारांतलो. तिका नागरी संस्कृतायेचो वास ना. ज्या वाठारांत हो कवी ल्हानाचो व्हड जाला तो सैम संपन्न असो भाग आसा. आनी ताचो खोल परिणाम ताचे चित्तवृत्तीचेर जावप हेंय सभावीक आसा. खूब फावट कवितेंत सैम येता तो वर्णनात्मक रुप घेवन. अशे कवितेंत सैमातल्या चित्रांचे तपशील येवपाची शक्यताय चड आसता. वस्तींची जंत्रीच वाचिल्ल्याचो अणभव अशी कविता दिता. ताका लागून तिचें कलात्मक रुप शेणटा. अस्सल सैम कवितेंत अणभव गोठेल्लो आसता. इंग्लिश रॉमेंटिक कवी विलियम वर्डस्वर्थ हाच्यो कविता ते नदरेन अभ्यासपाक जाय. सैम ही एक सामान्या भायली शक्त म्हूण ताणे सैमाकडेन पळयलें. आमची घरची देख रवींद्रनाथ टागोरामदीं मेळटा. सैमान तांकां अध्यात्मीक अणभव दिलो. आनी तातुंतल्यान तांची कविता आकाराक आयली. बाकीबाबाल्यो बऱ्यातल्यो बऱ्यो सैम कविता अंती अध्यात्माकडेन वतात. कांय फावट प्रेम आनी सैम हांचो सुमेळ कवितेंत जाल्लो दिसता. पुंडलीकाची कविता कांय कडेन तोच अणभव दिता.

*सांजवेळ... दर्यावेळ*
*धव्या ल्हारां मोगऱ्यांपटी*
*खोप्यांत माळून यो गो भेटी*

हे त्रिपदींत वेंचीक उतरांनी चित्र काडलां. धव्या ल्हारांची मोगऱ्यां पटयेकडेन केल्ली तुळा दोळ्यांमुखार स्त्री प्रतिमा उबी करता. अमूर्तातल्यान मूर्ताकडेन ती प्रवास करता. हे त्रिपदीच्या संदर्भांत तिची तुळा लक्ष्मण पै ह्या नामनेच्या गोंयकार चित्रकाराच्या चित्रांकडेन करपाचो मोह जाता. ताच्या सैम चित्रांतल्यान स्त्री प्रतिमा उबी जाता.

*चुडटांच्या आंगा-पांगा*
*थरथरलीं ल्हारां*
*फुटलें हड्डें दर्याचें*
*तिनसांजच्या पारा...*

*उरफाट्या पावलांच्यो*
*लांब लांब सांवळ्यो...*
*शकारिल्ल्या मनां*
*थेंब्या थेंब्या पोंवल्यो... (सांवळ्यो)*

वाऱ्यान थरथरपी चुडटांमदीं ल्हारांचो भास जाता आनी वेळूय सांजवेळची. सुर्य अस्तमतना उरफाट्या पावलांच्यो लांबूच लांब सावळ्यो पडूंक लागतात. अशी ही मनाक कातर करपी वेळ, ही असली मनाची अवस्था कवी अचूक उतरांनी चित्रायता.

पुंडलीकाची 'बळारी' ही अशीच आनीक एक सुंदर आनी अर्थपूर्ण कविता.

*पार्दिकाच्या*
*देंठा पावलांच्यो*
*बळारी अश्यो बटमोगरी*

*सूर्य अस्तमतना*
*दार्याच्या गळयां*
*धवी फुल्ल माळ पिडूकांची*

*पुनवेचीं रुपां*
*दडकावलीं ल्हारां-खोपां*
*मळबांत नातीं पडबिंबलीं*

*शिणलेलीं पाखां*
*निस्ततलीं आतां*
*नक्षीदार सपना पावलां पैस गांवा*

कवितेंत तुळा आनी उपमा दोनांचोय प्रभावी उपेग केल्लो दिसता. ताची विस्कटावणी अशी करूं येता 1- बळारी-पार्दिकाचे देणपावलां- बळारी- बटमोगरी. 2.बळारी- दर्यावयल्यान उडत वचपी बळारींची माळ- पिडूकांची . 3.- बळारी- दडकावपी ल्हारां खोपां- तातूंत मळबाचें पडबिंब. 4- बळारी- पावलां नक्षिदार सपनां भशेन पैस गांवां वचपी. हे कवितेंत बळारीचीं चार रुपां चार तरांची पळोवपाक मेळटा. पार्दिकाची देठां पावलां, दर्याच्या

गळ्यांतली पिडुकांची माळ, दडकावल्लीं ल्हारां-खोपां पडबिंबीत जावपी ह्यो सगळ्यो मूर्त प्रतिमा कवी हांगा गुंथता. पूण निमाण्या कडव्यांत बळारी नक्षिदार सपनां पावलांनी पैस गांवां पावता थंय अमूर्त प्रतिमा येता. मूर्त आनी अमूर्त प्रतिमा हांचो अर्थपूर्ण सुमेळ हांगा सादिल्लो दिसता. हे कवितेक आनी एक परिमाण आसा. तें म्हळ्यार चित्रांचें बारकायेन हे कवितेकडेन पळयल्यार तातूंत चार लँडस्केप आस्पावल्ले दिसतात. आनी निमाणे वळींतल्यो प्रतिमा नाजूक तरल भाव अळंगपणान व्यक्त करतात. ताका लागून हे कवितेक अर्थाची खोलाय आयल्या. चित्राचो हो घटक पुंडलीकाचे कवितेंत हांगा थंय शिंपडिल्लो दिसता. मुखावेले दोन वळींची देख दिवं येता.

*पणसा- पानां गोरवां*
*पडवेंतल्या रानां*

एका काळावेलें हें चित्र आज पळोवपाक मेळना. आज गांवगिरो वाठार बदलत आसा आनी तेच वांगडा सामाजीक पर्यावरण मुळासावन बदल्लां. हे दोन वळींतल्यान एक ठाशीव अशी प्रतिमा उबी जाता. काळाच्या फाटीं गेल्यार बाकीबाबाल्या 'चिमणे जग्त' हे कवितेंत वापरिल्ल्या पणसाच्या पानांच्या गोरवांचे प्रतिमेची याद जाता. हरशीं ह्यो दोनूय कविता एकमेकांपसून वेगळ्यो. हे एकेच प्रतिमे पुरतोच तांचो संबंद दाखोवं येता.

पुंडलीकान प्रेमभावना व्यक्त करपी कविता बरयल्यात तांचो विचार करपाची गरज आसा. ही प्रेमभावना वेगवेगळी आसा.

*बसलां तुजी वाट पळयत*
*केन्ना उदेतलें...*
*अस्तंतेचे रंग*
*पोल्यार तुज्या घोटयत*

अशी तिचे भेटे खातीर तिश्टुपी. आपलें आनी तिचें कितें हाचो अर्थ लावपाचो तो यत्न करता. तेन्ना ताका तें जोगलावल्ले दिठयेचें कशें दिसता. रात पांगळी जाता आनी वात सोंपता सोपना अशी. प्रीत तरी कशी. ती दिठये मिठयेंत धरना आनी तिची व्याप्तीच थाव लागना अशी. अमुरपिक्या प्रेमाची भावना आनी संवेदना चडावत कविता उक्तायता. काळजांत किल्लून आयिल्ले रोपयेक आंकूर फुटपाची वाट तो पळयता.

*तुज्या येवपाक अर्थ आसा*
*चट्टच्या कांठाचो*
*तुज्या रावपाक सोपूत आसा*
*तुट्टच्या देंठाचो*

नात्याचो हो देंठ तुटत हाचो ताका हुस्को आसा. थोडी विरहाच्या दुख्खाची सया हे वळींक आसा. तिका समजावणेच्या सुरांत तिणे कित्याक येवचें तें सांगता. ती आयल्यार बचकभर आबोल्यांकूय गंध भरतलो. तशें पळयल्यार आबोल्यांक वास नासता. देखूनूच विरोधाभासांतल्यान ही भावना तीव्रतायेन व्यक्त जाता. हे प्रतिमेचो अर्थपूर्ण असो वापर हांगा जाल्लो दिसता.

'पोसोभर चान्न्यातय- खळें भरत' ह्यो वळीय तितल्योच भावनेक तोंक हाडपी.

*तुज्या येवपांत पैसावल्या अंतराच्यो*
*कुरवो आसत-*
*तरी तूं यो*
*कारण*
*तुज्या येवपाक अर्थ आसा*
*तुज्या रावपाक सोपूत आसा...*

तो तिचे खातीर कितलोय वळेलो तरी ती येना. तातूंतल्यान 'तूं आयलें ना' ही कविता आयल्या. ती कित्याक आयली ना हाची वेगवेगळीं कारणा तो सोदता. उतराक जागप ना ह्या एका कारणा वांगडा आनीकूय अव्यक्त कारणां आसात. तो तिची वाट कितलो अधीर जावन पळयतालो हें सांगतना तो तिका सांगता-

*भल्ल्या कळश्यांत रंगहीन पाणयाची थरथर*
*तुवें पळयल्या?*
*सुक्या पानांर झडटल्या दंवाच्या पावलाक*
*तुवें केन्ना कान दिला?*
*खदखदत्या आदना वयल्या धांपणाची अवस्था*
*तुवें अणभवल्या?*

हे वळींनी आयिल्ल्यो प्रतिमा पळयात. रंगहीन पाणयाची

थरथर, दंवाचे पावल, खदखदपी आदन ह्यो प्रतिमा मनोअवस्था सुचोवपी. आनी ह्या प्रतिमांतल्या एकसुरेपणाची भावना विस्तारत वता. ती येवचेली हें घडये कवीक खबर आसुंये. तरी तो आपल्या मनाक समजयता आनी समाधान करून घेता.

*येवपाचें आसुनूय तूं आयलें ना*
*हें एकेपरीन बरेंच जालें*
*तुज्या येवपाचें म्हत्व कळ्ळें.*

'तुजें येवप' ही कविता आनी 'तूं आयलेंना हे' कवितेचें लागींचें नातें आसा. पयले कवितेंतूच दुसरे कवितेचें बीं पडिल्लें दिसता. तरीय ताका थाकाय दिवपी कविता 'तुजे पत्र पावलें' ही. तो जसो तिका वश्रेता तीच थोडी भोव अवस्था तिची जाल्ली दिसता.

*पिश्या,*
*अशें रडप नासता*
*धाय दिको पेटल्यात म्हूण?*
*सांज भांगेत कुकूम भरततल्या*
*सुर्याक लेगीत*
*दीस सोंसचो पडटा...*

ह्या तिनूय कवितांनी हो प्रेमानुभव घट्ट आळून आयला. ह्यो कविता एकेच व्यक्ती भोंवतणी घुंवता म्हणपाचें लक्षांत येता. हे कवितेंतलो नाजूक तरल भावाचो अविश्कार पळयल्यार' म्हजो बांगर बैल' सारकिल्ली आवेशपूर्ण बंडखोरी कविता बरोवपी होच कवी काय, असो प्रस्न पडटा. पुंडलीकाचें हें कवी म्हूण खाशेलेंपण आनी यशूय.

ह्या संग्रहांतल्यो सगळ्यो कविता वाचतकच ताचें काव्यविश्व तीन केंद्रांनी वाटलां म्हणपाचें लक्षांत येता. म्हत्वाचें म्हळ्यार तीं एकमेकांक पोसवण दिवपी अशींच आसात. ताका लागून ती एकसुरी दिसना. सामाजीक आशयाची कविता वा प्रेम आनी सैम कविता एकाच पांवड्यार रावता. तांचो कस थारायतना दावें उजवें करपाक मेळना. साहित्याच्या मळार पुंडलीकान पावल दवरतनाच तें वयल्या पांवड्यार पडलां हाची नोंद कोंकणी कवितेचो इतिहास घेतलो. खंत एकेच गजालीची दिसता. तो थंय रावलो. घडये ताची ही कविता हेर साहित्य प्रकारांत झिरपली जावंये.

पुंडलीक आमचो समकालीन. हो संग्रह उजवाडा आयलो तेन्ना आमी ते कवितेक लागींच्यान पळयताले. ताका लागून तिचें खाशेलेंपण तिच्या गुण दोशांसयत पळोवपाची नदर आमकां नाशिल्ली. आतां काळाचें बरेंच अंतर पडलां. ताका लागून फाव त्या परिपेक्षातल्यान (प्रोस्पेक्टीव) पळोवप सोपें जालें. तिच्या आंगावेल्यान पस्तीस छत्तीस वर्सांचो काळ गेलो तरी तिची रसणाय आनी कांत देवंक ना... ◆◆◆

# समर्थ अभ्यास मंडळ आनी पुंडलीक नायकः एक ऋणानुंबद

लेख

पुंडलीक नारायण नायक. पिराय 16-17 वर्सां. यत्ता 11 वी, राबितो वळवय. पयलें मेळप तारीख 21 नोव्हेंबर 1971. पुंडलीक आनी म्हजी पयली भेट ताच्यांच वळवयच्या घरांत जाली. चड करून तो अनंताचे जात्रेचो दीस आसुंये. हांव आनी नारायण देसाय ताच्या घरा पावले तेन्ना तो तरणाट्यांच्या रेवाड्यांत आशिल्लो. सगळे गांवगिऱ्या वाठारांतले तरणाटे. घरांत सामकी गर्दी. चडशे जाण घडये जात्रेक आयिल्ले आसतले. माळयेर गेलो. थंय पुस्तकां नेटकेपणान मांडून दवरिल्लीं. लिखाण भरगच्च आसुंये. कवितांचे झेले आनी हेर पुस्तकां. म्हज्यो सदच्या उत्साहान प्रस्न-जापो. पुंडलीक शांत. मोजकेंच उलोवप. स्पश्ट कोंकणींत. अघळ-पघळ ना. उलोवण्यांत एक ठामपणा. आपल्या कवितांची चोपडी तांणे हाडून दिली. कवितांनी म्हजें लक्ष ओडून घेतलें. कांय व्यक्तिचित्रां ताणे बरयिल्लीं. तींय हांवें उब्या उब्यानी नदरे खाला घातलीं. व्यक्तिचित्रांत खासा गोंयचे भुंयेचो वास आसलो. तीं बरोवची तर कोंकणीतूच अशें दिसलें. पयले भेटेंतूच ह्या म्हज्या नव्या इश्टान म्हजेर आपली सामकी छाप वडयली. तागेल्या इश्टांक मेळ्ळों आनी दिसलें; आरे हेच तर गोंयकार ग्रामीण तरनाटे. तांकां आमच्या सामाजीक प्रबोधन वावरांत एकठांय हाडलें जाल्यार?

1961 वर्साच्या डिसेंबरांत गोंय स्वतंत्र जालें. 1970 वर्सा हांव गोंयांत परत आयलों. तेन्ना गोंयचे मुख्यमंत्री आशिल्ले दयानंद बांदोडकार. तेन्ना गोंयांत दोन श्रेश्ठ मराठी पत्रकार आशिल्ले. द्वा. भ. कर्णिक आनी माधव गडकरी. दोगूय धडाडीचे, पुरोगामी विचारांचे, गतीशील. गोंय तेन्ना संक्रमणावस्थेंतल्यान वतालें. प्रगतीचें वारें व्हांवतालें. गोंयचो ग्रामीण वाठार दुर्लक्षीत आशिल्लो. विद्यार्थी चळवळ आंग धरताली. गोंयचे जडण- घडणीचो तो काळ आशिल्लो. गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांत आमचें येवप-वचप चलतालें. समविचारी इश्टांचो, धडपड्या ग्रामीण तरणाट्यांचो आमी सोद घेताले. पुंडलीक नायक आनी ताच्या




**मनोहर व्ही. कोरगांवकार**
(नामनेचे वास्तुशास्त्रज्ञ आनी लेखक)
नवी दिल्ली
मो. 09650038855

इश्टांची भेट हो ताचोच एक वांटो आशिल्लो.

पुंडलीक आमकां मेळ्ळो. आमचें सूत जुळ्ळें. उपरांत आमी एकमेकांक मेळत रावले. आमी कल्पना मांडप आनी इश्टांनी त्यो उखलून धरप हें उपरांत जायत रावलें. पुंडलीक नायक हाच्या उपरांत नागेशबाब करमली, रमेश वेळुस्कार, एन. शिवदास, हेमा धुमटकार (आतां हेमा नायक), दत्ता दामोदर नायक, रामनाथ नायक असो आमचो एक व्हड ग्रुप तयार जालो. रमेश सप्रे आनी नारायण देसाय हे पयलीं सावन वांगडा आशिल्ले. परत परत मेळपा खातीर सुवात जाय आनी कांय प्रयोजन जाय. तातूंतल्यान अभ्यास मंडळाची कल्पना फुडें आयली.

तशें पळोवपाक गेल्यार समर्थ अभ्यास मंडळाचो जल्म मुंबयत विलेपार्ले हांगा पयलींच जाल्लो. पाल्र्याच्या आमी कांय लागींच्या इश्टांनी एकठांय येवंन हें अभ्यास मंडळ चलयल्लें. फुडें हांव मुंबय सोडून गोंयांत आयलों आनी पयलीं आमी कोरगांवांत अभ्यास मंडळाचो उपक्रम प्रमोद गणपुले आनी कोरगांवांतल्या हेर इश्टांच्या पालवान सुरू केलो. पणजे अभ्यास मंडळाची कल्पना म्हजो इश्ट रमेश सप्रेन उखलून धरली. नारायण देसाय, पुंडलीक नायक हांच्या सारक्या म्हज्या इश्टांनी ताची फाटपुरवण केली.

अभ्यास मंडळाची पयली बसका आमी घेतली ती तारीख 8 डिसेंबर 1972 दिसा मिरामारा रमेश सप्रे हांच्या घरांत. वियश आशिल्लोः 'अ ब्रेव्ह न्यू वर्ल्ड' लेखक : अल्डस हक्स्ले, हांची ही गाजिल्ली कांदबरी. नारायण देसाय, पुंडलीक नायक, रमेश सप्रे हांचे मर्दी जाल्ले चर्चेन ही बसका बरीच रंगली. फुडल्या सगळ्या बसकांनी पुंडलीक नायक आघाडेचेर आसतालो. ताका लागून कोंकणी साहित्याचेर, कोंकणी कविता आनी लेखकांचेर चर्चा जायत रावली.

अभ्यास मंडळाच्या बसकांचो उद्देश आशिल्लो नेटान बदलत वचपी संवसारांतल्या वेगवेगळ्या गिन्यान फाट्यांचो अभ्यास करप. तेविशीं गोंयकार तरणाट्यांमदीं जिज्ञासा तयार करप. तांका वाद- विवाद, विचार विनिमय करपाची, आपलें मत प्रकट करपाची संद उपलब्ध करून दिवप. आनी ह्या युगाचो तत्त्वबोध करून आपली बुद्धी सामर्थ आनी समृद्ध करप. ज्वलंत प्रस्नांचेर चर्चा आनी विचार मंथन हें आमचे बसकेचें मुखेल काम आसलें तरी खरें उद्दीश्ट आशिल्लें तें समाज प्रबोधनाची, लोकशिक्षणाची प्रक्रिया गोंयांत सुरू करपाचें. ग्रामीण तरणाट्यांक एकठांय हाडपा खातीर समर्थ अभ्यास मंडळ ही एक बरी माची तेन्ना आमकां मेळिल्ली.

तेन्ना कोंकणी-मराठी वाद बरोच वाडत वतालो. मात तातूंतले तिखटपण आमचे बसकेंत केन्ना आयलें ना. पुंडलीक नायक, नागेशबाब हे विशीं सामके जागरूक आसताले. कोंकणी विशयांची चर्चा पुंडलीक नायक हांच्या फुडाकारान जाताली. एकदां हां केलें म्हणटकूच केन्नाच फाटीं सरप ना. अदी-मर्दी म्हाका फकत याद करून दिवची पडटाली इतलेंच.

अभ्यास मंडळाचे दुसरे बसके उपरांत आमकां अरविंद सोसायटींत मेळपाची सोसायटीन परवानगी दिली. अभ्यास मंडळाची तिसरी बसका शुक्रार 15 डिसेंबर 1972 दिसा जाली. पुंडलीक नायक हाणेच तिचें आयोजन केल्लें. तिचो विशय आशिल्लो, कोंकणी कविता. नागेशबाब, शंकर रामाणी, एन. शिवदास, रमेश वेळुस्कार आनी हेर सगळे इश्ट हजर आशिल्ले. अश्योच साहित्य चर्चा, संवाद अभ्यास मंडळात जायत रावले. हे मजगतीं कोंकणी भाशेक एक वळख मेळटाली आनी साहित्य आकाराक येतालें. नवोदीत लेखक कोंकणी साहित्य निर्मणेत रमताले. कोंकणी भाशेक जोपासपाचें, ती

वाडीक लावपाचे यत्न चलतालें. पणजे फेरीबोटीकडल्या प्रकाश हॉटेलांत नवोदीत कोंकणी लेखकांचो सांजे मेळावो भरतालो. ताचें फुडारपण करताले नागेशबाब. सायकलीचेर पेडलां मारीत नागेशबाबाली भ्रमंती पणजे चलताली. त्या मेळाव्यांत कोंकणी साहित्याचेर वयले वयर चर्चा जाताली. कोणे कितेंय नवें बरयलां हाची चवकशी जाताली.व्हडा आवाजांत उलोवप, एकमेकांची 'काणां'करप आनी सगळ्यांक हांसयत तरनाट्या नवोदीत लेखकांक कामाक लावपाचें एक व्हड आनी म्हत्वाचें काम नागेशबाबान केलां. कोंकणी भाशेची ती एक व्हड सेवा तांणी केल्या अशेंच म्हणपाक जाय.

दुसरें म्हत्वाचें म्हणल्यार 70-80 च्या दशकांत गोंयकार तरनाट्यांमदीं वैचारीक जागृताय जावपाक जाय आशिल्ली. गोंयकार समाजाचें नवप्रबोधन नेटान जावपाक जाय अशें सगळ्यांक मनासावन दिसतालें. अभ्यास मंडळाचे उपक्रम ताका पोशक सिद्ध जाले हातूंत दुबाव ना. हातूंतल्यान फुडें युवक चळवळीक चालना मेळ्ळी. ग्रामीण जीणेंतल्यो समस्या, गांवगिऱ्या वाठाराची अर्थीक उदरगतीक चालना मेळची म्हूण पोशक उपक्रम चालीक लावपाकडेन अभ्यास मंडळान एका प्रेरकाची भुमिका वठयल्या हें मात खरें.

फाटल्या वर्सा अभ्यास मंडळाच्या इतल्या वर्सांत शेणिल्ल्या, पयसावल्ल्या इश्टांक एकठांय हाडपाची कल्पना फुडें आयली. पुंडलीक आनी हेमान ती रोखडीच उखलून धरली आनी तीं कामाक लागलीं. पुराय आयोजनाची जापसालदारी तांणी घेतली. इश्टांचे पत्ते सोदपापसून ते तांकां फोनाफोनी करून एकठांय हाडप हें हरशीं सामकें कठीण काम. सगळ्यो इश्ट परिवार एकठांय आयलो. आयज हो परिवार खूब विस्तारला. अभ्यास मंडळाचे जायते इश्ट प्रथितयश जाल्यात. तातूंत जायते मराठी-कोंकणी साहित्यीक आसात. प्रशासन, शिक्षणीक मळार आनी वेवसाय मळार वावुरपी आसात.

कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी भास ह्या दोनूय मळार पुंडलीक नारायण नायक हांची सुवात बरीच वयली आनी व्हडा मानाची आसा. ताची लेखणी लालित्यपूर्ण आसाच पूण चड म्हत्वाचें म्हणल्यार तिका मानवतेची धार आसा. सामाजीक स्थित्यंराची नोंद पुंडलीक नायक संवेदनपूर्वक घेता. ताची नदर तपशील अचूक तेळटा. लिखाणात सहजता आसा. भाशेत प्रवाह आसा. वळवय-कोळंब गांवचे फाटभुंयेवयली 'अच्छेव' ही ताची कादंबरी 1981 वर्सा बरयिल्ली. तातूंत ग्रामीण भागांतल्या कोंकणीतले संवाद कितले समर्पक आसात. हाचे वयल्यान ताचे लेखन धारणेची कल्पना येता. हिंदू समाजांतल्या जाती जमातीचे तशेंच क्रिस्तावांचे कोंकणी संवाद हातूंतलें वेगळेंपण ताणे बरे तरेन दाखयलां. खणींनी गोंयच्या ग्रामीण जिणेची घडी कशी ना नपयत केल्या हें ह्या कादंबरींत बरे तरेन दाखयलां. 1971-72 वर्सा गोंयकार समाजाचें, तरनाट्यांचें प्रबोधन करपा खातीर, तांचें अज्ञान पयस करून सगळ्या समाजाक एके माचयेर हाडपाचो यत्न आमी करताले. त्याच प्रस्नाचें पडबिंब म्हाका 'अच्छेवा'त दिसता. तातूंतलो आबू, सावळो मास्तर हे समाज उबो करपाचें काम करतात. नवे पिळगेचें प्रतिनिधीत्व शंकर करता. गांवची सुख- शांती, नितिमत्ता हांचो ऱ्हास खणींनी केला. सध्या सुद्धा हो उच्छाद सुरू आसा. हे प्रस्न कोंकणी साहित्यिकांनी आनी भाशा पंडितांनी हातांत घेवपाक जाय. कोंकणी भाशा अखिल भारतीय पांवड्यार पावल्या. मात तिका विशेश दर्जो मेळोवन दिवपाचें काम अजून जावपाचें आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीचेर ही विशेश जापसालदारी आसा. कोंकणी दिसाळीं आनी नेमाळी हांचो खप मर्यादीत कित्याक? कोंकणी मुळाव्या शाळांनी विद्यार्थी कमी कित्याक? कोंकणींत विद्धत्तापूर्ण, ज्ञान-विज्ञान समृद्ध ग्रंथ निर्मणी इतली कमी कित्याक? कथा, कादंबरी, समिक्षणात्मक, ज्ञान-विज्ञान लेखन उणे कित्याक? साहित्य पोटतिडकेतल्यान जल्माक येता. कोंकणी

भाशीक प्रदेशांत तशी चळवळ उबी रावपाक जाय.

फार्टी एकदां मेळ्ळे तेन्ना गोवा कोंकणी अकादेमीची नवी वास्तू उबी करपाची कल्पना पुंडलीक नायक आनी तांच्या सांगात्यांनी म्हजेकडेन उलयतना सांगली. हें एक आव्हान आसा. फाल्यां अशी वास्तू उबी रावल्यार तेंच एक चळवळीचें केंद्र जावपाक शकता. भारतांतल्या वेगवेगळ्या भाशा-भयणीचे उपक्रम अभ्यासून कोंकणीक आपलें घर थाटपाक मेळटलें. वर्सांतल्यान एक फावट भारतीय भाशा आनी तांच्या लेखकांक, भाशा पंडितांक आमंत्रण दिवपाक मेळटलें. वाङमयीन जात्रा भरपाक मेळटली. जयपूर फॅस्टचे धर्तेर गोवा फॅस्ट भरप जातलें. तोच एक उत्सव जातलो. तातूंत हेर उपक्रमांक चालना मेळटली. नवे पिळगेची उत्सुकताय आनी कुतूहल जागृत जातलें. तें सांस्कृतीक- साहित्यीक संवेदनेचे संमेलन जाातलें. समाज अभिसरणाची नवी प्रक्रिया हातूंतल्यान तयार जातली. आयचे गोंयचे नवे पिळगेक नवी दिश्टी दिवपाचें काम साहित्यिकांचें आसा.

सुरवेच्या दिसांनी पुंडलीक नायक आनी हेमा दिल्ली आयली म्हणटकूच आमचें मेळप जातालेंच. प्रदीर्घ साहित्यीक चर्चा जाताल्यो. हेमाची धडपड आनी तळमळ आयज लेगीत तशीच आसा. हेमाच्या मनांत एक चिनगारी सदांच जागत आसता. तिचेर परिस्थितीच्या आवरणाची राख आसता खरी पूण ती पयस केली म्हणटकूच मात ठिणगीची धग जाणवता. इंगळो म्हणात जाय जाल्यार. ते तुळेंत पुंडलीक नायक शांत, थंड, नर्म काळजाचो. मात ताच्या मनांत दर्याचो गाज चालू आसता. ल्हारां उसळी मारीत आसतात.

कोंकणी भाशेच्या इतिहासांत पुंडलीक नारायण नायक हें नांव शणै गोंयबाब आनी हेर पूर्वसुरींच्या बरोबरीन घेवप जातलें हाचो आमकां इश्टांक अभिमान आसा.



# 'लोकवेद' ही पुंडलीक नायक हांच्या नाटकाची अंतरप्रेरणा

लेख

डॉ. जयंती नायक
(नामनेची लेखिका आनी लोकवेद संपादक)
आमोर्णे, केपें - गोंय
मो. 9823575623

शणै गोंयबाबान सुमार विसाव्या शेकड्याच्या मध्यार कोंकणी नाटकाची बुन्याद घातली. जाल्यार नाटकाक कळसार व्हरून बसयलें तें पुंडलीक नायक हांणी. कोंकणी नाटकाचो सुरवेचो गबाळो चेरो तांणी बदलून ताका शिरवंत- तेजवंत केलें आनी ताची नामना गोंयांतच न्हय तर राष्ट्रीय पांवड्याचेर पावयली. तांकां 2013 वर्सा फावो जाल्लो संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार हेंच सत्य सांगता. विशय-आशय, तंत्र- मांडणी हे सगळेंच नदरेन तांचें नाटक सगळ्यांत फुडें पाविल्लें आसा. मराठी नाटक पळोवपाक संवकळिल्ल्या गोंयच्या प्रेक्षकांक तें नाटक सोडून कोंकणी नाटक पळोवपाची रुच तांच्याच नाटकांवरवीं लागली अशें म्हणल्यार चूक जावची ना. तांच्या नाटकान कोंकणी मळार जशी काय 'नाट्य क्रांती' केली. तांचे इतलो समर्थ नाटककार आयचे घडयेक तरी कोंकणी मळार जाल्लो ना. तांची तीसां वयर नाटकां आयज प्रकाशीत जाल्लीं आसात. शिवाय तांची अप्रकाशीत नाटकां आसतलीं. तांच्या नाटकाचें खाशेलेंपण म्हणल्यार तीं थळाव्या मनशाचेर आनी तांच्या जिणे संघर्शाचेर भाश्य करतात. थळावी लोकसंस्कृती आनी लोक जीण तांच्या नाटकांनी रसरसून उबी जाल्ली दिश्टी पडटा.

पुंडलीक नायक प्रकृत्ती आनी संस्कृती ह्या दोन आवयांचे मांडयेर खेळत व्हड जाल्ले लेखक. आजय ते तांच्या खाक्यांतच जगतात. गांवगिरे जिणेचे नीज अणभव तांचे गांठीक आसात. तळागाळांतल्या लोकांची जीण तांणी सामकी लागींच्यान पळयल्या, निरखिल्या. कांय प्रमाणांत स्वता भोगल्याय. देखून तांची लेखणी मातयेच्या गंधान परमळटा, गांवच्या मनशांची बोली उलयता, तांचे प्रस्न मांडटा, तांचे उमाळे सांगता, तांची जीण चित्रायता.

'लोकजीण' हो तांच्या सगळ्या लेखन प्रकारांचो अंतरगाभो. तर 'लोकवेद' ही तांची नाटकाची अंतरप्रेरणा. 'गा आमी राखणे'(कविता) 'बांबर' (नवलिका), 'अच्छेव'

(कादंबरी), 'मुठय' (कथा), 'अर्दूक' (कथा) ह्या तांच्या पुस्तकांनी ती दिसताच पूण नटकांनी तर चड प्रभावीपणान जाणवता.

'गांवगिरी जीण' आनी 'लोकजीण' ह्यो दोनूय एकमेकांत एकजीव जाल्ल्यो संकल्पना. लोकांचे परंपरेन आयिल्ले एके विशिश्ट रीतीन जीवन जगपाचे पद्दतीक लागून 'गांव' जल्माक येता. देखून 'गांवगिरी जीण' आनी 'लोकजीण' एकमेकांतल्यान कुशीक काडूंक मेळनात. पुंडलीक नायक हांच्या एक-दोन नाटकांचो आडवाद सोडल्यार तांचीं सगळीं नाटकां गांवगिऱ्या समाजाचें जीवन चित्रायतात. पर्यायान ती लोकजीणेचें दर्शन घडयतात. लोकनाच, लोकगितां, लोककाणयो, आख्यायिका, लोकसमज, श्रद्धा-अंधश्रद्धा, चाली-रिती, परंपरा, उत्सव, व्रतां, जांका सर्वसामान्यपणान शिक्षितांमदीं 'लोकवेद' म्हण पाचारप जाता, ते सगळे प्रकार म्हणजेच लोकजिणेचींच आंगां. पुंडलीक नायकांच्या नाटकांनी ह्या सगळ्यांचो प्रयोजनपूर्ण आसपाव जाल्लो दिसता. तांचे आदींच्या नाटककारांनी जीं नाटकां बरयलीं तातूंत प्रामुख्यान गोंयच्या मध्यमवर्गीय समाजाचें जीवन रेखाटिल्लें. तांच्या नाटकांनी कांय चाली-रिती, समज- अंधविस्वास कथावस्तुची गरज म्हण आयल्यात. पूण प्रभावीपणान लोकवेद आयिल्लो ना. लोकवेदामदीं जनसामान्याक आकर्शीत करपाची एक वेगळी तांक आसता हे विशीं तांकां जाणीव नाशिल्ली. तशेंच भौसामदीं जे लोकवेदाचे म्हत्वपूर्ण प्रकार आशिल्ले तांची फावो ती वळक नाशिल्ली. हो प्रयोग पयले फावट केलो तो पुंडलीक नायक हांणी.

धालो, फुगड्यो, होंवयो, गाराणीं, तालगडी, गोफ, जती, चौरंगी, दुलपदां, धोंगां, जागोर, रणमालें, म्हणी, ओंपारी... ज्यो ग्रामीण लोकजिणेच्यो अभिव्यक्ती आनी अविभाज्य भाग आशिल्ल्यो तांकां आपल्या नाटकांनी तांणी वाव दिलो. प्रसंगानुरूप ते मांडले. कांयकडेन कथावस्तुची ती गरज म्हण आयले तर कांयकडेन तांची तांक वळखून, प्रेक्षकांक प्रभावीत करपाचे नदरेन ते आसपावन घेतले.

तांचो हो प्रयोग कोंकणी नाट्य मळार खूब येसस्वी थारलो. नाट्यमोगींनी तो उखलून माथ्यार घेतलो. मध्यमवर्गीय आनी शारी प्रेक्षक जांणी लोकवेदाचे हे प्रकार आयजवेर केन्ना सारके नियाळूंक नाशिल्ले, ते अंचबीत जाले, प्रभावीत जाले. तर जांचे जिणेचो हो एक अविभाज्य भाग आशिल्ले, तो ग्रामीण प्रेक्षक, आपले अभिव्यक्तीक मेळिल्लो मान-सन्मान पळोवन उपाट खोशी जालो. तात्पर्य पुंडलीक नायक हांचीं नाटकां लोकवेदाच्या प्रदर्शनाक लागून शारी आनी ग्रामीण दोनूय प्रेक्षकांमदीं लोकप्रिय जालीं.

पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी रंगमाचयेर केल्ल्या ह्या प्रयोगाच्या कांय काळ पयलीं भारतीय रंगभुंयेर अशे प्रयोग जावंक सुरवात जाल्ली. कोंकणी शेजारचे मराठी रंगभुंयेर विजय तेंडुलकर हांणी 'घाशीराम कोतवाल' सारक्या नाटकांत कांय प्रमाणात असो प्रयोग केल्लो. कन्नडांत गिरीष कर्नाड आनी चंद्रशेखर कांबार हे नाटककार तर ह्या प्रयोगांत अतिशय जैतिवंत जाल्ले.

लोकावेद आनी आधुनीक नाट्यतंत्र हांचो सुमेळ घडोवन पुंडलीक नायक हांणी ज्यो कांय अव्वंवर उरसारक्यो नाट्यकृती रचल्यो त्या मदीं 'शबै शबै भौजनसमाज' ह्या नाटकाचें आवर्जून नांव घेवपाक जाय. तालगडी, जती, गोफ, चौरंगी, धालो, फुगड्यो, आल्ल्यो, धेंणलो... गोंयच्या लोकवेद प्रकारांची जणू हें नाटक म्हणल्यार एक डॉक्युमेंटरीच. लोकसंगीत- लोकधुनींनी हें नाटक शिंगारलां-सजलां. हें नाटक पळोवंक माटवांत (नाट्यघरांत) बशिल्लो दर एक प्रेक्षक थंयच्यान भारावनच भायर सरला.

80 च्या दशकांत हें नाटक तांणी रचलें. ताचे शंबरांवयर प्रयोग जाले. जंय जंय ह्या नाटकाचे प्रयोग जाले, थंय थंय ताका प्रचंड प्रसिद्धी मेळ्ळी. आजुनय ह्या नाटकाचे प्रयोग जायत आसात. पुंडलीक नायक हांणी ह्या नाटका उपरांत जायतीं नाटकां बरयलीं, पूण ह्या नाटकाची प्रेक्षकांच्या काळजांत आशिल्ली सुवात दुसरें खंयचेंच नाटक घेवंक पावलेना. कोंकणी नाटक आयज लोकप्रियतेचे तेंगशेर जें पावलां, ताका थंय पावोवपाक हेंच नाटक कारणीभूत आसा अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना अशें म्हका दिसता.

शबै शबैक जें येस मेळ्ळें तें पळोवन पुंडलीक नायक हांच्या फाटल्या कांय नाटककारांनी लोकवेद नाटकांनी घुसडूंक सुरवात केली. पूण तांकां व्हडलेशें येस मेळ्ळें ना. अणभव आनी प्रतिभा दर एका लेखकाची वेगवेगळी आसता हेंच खरें.

'श्री विचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठ ना', 'प्रेमजागोर' ह्या तांच्या नाटकांचो लोकवेद संदर्भांत विचार केले बगर रावूंक मेळना. हीं नाटकां शबै शबै सारकीं लोकवेदाचे आखीव फास्केंत मांडिल्लीं नात. पूण तांचो गाभोच लोकसंस्कृतींतल्यान जल्माक आयला.

'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांत पुर्विल्ल्या काळावयलें गोंयच्या गांवांनी भरपी जात्रेचें चित्र जिवंत उबें जाता. देव-देवूळ, तरेकवार मांड, तरेकवार खेळ करपी, नाडपेन्नी, लोकांच्यो श्रद्धा-भावना... सगळें पारंपारीक समाजाचें दर्शन घडयता. मनीस, 'सैमा येवप' वा 'पाशाण जावप', सूर्य अस्तमचे पयलीं जात्रा सोपोवप, जात्रेंत भुरगो शेणप वा सांपडप... ह्या सारके कितलेशेच लोकजिणेतले कल्पनाबंध ह्या नाटकांत मेळटात, जे वरवीं हें नाटक प्रेक्षकांक आदिम काळांत घेवन वता.

'चैतन्याक मठ ना' ह्या नाटकांतलो गांव, गांवचे आळशी लोक, थंयचें वातावरण, चवाट्यार बसून गजाली करप, घुडां घालप, सिद्ध पुरुशान गांवांत येवप, गांवचो उद्धार करप... हे सगळें एकाद्रे लोककाणयेचें चित्र उबें करता. कथानकय खंय खंय लोककाणयेकडेन नातें सांगात.

'प्रेमजागोर' ह्या नाटकाचें कथानक तर गोंयच्या 'जागोर' ह्या लोकनाट्य प्रकाराक केंद्रबिंदू धरून रचिल्लें आशिल्ल्यान आपसूकच लोकवेदाकडलें नातें स्पश्ट करता. ह्या नाटकांतलें संगीत - सूर जागरांतल्या संगीत-सुरांचो हात धरूनच फुडें वता. कांय प्रत्यक्ष जागरांतलीं गितां- नमना हातूंत घेतल्यांत. नाटकाचो विशय जरी एके प्रेमकथेचो आसलो तरी तें पळयतना प्रत्यक्ष जागर उत्सव पळयतल्याचोच प्रेक्षकांक आभास जाता. जागर उत्सवांतले विधी- सोपस्कार सगळे चत्रायेन, कलात्मकतेन ह्या नाटकांत आयलां. एकेवटेन जागर लोकनाट्याचें डॉक्युमेंटेशन जातनाच बरी नाट्यकृती पळयिल्ल्याचें समाधान प्रेक्षकांक मेळटा.

ह्या बदलत्या युगांत लोकवेदाचें ना-नपश्चतीकरण जातना पुंडलीक नायक हांच्या नाटकांतलो लोकवेद नवे पिळगे खातीर एक म्हत्वाचो दस्तावेज थारतलो.

◆◆◆

# पुंडलीकबाब - एक व्यक्ती

लेख

गोंय 1961 वर्साक पुर्तुगेजांच्या शेकांतल्यान मुक्त जालें. ताचे पयलीं कितल्यो राजवटी गोंयांत आयल्यो. गोंयचें सगळें धन, संपत्ती लुटून ह्या भायल्या राजवटींनी आपल्या देशांत व्हेली. गोंयचो सैम, गोंयची अस्मिताय, गोंयची संस्कृती आपल्या पायापोंदा घालतनाच गोंयचे तरणे  पिळगेचेर सोसूं जायना असो अन्याय केलो. अशें आसनाय गोंय मुक्ती उपरांत गोंयची अस्मिताय, संस्कृती सांबाळून दवरपा खातीर गोंयच्या कांय लोकांनी जीव तोडून काम केलें. गोंयचे तरणे पिळगेक आपल्या स्वत्वाची, अस्मितेची याद करून दिवपी लोकांमदीं पुंडलीक नारायण नायक हांचें नांव घेतले बगर रावपाक जायना. फोंडें तालुक्यांतल्या वळवय गांवांत आपली बायल हेमा आनी पूत युगांक हांच्या सांगातान रावपी पुंडलीक नायक ह्या नांवान गोंयचे कोंकणी संस्कृतायेक नामना जोडल्या. पुंडलीकबाबालो पिंड पयलीं शिक्षकाचो,  उणींच स वर्सां तांणी विद्यार्थी घडोवपाचें काम केलें. शिकयतना तांच्या भितरलो साहित्यीक भायर सरलो आनी शाळेच्या स्नेहसंमेलना खातीर तांणी कांय नाटकुलीं बरयलीं.

कोंकणी चळवळींतलो एक खडेगांठ वावुरपी, तरणे पिळगेक आदार आनी आदर दिवपी पुंडलीकबाबान कोंकणी भास आनी कोंकणी अस्मितायेक एक नवो आयाम दिलो. देखून स्वता घडत आसतना तांणी हेरांक पालोव दिलो. नवे लेखक घडोवपाक ऊर्बा दिलीं. तांचें बरप हें गोंचये अस्सल मातयेतलें बरप म्हणल्यार अतिताय जावची ना. आकाशवाणीच्या पणजे केंद्राचेर पालवी संपादक म्हूण वावर करतना तांणी बरयिल्लीं नाटकुलीं तेन्नाचे पिळगेक ऊर्बा दितनाच नवें कितें तरी करपाची प्रेरणा दिवन गेलीं. 1979 सावन बरोवपाक लागिल्ल्या पुंडलीक बाबान विंगड विंगड विशयांचेर बरप केलें. तांची 'ख्रण खण माती', 'रक्तखेव', 'राखण', 'देमांद', 'मुक्तताय', 'शबै शबै भौजन समाज', 'पिंपळ पेटला', 'श्री विचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठ ना', 'आत्मवंचना', 'परिक्रमा', 'प्रेमजागोर', 'दिश्ट दौलत', 'तिरंगी



अजित पैंगीणकर
(पत्रकार/लेखक आनी लोकवेदाचे अभ्यासक)
सादोळशें, काणकोण-गोंय
मो. 9423821504

चक्राचक्री', 'शिरी रे शिरी अधांतरी', 'दोन कुळा', 'दिव्या दिव्या दिपत्कार', ' प्रेमयुद्ध', 'अंता घरी भगवंता', 'कांसुलो', 'सांगोड', 'चित्र स्वयंवर', 'धनया देंवचारा' ह्या सगळ्याच नाटकांत गोंयचे मातयेचो, लोक साहित्याचो जसो वास येता तेच वरीं तांणी गोंयचे सामाजीक जिणेचेर आनी भौसाचेर उजवाड घातला.

गोंयचे कांय साहित्यिक एक थरावीक विशय घेवन फुडें वतात. पुंडलीकबाबान सगळ्याच साहित्य प्रकारांक हात घातलो. मागीर एक नाटककार, एक कवी, एक कथाकार, कादंबरीकार म्हणून जरी पुंडलीकबाबाक वळखतात आसले तरी लेगीत पुंडलीकबाब एक खडेगांठ नाटककार, एक चळवळी कार्यकर्तो. 'रानसुंदरी' हें बालनाट्य, 'चौरंग', 'आळशाक वाग खातलो', 'दायज', 'दिगंत', शिंवाचो बळी सारकी नाटकुलीं जशीं तांणी बरयलीं तेच वरीं अणकारीत केल्लें 'काजी नाजरूल इस्लाम', 'नानलाल' हें साहित्य लेगीत तितलेंच मोलाचें आसा. पुंडलीकबाबन निबंध हो विशय लेगीत तितलेच ताकतीन हाताळलो. आकाशवाणीचेर काम करतना तांणी पन्नासांपरस चड नाटकुलीं सादर केलीं. इतलेंच न्हय तर तांची बरींच नाटकुलीं राष्ट्रीय पावंड्यार गाजलीं आनी तांका पुरस्कार फावो जाले. 'जैत','रानसुंदरी', 'मर्णकटो','स्वीकृती', 'वधचक', 'देखणी दुराय', 'सांगाती', 'दौलत', 'परिक्रमा' ही तांच्या लेखनाचेर आदारिल्लीं फिल्मां जाल्यार'गुणाजी' ह्या आत्मचरित्रात्मक कादंबरीचेर आदारीत निकतेंच तांचें फिल्म आयलां.

1961 वर्सा गोंय मुक्त जाल्या उपरांत बऱ्याच जाणांक दिसतालें, गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करचें. पूण गोंय हें एक स्वतंत्र राज्य जावचें, गोंयची संस्कृताय, अस्मिताय तिगून उरची अशें मानपी जे म्हालगडे आशिल्ले तांणी विलिनीकरणाक विरोध केलो. 1967 वर्सा जाल्ल्या ओपिनियन पोलान तें दाखयलें आनी आयज तार्ची बरीं फळां गोंयकारांक मेळटात. गोंय जर महाराष्ट्रांत विलीन जाल्लें जाल्यार महाराष्ट्रांतलो एक जिल्लो अशें तांचें स्वरुप आसताशिल्लें. गोंयांक संघप्रदेशाचो दर्जो फावो जालो. मात गोंयची भास कोंकणी काय मराठी, हाचो निर्णय लागलो ना. दर एका राज्याची आपली अशी खाशेली भास आसा तेच वरीं गोंयकारांची भास, जी सगळे गोंयकार आपल्या घरांत, वेव्हारांत वापरतात ती मायभास कोंकणी. मात ती भास लेगीत आमकां मेळपाक लढो दिवचो पडलो. रस्त्यार येवचें पडलें. कोंकणी-मराठी अशे दोन पंगड गोंयांत पडले. उपरांत 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' संघटनेची थापणूक जाली. हे चववळीचें फुडारपण पुंडलीकबाबान केलें. गोंयभर पातळिल्ल्या सगळ्या तरनाट्यांक तांणी उलो मारलो. गोंय पेटून उठलें. सगळे गोंयकार रस्त्यार आयले. गोंयांत राजभाशेचें खर आंदोलन जालें आनी गोंयांक घटक राज्य, गोंयची राजभास कोंकणी जाली आनी हीच कोंकणी भारतीय संविधानाच्या आठव्या परिशिश्टांत पावली. आयज व्हडा उमेदीन आनी ताठ मानेन गोंयकार, जे देश- विदेशांत आसात ते फकत कोंकणी हे भाशेवरवीं एकठांय येतात. पुंडलीकबाबा सारकिल्ल्या शेंकड्यांनी लोकांचें ते खातीर योगदान आसा.

साहित्यीक, सामाजीक आनी सांस्कृतीक वावर करतना घराकडेन, संवसाराकडेन आडनदर जाता. पुंडलीकबाबान ते सगळे अणभव घेतल्यात. हें सगळें करीत आसतना विंगड विंगड संस्थांनी तांणी वावर केला. राजभास सल्लागार समिती, पश्चिम क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्र-उदयपूर, संगीत नाटक अकादेमी-दिल्ली, गोंय कला अकादेमी, राष्ट्रीय बूक ट्रस्ट, ह्या संस्थांचे वांगडी म्हण तांणी वावर केला, आपलें

*पुंडलीक नायक गौरव विशेशांकाक आमची परबीं!*

**प्रा. नित्यांद बि. नायक**
मडगाव - गोंय

योगदान दिलां. तेच वर्री केरळांत जाल्लो सुरभी महोत्सव, राष्ट्रीय साहित्यीक परिसंवाद, हातूंत वांटो घेतला. सी. आर. पारेख फेलोशीप लाबून ते दोन म्हयने अमेरीकेक रावून आयल्यात. सध्या ते गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण काम पळयतात.

पुंडलीकबाबान आयजमेरेन कितले पुरस्कार जोडले ताची एक व्हडली वळेरी जातली. पूण 2001 वर्सा गोंय कला अकादेमीन तांच्या साहित्यीक वावराक लागून दिल्लो 'गोमंत शारदा' पुरस्कार हो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार म्हणपाक फावो. गोंय सरकारान एका साहित्यिकाचो केल्लो खरो भौमान म्हणपाक जाय. पुंडलीकबाबाच्या नांवार कोंकणी भाशा मंडळ, कला अकादमी, आकाशवाणी, साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार आसात तशेंच सर्गेस्त गुंडू सीताराम आमोणकार पुरस्कार, कला आनी संस्कृती खात्याचो राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार हांचो आसपाव जाता. तांचीं नाटकां इंग्लिश, हिंदी, मराठी, तमीळ, पंजाबी भाशेंत पावल्यांत. 'चौरंग' एकांकी संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटकाक ऑस्ट्रेलियन पेटर्स पुरस्कार,''परिक्रमा', 'प्रेमजागोर' नाटकां राष्ट्रीय महोत्सवांत जाल्यांत. मराठींत अणकार केल्ल्या 'श्री विचित्राची जात्रा', 'वसंतदाह', 'सुरींग' नाटकांक महाराष्ट्र राज्य नाट्य सर्तीत पुरस्कार फावो जाल्यात. 'गुणाजी' कादंबरीचो गुजराती भाशेंत आनी 'अच्छेवा'चो इंग्लिशींत अणकार जाला. तांची नाटकां अभ्यासक्रमा खातीर वापरतात. गोंयची गिरेस्त संस्कृताय आनी भारतीय नाटकांकडेन सर्त करपाची तांक तांच्या नाटकांक आसा. त्याच खातीर तांकां संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

1977 वर्सा सावन पुंडलीकबाब कोंकणी रंगमाचयेर वावुरतात. फाटलीं 37-38 वर्सां गोंय कला अकादेमी कोंकणी नाट्य सर्त घडोवन हाडटा. शिवाय गोवा कोंकणी अकादेमी, संकल्प थिएटर्स-कुडचडें, कला ' चेतना-वळवय, सम्राट क्लब सारक्यो संस्था गोंयांत नाट्य महोत्सव आयोजीत करतात. ह्या सगळया नाट्च महोत्सवांत पुंडलीकबाबालें एक तरी नाटक आसताच. देखून 2011 वर्सा शुभम नायक ट्रस्टावरवीं गोंयांत पांच केंद्रांनी एकेच खेप पुंडलीकबाबालीं पांच नाटकां सादर करपाचो उपक्रम जालो. सगळ्या गोंयकारांनी ह्या नाटकांचो आस्वाद घेतलो. उपरांत

'इलेक्ट्रोनिक पुंडलीक' ही व्हीसीडी उजवाडाक आयली. जेन्ना जेन्ना कोंकणीचेर अन्याय जाला त्या वेळार पुंडलीकबाबान आंदोलनांत वांटो घेतला. मागीर ते राजभाशेचें आंदोलन जावूं ना जाल्यार मायभाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण जाय हे खातीर जाल्लें आंदोलन. तांणी गोंयची अस्मिताय, गोंयची संस्कृताय, गोंयची मायभास हे खातीर जें योगदान दिलां तें खूब्ब मोलाचें आसा. पुंडलीकबाब आमचो आदारवड. तांणी आपल्या नाटकांतल्यान लोकसाहित्य, लोककला माचयेर दाखयली. शेंकड्यांनी वर्सां सावन तोंडार घोळपी लोकगितांक, लोकनाचांक रंगमाचयेर दाखयतना तरणे पिळगेक नवी दिका दाखयली. ते खातीर पुंडलीकबाब एक व्यक्ती न्हय तर एक संस्था अशें हांव म्हणटां.

(मूळ मराठी लेख)





# DIRECTORATE OF PANCHAYATS
## GOVERNMENT OF GOA

3rd Floor, Junta House,
Panaji - Goa. 403 001
**Email:** dir-panc.goa@nic.in **Website:** panchayatsgoa.gov.in
**Phone:** 2222586 **Fax:** 2222863

The Directorate of Panchayats oversees the entire administration of the Village Panchayats and the Zilla Panchayats in the State of Goa and provides financial assistance to the Panchayatis Raj Institutions (PRIs) for strengthening their administration through the following schemes :-

**TRAINING AND CAPACITY BUILDING**
Regular training and capacity building programmes are conducted for the members and officials of the PRIs under this scheme.

**AWARDS TO BEST PERFORMING PANCHAYATS**
The best performing Panchayats are awarded prizes on the Panchayat Raj Divas.

**GRANT-IN-AID FOR INFRASTRUCTURE DEVELOPMENT**
The Zilla Panchayats and the weaker Village Panchayats are sanctioned grants annually for creation and development of rural infrastructure.

**GRANTS IN LIEU OF OCTROI**
The Zilla Panchayats and the Village Panchayats where petro pumps are located are released grants in lieu of octroi annually.

**GRANTS-IN-AID FOR STAFF SALARIES**
All weaker Panchayats and the Zilla Panchayat are released grants annually for payament of salaries to their staff. collected, is released to the

**MATCHING GRANTS**
Inorder to encourage maximum tax collection by Panchayats,matching grants in proportion to the tax Panchayats annually.

**GRANTS FOR MEMBER'S SALARIES**
The Zilla Panchayats and all Village Panchayats are released grants annually ,for payment of salaries to their members

**RURAL GARBAGE DISPOSAL SCHEME**
The Village Panchayats are provided all financial assistance for safe and hygienic disposal of garbage under this scheme.

**RAJIV AAWAS YOJANA**
Under this scheme assistance is provided for construction or repair of houses to the rural families having an annual income of less than Rs.1 lakh.

**ASSISTANCE TO THE PANCHAYATS FOR DISPOSAL OF PLASTIC GARBAGE**
Financial assistance is given to the Village Panchayats for collection of plastic garbage from the households on door-to- door basis and through collection drives in their areas.

# ‘घाटी अजून चडची आसा’

लेख

‘सर, हांव दिल्लींत आसा.’

गोंयचो एक अश्टताशी लेखक, नामनेचो नाटककार बाब पुंडलीक नारायण नायक हाका 2013 वर्साचो भारतीय संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार भेटयल्ल्याची खबर सकाळीं पेपरांत वाचले उपरांत हांवें ताचें अभिनंदन करपा खातीर फोन केल्लो. तेन्ना हो पुस्कार घेवपा खातीर आपूण दिल्ली पावलां ही खबर पुंडलीक दितालो.

‘असो पुरस्कार फाव जाता तेन्ना तांच्या खंयच्या तरी एका नाटकाचो प्रयोग सादर करचो आसता आनी फाल्यां म्हज्या ‘सुरींग’ नाटकाचो प्रयोग आसा.’ अशी माहितीय ताणें दिली.

‘अभिनंदन! तुका अशेंच जैत मेळत रावूं आनी साहित्याची सेवा करपाक देवान तुकां खूब आयुश्य आनी आरोग्य दिंव अशें मागतां. तूं साहित्य मळाचेर जैतार जैत मेळयत चल्ला हें फाटल्या 48 वर्सां सावन म्हाका पळोवपाक मेळटा हें म्हजें भाग्य.’ आशिर्वाद दिवन हांवें फोन दवरलो.

2014 हें वर्स म्हज्या कलेचें आनी जीणेचें सार्थक करपी वर्स अशें हांव मानता. ह्या वर्सा आयज मेरेन म्हज्या जीणेन चार घडणुको घडल्यात त्यो अश्यो :

1. बाब पुंडलीकान ‘तुमी म्हजे शाळेतले गुरू, पूण तुमी म्हजी नाटकाची ओड बळिश्ट केली.’ अशी अर्पण पत्रिका बरोवन एकेच फावटी तीन खंडानी आपली 15 नाटकां प्रकाशित करपी एका खासा सुवाळ्यात आपोवन आपलें ‘काळजाची काणी’ हें नाटक म्हाकां अर्पण केलें.

2. 2013 ह्या वर्साचो गोंयच्या कला आनी संस्कृती खात्याचो ‘कला गौरव’ हो पुरस्कार म्हाका फावो जालो,ही बातमी वाचून त्याच दिसा दनपरां शेंवत्यांनी फुलिल्लो एक वाजूच घेवन पुंडलीक म्हजें अभिनंदन करपाक घरा आयलो.

3. कोंकणी साहित्याच्या मळार जी नवीं पुस्तकां प्रकाशित जाता तातूंनच्या बऱ्या पुस्तकांक कोंकणी अकादेमी



सुभाष पांडुरंग खडपकर
(ज्येष्ठ मराठी शिक्षक/नाट्यकलाकार)
माशेल - गोंय
मो. 919822185456

पुरस्कार दिता. ह्या येवजणे भितर नाटक, एकांकी, तियात्र आनी आपउलोवपां हांजे परीक्षण करपाक घडयल्या कमिटीचेर एक वांगडी म्हणून म्हजो आसपाव केलो.

4. 'जैत' प्रकाशनाचे प्रबंध संपादक बाब भिकू बोमी नायक हांणी 'पुंडलीक नायक गौरवांक' काडपाचो थारावन सुमार 40 बरोवप्यां भितर म्हजो आसपाव केल्याचे कळीत करून ह्या अंकाखातीर हांवें एक लेख बरोवचो अशी आस्त परगटायली.

जैत प्रकाशनाचें पत्र आयिल्ल्याक हांव खरेंच भारावल्ल्या भशेंन जालो. खरें सांगता, ताणें म्हजें गुरूपण मानून घेवन आपलें 'काळजाची काणी' हे नाटक अर्पण केलां तरी फाटलीं 48 वर्सां तोच म्हज्या 'काळजाची काणी' जाल्या कारणान ताजेर कशें, किदें आनी कितलें बरोवचें हेंच म्हाका कळना जालां.

शेवटाक 'जैत' च्या संपादकानी म्हजेर शब्दांची मर्यादा घाली ना! तरीपूण थोडीशी मर्यादा पाळून पुंडलीकाचे विद्यार्थी दशेंतलें कांय यादी बरोवप म्हाकां समा दिसलें. देखून हो यत्न केला.

हांव एक शिक्षक. मराठी हो म्हजो शिकोवपाचो विशय. पयलींच सांगतां, म्हाका कोंकणी बरोवपाची सवंकळय ना. पुंडलीकाचें व्हडपण सांगपाक जी उतरां हावें वापरल्यांत त्यापरस चड मोलादीक उतरां कोंकणीत आसतलींच. ती हांव हेर खडेगांठ लेखकांचेर सोंपयता आनी म्हजें बरोवप मराठी वळणाचे जाल्यार वाचप्यांनी समजून घेवचें अशें नमळायेन मागतां.

1966-67 वर्सा पणजे लिसेवाचेर पीटीसी प्रशिक्षण अभ्यासक्रम पूर्ण करून 1967 च्या जून म्हयन्यांत हांव वळवय गांवांतल्या शाळेंत मराठी हो विशय शिकोवपा खातीर पावलों. हांगा पुंडलीक नांवाचो एक गोरो आनी थंड भुरगो म्हाका सातवेच्या वर्गांत सांपडलो. ह्याच गांवच्या फोंडचेंभाट ह्या वाड्यावेल्यान येवपी महादेव दत्तू नायक आनी पुंडलीक नारायण नायक हे दोनूय भुरगे म्हज्या 'काळजाची काणी' कशे आनी केन्ना जाले हें म्हाका कळ्ळेंच ना. महादेव सगळ्या विशयांनी वर्गान पयलो जाल्यार पुंडलीक दुसरो. पूण निबंधाचे बाबतींत मात पुंडलीक पयलो जाल्यार महादेव दुसरो. 50 वर्सां जालीं तरीय ही जोडी अजूनय तशीच आसा हें पळोवन खूब खोस भोगता. बरें कशें बरोवचें हें पुंडलीकाकडच्यान शिकचें तर बरें साहित्य खंयचें हें महादेवान सांगचें, अशी ही जोडी. सकाळींच उठून मेरेचेर पुस्तकां दवरून लाटीचेर उदक ओडून वारयें शिपूंन वेळार शाळेंत येवपी हे भुरगे म्हजेसयत बाकीच्या सगळ्या शिक्षकांचे नदरेन आदर्श विद्यार्थी आशिल्ले.

मराठी साहित्य मळार शिक्षणीक, सामाजीक आनी मानसशास्त्रीय नदरेन मनशाच्या सभावाची चर्चा करपी जांची पुस्तकां प्रकाशीत जायत आसात असो म्हजो इश्ट मनोहर द. कोरगांवकार (पर्वरी) हांणी ह्या भुरग्यांचेरे म्हज्या आदीं बरे संस्कार केल्यात हें म्हाका जाणवतालें. हांव आनी म्हज्या श्री. मठकर सारक्या इश्टांनी माणिल्ले खंयचेय साहित्यीक विचार हे दोगूय भुरगे रोखडेच समजून घेताले.

म्हाका घट याद आसा. हांवें वर्गांत एक निबंद बरोवपाक दिल्लो. दुसरे दीस बरोवन हाडपाचो. सगळ्यांनी तो बरोवन हाडलो. तपासतना म्हाका दिसलें, वर्गांतल्या तीन भुरग्यांच्या निबंधाची सुरवात, शेवट आनी मदलीं सगळीं उतरां सारकीं आशिल्लीं. शिक्षकाकडेन आसूंक फावना असो एक दोश म्हजेलागीं आशिल्लो. हांव रोखडोच तापतालों. मारी नाशिल्लों. पूण इतलो तापतालो, त्या भुरग्यान रडपाकूच जाय. तिगांचोय निबंध सारकोच पळोवन

हांव तापलो आनी ते तिगूय भुरगे रडपाक लागलें. हांव शांत जालों आनी वर्गाक समजून सांगलें की निबंध हो तुमचे सृजनशील अभिव्यक्तीचो भाग आसता. चार पर्याय दिवंन एक प्रस्न दिलो आनी तातूंत चाळीसूय भुरग्यांचें उत्तर बरोबर आसप ही शिक्षकाचे नदरेन खोशयेची गजाल. पूण निबंधाचें तशें न्हय. निबंध हो स्वताचो आसता. तातूंतलें उतरान उतर हें स्वताचें आनी स्वताचेंच आसपाक जाय. कॉपी आसूंक फावना. 14 –15 वर्सां पिरायेच्या ह्या भुरग्यांक हांव सामको कडकसाणेन  हें सांगतालों. म्हजीं उतरां आयकून पुंडलीकाच्या मुखामळार दिशील्ले भाव म्हाजे यादींत अजून घट्ट आसात.त्या दिसा हावें पुंडलीक आनी महादेव हांचे निबंध वर्गांत वाचून दाखयले आनी सांगलें, पळयात निबंध अशे आसूंक जाय!

पुंडलीक आनी महादेव दोगून वर्गातले सामके शांत अशे भुरगे. मात पुंडलीक मात्सो कॉमीक कसो. केन्ना केन्ना कसल्या तरी शब्दांचें, उतरांचें विडंबन करून वर्गात हळूच अशें कितें पील सोडटालो कीं सगळो वर्ग हांसतालो. तो स्वता मात हासंनाशिल्लो. मराठी भावगितांत सोबसारके आपले कोंकणी शब्द घालून तांचे विडंबन करप हो ताचो छंद. तो अशें कितें करतालो तरीय ताची केन्नाच तिडक येनाशिल्ली. आमी शिक्षकूय न्हय जाल्यार सगळ्या भुरग्यांक ताची अपुरबाय दिसताली. पुंडलीकाचे सृजनशील अभिव्यक्तीचो बुन्यादी फातर बसपाक सुरवात जाल्ली.

वळवय गांव तेन्ना गोंयांतल्या हेर गांवांभशेन एक खेडेंगांव. गांवांत लायट नाशिल्ली. बरो रस्तो ना. पणजे वचपाक एकूच कार्रेर. गांवांत बिडीओचे ग्रामविकास येवजणे खाला एका घराचे पडवेर 'नवयुग वाचनालय' हो तकटो लावन एक कपाट आशिल्लें. वळवयकार नाटकांचे सामके मोगी. नाटक, संगीत, वादन हे कलेन ह्या गांवात गोंयाक आनी महाराष्ट्राक व्हड प्रतिभेचे कलाकार दिले. हांवें ह्याच गांवांत बरोवन सादर केल्ल्या दोनूय मराठी नाटकांच्या प्रयोगान पुंडलीकाक माचयेर हाडलो. आमी जीं नाटकां करतात तीं कोणेय तरी बरोवची पडटात ही जाणवीकाय पुंडलीकाक ताका ताच्या भुरगेपणान जाली जावं येता.

पुंडलीक सातवी पास जावन सावयवेरेंच्या हायस्कुलांत पावलो आनी मराठी माध्यमांतल्यान इकरावी (एस. एस. सी) मेरेन थंयच शिकलो. हांगा ताका श्री. अंगडी, राया नायक, कालिदास मराठे सारके व्हड शिक्षक मेळ्ळे. कालिदास मराठेचें लेखन थळाव्या वृत्तपत्रांनी प्रसिद्ध जातालें. राया नायक तर कायद्याचे नदरेंतल्यान शिक्षण माध्यमाचेर बरयत आसता. पुंडलीक सातवेंत आसतना कवनां करतालो. पूण आपली प्रतिभा केन्नाच कागदाचेर उतरय नाशिल्लो. पुंडलीक सातवेंत शिकतना सवेच्या वर्गांत आशिल्लो तुकाराम रामा शेट हो भुरगो ल्हान भुरग्यांखातीर मराठींत बडबड गितां बरोवन म्हाका दाखयतालो. ताच्या वर्गांत तो सदांच पयलो येतालो. बरोवप पुंडलीकाभाशेन सामकें निवळ. पुंडलीका भशेनूय तुकारामाकूय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो ही गजाल आमचे खातीर सामकी अभिमानाची.

वळवय लागींच सावयवेरें वाठारांत दोन हायस्कुलां आशिल्लीं. मात आमी आमचे शाळेंत पाठ्यपुस्तका भायले उपक्रम (Co-Corricular Activities) अशें म्हणटात ते सुरू केल्लें, ते ह्या हायस्कुलांनी नाशिल्ले. हे उपक्रम आमी पुंडलीक सातवेंत आसतना चालीक लायिल्ले. त्या वाठारांत आमी पयलेच खेप 'गॅदरींग' हें उतर हाडलें. पीटी डिस्प्ले करप, भुरग्यांचो हस्तलिखीत वर्सुकी अंक काडप, शिक्षक दिसा भुरग्यांक शिक्षक जावपाक सांगून हेर भुरग्यांक शिकोवप. आमच्या ह्या उपक्रमांची गांवचे लोक तुस्त करताले. तांचे खातीर हें सगळें नवें आशिल्लें.

भुरग्यांच्या पाठ्यपुस्तकां भायर मराठी, हिंदीतलें बरें साहित्य, कादंबऱ्यो, नाटकां, कविता संग्रह, आपउलोवपां, चरित्रां, संगितिका सारकें

साहित्य आमी भुरग्यांचे नदरेक हाडून दिताले. शाळा दुबार पद्दतीची आशिल्ली. सांजे साडेपांचांक सुटपाची. एक कादंबरी वाचून दाखोवपाची जाल्यार निमाणच्या पिरेडाक आठ-आठ दिस चलताली. साडेपाचांक सुटपाची शाळा साडे स जाली तरी भुरगी घरा वचपाची नांव काडी नाशिल्ली. म्हजी आवड नाटक आशिल्ली. नाटकाचे कथानक सांगचे जाले तर मदे मदे तातूंतल्या संवादासयत हांव ते साभिनय सांगतालो. हातूंतल्यान एक काम आमचे कडच्यान आमकां न कळटा घडलें ते म्हणजे 'गावांन बरी लायब्ररी ना' ही उणवी आमी कांय प्रमाणान भरून काडून भुरग्यांक मराठी साहित्याची ओड आनी वळख करून दिवपाचो यत्न आमच्याकडल्यान जालो अशे म्हाका दिसता. कवनाच्या कडव्यान चार ओळीतली निमणी ओळ सारकी बरोवप जाली ना तर वयल्या तिनूय ओळींचो अर्थ कसो बिगडटा आनी निमण्या आळीतले एकूच उतर बदलीत तर त्याच कवनाक कितलो सुंदर अर्थ मेळू येता हे आमी कवी कालिदास सारकिल्या प्रतिभावन कविचे उदाहरण दिवन भुरग्यांक सांगताले.

'पुंडलीक कसो घडलो?' हे सांगप दिसता तितले सोपे न्हय. तो आठवेक पावतकच केन्नाय पळयत तर ताज्या हातांत पुस्तक आसतालेंच. ताणे म्हाका गुरू मानून ताची नाटकाची ओड बळिष्ठ केली, अशें अर्पण पत्रिकेन बरयलां खरें पूण तें इतल्या पुरतेच उरचें अशें हांव नमळायेन सांगू सोदतां. हांचे कारण अशें, आयज मेरेन पुंडलीकान आपले कसलेच हस्तलिखीत म्हाका केन्नाच दाखोवं ना आनी आयज मेरेन ताचें जें साहित्य प्रसिध्द जावन ताका जें जैत मेळ्ळां तातूंतल्या एका शब्दाचेर म्हजे कसलेच सोपस्कार ना, फेरबदल ना वा ताच्या साहित्याच्या खंयच्याच चर्चेन हांवे केन्नाच वांटो घेवंक ना. जे किदे आसा तें पुराय ताचें आनी ताचेंच आसा हे हांव वाचप्याक नमळायेन सांगूक सोदता.

पुंडलीकाचो खरो गुरू ताच्या भोवतणचो सैम आनी समाज आसा. हे हांवे जायतेकडेन जायते फावट जायत्या जाणांक सांगलां. बेतकी, सावयवेरे, वळवय हो वाठारूच असो आसा, तुमकां तो वाचूंक कळटा जायत तर खंय तरी तुमचे कवित्व, तुमच्या साहित्याची ओड जागी जाता. पुंडलीकाची साहित्यीक घडण चालू आशिल्ली, त्याच तेंपार बेतकेच्यान बाब भिकू बोमी नायक, रोहिदास तारी, सावयवेरेच्यान संजीव वेरेकार, वळवयच्यान उदय म्हांब्रो हे भुरगे साहित्य मंदिराचे दार खटखटयताले. हांकां पासून भोवतणचो सैम उलो मारतालो.

घराच्या तोंडामुखार आशिल्ली माय मांडवी वर्सान एकदां तरी हुवारान भरता, हे तो पळयतालो. आंगणान उफाट फुल्लेलो चाफो ताका उलो मारतालो. कॉलेजीन पावतकच शेतान गेल्यार धोपरामेरेन दोडुन घेतील्ली पॅन्ट ताका नांगर धर म्हणटाली. गोरवांच्या फाटीर बसपी शेवणी 'शिकला मरे तूं ? बरय मरे म्हजेर किदेंतरी?' अशें ताचे कडेन मागतालीं. लागीच्या शिलवाड्यावयल्यो कुळागरांच्यो माडयो ताका 'परतून परतून देवन देवन वयर किदें चडटा रे. म्हाका मातशी बावगय मरे, वळय! एके वयल्यान हांव तुका दुसरे माडयेर पावयता' अशें सांगताल्यो. तर ताच्या शेतान येवपी बळारी ताका ध्यान कशे करचे हें शिकयताल्यो. असो सैम वाचून वाचून कितलेशेच अणभव ताचे गांठीक आशिल्ले. पण कागदाचेर उतरपाची खोटी आशिल्ली. ह्या ताच्या सैमाच्या अणभवांचो सिलिंडर उफाट भरिल्लो. ताका शिक्षणाची शेगडी लागना फुडे पडलीच जाल्यार म्हजे कडच्यान एक बारीकशी किट त्या शेगडेवर पडली जायत पण तेन्ना ही शेगडी जी पेटल्या ती फाटली 48 वर्सा पेटतूच आसा. ती पालोवपाचो जायतो यत्न जालो पूण

*पुंडलीक नायक गौरव विशेशांकाक आमची परबीं!*

**प्रा. भालचंद्र गावकार**
किटोळे, बेतोडें, फोंडे - गोंय

सिलींडर सोपना, आनी शेगडी पालवना.

पुंडलीक णवेक पावला तेन्ना हांव बदली जावन शिवोले मिडल स्कूलाचेर पाविल्लों. आतां पुंडलीकाच्यो प्रतिभेक आकार येवपाक लागिल्लो. 1970 त सुमार रेडिओचेर 'तरूणांसाठी' या कार्यक्रमान ताच्यो मराठी कविता आयकूंक मेळटाल्यो. आंगणात आशिल्ल्या चाफ्याचेर ताणे वाचिल्ली 'चाफा माझ्या प्रांगणी' ही कविता म्हाका खूब मानवल्ली. अशे करता करता एक दीस पेपरान खबर आयली. नागपुरच्यान उजवाडा येवपी 'नवयुग' ह्या दिवाळी अंकान जी खुली कथास्पर्धा दवरिल्ली त्या सर्तींत पुंडलीकान वांटो घेतिल्लो. तातूंत सुमार चौदाशी कथा आयिल्ल्यो आणि तातूंत पुंडलीकाच्या 'एका मांजरीची कहाणी' हे कथेक इनाम फावो जाल्लें. पुंडलीक कथा लेखनाकडेन वळील्लो. पूण हें ताजे जैत चड दीस उरलें ना.

आतां पुंडलीक 'तरूणासाठी' सोडून 'तरणाट्यांक' ह्या कोंकणी कार्यावळीनी आपल्यो कविता, कथा, तशेंच पणजे आनी हेर आकाशवाणी वेल्यान हेर भाशांनी रूपांतरीत जाल्ल्या 'मर्णकटो' एकांकिकेन आयकूंक मेळटालो. एक दीस 'रानसुंदरी' हें आपले पयलें छापील प्रकाशन घेवन, हांव पेडें-म्हापशां हांगा रावतालो थंय म्हजो पत्तो काडीत पाविल्लो. सांज जाल्ली. म्हज्या आग्रहाखातीर एक रात तो म्हजेकडेन रावलो. तेन्नाच हांवें कारवारा बी.एड. चे अॅडमिशन घेतिल्लें. म्हजी कारवारा वळख नाशिल्ली. बी.एड.कोर्स सोप मेरेन हांव खंय रावतालो कांय? हें चित्तालो आनी देवासारको पुंडलीक आमगेर पाविल्लो. म्हाका याद जाली, पुंडलीकाची भयण लता कारवार दिल्या. एक दीस पुंडलीकान लताचे पत्र म्हाका वाचपाक दिल्लो. 'मला एवढ्या दूर दिलीत, आता माझी कुणीच खबर घेत नाही.' अशे शीण काडपी पत्र ताणें म्हाका वाचपाक दिल्लें. 'हांव कारवार ट्रेनिंगाक वतां, म्हजी एक वर्स रावपाची सोय जायत? कॉलेजीक लागींच खंय तरी रूम मेळत, तर बरें जातलें.' हांवें सांगलें मात, पुंडलीक म्हाका भयणीगेर कारवार घेवन गेलो. भावोजीक म्हजी वळख करून दिली. त्या सभाग्यान कॉलेजीपासून चलत 3 मिनीटांच्या वाटेर म्हजी सोय करून दिली. पुंडलीक एक मनीस म्हणून कितल्या व्हड मनाचो घडला हें म्हाकां तेन्ना कळळें.

हो वेळ मेरेन पुंडलीकाचे कविता फाटी पडून तांणें कोंकणी भाशचे सेवेक आपली पुराय हुशारकाय ओपिल्ली. गांवचे भुरगे जमोवन कविकट्टे घेवप, शिबिरां घेवप, विंगड विंगड साहित्याचेर वरांची वरां चर्चा करप अश्यो ताच्यो कार्यावळी चलताल्यो. हांव दोन वर्सा ज्या घरांन जेवतालो त्याच घरांतलो नारायण हो भुरगो पुंडलीकाच्या वर्गान आशिल्लो. त्या नारायणाचे चंद्रमौळी घर हे पुंडलीक आनी हेर भुरग्यांचे विद्यापीठ जाल्ले. नारायण सरकारी नोकरेक आशिल्लो. नारायणाचो बापूय ताज्या भुरग्यापणांतच संसाराक अंतरील्लो. ताजी आई खूब कष्ट करून भुरग्यांक शिक्षण दिताली. आनी अशा ह्या गरीब घरांत नारायण कामाक गेलो तरी पुंडलीकाच्यो बसका चलताल्यो. हांवें आयकलां त्याप्रमाण एक दीस कोणतरी सत्तेर आशिल्लो राजकीय फुडारी गांवान येवन जाहिर सभा घेतालो. पुंडलीकान आपल्याक दोनूच मिनीटां उलोवपाक दिवचें अशी मागणी केली. इतलो सुंदर उलयलो, ताणें सगळी सभा जिखली. पूण निमणेकडेन ताणें 'हो पुडारी आमचे कल्याण करूंक येवंना तर मतां मागूंक आयला.' असो शेवट केलो, तो त्या फुडाऱ्यासयत कांय लोकांक आवडलो ना.

'राष्ट्रमतान' पुंडलीकाच्यो कथा प्रसिध्द जावपाक लागल्यो. हांवें आयकलां त्या प्रमाण, ताणे बरयल्ल्यो कथा वाचून कोंकणी मळार वावुरपी जेष्ठ

लेखक, रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, उदय भेंब्रे, चंद्रकांत केणी हांकां कोकणीच्या मळार हो कोणतरी स्टार उदेता हें लक्षांत आयलें.

1974 च्या सुमाराक गोंयचे कला अकादमीन मराठी आनी कोंकणी भासांनी नाटकां बरोवपाची सर्त दवरिल्ली. म्हजेकडेन 'गंगा गेली सिंधुपासी, तिने अव्हरीले तियेसी' ह्या कल्पनेचेर दोन भयणींच्यो कथा घेवन एक नाटक बरयल्लें आशिल्लें. म्हापशेचे सर्गेस्त मनोहर सावकार हांणी तें वाचून बरो अभिप्राय दिल्लो. तो मेरेन पुंडलीक नाटकां बरोवक लागला हें म्हाका खबर नाशिल्लें. हांवें नाटक सर्तीत धाडलें. निकाल जातकच मराठी विभागान म्हजें नाटक तिसऱ्या नंबराक तर कोंकणी विभागांन पुंडलीकाचें 'खण खण माती' हें नाटक पयलें आयिल्लें, हाजी म्हाका खूब खोस भोगली. आमी जाणांच, शेंकड्यांचो शेंकडो मारपी सचिन तेंडुलकार आचरेकरान क्रिकेटीक दिलो. पूण आचरेकरान केन्ना शेंकडो मारला हें आयकुना.

पुंडलीकाक संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो ही खोशयेची गजाल, पूण इतल्याचेर हांव भुल्लसून वचूंक शकना. हांव शिवोले आसतना तरण्याट्यांक ह्या रेडिओ कार्यक्रमान ताची एक कविता हांवे आयकल्ली. सर्गेस्त रवींद्र केळेकार उपरांत केन्नाय तरी पुंडलीकान ज्ञानपीठ गोंयांत हाडचें अशें म्हाका दिसलें. फोनाचेर अभिनंदन करप सोपील्लें. पूण म्हाका त्या कवितेची ओळ याद जाली आनी ताज्याच कवितेची ती ओळ मोबायलार टायप करून हांवें ताका दिल्लीक मेसेज केली. "घाटी अजून चडची आसा..."



# You Deserve the Best ! Choice is Yours...

## Ray Ryle
RESIDENCY
Acoi, Mapusa-Goa



This Project at Acoi, Mapusa-Goa






This Project at Tisk Kavalem Road, Ponda-Goa




## Raj Housing Development Pvt. Ltd.

S-1, Raj House,
Above The Goa Urban Co-op Bank Ltd.
Ponda-Goa 403 401 INDIA.
Ph. +91 (832) 2312072, 2314647

417, Gera Imperium II, Patto Plaza,
Panjim-Goa 403 001
M: +91 8308815271
Email: sales@rajhousing.com
Website: www.rajhousinggoa.com




SAMEER : +91 8308806941
SANJAY : +91 8805994453

**Ray Ryle**
RESIDENCY

SWAPNIL : +91 8308806934
NISHA : +91 9763719962




GOVERNMENT OF GOA

DIRECTORATE OF TRIBAL WELFARE

Shrama Shakti Bhavan, 5th Floor, Patto, Panaji-Goa Tel. 2438024 No. Fax No. 2438052


## DIFFERENT SCHEMES OF THE DEPARTMENT

- [illegible]
  - a). Scholarship Amount Rs. 3575/- per annum for students of class Std. V to VIII. Rs. 4125 per annum for students of Class IX and Class X.
  - b). Meritorious Scholarship for students securing 50% marks and above in the qualifying exams.
    - Rs. 900/- for students of class V and VI
    - Rs. 1000/- for Students of Class VII and VIII
    - Rs. 1100/- for students of Class IX
    - Rs. 1600/- for the students of Class X
- [illegible] Rs. 25,000/- as fixed Deposit for 2 years. Amount released upon certification by the School incharge that the Student has completed 12th std/ H.S.S.C.
- [illegible]
  - Up to Rs. 3500/- for Home Nursing Course with duration of minimum six months.
  - Up to Rs. 5000/- for Diploma Course in Nursing with duration of minimum One year.
  - Up to Rs. 3500/- for course of Health Worker of One year duration.
- Grants to Voluntary [illegible]
  - Maintenance grants to the institution of Rs. 1500/- per month per students for a period of 10 months in a year.
  - Financial assistance for payment of wages/rent for a period of 10 months in a year for following staff.
    - = Warden Rs. 10,000/- p.m.
    - = Clerk cum stores incharge Rs. 10,000/- p.m.
    - = Cook Rs. 8000/- p.m.
  - Rent Charges of Rs. 5000/- p.m. in urban areas and Rs. 2500/- in rural areas.
- [illegible] Reimbursement of non refundable tuition fee, Maintenance allowances for day scholars and for Hostellers at the rates depending upon the Group of course.
- Book Bank Scheme: Cost of the Set of Books for the Library and a Cupboard.
- [illegible] Rs. 7500/- per annum for Day Scholars and Rs. 15000/- per annum for Hostellers.
- Merit Base Award and recongintion of High performers in Board ex[illegible].
  Rs. 20000/- for the first five Rank Holders of Board Exams. Merit base award for high performers in Board exams.
  Rs. 15000/- for scoring 75% and above,
  Rs. 10,000/- for scoring 70% and above,
  Rs. 8000/- for scoring 60% and above,
  Rs. 5000/- for scoring 50% and above.
- [illegible]: Financial Assistance of Rs. 50,000/- is provided under the Scheme for the BDOs, Dy. Collector & SDO/Panchayat Raj Institutions/Committees constituted under Forest Rights Act. For the NGOs financial assistance of 80% of the programe is provided by this Directorate & remaining 20% should be contributed by NGO.
- Antya Sanskar Sahay Yojana: Re-imbursement of the cost incurred upto to Rs.20,000/-
- [illegible] Financial Assistance for construction of New House/Reconstruction of Existing house up to Rs. 2,00,000/- and repairs of existing house upto Rs. 75000/-
- [illegible] Purchase Price of the Dwelling House as determined by the Mamlatdar, Maximum financial assistance under the scheme for purchase of dwelling house is Rs. 30,000/-.
- Scheme to Support Orphan child/ Children of Widow belonging to ST comm[illegible]
  - Fixed maintenance allowance of Rs. 1500/- per month per child of widow
  - Fixed maintenance allowance of Rs. 2000/- per month per child who is an orphan. (Benefit limited to two children)
- [illegible] Financial Assistance up to Rs.One Lakh for the institutions conducting Study tour for incurring expenditure on travel and food of the students upto 40 number and two teachers.
- Sanskruti Bhavan: Project Cost Up to Rs. 2.00 Crores including Cost of land.
- Adivasi Vikas Yojana:
  - The estimated cost of new Infrastructure Development project shall not exceed 1.25 crore per project.
  - The estimated cost of up gradation / renovation etc. of the project shall not exceed 60 lakhs per project.
  - The amount of deposit for land acquisition shall not exceed 60 lakh per project.

# सावयवेरें - वळवयचें भुंयचाफ्याचें फूल

लेख

सावयेवरें- वळवय गांवांची जमीन तशी सगळे बाबतींत सुपीक! कुळागरां, शेतांभाटां त्याच वांगडा मनशांचे बाबतींत लेगीत! ह्याच गांवांतल्यान मास्टर दत्ताराम, मास्टर गंगाराम हांच्या सारके नटश्रेश्ठ जल्माक आयले, जाल्यार मलबाराव सरदेसाय सारके संगीत तज्ञ जावन गेले. सुटके झुजांत गांवांतली कितलीशींच घरां स्वातंत्र्याचे रणभुंयेची यज्ञकुंडां जाल्लीं तर विनायक खेडेकारांसारके लोककलांचे उपासक ह्याच गांवांत जल्माक आयले. हेच सुपीक भुंयेंत आनी एक भुंयचाफ्याचें फूल फुल्लें ताचें नांव पुंडलीक नारायण नायक.

हें नांव घेतकच म्हाका याद जाता एका तरनाट्याची, जो म्हजो धाकलो भाव, नारायण देसायावांगडा पैकुळ सारक्या सत्तरीच्या एका आड खेड्यांत आपल्या इश्टमित्र साहित्यिकांसयत येतालो. शेणान सारयल्ले मातयेचे जमनीर बसून आपल्यो कविता आनी नाटकांचें वाचन करतालो आनी ताच्या साहित्याचो आस्वाद घेतना म्हजेसारक्या तरणे पिरायेच्या तरनाट्याक 'ह्यो सगळ्यो कल्पना ताका कश्यो सुचतात? म्हाका अशें कित्याक सुचना?' असो प्रस्न पडटालो. प्रकाश पाडगांवकार, रमेश वेळुस्कार, तातूंत जाण्टे नागेशबाब करमली अशे आनी कोंकणी मळावयले कितलेशेच ल्हान-व्हड साहित्यीक आमकां पळोवपाक मेळटाले.

पुंडलीकबाबालीं 'खण खण माती' सारकीं नाटकां उजवाडा आयलीं आनी गोंयांत हे मातयेंतल्या विशयांचेर साहित्य बरोवपी साहित्यीक मेळ्ळो. वेगवेगळे पुरस्कार मेळोवन पुंडलीकान कोंकणी भास आनी साहित्य ताचेवांगडा साहित्यिकांचीय मान ऊंच केली.

पुंडलीक साहित्यीक म्हणून म्हाका आवडटा, तितलोच वा ताचेपरस मात्सो चड तो एक जित्या मनाचो, संवेदनशील कार्यकर्तो वा 'ॲक्टिविस्ट' म्हणून चड मानवता. अशे कितलेशेच साहित्यीक आसतात वा आसात जांचें साहित्य तोखणाय करपा सारकें आसता पूण तांचे प्रत्यक्ष जिणेंत ते वेगळ्याच पद्दतीन वागतात. म्हणजे तांजे साहित्य वाचून एकाद्र्या रसिकान ताची



डॉ. दत्ताराम देसाय
(नायलन 66 विरोधी चळवळीचे मुखेली)
सावय- वेरें, फोंडें गोंय
फोन: 0832-2340223

प्रतिमा तयार केल्ली आसता, ताचे विरुद्ध कांय साहित्यिकांचें वर्तन आसता. पूण म्हाका दिसता पुंडलीक काळजांतल्यान बरयता. ताचे संवाद वाचक वा प्रेक्षकांच्या काळजांक हात घालतात. भावना जाग्यो करतात. हाच्या फाटल्यान ताच्यांतलो संवेदनशील लेखक सदांच जागृत आसता अशें म्हाका दिसता.

म्हाका पुंडलीकाची सामकी सविस्तर अशी म्हायती जरी नासली तरी ताची 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' स्थापन करपा फाटली भुमिका ताचें कार्यकर्तोपण दाखोवन दिता. भाशेच्या मळावयलीं सगळीं जैतां मेळ्ळीं म्हूण तो ओगी बसलो ना. जेन्ना सावयवेरें, केरी, वळवय वाठारांत नायलॉन 66 च्या निमतान एक व्हड अरिश्ट येवपाचें थारलें तेन्ना साहित्यिकांमदीं सगळ्यांत पयलीं नायलॉनआड ताणे उक्ती भुमिका घेतली.

तशें ताणे हेर 36 बुद्धिजिवी लोकांवांगडा रावून सरकाराक निवेदन भेटोवन ह्या नायलॉन प्रकल्पाक विरोध केल्लोच, पूण रवीन्द्र केळेकारा उपरांत ह्या नायलॉन 66 विरोधी आंदोलनांत जाहिरपणान सभांनी भाशण करून लोकांक ह्या प्रकल्पाक लागून जावपी वायट परिणामांची म्हायती दिवन हो प्रकल्प कित्याक जावपाक दिवपाक जायना हें पटोवन दिवपी एकलो पुंडलीकूच! फोंडें वाठारांतल्या चड करून सगळ्या जाहीर सभांतल्यान भाशणां करून साहित्यिकांक लेगीत असल्या प्रस्नांकडेन उक्त्या संवेदनशील मनान पळोवपाची विनवणी करपी पुंडलीकूच! ज्या दिसा नीलेश नायकाक वीरमरण प्राप्त जालें त्या दिसा पुंडलीक खांब्याभशेन म्हज्या फाटल्यान उबो रावलो. म्हाका दिशिल्लें- एका तरनाट्या भुरग्याक मरण आयिल्ल्यान सगळो भौस म्हज्या नेतृत्वा आड आवाज उठयतलो आनी म्हाका गांवांत रावंक कुस्तार जातलें. जखमी आंदोलकांक म्हजे गाडयेंत घालून हांव बांबोळे गोंय वैजकी कॉलेज- हॉस्पिटलांत गेल्लों. तेन्ना म्हाका खबर नाशिल्लें, फारपेटांत एका तरनाट्याक मरण आयलां. हांव समजतालों, जांकां गुळयो लागल्यात तांकां सगळ्यांक हॉस्पिटलांत हाडल्यांत आनी तीं सुखरूप आसात. मात नीलेशाचें अनपेक्षीत मरण म्हाका हालोवन गेलें. अशा वेळार दुसऱ्या दिसा सगळें फोंडें बंद आसतना पुंडलीकान म्हाका सगळ्या आडमेळ्यांतल्यान वाट काडीत आपले स्कुटरीवयल्यान दुर्भाटचे फेरीबोटीन पणजे पावयलो. थंय नीलेशीची कूड ताब्यांत घेवपा पयले सगळे सोपस्कार केले. मुख्य सचीव, आयजीपी हांचेकडेन उलोवोणी करपाक पुंडलीकाची मदत जाली. ह्या सगळ्यांपरस नीलेशाच्या घरच्यांकडेन उलोवपाचें धाडस म्हाका पुंडलीकान दिलें. सगळें जातकूच नीलेशाच्या घरच्यांक अर्थीक मदत करपाच्या कार्यावळींचें निवेदन पुंडलीकान केल्लें. हे भुंयेचेर मोग करपी सूत्र-साहित्यीक म्हणून पुंडलीकान योग्य वेळार ह्या आंदोलनांत वांटेकार जावन आपलें कर्तव्य केलें अशें म्हाका दिसता.

पुंडलीकाच्या साहित्याचेर उलोवपाची म्हजी योग्यता ना. ज्या ज्या वेळार गोंयचे अस्मितायेक, दायजाक धक्को दिवपी निर्णय घेतात वा त्या संबंदान प्रस्न उप्रासतात तेन्ना पुंडलीक ताचेर तुटून पडला.

दुसरी ताची तोखणाय करपा सारकी गजाल म्हणल्यार ताणे आयजमेरेन वळवयच्या वाठारांतूच आपलो राबितो केला. ताच्या व्यापा- खातीर ताच्यान केन्नाय पणजे सारक्या शारांत रावपाचें येवजूं येतालें पूण ताणे 'फोणचेंभाट' सावय हांगासल्लें आपलें पोरणे घर सोडूंक ना! ताचो आपले भुंयेचेर, आपल्या घरदाराचेर आशिल्लो मोग हातूंतल्यान जाणवता.

ताच्या नांवान गौरव अंक काडपाचें जैत प्रकाशनान थारायलें, आनी तातूंत म्हज्या सारक्या एका सामान्य मनशाक बरोवपाची विनवणी केली तांचो हांव उपकारी आसा. पुंडलीकाक गोंयची सेवा करपाक उदंड जीण आनी भलायकी मेळूं. ताच्यातलो बंडखोर साहित्यीक जागोच उरचो हीच प्रार्थना.

◆◆◆

# पुंडलीक नारायण नायक हांची नाटकां

लेख



श्रीधर अ. कामत बांबोळकार
(राष्ट्रीय कीर्तीचे नामनेचे रंगकर्मी)
'अनंतशाली' बांदोडें- फोंडें गोंय
मो. 09422451397

पुंडलीक नारायण नायक हे कोंकणी भाशेंतल्यान बरोवपी एक अश्टतासांचे भारतीय साहित्यीक. तांणी साहित्याचे चडशे सगळे प्रकार समर्थपणान हाताळल्यात. पूण नाट्यलेखनांत तांणी दिल्लें योगदान अद्वितीय थारलां. बालनाट्य, एकांकी, एकपात्री, नभोनाट्य, नाटक अशे वेगवेगळे नाट्य प्रकार तांणी बरयल्यात.

1984 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो राष्ट्रीय पुरस्कार तांका फावो जालो तो 'चौरंग' एकांकी संग्रहाक. 1980, 1986 आनी 1987 वर्साचे अखिल भारतीय आकाशवाणी नभोनाट्य पुरस्कार तांका फावो जाले. 1988 वर्सा पॅटर्स ऑस्ट्रेलिएन ॲवार्ड तांकां फावो जालें तें तांच्या 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नभोनाट्या खातीर. 2013 वर्सा केंद्रीय संगीत नाटक अकादेमीचो तांका प्रतिश्ठेचो पुरस्कार प्राप्त जालो तो तांणी दिल्ल्या कोंकणी नाटकाच्या योगदाना खातीर. तांच्या कितल्याशाच नाटकांक कला अकादमीच्या नाट्य सर्तींत इनामां फावो जाल्यांत. गोंयच्या मुक्तीवर्साच्या भांगरा महोत्सवा निमतान 'क्रिकेटर शुभम नायक ट्रस्ट'' आनी गोंय सरकाराच्या 'कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या' जोड पालवान 'पुंडलीक नायक नाट्य महोत्सव' -2011, 'नाट्यरंग पंचम' हो तांच्या पांच वेंचीक नाटकांचो उत्सव गोंयच्या पांच वेंचीक केंद्रानी 12 ते 16 एप्रील 2011 ह्या दिसांनी घडोवन हाडलो. हो नाट्यमहोत्सव म्हणल्यार पुंडलीक नायकाच्या नाट्य चाहत्यांनी तांच्या नाटकांचो केल्लो प्रेमोत्सव, खरो रंगगौरव आशिल्लो.

1961 वर्सा गोंय मुक्त जालें आनी अभिव्यक्तीचे नवे मार्ग मेकळे जाले. गोंयच्या साहित्य, कला आनी संस्कृतीच्या मळांक नवो चंवर आयलो. पूण कोंकणी नाट्य चळवळीक मूळ धरपाक 1976 वर्स उजवाडचें पडलें. तो मेरेन कोंकणी रंगमाचयेर अपवादान एकाद्रें नाटक जातालें. फकत 'बाप्पा- व्हनीबायची' कॉमेडी चलताली. या प्रकारान कोंकणी नाटक म्हणल्यार विनोदी नाटक अशी समजिकाय जाल्ली.

1976/77 वर्सा गोंयच्या कला अकादमीवतीन सुरू जाल्ल्या कोंकणी नाट्यसर्तींत स्वभाशेच्या अभिमानान प्रेरीत जाल्ल्या लेखक-कलाकारांनी आपणाल्या सृजनशक्तीक जागयलें आनी पयली नाट्यसर्त जैतिवंत जाली. कोंकणी नाटकांचो दर्जो हेच सर्तींत तयार जालो. ह्याच काळांत कोंकणी नाट्य चळवळ भौसाच्या काळजांत रिगली. कोंकणी समाजाक आत्मसाक्षात्कार जालो. ताचो स्वाभिमान जागो जालो. प्रादेशीक अस्मितायेची राखण करून संवसारीक पातळेर वचपाची मोख कोंकणी मनशान दवरली. कोंकणी नाटक हें फकत कोंकणी संवादांक लागून कोंकणी नाटक न्हय तर आशय, विशय, नेपथ्य, वेशभुशा, संगीत हांचे खातीरूय तें कोंकणी नाटक आसा हें सिद्ध जालें. हें सगळें वैभव प्राप्त करपा खातीर पुंडलीक नायक आपणालें सृजनकार्य अखंडीतपणान करीत आसात. कसदार संहिता, आर्विल्लें नाट्यतंत्र, वास्तववादी सामाजीक आशय घेवन एका फाटल्यान एक अशीं वेगवेगळे शैलींतलीं नाटकां तांणी कोंकणी रंगशारदेच्या दरबारांत रुजू केलीं. गोंय सुटके उपरांत कोंकणी समाजाचें वास्तव पडबिंब, हांगच्या चिड्डुल्ल्या समाजाचीं सुख-दुख्खा, तांचे हावेस, उत्फर्के, गोंयची अस्मिताय हाचें दर्शन घडोवपी आनी आमच्या भोवंतणच्यो व्यक्तिरेखा जित्यो- जिव्यो करपी सरस नाटकां पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी रंगमाचयेक दिलीं. 1977 ते 2011 ह्या काळांत तांची 31 पुराय लांबायेचीं नाटकां रंगमाचयेर सादर जालीं.

पुंडलीक नायक हांचो नाटकांचो प्रवास '<u>खण खण माती</u>' ह्या नाटकासावन सुरू जालो. 1977 वर्सा कला अकादमीच्या पयल्या कोंकणी नाट्यसर्तींत ह्या नाटकाचो प्रयोग जालो. 'अच्छेव' ही तांची भोव गाजिल्ली कांदबरी बरयतां बरयतां तांणी '<u>खण खण माती</u>' हें नाटक बरयलें. ह्या नाटकांतलो विशय अच्छेवांतलोच आसा. रॉकसायबाची व्यक्तिरेखा मुखार दवरून नाटक उबें केलां. ह्या नाटकाचेर बास्कळपणाचो आनी पोजडेपणाचो आरोप जालो. गाळयारीच व्यक्तिरेखा लेखक दाखयता जाल्यार ताका आनीक कसलो पर्याय आसा? व्यक्तिरेखेची मानसिकताय तिच्या सभावांतल्यान उक्ती जाता. गाळी हो तिचे अभिव्यक्तीचो भाग जाता. खंयचीय गाळ अर्थपूर्णच आसता. ती अशे तरेन चरचरीत येता आनी प्रेक्षकाच्या मर्माक लागता. कांय व्यक्तिरेखांच्या तोंडांतल्यान गाळी काडल्यो जाल्यार तांचें अस्तित्वूच काडिल्लें भशेन जातले अशें लेखक एकेकडेन सांगता. निमणे सर्जनशील नाटककार आपणाल्या भोंवतणच्या व्यक्तीचो, समाजाचो आनी घडणुकांचो बारीकसाणेन निरीक्षण करपी आसता. ताचेंच चित्र पुंडलीक नायक हांच्या 'खण खण माती' नाटकांत दिसता. ह्या नाटकांत प्रादेशीक संदर्भ येतात. गोंयच्या खणीवयले फाटभुंयचेर बरयिल्ल्या ह्या नाटकांत मनशाच्या भोवरंगी रुपांतलो संघर्श आनी संबंदाचें उद्रेकपूर्ण नाट्य दिसता.

'<u>रक्तखेव</u>' हें पुंडलीक नायक हांचें दुसरें नाटक. 1978 वर्सा कला अकादमीचे सर्तींत माचयेर आयलें. ह्या नाटकांत दोन भावा भयणीची ल्हानपणान जाल्ली ताटातूट आनी जुवानपण येतकूच आपणाली खरी वळख ना जाल्ल्यान तांचो शारीरिक संबंध येता, असो धाडसी विशय तेन्ना लेखकान घेतला. ह्याय नाटकांत गोंयचें गांवगिरें जिवीत पितारलां.

'<u>देमांद</u>' हें नाटक 1980 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. ह्या नाटकांत एका मध्यमवर्गीय घराब्यांत वाडिल्ल्या चलयांचो घुस्मटमार दाखयला. नाटकांतलें जयवंत कामत हें पात्र आपणाल्या शेजाऱ्याकडेन वीस वर्सां देमांद खेळटा आनी ते गुंगेत आपल्यो चलयो घरांत वाडल्यात, तांची लग्नां

जावपाचीं आसात हें विसरून वता. फटकिरे प्रतिश्ठेचें चित्रण नाटकांत केलां. वास्तववादी शैलीतलें हें नाटक बॉक्स सेटाचो वापर करून सादर करचें पडटा.

'मुक्तताय' हें 1980 वर्सा रंगमाचयेर आयिल्लें पुंडलीक नायक हांचें वास्तववादी शैलींतलें नाटक. ह्या नाटकांत धरणाचो विशय आयला. एक गांव बुडटा, उद्ध्वस्त जाता. ह्या नाटकांत एक मुखेल व्यक्तिरेखा रंगयल्या ती गोंयच्या एका भाटकाराची. ताचीच उद्धस्तताय नाटक सोपतना दिसता. बुडिल्ल्या गांवां वांगडाच भाटकाराचीय सत्ता आनी तो गाजयतालो तें भाटकारपणूय बुडटा. हें नाटक पळयताना गोंयांतल्या साळावले धरणाची आनी थंयच्या वांठाराची याद आयलेबगर रावना.

'सूर्यसांवट' हें 1981 वर्सा रंगमाचयेर आयिल्लें वास्तववादी शैलीतलें, गोंयच्या मध्यमवर्गीय कुटुंबाचें नाटक. उर्मिला हे बायलेचें घुस्मटपी मन आनी घोवाच्या मोगा खातीर भुकेल्ले बायलेची व्यथा समर्थपणान ह्या नाटकांत मांडल्या. उर्मिला ही रामायणातली व्यक्तिरेखा. लक्ष्मणाची ती घरकान्न. रामायणात सीतेपरस उर्मिलेची एकमुळी जीण म्हणल्यार वनवास. मात उर्मिलेक रामायणात विशेश सुवात ना. हे व्यक्तिरेखेकडेन रचनाकारांनी सदांच आडनदर केल्ली जाणवता. पुंडलीक नायक हांणी आर्विल्ले उर्मिलेचें घुस्मटपी मनाची दुखेस्त कथा चित्रायल्या. हातूंत घुस्मटपी बायलेचें मन तशेंच अन्यायाआड उबी रावपाक सोदपी बायलेचें चित्रण आसा. आपणाल्या कर्तृत्वाचो अभिमान बाळगुपी सूर्यकांत ही व्यक्तिरेखा हेरांचेर आपूण करता त्या अन्यायाची कल्पना नाशिल्ल्यान सगळ्यांचेर अन्याय करीत रावता. ताच्या ह्या अत्याचाराआड ताची बायल उबी रावन तांच्या संवसाराच्या सूर्याचेर आयिल्लें सांवट पयस करता.

'शबै शबै भौजन समाज' ही 1981 वर्सा रंगमाचयेर आयिल्ली पुंडलीक नायक हांची एक विक्रमी नाट्यकृती. हें नाटक म्हणल्यार एक राजकी विडंबन आनी लोकशायचेंय विडंबन. गोंयच्या शिगम्याचो वापर करून एक नवें सादरीकरणाचें तंत्र कोंकणी रंगमाचयेक ह्या नाटकाच्या रुपान लाबलें. 'गोंयचे रंगमाचयेर इतिहास घडयल्ली ही नाट्यकृती. सगळ्या अर्थान गोंयचें पूण भारतीय नाट्यपरंपरेकडेन नातें जोडपी हें नाटक. ह्या नाटकांत भ्रश्ट राजकारण, राजकारणी आनी स्वाभिमानशून्य समाजाचें चित्रण जालां. लोकशाये वांगडा वेंचणुको, आस्वासनां, मतां, जातीचेर आदारील्लें राजकारण आदी जायत्यो गजाली येतात. लोकांच्यो दडिल्ल्यो भावना आनी उमाळे चड मेकळेपणान उक्ते जातात ते शिगम्याच्या वेळार. ताचो उपेग लेखकान भोव कळाशेन विडंबनात्मक रुपान केला. गोंयच्या लोकवेदाचो वापर करतना लेखकान नवी कवनां घडोवन एक आर्विल्लो लोकवेद निर्माण केला आनी हीं कवनां सादरीकरणाची सोबितकाय वाडयता. समूह नाट्याची कल्पना पयलेच खेप गोंयचे रंगमाचयेर ह्या नाटकांतल्यान आयली.

जर्मनीतल्या नाझी राजवटीच्या तेपार मार्क्सवादी जर्मन कवी-नाटककार बरटॉल्ट ब्रेक्थ हांची सादरीकरण शैली ह्या नाटकांत दिसता. नाटक नाटकूच आसता. वास्तव जिणेची तें सुवात घेवपाक शकना. नाटकाचें एक तत्व भावना चाळोवन घालप न्हय तर विचारांक चालना दिवप, प्रेक्षकांची जिविताविशींची जाण वाडोवप. प्रेक्षकांनी भारावन वचून भावनेच्या कल्लोळांत व्हांवत वचूंक फावना अशें ब्रेक्थ मानतालो. नाटकांतल्या पात्रांकडेन उद्दिपीत भावनांचें विरेचन (catharsis) सादचे परस प्रेक्षकांनी विचार करपाक जाय. मर्दींच येवपी निवेदनाच्या रुपान, संगीताच्या साधनांनी प्रेक्षकांक आवाहन करपाच्या उद्देशान प्रेक्षकाचे समाधींत व्यक्तय हाडीत रावप हें तांच्या नाट्यतंत्राचें लक्षण.

हाकाच 'थिएटर ऑफ ॲलिएनेशन' म्हणटात. दुसरें म्हणल्यार मिथकांचो, लोककथा, लोकगितां, लोकनाच आनी नागरी सभ्यता हांचें सोबीत मेळावण ब्रेक्थ आपणाल्या नाटचतंत्रांत करता. ह्या विचारांतल्यान 'इन्टिमेट थिएटर' ची कल्पना साकार जाली आनी रंगमाचयेच्यो नव्यो वाटो उक्त्यो जाल्यो. ब्रेक्थाची रंगतंत्र शैली आनी भारतीय लोकनाट्य हातूंत बरेंच साम्य दिसता. 'शबै शबै भौजन समाज' ह्या नाटकांत हें नाट्यतंत्र वापरपाची मेकळीक दिग्दर्शकाक मेळटा.

1982 वर्सा 'सुरींग' पुंडलीक नायक हांचें गाजिल्लें नाटक रंगमाचयेर आयलें. हें नाटक कोंकणी रंगमाचयेवयलें एक मैलाचो फातर अशें मानतात. नाटकांतलें कथानक आनी स्थळकाळ प्रादेशीक आसूनय तांतूतलो आशय वैश्विक आसा.

सुरींग नाटकांत खडपां फोडून रस्तो तयार करपी गोंयच्या कुणबी कामगारांच्या व्यथा-वेदनांचें चित्रण पळोवपाक मेळटा. आपल्या जिवाचेर खेळून खडपांनी सुरींग भरप, रस्तो तयार करप आनी जो दिसवडो मेळटा ताचेर खूश जावप हातूंतच कुणब्यांच्या जिविताचें सार्थक आसता. नाटकांतलें जुजे आनी मारयान हें जोडपें आनी तांचो पूत लिओ तेंच काम करतात. आपल्याचेर अन्याय करपी मुकादमाच्या काळ्या कर्तुपाक विरोध करप मात ह्या दोगांकूय जमना. आपली आवय मारयानाचेर मुकादम बळजबरी करता हें पळोवनूय लिओचो सुरींग पेटना. लिओन एक खडप फोडपा खातीर सुरींग भरला आनी तो फुटपाची ते वाट पळयतात. सुरींग दोन सुवातांनी धुमसता. एक सुरींग खडपांत आसाच पूण दुसरो ह्या कुणब्यांच्या काळजांत आसा. तांणी भोगिल्ल्या जुलमांचो, पिळवणुकेचो, वेदनांचो सुप्त सुरींग तांच्या काळजांत आसा. पूण हाची तांका जाणविकाय ना.

एक भोंवपी नाटक मंडळी आपल्या नाट्य खेळांतल्यान ह्या कुणब्यांच्या काळजांतलो सुरींग पेटोवपाचें काम करता. नाटक वास्तव आनी प्रतिकात्मक अशा दोन स्तरांचेर चलता. फटीचें नाटक आनी खरें नाटक, खडपांत आडखळिल्ली वाट आनी जिविताची वाट, खडपांत पेट घेवपाक वाट पळोवपी सुरींग आनी काळजांत सुप्त आशिल्लो सुरींग!

आपल्याचेर मुकादमान जी आगळीक केली ताचें दुख्ख मारयानाच्या मनात सेगीत आसता. घोवाच्या भिजुडपणाक लागून आपूण मुकादमाक बळी गेलें अशें ताका दिसता. ते खातीर खिणा खिणांक तें घोवाचेर बेजारता. मारयानाचेर जे अत्याचार जातात ते ती एक बायल म्हूण. आयजवेर हजारांनी वर्सांच्या कालखंडापसून बायलमनशेचेर जे अत्याचार जातात त्याच स्वरुपाचे हे अत्याचार आसात. शोशीत वर्गाचेर अत्याचार जातात हे दाखयतनाच नाट्य कलाकारूय समाजाक जागोवपाची जापसालदारकी घेवंक शकतात हें लेगीत नाटकांतल्यान नदरेक भरता.

'पिंपळ पेटला' हें नाटक 1984 वर्सा रंगमाचयेर आयिलें. 'वसंतोत्सव' ह्या कादंबरीचें लेखकान केल्लें हें नाट्यरुपांतर. पिंपळाचें प्रतीक घेवंन मनशाचे सभ्यतायेच्या रुपड्याआड आशिल्ले वासनेचें चित्रण नाटकांत दिसता. समाजांत तथाकथित प्रतिशठीत मंडळी आनी सादे भाबडे लोकमानस हातूंतल्या मनोप्रवृत्तीचें चित्रण पिंपळ पेटला नाटकांत दिसता. परत हें नाटक म्हणल्यार सृश्टीतलें एक भोगचक्र. चिडल्ल्या, दामून दवरिल्ल्या वासनेच्या भावनांचो जेन्ना बांद फुट्टा आनी तातूंतल्यान ज्यो घडणुको घडटात ताचेंय चित्रण ह्या नाट्यकृतीत पळोवपाक मेळटा.

ह्या नाटकांतली एक मुखेल व्यक्तिरेखा नाथा. कुलदेवतेच्या वसंतोत्सवा खातीर आपल्या चल्याक आनी चलयेक घेवन वतना वाटेर गंगी आनी कोंडी ह्या धनगर जोडप्याच्या राबित्याकडेन पावतात. थंय तांकां एक पिसो मेळटा. ह्या सगळ्यांच्या अंतरंगांतलो पिंपळ पेटिल्लो आसता. कोंडी धनगराची बायल गंगी आनी नाथा हांच्यातलो पिंपळ पेटटा. जाल्यार चारुलता आनी पिसो हांच्या अंतरंगातलो पिंपळ पेट घेता. कोंडी, नाथालो चलो भूषण आनी

तांगेर काम करपी हरिदाद हांचें अंतरंग पेट घेता तें असहायता आनी अनपेक्षीत घडणुकांक लागून.

'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक 1986 वर्सा माचयेर सादर जालें. एके जात्रचें रुपक घेवंन हें नाटक रंगमाचयेर येता. पुंडलीक नायक हांणी ह्या नाटकांत एके दंतकथेचो आदार घेतला.

एके जात्रेंत जायत्यो वायट, सुवार्थी, ढोंगी, दुश्ट प्रवृत्तींनी भरिल्लीं पात्रां वावुरतात. तेच जात्रेंत 'कोणेतरी' नांवाचो एक मनीस वावुरता. तो एकलोच ह्या दुश्ट प्रवृत्तीं आड आवाज काडपाक धडपडटा. लेखकाच्या मनांतली अस्वस्थताय प्रेक्षकांच्या मनांत उतरावपाचो एक येसस्वी यत्न ह्या नाट्यकृतींतल्यान जाता. प्रसंगांची उत्कृश्ट आनी कलात्मक मांडावळ ह्या नाटकांत पळोवपाक मेळटा. संघर्श आनी नाट्यमय प्रसंग लेखकान निर्माण केल्यात. ते नाट्यरसिकांक विचार करपाक लायतात.

ह्या संवसारांतल्या जात्रेतल्या झगमटांत लोक व्हांवन गेल्यात फकत उणेपण आसा तें मनीसपणाचें, अशें दिसपाक लागता. परस्पर विरोधी अशा मुल्यांचो संघर्श चित्रावपाचें कसब लेखक नाटकांत दाखयता.

'दायज' हें नाटक 1990 वर्सा रंगमाचयेर सादर जाल्लें पुंडलीक नायक हांचें वास्तववादी नाटक. तांच्याच 'दायज' नवलिकेचो हो नाट्य रुपकार. नरसिंह ह्या नांवाजत्या स्वातंत्र्य सैनिकाची आनी ताच्या घराब्याची कथा ह्या नाटकांत चितारल्या. आपल्याचेर जाल्लो अन्याय सोसूंक नजो जावन सुडान पेटिल्ली बायलमनीस ह्या नाटकांत आसा. प्रसंगार सुरो घेवन वासनेन वखवखिल्ल्या आपल्या देराचो खून करपाक ती फाटीं रावना. पुताचे अनंत अपराध पोटांत घालपी माई ह्या नाटकांत आसा. गोंय मुक्ती आदलो काळ हे नाट्यकृतींत चितारला.' वधचक्र' नांवान ह्याच कथानकाचेर एक मराठी फिल्म निर्माण जालां.

'चैतन्याक मठ ना' हें पुंडलीक नायक हांचें नाटक 1991 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. एका आळशी लोकांच्या गांवांत चैतन्याचो दिश्टावो दिवन चैतन्य घडून श्रमांचें मोल आनी म्हत्व दाखोवपी कथानक ह्या नाटकांत पळोवपाक मेळटा. ह्या नाटकांत लेखकान गोंयच्या लोककलेचो बरो मेळ सादला. स्वताच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास घडोवपी चेतनाशक्ती सुप्त अवस्थेंत दर एका मनशामदीं आसता. हे शक्तीक जागोवपाची फकत गरज आसता. हो म्हत्वपूर्ण संदेश लेखक ह्या नाटकांत दिता.

एका आळशांच्या गांवांत एक दीस अंकुश नांवाचो मनीस येता आनी लोकांक सांगता, तांच्या गांवांत चैतन्यकुमार स्वामी येवपाचो आसा. ही बातमी आयकून पुराय गांव खोशी जाता. त्या स्वामीच्या दिसपट्ट्या वेव्हाराविशीं सांगताना अंकुश सांगता, स्वामी ज्या गांवांत रावता त्याच गांवचें उदक पियेता, त्याचा गांवची फळां खाता, त्याच गांवच्या फुलांनी स्वताक पुजून घेता. खरेपणी हातूंतली एकूय गजाल त्या गांवांत नासता. स्वामी चैतन्यकुमाराचें आगमन गांवांत जावचें हे इत्सेन सगळे गांवचे लोक थंय एक तळें खणटात, फुल-झाडां लायतात. लोकांच्या आळशीपणाक लागून पडींग जाल्लो गांव समृद्ध गांव जाता. स्वामीविशीं आनीक एक गजाल सांगतना अंकुश एक नवीन गजाल उक्ती करता. ती म्हणल्यार स्वामीक दर एके रातीं एक बायल लागता. उपभोग घेवपा खातीर. आनी ह्यो बायलो त्या गांवकाराल्यो घरकान्नी, भयणी, चलयो आसूं येता. त्यो दिवच्यो. हें आयकून गांवकार तिडकून उठतात. स्वामीक फातरांनी मारूंक सोदतात. तांचो शेणिल्लो आत्मसन्मान, स्वाभिमान जागो जाता. कोणूय तरी एक प्रेशीत अवतारी पुरुश जल्माक येतलो आनी आमचो उद्धार करतलो, ते मेरेन आमी आपूण जावन कांय करचे नात, कांय करपाची गरज ना. आसा तशें चलतलें अशी सादारण मनशाची प्रवृत्ती. तातूंतल्यान पुरक अशें स्वामी चैतन्यकुमाराचें पात्र निर्माण जाता. गांवाकूय उद्धारा खातीर कोणतरी स्वामीच लागात. समाजाचें आत्मचैतन्य सोपलां ही जाणीव जातकूच लेखक अशे तरेची नाट्यकृती रचता अशें दिसता.

'आत्मवंचना' हें पुंडलीक नायकाचें नाटक

1992 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. वास्तववादी शैलींतल्या ह्या नाटकांत लेखकान एका आधुनिक विचारांच्या बुद्धीवान नैतिक बळगें आशिल्ली, स्वतंत्रपणान विचार करपी, निर्णय स्वातंत्र्य समर्थपणान पेलपी अशी प्रातिनिधीक स्वरुपाची बायल चितारल्या. प्रतिशठेच्या फटीच्या बडवचारान कलाकाराचो आनी रसिकांचो अपमान जाता हे समजून आयिल्ल्या स्वाभिमानी पल्लवी आनी केदाराच्या विफल प्रेमाची ही कथा.

'परिक्रमा' हें प्रायोगीक स्वरुपाचें नाटक 1993 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. देशांत एका दशकांत घडिल्ल्या म्हत्वपूर्ण घटणांचो 'कॉलाज' रुपांतलो हो एक आलेख. देशांत निर्माण जाल्ल्या वेगवेगळ्या समस्यांचें चित्रण ह्या नाटकांत वेगवेगळ्या प्रसंगांनी दिसता. समाजांत घडटली दर एक घडणूक ही दर एका नागरिकाक लागता. ज्या देशांतले नागरीक अलिप्ततायेचें धोरण आपणायतात त्या देशाचो फुडार कठीण, अशें लेखक सांगूंक सोदता.

हें नाटक प्रादेशिकतायेच्यो शिमो हुपता आनी राष्ट्रीय पातळेर जे प्रस्न आसात तांचेर हे नाट्यकृतींतल्यान वाचा फोडटा. नवी दिल्लींतल्या संगीत नाटक अकादेमीच्या 'युवा रंगकर्मीक प्रोत्साहन' दिवपाचे येवजणे खाला श्रीधर कामत बांबोळकार ह्या दिग्दर्शकाक फावो जाल्ले येवजणे खाला ह्या नाटकाची निर्मणी जाल्ली. 1993 वर्सा मदुराय जाल्ल्या संभागीय नाट्यमहोत्सवांत बाकीच्या भारतीय भाशांच्या नाट्यप्रयोगांवांगडा ह्याय नाटकाचें सादरीकरण जाल्लें. कोंकणी नाटक राष्ट्रीय पांवड्यार पावपाचे वाटेचें हें एक सोंपण थारलें.

'परिक्रमा' नाटकांत ज्यो वेगवेगळ्यो घटना दाखयल्यात तांचेर स्वतंत्रपणान एक एक नाट्यकृती उबी जावंक शकता पूण नाटकांत त्यो घटना खुबूच संक्षिप्त आनी घोटीव स्वरुपांत मांडल्यात. एका विशिश्ट दशकाच्या काळांत घडिल्ल्या वेंचीक घटनांचो कॉलाज आसलो तरी सगळ्यो घडणुको एका समान सुत्रांत गुंथून काडल्यात. पात्रांचे नदरेन तें व्हड समूहनाट्य आसलें तरी एकाच कलाकारान जाय त्यो भुमीका करपाची मेकळीक तातूंत आसा.

'दिश्ट दौलत' हें नाटक 1995 वर्सा माचयेर आयलें. नेत्रा नांवाची एक चली ह्या नाटकांत चित्रायल्या. ती ज्या वस्तूची आनी मनशाची तुस्त करता ताका दिश्ट लागता. ताचें कितें तरी वायट घडटा. बायलांचो उपेग दादलो स्वताच्याच सुवार्था खातीर कसो करता हाचें चित्र ह्या नाटकांत दिसता. इब्सिनियन तंत्राच्या बॉक्ससेटाच्या मांडावळीच्या शैलींत हें नाटक लेखकान बरयलां. हेच कथेचेर 2003 वर्सा 'दौलत' नांवाचें व्हिडिओ फिल्म तयार जालें.

'तिरंगी चक्राचक्री' हे विनोदी स्वरुपाचें नाटक 1998 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. पुंडलीक नायक हांणी गोंयची उत्सवी रंगमाचयेची गरज वळखून कांय नाटकां बरयलीं. 'तिरंगी चक्राचक्री' हें तातूंतलें एक नाटक. अशे तरेच्या नाटकांनी मनरिजवण हो मुखेल घटक आसाच पूण लेखक म्हूण साहित्यीक स्पर्श तातूंत नक्कीच आसा.

नाटकाचें प्रशिक्षण घेतिल्ले कलाकार जर नाटकांत कसलीय भूमिका हुबेहूब वठोवपाक शकतात जाल्यार प्रत्यक्ष जिवनांतूय तशें कित्याक घडचें न्हय? म्हणजे नाटकांत जर एकाद्रो फटिंगाची भूमिका जशाक तशी करता जाल्यार जिणेंतूय तसो वागपाक शकचो ना? तशें ताणे वागपाचें थारायलें जाल्यार? हो ताणिल्लो विचार म्हणल्यार हें तिरंगी चक्राचक्री नाटक. एकेवटेन नाटकाचें प्रशिक्षण घेतिल्ले कलाकार नाट्यकलेचो वापर करून नाडपणां करपाचो यत्न करता आसतनाच तांकां शेराक सव्वाशेर जावंन पुलीस, वेश बदलून तांकांच फस्तीक घालपाचो यत्न करतात. हांगासर पुलिसांची हुशारी आनी चपळाय दाखयल्या. ते नदरेन पुलिसेची प्रतिशठा राखपाचो आनी वाडोवपाचो यत्न ह्या नाटकांतल्यान जाला अशें म्हणू येता.

एकाच पात्रान वेगवेगळीं सवंगा रंगोवप

होवूय भाग हांगासर आकर्शक आनी नाटकीय थारता. नाटकाचो शेवट सुखान्त आनी उद्‌बोधक करपाचो यत्न केला.

'प्रेमजागोर' हें पुंडलीक नायक हांचे 1999 वर्सा रंगमाचयेर आयिल्लें नाटक. जागोर ह्या गोंयच्या लोकनाट्य शैलीतले आधुनीक स्वरूपाचें हें नाटक. 'प्रेमजागोर' एका आख्यानाच्या स्वरूपांत आसा. भारत नाट्यमहोत्सव, नवी दिल्ली ( 2000 ) राष्ट्रीय भौभाशीक नाट्यमहोत्सवांत ह्या नाटकाचो प्रयोग जाला.

'प्रेमजागोर' नांवा प्रमाण एक प्रेमकथाच आसा. नाटकाचो नायक आनी नायिका गांवगिऱ्या वाठारांतली आसा. गांवच्यो पारंपारीक रुढी, संकेत, श्रद्धा, अंधश्रद्धा घेवन नाटक मुखार वता. 'लग्न स्वातंत्र्य' हो दर एकल्याचो एक मूलभूत हक्क आसा, तो दादलो आसूं वा बायल, लग्न हो तिचो अधिकार. थंय तिचेर कोण बळजबरी करपाक शकना. बायलांमदल्या संवेदनेच्या आनी जागृतीच्या संदर्भांत हो मुद्दो ठळकपणान आनी प्रभावीपणान नाटकांतल्यान लेखकान व्यक्त केला. 'प्रेमजागोर' नाटकान लेखकान लोकगितांच्या चालीचेर रचना घडयल्यात आनी त्यो फकत जागोर ह्या लोकनाट्याचे शैलीपुरत्योच मर्यादीत आसात.

'शिरी रे शिरी! अधांतरी !' हें नाटक 1999 वर्सा रंगमाचयेर सादर जालें. गरिबीची शीम हुपून मध्यमवर्गाकडेन येवपी एका शिरी नांवाच्या तरनाट्याची ही काणी.

ह्या नाटकांत भारतीय पुराणकथांतल्या फाटभुंयचो आदार घेवन एक कल्पीत कथा लेखकान रचल्या. सर्गाचे तथाकथीत रचनेंत तर्काचो वापर करून कथा घडयल्या. सर्गाचें वातावरण, व्यक्तिरेखांचे सभावविशेश, सर्गांतल्यो घडणुको हाचो लेखकान बरो अभ्यास केल्लो जाणवता. नाटकांत प्रसंग धरतरे वयल्यान सर्गांत आनी पर्थून धरतरेचेर थिरावतात.

ह्या नाटकांत लेखकान कविते सारक्या 'मुक्तका' चो वापर केला. नाटकाच्या शेवटाक शिरीचो विस्वासघात जातकूच ताच्या मनाची अवस्था सैरभैर जाता. तेन्ना हें मुक्तक येता . पुराय नाटक विनोदी स्वरुपाचें दिसलें तरी शेवटाक प्रेक्षकांची काळजां हालोवन वडयता.

'काळजाची काणी' हें नाटक 2000 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. उत्सवी रंगमाचयेची गरज म्हूण पुंडलीक नायक हांणी बरयल्लें हें आनीक एक नाटक. 'काळजाची काणी' म्हणल्यार एक परिकथा कशी. तातूंतलीं पात्रां परिकथेक सोब सारकींच आसात. कथेंत आनी व्यक्तिचित्रणांत अतिताय आसा. मात तर्काचे कसवटेचेर ती अतिताय सभावीक दिसता. ह्या नाटकाची काणी परिकथा जाल्ल्यान ती बालकथेचेंय रुप घेता.

ह्या नाटकांत लेखकान स्वगत पद्धतीचो सुंदर वापर केला. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या गोरवांच्या राखणेपणातल्यो जायत्यो गजाली, प्रसंग, व्यक्तिरेखा, तपशील ह्या नाटकांत दिसतात.

'प्रेमयुद्ध' हें नाटक 2000 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. ह्या नाटकांत एकतर्फी प्रेमाची कथा पळोवपाक मेळटा. प्रत्यक्षांत अशक्य दिसपी ही प्रेमकथा निमाणेकडेन खरी दिसपाक लागता. ह्या नाटकांतल्या कथानकांतल्या प्रेमांत युध्द आसा. युध्दांत कोणूच हारना अशें लेखक दाखोवपाक सोदता.

नाटकाचे रचणुकेंत भारत-चीन झुजाची फाटभूंय वापरल्या. भारत चीन युध्दाच्या प्रत्यक्ष म्हायितीचो लेखकान भोव तपशिलान अभ्यास केल्लो दिश्टी पडटा.

'दिव्या दिव्या दिपत्कार' हें 2000 वर्सा रंगमाचयेर सादर जालें. ह्या नाटकांत अरेबियन कथेंतल्या अलाद्दीन ह्या मिथकाचो वापर केला. त्या मिथकाचो वापर करतना ताचें भारतीय बोधकथेंत लेखकान रुपांतर केलां.

ह्या नाटकांत मध्यमवर्गीय काटकसरीक उबगल्ली बायल, चंगळवादी संस्कृतीची चटक

लागिल्ली युवा पिळगी, प्रसिद्धीच्या झोतांत रावपाक सोदपी उमेदी खाकी-वर्दी आनी ह्या सगळ्यांच्या उरफाटे चलणुकेचो, म्हणल्यार उजू मार्गान चलपी मध्यमवर्गी घरकार, अश्यो वास्तव व्यक्तिरेखा नाटकांत निर्माण करतनाच तांचे मदीं अलाद्दीन सारकें एक काल्पनीक पात्र लेखकान निर्माण केलां.

नाटकांतल्या पात्रां खातीर तांचें वेगळेपण दाखोवपा खातीर लेखकान कोंकणी भाशेच्या वेगवेगळ्या शैलींचो वापर केला.

जित्या जागत्या मनशांनी आडवाटेचे, अमानवी उपाय वापरून गिरेस्त जावपाचे यत्न करप ही लजेची गजाल आसा अशें लेखक नाटकांतल्यान सांगता. 'श्रममेव जयते' हो मंत्र मनशान आपणावपाची गरज आसा असो म्हत्वाचो संदेश लेखक ह्या नाटकांतल्यान दिता.

'<u>अंता घरा भगवंता</u>' हें नाटक 2001 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. उत्सवी रंगमाचयेची गरज वळखून रचिल्लें पुंडलीक नायक हाचें हें आनीक एक नाटक.

मूर्तींत प्राण घालप हे कल्पनेचो वापर लेखकान ह्या नाटकांत केला. तशेंच पुराय देशांत बेकायदेशीरपणान चलपी मटको ह्या जुगारी खेळाची फाटभूंय ह्या नाटकाक लाबल्या. मटको ह्या वेवसायाची वस्तुस्थिती तटस्थपणान मांडपाचो यत्न लेखकान केला.

सट्टेबहाद्दराचो पुतळो प्राणप्रतिश्ठा करतकूच जिवो जाता अशी नाट्यमय कल्पना लेखकान वापरल्या. सट्टेबहादूर ही काल्पनीक व्यक्तिरेखा लेखकान चितारल्या. विनोदी ढंगान चलपी हें नाटक मनरिजवण करतनाच मनशाच्या सुवार्थी प्रवृत्तीचेर बडी मारता.

'<u>कांसुला</u>' हे उत्सवी रंगमाचये खातीर बरयिल्लें नाटक 2002 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. पुंडलीक नायक हांचें हें नाटक खासा हेर नाटकांपरस खूबूच वेगळें. विशयाचे नदरेन आनी शैलीचे नदरेन लेगीत. एका अशिक्षित आनी वयल्यावर अनाडी अशा कांसुलो नांवाच्या तरनाट्याची ही काणी. कासव धरून विकप आनी प्रामाणीकपणान आपणालो चरितार्थ चलोवपी हो तरनाटो. आपले मोगीके खातीर कसलींय आव्हानां पेलता. तड्डकां रचत आनी तेच वांगडा संदीसाधू प्रवृत्तीच्या मनशांची कशी दैना दैना करता ताचें विनोदी ढंगान सोबित चित्रण ह्या नाटकांत केलां.

कांसुलो हें नाटकांतलें मध्यवर्ती पात्र, ताचे भोंवतणी कथानक घुंवता. तो कोणागेर जल्माक आयलो, तो रावता तें घर, ताची कुटुंबीक फाटभूंय ताका कांयच खबर ना. ताका शाळेंत वचपाची संद मेळ्ळूंक ना. मात सैमाचे कुशींत रावन जगपाची जीवनपद्दत ताणे तयार केल्या. सर्वसामान्य मनशाकडेन तुळा करतना तो पिसो दिसता. ताचें वागप, उलोवप, मुस्तायकी सगळेंच वयल्यावर पळोवपाक विक्षिप्त. कांय जाणांक तो 'ॲबनोर्मल' दिसूं येता. खरें म्हणल्यार तो विशेश तांकीचो भुरगो. ताच्यात जे गूण आसात ते तथाकथीत शिकिल्ल्या मनशामदीं मेळपाक कुस्तार. ताका पर्यावरण राखणेची जाण आसा. ताचेमदी प्रेमभावना आसा. दया, क्षमा, राग, लोभ, मद, मत्सर हे सगळे बरे-वायट गूण आसात. तो फटिंगपणा करीना. तो कासव विकून ताच्या बदल्यांत मोल म्हूण रोख पैशे घेना. पूण आदले 'बार्टर' पद्दती प्रमाण तांदूळ, साखर आनी पोट भरपाचे हेर जिनस घेता. आपल्या सामकार वेव्हार करपी व्यक्ती आपमतलबी वो सुवार्थी हें पारखुवपाची तांक ताचे मदीं आसा.

नाटकाचें कथानक मुखार व्हरपा खातीर लेखकान जीं पात्रां रंगयल्यांत तांच्यो वृत्ती-प्रवृत्ती त्या त्या प्रसंगा प्रमाण उक्ताडार येतात. बापायच्या सुवार्थी सभावाक लागून अन्याय सोसपी चलयाचें 'कल्पना' हें प्रातिनिधीक पात्र नाटकांत आसा. वेळ

प्रसंग येतकूच अन्यायाआड आवाज उठोवपी, दुर्गेचें रूप धारण करपी आयच्या आर्विल्ल्या चलयांचें ते प्रतिनिधी.

भौतीक सुखां दिवपी दादल्यांपरस गरीब, निसुवार्थी, नितळ मनाचो कांसुलो कल्पनाक भरवंशाचो आनी लागींचो मनीस दिसता. पुराय नाटक विनोदी स्वरुपाचें आसलें तरी प्रेक्षकांक विचार करपाक लावपी ही नाट्यकृती आसा.

'धनया देवचारा' हें पुंडलीक नायक हाचें 2003 वर्सा उत्सवी रंगमाचये खातीर बरयिल्लें आनीक एक नाटक. देंवचार आनी भुतावळ हे संकल्पनेचेर हें नाटक बेतलां. भुतां-खेतांचो अभ्यास करून लेखकान कांय निरिक्षणा ह्या नाटकांतल्यान मांडल्यांत. कृष्णा कुराडो नांवाचो आपमतलबी, भितुरले बुद्धीचो मनीस आनी लोहिता ही कृष्णाची शिटूक घरकान्न ही नाटकांतली मुखेल पात्रां.

'चित्र स्वयंवर' हे नाटक 2003 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. पुंडलीक नायक हांचें हें एक हलकें फुलकें विनोदी नाटक. फिल्म पळोवपाक बरें दिसता पूण फिल्माचें शुटिंग पळोवप हो एक उबगणेचो भाग. दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार फिल्माच्या शुटिंगाक आरंभाक कोणूय आपणालें घर उमेदीन दिता. पूण जशे जशे दीस वचपाक लागतात तशें तशें घरकाराकूच आपलें घर परकें जावपाक लागता. कलाकार आनी तंत्रज्ञ आपणांक जाय तशे वावुरतात. घराचें म्हूण कांय नितीनेम आसतात. त्या नेमांचें ह्या परक्या सिनेमावाल्यांकडल्यान पालन जायना. घरकाराचो घुस्मटमार जाता. आनी तागीर केन्ना काय हे तोंड घेवंन वचू अशें घरकाराक दिसपाक लागता. होच भाग कल्पनेन अतितायेन रंगोवन लेखकान हें नाटक निर्माण केलां. नाटकाक गरज अशी एक कथाय तातुंतल्यान गुंथून काडल्या.

'सांगोड' हें नाटक 2004 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. लादान आनी लालेह ह्या 25 वर्सांच्या इराणी सयामी जुवळ्या चलयांचो संदर्भ घेवन पुंडलीक नायक हांणी हें नाटक बरयलां. हें नाटक बरयतना लेखकान सयामी जुंवळ्यांचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्लो हें जाणवता. सयामी जुंवळेपण हें एक तरेचें अपंगूळपण आनी अपंगूळपण हो मानवीक नदरेतल्यान विनोदाचो भाग जावपाक शकना. त्या सयामी जुळ्याकूय भावना आसतात. ताचे कडेन विनोद हे नदरेन पळोवचें न्हय हें नाटककार सांगता.

सांगोड ही ताची एक बरी देख आसा. ह्या नाटकाचो 'जोडखंड' ह्या नावान मराठी रूपकारूय रंगमाचयेर आयला.

'चतुरंगा' हें पुंडलीक नायक हांचें नाटक 2005 वर्सा रंगमाचयेर आयलें. ह्या नाटका खातीर लेखकान 'शुकबहात्तरी' ग्रंथातल्या पंदरवे कथेचो आदार घेतला. श्रीदेवी नांवाचे बायलेच्या चातुर्याची ती कथा.

'शुकबहात्तरीतल्यो' सगळ्यो कथा ह्यो बायलांच्या शिटूकसाणेच्यो, धुर्तपणाच्यो, प्रसंगावधनाच्यो आसल्यो तरी नितीचे कसवटेचेर त्यो व्यभिचाराच्यो कथा. मात आमचे सामाजीक जिणेत तांकां सुवात आशिल्ली.

पुंडलीक नायक हांणी नाटका खातीर मूळ कथेचो आदार घेतला खरो, पूण 'चतुरंगा' नाटकांतली नायिका चतुरा हिका व्यभिचारी दाखोवंक ना. ती आपल्या प्रियकराकडेन सामकी प्रामाणीक दाखयल्या. मोगा खातीर दोगांय दुसऱ्याकडेन कशीं तड्डुकां करतात तें नाट्यपूर्ण रितीन मांडपाचो यत्न केला. हें नाटक म्हणल्यार एक प्रेमकथाच.

'कथा अस्तुरी' हो नाटका सारको प्रकार आसलो तरी पुराय अर्थान नाटक न्हय. लेखकान ह्या साहित्य प्रकाराक 'संवाद' अशें म्हणलां. 'कथा

अस्तुरीचो' पयलो प्रयोग 2008 वर्सा सादर जालो.

'कथा अस्तुरीचो' हो प्रयोगक्षम साहित्य प्रकार. नाटकाभशेन रंगमंचीय अविश्कार घडोवपाचे सगळे घटक ह्या प्रकारांत आसपावतात. कथानक, पात्रां, घटना, संवाद, स्थळकाळ, शैली आनी उद्देश हे नाटकाचे मूळ घटक ह्या नाट्यप्रकारांत आसात. कथा अस्तुरीतले संवाद फकत दोन पात्रांमदले संवाद न्हय तर ते प्रेक्षकांकडेनूय केल्ले संवाद. ह्या संवादरुपी नाट्यप्रकारांत दोनूच बायल अभिनेत्यो, वेगवेगळ्यो भुमिका पूण कितल्योश्योच रंगयतात. प्रसंगाप्रमाण पुराणीक, इतिहासीक आनी सामाजीक पात्रां तांकां रंगोवचीं पडटात, तिवूय बी भेस,रंगवप बदलीनासतना जायते खेप दादल्यांच्योय भुमिका तांकां करच्यो पडटात.

कथा अस्तुरीच्या माध्यमांतल्यान लेखकान बायलांचे प्रस्न प्रभावीपणान मांडल्यात. 'कथा अस्तुरी' म्हणल्यार बायलमनशेची कथा. तांचो हुंकार. पूर्ण पारंपारीक कथेभशेन तिका आरंभ, मध्य आनी शेवट ना. बायलमनशेचे जिणेचेर केल्लें तें एक मुक्त अशें भाश्य!

सांस्कृतिक मनोरंजनावांगडाच तातुंतल्यान प्रबोधनूय जाता. फाटल्या पांच हजार वर्सांसावन पुरूषप्रधान संसकृतिच्या नावांखाला बायलाच्या वांट्याक आयिल्ले उणाकपण आनी भारतीय संस्कृतिचया नावांखाला तिचें केल्लें उदात्तीकरण, म्हणजे 'बायल ही पांयांतली व्हाण ' पासून बायल म्हळयार पूज्यदेवेता! मेरेनचो जळजळीत आलेख कथा अस्तुरीत आयला .

' फिरंगी फटास' हें 2011 वर्सा रंगमाचयेर आयिल्लें पुंडलीक नायक हांचें एकतिसावें नाटक. गोंयच्या मुळाव्या शिक्षण माध्यम प्रस्नाचेर त्या वर्सा मार्च म्हयन्यांत पुराय गोंयात खर आंदोलन जाल्लें. त्या वेळार जाल्ल्या विचार मंथनाचें संकलन लेखकान फिरंगी फटास नाटकांत केलां. आंदोलनाचोच एक वांटो म्हूण ह्या नाटकाचें लेखन आनी निर्मणी जाली. मायभास फकत संपर्कापुरती मर्यादीत नासता. तिचो संबंद संस्कार, संस्कृती हांचेकडेन जोडिल्लो आसता, अश्या एका म्हत्वाच्या सिद्धांताचो फिरंगी फटास हो रंगमंचीय अविश्कार. हें नाटक वास्तव आनी कल्पना अशा दोन पावंड्यार चलता.कांय प्रसंग वास्तवापसून कडेक काडून फॅन्टसीचे पद्दतीचेर व्हेल्यात.

अशे तरेन पुंडलीक नायक हाचो गुणात्मक आनी संख्यात्मक विस्तार हें कोंकणी नाट्य चळवळीचें खाशेलेपण. विशय, आशय आनी मांडणी ह्या तिनूय पावंड्यार तांणी दिल्लें योगदान कोंकणी उत्सवी, निम्न वेवसायीक, प्रायोगीक आनी सर्तीच्या रंगमाचयेक सशक्त करपी थारलां. तांचीं नाटकां इंग्लिश, हिन्दी, मराठी, तमीळ, पंजाबी, कन्नड अशा भाशांनी अणकारीत जाल्यांत. गोंय मुक्ती उपरांत एक क्रांतिकारी नाटककार म्हूण ते गाजल्यात. ते एक भौप्रसवी आनी प्रतिभासंपन्न साहित्यीक. ताणी आपले प्रतिभेक प्रतिमेची जोड दिल्याच पूण जेन्ना कोंकणी नाटकाचो विचार जाता तेन्ना तांका कोंकणी नाट्य चळवळीचे अग्रदूत म्हणप समा जातलें. कोंकणी रंगमाचयेक दिका दाखोवपाचें तांचे योगदान भौ मोलादीक आसा. देखून डॉ. नंदकुमार कामत हांणी एकेकडेन म्हणलां. ' खरें म्हणल्यार पुंडलीकाचें कार्य इतल्यारूच थांबूंक ना. म्हाकवीची प्रतिभा आशिल्लो हो लेखक 21 व्या शेंकड्यांत प्रयोगशील रावन कोंकणी नाटकाक आनी रंगमाचयेक आंतरराष्ट्रीय प्रतिशठा मेळोवन दितलो हाचेविशी म्हाका मातूय दुबाव ना.'

◆◆◆













1) कलाचेतना, वळवय निर्मित : 'अंता परा भगवंता' (2001) : कलाकार- नंदिनी बांदेकार, महेश शिलकार आनी सुचिता नार्वेकार 2) अपुरबाय मित्र, वळवय निर्मित: 'कथा अस्तुरी' (2008) : कलाकार : ज्योती कुंकळकार आनी प्रशांती तळपणकार. 3) वरदायिनी कला संघ, फोंडें निर्मित : 'दिव्या दिव्या दिपत्कार' (2001) कलाकार: गौरी कामत आनी नामदेव फडते 4) कलाचेतना, वळवय निर्मित : 'फिरंगी पटांस' (2011). 5) कलाचेतना, वळवय निर्मित : 'धनयां देंवचार' (2003) : कलाकार : प्रशांत नायक. 6) कलाचेतना, वळवय निर्मित : 'काळजाची काणी' (2000): कलाकार: राजदीप नायक आनी सुचिता नार्वेकार.

# गोंयच्या राजभास आंदोलनांत पुंडलीक नायकाचें योगदान

लेख



**प्रा. हनुमंत चोपडेकार**
(लेखक/नाटककार आनी समिक्षक)
फोंडें - गोंय
मो. 8805152539

19 डिसेंबर 1961 ह्या दिसा गोंय पुर्तुगेजांचे राजवटींतल्यान मुक्त जालें. त्या उपरांत गोंयच्या राजकी अस्तित्वाचो प्रस्न उबो रावलो. ह्याच राजकी प्रस्नान गोंय मुक्ती उपरांतचें गोंयचें सामाजीक आनी सांस्कृतीक जिवीत पुराय रितीन प्रभावीत केलें.

29 जुलय 1985 दिसा मगोंयचें राजभास आंदोलन पर्व सुरु जाल्लें. हें आंदोलन म्हणल्यारूच 'कोंकणीची राजभास चळवळ' असो एक गैरसमज जायत्या लोकांमदीं आसा. प्रत्यक्षांत राजभास चळवळींतलें तें एक निर्णायक पर्व आशिल्लें. कारण राजभास चळवळीचो खरो आरंभ गोंय मुक्त जायत सावन चालू जाल्ल्या सामाजीक, सांस्कृतीक, भाशीक आनी राजकी घडणुकांनी पडबिंबीत जाल्लो आसा. सकयल्लीं तीन आंदोलनां ताची गवाय आसा.

अ) गोंयची वेगळी अस्मिताय राखपी जनमत कौलाचें राजकी आंदोलन.

ब) साहित्य अकादेमीची स्वतंत्र भाशेची मान्यताय मेळोवन दिवपी कोंकणीचें भाशीक आंदोलन.

क) राज मान्यताय आनी राष्ट्रीय मान्यताय मेळोवन दिवपी कोंकणीचें राजभास आंदोलन.

वयल्या तिनूय आंदोलनांनी जायत्या स्वाभिमानी गोंयकारांनी आप आपलें योगदान दिल्लें दिसून येता. ह्या लेखांत 29 जुलय 1985 सावन 4 फेब्रुवारी 1987 मेरेन वट्ट 555 दीस चलिल्ल्या गोंयच्या राजभास आंदोलनांत कोंकणी आवाजाचे (के पी ए) निमंत्रक पुंडलीक नायक हांचें योगदान सोदपाचो यत्न केला.

## गोयच्या राजभास आंदोलनाची फाटभूंय आनी आरंभ

1961 वर्सा मुक्ती उपरांत गोंयचे राजकी अस्मितेचो पयलो प्रस्न 1967 वर्सा ओपिनियन पोलान सोडयलो. जाल्यार 1975 वर्सा साहित्य अकादेमीची कोंकणीक स्वतंत्र भाशेची मान्यताय दिवन गोंयचे भाशीक अस्मितायेचो दुसरो म्हत्वाचो प्रस्न सुटावो जालो.

पूण प्रत्यक्षांत वयल्या दोनूय मुद्द्यांक पुरायपणान पूर्णविराम दिवपाक कांय तथाकथित राजकारणी तयार नाशिल्ले हेंच उपरांत घडिल्ल्या इतिहासावयल्यान दिसून येता. तांच्यांनी आपल्या राजकी फायद्या खातीर भाशीक अस्मितायेचो धर्मीक अस्मितायेकडेन संबंद जुळोवपाचो यत्न केलो. देखून मुक्त गोंयांत 555 दिसांचें रक्तरंजीत आंदोलन घडूंक पावलें. त्या निर्णायक पर्वांत सात गोंयकारांनी आपलो जीव वगडायलो. हजार जाणांनी खर दुखापत सोंसली जाल्यार कोट्यांनी रुपयांची सरकारी साधन सामुग्री मातयेभरवण जाली. तें राजभास आंदोलन साबार ल्हान-व्हड घडणुकांनी प्रभावीत जाल्लें. पूण गोंयचें राजभास आंदोलन वोगीच रातयां जल्माक येवंक नाशिल्लें. ताका एक विशिश्ट फांटभूय आशिल्ली. ती समजून घेतल्यार राजभास आंदोलनाचे अंतरंग सहजतायेन होलमतले.

गोंय, दमण आनी दीवचे विधानसभेंत राजभाशे संबंदी 1964 सावन 1987 मेरेन वट्ट 6 राजभास विधेयकां आनी दोन खाजगी थाराव सादर जाल्ले. 19 जुलय 1985 दिसा तेन्नाचे नावेलीचे गोवा काँग्रेस पक्षाचे आमदार लुईझीन फालेरोन कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो दिवपाची मागणी करपी एक खाजगी विधेयक (बील क्र.- 16-1985) सभाघरांत दाखल करून घेवपाची मागणी केली तेन्ना लुईझीन फालेरोचें कोंकणी राजभास विधेयक गोंय विधानसभेंत सादी दखल घेयनासतना भायर मारलें. तशेंच मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे हांणी 'कोंकणी समर्थकांची चार बोडकां' ह्या उतरांनी हिणसावणी केली. हे घडणुकेचो परिणाम कोंकणी समर्थकांचेर जालो. मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणेन थेट गोंयचे विधानसभेंत कोंकणीचो अवमान केल्ल्याचो निशेध करीत सगळ्यांत पयली कोंकणीचो एक तरनाटो कार्यकर्तो बाबली नायक हांणी कोंकणी लेखक, कलाकार आनी कोंकणी समर्थकांक एकठांय करपाक पेंगट बांदलें. ते प्रमाण 29 जुलय 1985 दिसा सरकाराचे कोंकणी विरोधी भुमिकेक विरोध करचे खातीर पणजेच्या आझाद मैदानाचर कोंकणी भक्तांचो उत्स्फूर्त मोर्चा जालो. तातूंत सुमार 2500 कोंकणी समर्थकांनी वांटो घेतलो. त्या कोंकणी भक्तांच्या एके कृती समितीन वट्ट 16 कलमी निवेदन सरकाराक भेटयलें. होच 555 दिसांच्या राजभास आंदोलनाचो खरो आरंभ मानपाक जाय.

गोंयचें राजभास आंदोलन मुखेलपणान 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' आनी 'मराठी राज्यभाषा प्रस्थापन समिती' ( म. रा.प्र. स.) हांचे मर्दी जाल्लें. तांच्या बावट्या खाला आनी नेतृत्वा खाला गोंयांत कोंकणी- मराठी संघर्श पेटलो.

**के.पी.ए.ची स्थापणूक आनी भुमिका**

कोंकणी प्रजेचो आवाज (voice of Kokani People) हे संघटनेची स्थापणूक 31 ऑगस्ट 1985 ह्या दिसा दामोदर विद्याभुवन, मडगांवां जाल्ले कोंकणी भक्ताचे बसकेंत जाली. कोंकणी प्रजेचो आवाज हे संघटनेर पुंडलीक नायक हांची निमंत्रक जाल्यार भांडारी म्हूण एफ. एम. रिबेरो आनी दामोदर मावजो हांची निवड जाल्ली. कोंकणी चळवळीचीं मुखेल सुत्रां भोवजन समाजाकडेन दिवन कोंकणींक गोंयच्या भौसाची मान्यताय मेळोवन दिवपाचो तो यत्न आशिल्लो. पुंडलीक नायकाच्या रुपान भौजन समाजांतल्या समर्थ नेतृत्वाक आपली कुवत दाखोवपाची ती एक भांगरा संद आशिल्ली.

ह्या आंदोलनांत कोंकणी चळवळींतले हेर म्हालगडे भायल्यान मार्गदर्शकाची भुमिका निभायताले. ते भायर तें आंदोलन साहित्यीक, तियात्रिस्त, नाटककार, वेवसायीक, समाज वावुरपी, राजकारणी आनी हेर कोंकणी समर्थकांचो तेंको घेवन मुखार सरिल्लें. कोंकणी प्रजेचो आवाज ही संघटना

मुखेलपणान तीन मागण्यो घेवंन आंदोलनांत देंविल्ली.
1) कोंकणी ही गोंय दमण आनी दीव संघप्रदेशाची राजभास जावची. (Official Language status for Konkani Language in Goa.)
2) कोंकणी राजभाशे वरवीं गोंयाक घटक राज्याचो स्वतंत्र दर्जो फावो जावचो. (Full-fledged Statehood for Goa )
3) भारतीय संविधानाचे आठवे अनुसुचिंत कोंकणी भाशेचो आसपाव जावचो. (Inclusion of Konkani in the Eight Schedule of the Constitution)

**म. रा. प्र. स.ची स्थापणूक आनी भुमिका**

'के.पी.ए' चो खरो संघर्श 'मराठी राज्यभाषा प्रस्थापन समितीकडेन' (म.रा.प्र.स.) आशिल्लो. 10 सप्टेंबर 1985 दिसा गोंयच्या प्रतापसिंह राणे सरकाराचो विधिमंडळ पक्ष आनी इंदिरा काँग्रेस पक्षाची गोंय प्रदेश समिती हांचे जोड बसकेंत फकत कोंकणीक राजभास करपाचो थाराव मंजूर जालो आनी ते संदर्भांत फुडलो विचार करपाक सुलोचना काटकार हांच्या मुखेलपणा खाला एक उपसमिती नेमली. ते घडणुकेचो परिणाम म्हूण म.रा.प्र.स. ही संघटना 16 सप्टेंबर 1985 दिसा गोमंतक साहित्य सेवक मंडळाच्या सभाघरांत पां. पु. शिरोडकर हांचे अध्यक्षते खाला जाल्ले बसकेंत घडली. समितीचेर पां. पु. शिरोडकर हांची अध्यक्ष, शशिकांत नार्वेकार हांची सरचिटणीस जाल्यार माधव तळावलीकार हांची भांडारी म्हूण नेमणूक जाली. रमाकांत खलप (म.गो पक्ष), शशिकला काकोडकर (भा.बां.गो. पक्ष), शिवाजी देसाय (जनता पक्ष), नामदेव हरमलकार (कम्युनिस्ट पक्ष), डॉ. प्रल्हाद वडेर (गोमंतक साहित्य सेवक मंडळ), मनोहर हिरबा सरदेसाय (गोमंतक मराठी भाषा परिषद), चंदू कासकर (मराठी पत्रकार संघ), हांका उपाध्यक्ष म्हूण जापसालदारी दिल्ली. बा. द. सास्तोकर आनी गोपाळराव मयेकर हांचो अणभव मतींत घेवंन तांकां उपाध्यक्ष म्हूण मुजरत कार्यकारिणींत सुवात दिल्ली.

म.रा.प्र.स.ची मुखेल मोख- 1) गोंयात कोंकणी वांगडा मराठी लेगीत राजभास जावची. हे मागणे खातीर निर्णायक लढो उबारप 2) गोंयात मराठी भास आनी संस्कृतीचें संवर्धन करप.

**पुंडलीक नायक. : भौसांतलो सामान्य तरनाटो, प्रतिभावंत साहित्यीक ते के.पी.ए.चो निमंत्रक**

राजभास आंदोलनांत पुंडलीक नायक हाका के.पी.ए.चो निमंत्रक म्हूण वेंचून काडपाक रवींद्र केळेकार सारक्या म्हालगड्यांचो मुखेल हात आशिल्लो. कोंकणी समाजाची राजकी आनी भाशीक अस्मिता कोंकणी भाशे वरवींच सिद्ध जावं येता. ते पासत कोंकणीक लोकाश्रय आनी राजाश्रय मेळचो ही भुमिका घेवन कोंकणी प्रजेचो आवाज ही संघटना जल्माक येवन कार्यरत जाल्ली. देखून तिचें फुडारपण भौसांतल्या प्रतिनिधीक फाव जावचें हो ताचे फाटलो विचार आशिल्लो. पुंडलीक नायकाचे तांकीचेर तांका विस्वास आशिल्लो. कोंकणी चळवळीक भौवजन समाजाचें नेतृत्व दिवपाचो तो पयलो यत्न आशिल्लो.
के.पी.ए.च्यो तिनूय मागण्यो घेवंन पुंडलीक नायकान 555 दिसांच्या आंदोलनांत समेस्त गोंयकारांक एकठांय करून कोंकणीचें म्हत्व पटोवपाचो यत्न केलो. खासा करून म.रा.प्र.स.ची स्थापणूक जातकूच के.पी.ए.क दोन आघाड्यांचेर वावर करचो पडलो. एके वटेन सरकाराचेर चेंपण हाडप आनी दुसरे वटेन म.रा.प्र.स.च्या रथी-महारथींच्या मुद्द्यांक जाप दिवप. ह्या दोनूय कार्यांक मुखार व्हरतना के.पी.ए.चे निमंत्रक ह्या नात्यान पुंडलीक नायकान भोवूच प्रगल्भताय दाखयिल्ली दिश्टी पडटा.

महत्वाची गजाल म्हणल्यरा 1984 मेरेन एक प्रतिभावंत कवी, नाटककार, निबंधकार,

कादंबरीकार म्हूण तांणी आपली पेजाद वळख राज्य आनी राष्ट्रीय पावंड्यार प्रस्थापीत केल्ली. आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर पालवी संपादक (स्क्रिप्ट विभाग) म्हूण ते कार्यरत आशिल्ले. तशेंच 1984 वर्सा कोंकणी भास आनी साहित्याक पूर्ण वेळ दिवचे खातीर तांणी आपले नोकरेक सोडचिटी दिवन कोंकणी भाशेचे सेवेक ते तत्पर जाल्ले. 1985 वर्सा राजभास आंदोलन सुरु जालें आनी रोखडेच ते ह्या आंदोलनाचे मुखेल घटक जाले. घर, संवसार, कुटूंब हांचो फाटलो-फुडलो कसलोच विचार करी नासतना तांणी फकत कोंकणी भास, कोंकणी वाठार आनी कोंकणी भौस हांचे खातीर आंदोलनांत उडकी घेतली. के. पी. ए.चे निर्मिती सावन खासा निमंत्रक म्हूण तांणी जापसालदारकी स्विकारली आनी तिका न्याय दितना ती जैतान पुराय केली. ह्या वावरांत तांची घरकान्न हेमा नायक हांचो तेंको आनी आदार भोवूच मोलाचो आशिल्लो. हेमा नायक ह्या आंदोलन- पर्वांत तांच्या फाटल्यान फकत सावळी कशी न्हय तर तांच्या वांगडाच दोनाचे चार हात करून उबी राविल्ली, अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. आंदोलन पर्वांतल्या हेमाबायच्या धिटायेची एक देख हांगा दिवप रास्त जातलें. 18 नोव्हेंबर 1985 दिसा मराठी समर्थकां कडच्यान पुंडलीक नायक हांच्या सावयवेरें-वळवयच्या घरार मोर्चा हाडलो. पुंडलीक नायकाल्या भावाल्या छापखान्याचेर हल्लो करून मोडतोड जाली. घर लासून उडोवपाचे यत्न जाले. त्या प्रसंगाक हेमाबायन व्हडा धिटायेन तोंड दिलें. तशेंच बायलांची शक्ती एकठांय करून राजभास आंदोलन सशक्त करपाक तिचो मोलाचो वांटो आसा.

29 जुलय 1985 ते 4 फेब्रुवारी 1987 मगजतीं वट्ट 555 दीस चलिल्लें गोंयचें राजभास आंदोलन हें ओपिनियन पोला उपरांतचें गोंयचो राजकी फुडार निश्चीत करपी दुसरें संघर्शपर्व आशिल्लें. ह्या राजभास आंदोलनांत कोंकणीची वाट सांबाळपी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' हे संघटनेचें नेतृत्व स्विकारप आनी तें तडीक व्हरप हें तितलें सोंपें काम नाशिल्लें. तो एक कांट्यांचो मुकूट आशिल्लो. कारण राजभास आंदोलन फकत भाशीक स्वरुपाचें आंदोलन नाशिल्लें तर भाशेच्या आदारान राजकी अस्मिताय सुगूर दवरूंक सोदपी तें धगधगीत अशें एक संघर्शमय आंदोलन आशिल्लें. कोंकणी खातीर वावुरप्यांक तें आंदोलन म्हणल्यार स्वताच्या भाशीक आनी राजकी अस्मितायेचो जीणे- मरणाचो प्रस्न आशिल्लो. जाल्यार मराठी भाशेची मागणी करप्यांक तो फकत एक भाशीक आनी सांस्कृतीक परंपरेचो मुद्दो आशिल्लो. म्हणल्यार कोंकणी राजभास म्हणपी आंदोलकांचो तो मुळांत स्व-अस्तित्वाचोच प्रस्न आशिल्लो. थंय हारपाक वा फाटीं सरपाक मनाय आशिल्ली. खासा पुंडलीक नायक जायते फावट म्हण्टा- 'आंदोलन फशिल्लें जाल्यार पुंडलीक नायक सोंपपाचो. कोंकणी चळवळींत पुंडलीक नायक हें नांव हारीचें प्रतीक जावन पडपाचें. पुंडलीक नायकाचें नांवनिशाण काबार जावपाचें'

पूण तशें जालें ना. कारण के.पी.ए.चे नेतृत्व करतना ताचे कडेन एक विधायक 'व्हिजन' (vision)आशिल्लें. He got reason to fight म्हणटात तशे ते त्या वावरांत समरस जाल्ले. त्या वेळार हेर संवसारीक आनी वैयक्तीक गजालींक तांणी फाट केल्ली. विरोधी गट धर्मिक तत्वाचो आदार घेवन खवदळ घालतनाच कोंकणी चळवळीची सेक्युलर इमेज तांणी राखली. हिंदू, किरिस्तांव आनी मुसलमान समाजाक वांगडा घेवंन तांची पुराय शक्त तांणी राजभास आंदोलना खातीर वापरली.

पुंडलीक नायक हांच्या मुखेलपणा खाला जायत्या राज्य आनी राष्ट्रीय पांवड्यावयल्या संबंदीत मंत्र्यांक वा अधिकाऱ्यांक भेट दिवन वा निवेदना भेटोवन राजभाशेचो प्रस्न सुटावो करपाचो यत्न के. पी.ए. वतीन जालो. तातूंत तेन्नाचे मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे, केंद्र सरकाराच्या केंद्र-राज्य संबंद आयोगाचे मुखेली न्यायमूर्ती आर. एस. साकारिया, खासदार शांताराम नायक, एदुआर्द फालेरो आनी पुरुषोत्तम काकोडकार, प्रधानमंत्र्यांचे राजकी सल्लागार

फोतेदार, काँग्रसेचे सरचिटणीस आर. एल. भाटिया आनी खासदार ऑस्कर फर्नांडीस, खासदार मागरिट आल्वा, गृहमंत्री शंकरराव चव्हाण, केंद्र सरकाराचें प्रसिद्धी माध्यम सल्लागार एच. वाय. शारदाप्रसाद, जनता पक्षाचे वरिश्ठ फुडारी खासदार मधू दंडवते, केंद्रीय शिक्षणमंत्री पी. व्ही. नरसिंहराव, काँग्रेस पक्षाचे पक्षश्रेश्ठी मुपनार, गोंयचे नायब राज्यपाल डॉ. गोपाळ सिंग, भारताचे प्रधानमंत्री राजीव गांधी अश्या मानेस्तांचो आसपाव आशिल्लो.

कोंकणी राजभास आंदोलनाक एक दिशा दिवपाचें काम पुंडलीक नायक आनी तांच्या हेर सहकाऱ्यांनी के.पी.ए. वतीन केलें, जाचो फायदो एकंदर आंदोलनांत जाल्लो दिश्टी पडटा. तशें पळयल्यार खंयचीय चळवळ जैतिवंत जावपाक साबार जाणांचे हात-बोट लागता. कोंकणीचे राजभास चळवळीन आयज आपल्यो तिनूय मोखी मेळयल्यात. ते खातीर ल्हान-व्हड कार्यकर्त्यां वांगडाच साहित्यीक, तियात्रिस्त, नाटककार, वेवसायीक, समाज वावुरपी आनी राजकारणी हांचोय अधिकारान आसपाव जाता. त्या साबार जाणांक वांगडा घेवन जैत जोडपी कोंकणी प्रजेचो आवाज हे संघटनेतो फुडारी म्हूण पुंडलीक नायकान दिल्ल्या ॲसीड टॅस्टाचो हांगा विचार करूंया. ह्या संघर्शमय आंदोलनांत पुंडलीक नायक हांची नेत्वृतक्षमता दिसूय आयली.

**के.पी.ए.चे निमंत्रक पुंडलीक नायक हांची आंदोलनांतली खरी ॲसिड टॅस्ट**

पुंडलीक नायक ह्या नेतृत्वान कोंकणी राजभास आंदोलनांत सांग्यावेलो कॉस्ता सारको एक सामान्य कोंकणी समर्थक ते रवींद्र केळेकार सारको उंचेलो फुडारी अश्या सगळ्यांक आपलेशें केल्ल्याचें नदरेक भरता. के.पी.ए.च्यो बसका घेवप, भासाभास करप, दिसाळ्यां खातीर प्रसिद्धी पत्रकां काडप, निवेदनां बरोवप, ती फावो ते व्यक्तीमेरेन पावोवप, तालुको पांवड्यार आनी राज्य पांवड्यार सभा, मोर्चे आनी म्हामेळावे आयोजीत करप ह्या साबार कामांत तांणी विंगड आपवावुरप्यांक आसपावन घेवप, जाय थंय जाय त्या फुडाऱ्याक पाचारप अशी एक आनी दोन न्हय तर एका वांगडा आनी कितलीशींच कामां निमंत्रक ह्या नात्यान पुंडलीक नायक हांणी राजभास आंदोलनांत व्हडा आत्मियतायेन केल्ली. 555 दीस चलिल्ल्या राजभास आंदोलनांत तांचे आख्खें कुटूंब आनी भोंवतणचे बरें मागपी हांचो सशक्त तेंको तांका फावो जाल्लो.

राजभास आंदोलन संघर्शाचें तेंगशेर आशिल्लें तेन्ना सांग्यार घडिल्लो एक प्रसंग भोव फामाद आसा. तेन्ना मराठी समर्थक हिंदू-किरिस्तांव धर्मिक भेद निर्माण करून कोंकणीची शक्त उणी करपाचो यत्न करताले. ताचोच एक वांटो म्हूण सांग्यातले एके बसकेंत मुद्दाम एक प्रस्न मुखार आयलो. गर्देंतल्यान कोणें एकल्यान प्रस्न विचारलो, 'आरे कोंकणी प्रजेच्या आवाजाची लिपी खंयची...?' त्या प्रस्नासरशीं वातावरण गंभीर जालें, निमंत्रक म्हूण पुंडलीक नायकाचेर पेंच आयलो. तेन्ना मुखावेल्यान 'कॉस्ता' नांवाचो एक थळावो जाण्टो माचयेर उबो जालो आनी तांणे मायक हांतांत घेवन सांगलें- 'हो कोंकणी परजेचो आवाज आसा, आनी आवाजाक लिपी लागोना...' ह्या वेळार के.पी.ए.च्या फुडाऱ्यांक जाप दिवची पडली ना. कारण आपल्या कार्यांतल्यान तांच्यानी कॉस्ता सारके कोंकणी समर्थक तयार केल्ले.

कोंकणी प्रजेचो आवाज संघटनेन माथें मारिल्ल्या राजभास आंदोलनांत जायत्यो बऱ्यो वायट घडणुको घडून गेल्यात. तातूंत कांय घडणुको खोशयेच्यो, कांय निर्शेवणेच्यो, कांय अभिमानाच्यो, कांय संघर्शाच्यो जाल्यार कांय अती संवेदनशील

आशिल्ल्यो. घडणुको वायट- बऱ्यो कसल्योय आसल्यो तरीय साबार घटना-प्रसंगाची नैतीक जापसालदारकी आंदोलनांत वांटेकार जाल्ल्या संघटनेच्या नेतृत्वार येवप सभावीक आसता. राजभास आंदोलनांत घडिल्ले प्रसंग-घडणुको पळयल्यार, निमंत्रक म्हूण पुंडलीक नायकाची ती सत्व परिक्षाच (ॲसीड टॅस्ट) आशिल्ली अशें म्हणचें पडटा.

देखीक- पणजे आझाद मैदानावयलो सुमार एक लाख उपस्थिती लाभिल्लो धादोसकाय दिवपी महामेळावो (14-11-1985), वळवयच्या छापखान्यार आनी घरार मराठी समर्थकांचो हल्लो. (18-11-1985), विठ्ठलभाय पटेल हावस, नवी दिल्लींत के.पी.ए.च्या पत्रकार परिशदेंतलो उणो प्रतिसाद. आंदोलन खर करपाचो घेतिल्लो निर्णय (7-12-1985), दत्ता श्री. नायक, दिलीप बोरकार आनी डॉमनिक दिनीज हांचें पणजे आझाद मैदानावयलो मरमेरेन उपास (17-1-1986), आगशेचें कदंब बस जाळपोळ प्रकरण आनी नेतृत्वाची नैतीक जापसालदारकी (24-3-1986), जाळपोळ प्रकरणांत घुस्पल्ल्या आरोपा खाला आगशीच्या रोनाल्डो परेरा, हिलारियो परेरा आनी जोजेफ गोन्साल्वीस ह्या तरनाट्यांक अटक केल्लो प्रसंग, राजीव बरड ह्या तरनाट्याक गंभीर जखमी जाल्ले अवस्थेंत हॉस्पिटलांत व्हरपाचो प्रसंग (23 आनी 24-5-1986), गोवा कला अकादमींत मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणेक के.पी.ए.ची आजनेर, प्रतिकार करनासतना स्वातंत्र्यसैनिकांचो मार मोन्यांनी सोसपी दत्ता श्री. नायक, अरूण साखरदांडे, व्हिक्टोरिया फर्नांडीस, दिलीप बोरकार, अरविंद वाझ, इवो नोऱ्होना, फ्रान्सिस ग्रासियश, जयपाल भोसले हांकां के.पी.ए.न केल्ली सुचोवणी (28-5-11986), गोंय, दमण आनी दीव राजभास विधेयक क्र. 26-1986 जाले उपरांत तें 24 आड 8 मतांनी विधानसभेंत दाखल जाल्लो उमेदीचो प्रसंग (17-7-1986), आझाद मैदानार कोंकणी समर्थकांचो तेंको मेळिल्लो महामेळावो (29-7-1986), सरकारी धोरणाक विरोध करपी गोंयच्या मुक्ती सुवाळ्या आदलो निर्णायक मोर्चा उपरांत गोंयभर पातळिल्लो हिंसाचार (18-12-1986), मडगांवां फ्लवियन वाझ हो तरनाटो पुलीस फारपेंटांत बळी पडिल्लो प्रसंग (20-12-1986), आंदोलन निर्णायक पांवड्यार आसतना डोंगरी-मंडूर हांगा इनासियो गोन्साल्वीस, सुकोर कॅजिटन एफ डायस, मॅथ्यू ग्रासियस, जॉन फर्नांडीस, ऑड्रीन फर्नांडीस, जॉकीम परेरा अशा वट्ट स तरनाट्यांनी जीव वोगडायलो (21-12-1986), हजारानी लोकांचे हजेरेंत तांचेर आगशेच्या सेंट लॉरेन्स चर्चीचे सेमिनारींत निमणे संस्कार जाल्लो प्रसंग (24-12-1986), के.पी.ए. वतीन पणजे, मडगांव, कुडचडें आनी गोंयात हेरकडेन ल्हान- व्हड बसका घेवंन गोंयभरच्या कोंकणी समर्थकांनी दिल्लो तेंको, वास्को चिखले हांगा जी. डी. एक्स-162 हे कदंब बशीक कोंकणी समर्थक पंगडान घातिल्लो उजो (31 जानेवारी ते 3 फेब्रुवारी 1987), कोंकणी-मराठी समर्थकां मदीं गोंयभर चलिल्ले ल्हान- व्हड वाद-विवाद आनी ताचे परिणाम (31 जानेवारी ते 3 फेब्रुवारी 1987), गोंय विधानसभेच्या खाशेल्या अधिवेशनांत राजभास विधेयकाचेर चर्चा जावन 17 जुलय 1986 दिसा दाखल करून घेतिल्लें राजभास विधेयक मात्शी दुरुस्ती करून 21 आड 8 मतांनी मंजूर जावपाचो प्रसंग (4-2-1987).

सांगपाचें म्हणल्यार गोंयचो राजभास कायदो 4 फेब्रुवारी 1987 ह्या दिसा मंजूर जालो. म्हणल्यारुच गोंयची राजभास थारोवपी कायदो करपाक गोंय विधानसभेंतल्या लोक प्रतिनिधींक वट्ट 23 वर्सां लागलीं. गोंयचो भाशीक प्रस्न सोडोवप कितलो कठीण आशिल्लो ताची प्रचिती ह्या काळावल्यान येवं येता. 14 एप्रील 1987 ह्या दिसा गोंय, दमण आनी दीव संघप्रदेशाचे नायब राज्यपाल डॉ गोपाल सिंग हांणी राजभास कायद्याचेर सय केली. ते घडणुकेक धरून 30 मे 1987 दिसा सगळे कायदेशीर सोपस्कार पुराय करून गोंय प्रदेश भारत देशाचें 25 वें घटक

राज्य म्हूण कार्यरत. जाल्यार 20 ऑगस्ट 1992 कोंकणी भास भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरेंत आसपावीत जाली. ह्या साबार जैतार्ची सपनां के.पी.ए. न गोंयकारां खातीर पळयल्लीं आनी तिणेच तीं प्रत्यक्षांत हाडलीं. ते पासत केपीएच्या फुडाऱ्यांची खरी ॲसिड टॅस्ट दिल्ली आसा. देखून ह्या जैताचो खरो वालोर तांकां मेळपाकूच जाय.

**के.पी.ए.चे निमंत्रक पुंडलीक नायकाच्या नेतृत्व गुणांचो जिवो दिश्टावो**

कोंकणीच्या राजभास आंदोलनांत के.पी.ए.चें मुखेलपण करपी पुंडलीक नायक हांचे नेतृत्वक्षमतेचेर भाश्य करतना तांची एकंदर कार्यतत्परता, धिटाय, कल्पकता, नम्रता, निर्णयक्षमता, आक्रमकता, युक्तिवाद, हजरजबाबीपणा हांचो विचार करचो पडटा. तांच्याच म्हालवज्यार तांणी एक येसस्वी नेतृत्व राजभास आंदोलनांक दिलें अशें म्हणूं येता.

पूण त्याच बरोबर हिवूय गजाल खरी, ती म्हणल्यार पुंडलीक नायकाचें फुडारपण हें एखाद्या राजकी पक्षासारखें वा कामगार फुडाऱ्या सारखें नाशिल्लें. तांचे भोंवतणीत ज्येष्ठ आनी अणभवी अशा फुडाऱ्यांची गडगंज अशी फळी आसताली. तें सामुहिक स्वरुपाचें फुडारपण आशील्लें. सगळे निर्णय त्या सामुहिक फुडारपणानूच घेतिल्ले आसताले.

देखीक- साबार ल्हान-व्हड मोर्चांची वा मेळाव्यांची आंखणी करतनाची तांची कल्पकता, प्रशासकीय अधिकारी, मंत्रिमंडळ, संपादक फोरमांतलो (ॲडिटर्स गील्ड-गोवा) वा पत्रकार परिशदांतलो युक्तिवाद, आंदोलनांतली वेगवेगळ्या प्रसंगा वेळावयली तांची रणनिती, बेळगांव, निपाणी, हल्ल्याळ, कारवार, गोंय हो विवादास्पद शीम भाग एकठांय करून विशाल गोमंतकाची मागणी करपी महाराष्ट्रीयन फुडाऱ्यांक दिल्ली आक्रमक शिटकावणी, गोंय दूरदर्शन केंद्राच्या नव्या टॉवराचें उक्तावण करपाक आयिल्ले तेन्नाचे म्हायती राज्यमंत्री अजित पांजा आनी परराष्ट्र वेव्हार राज्यमंत्री एदुआर्द फालेरो हांकां विमानतळ वाठार आनी आल्तिनार कोंकणी समर्थकांनी काळे बावटे दाखोवपाची धाडसी चाल, गोंयात प्रतिआंदोलन सुरू करपाच्या बाळ ठाकरे हांच्या वक्तव्याक आनी अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनांत गोंयचो प्रस्न उप्रासून काडपी साहित्यिकांचो के.पी.ए. वतीन निशेध करपी धिटाय, स्वातंत्र्यसैनिकांचो मार मोन्यांनी सोशीत कार्यकर्त्यांनी तांचो मान राखचो अशें सुचोवपी नम्रताय, मनौजवान भारत सभा, आनी प्रोग्रेसीव स्टुडंट युनियनाच्या वांगड्यांचो राजभास आंदोलनाक तेंको मेळोवपाची कुशळताय, कोंकणी राजभास जाय मेरेन कार्निव्हल, शिगमो धरून सगळ्या सरकारी कार्यांवळींचेर बहिश्कार घालपाचें आनी आमदारांचे राजिनामे मागपाचें आक्रमक आवाहन, द न्यू गोवन ओव्हरसिस असोसिएशन, कुवेट, कोंकणी मोगी- अबुधाबी, कोंकणी लँग्वेज सेंटर- यूएई. तशेंच मुंबय, दिल्ली, काश्मीर, आसाम, कोलकाता, मंगळूर, कोची, अंदमान- निकोबार अश्या राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या कोंकणी समर्थकांचो सगळे तरेचो तेंको मेळोवपाची कळाशी अश्या गजालींतल्यान तांचे साबर नेतृत्व गूण चड बरे तरेन चकचकून दिसतात.

कें.पी.ए. हे संघटनेंत जायते व्हड फुडारी आनी कोंकणी साहित्यीक कार्यरत आशिल्ले. रवींद्र केळेकार, उदय भेंब्रे, फेलिसियु कार्दोज, दिलीप बोरकार, एन. शिवदास, दत्ता श्री. नायक, तोमाझीन कार्दोज, जॅक बार्रेटो, तियात्रिस्त रोजफर्न, बर्था मिनेझीस, विठ्ठल आंवदियेंकार हांच्या वांगडा गोंयभरच्यान गुरुनाथ केळेकार, बाबली नायक, राधाराव ग्रासियस, अशोक भोंसलो, सदानंद तेंडुलकार, रमेश कोमरपंत, रजनी भेंब्रे, भिकू बोमी नायक, भरत नायक, प्रभा धुंगट, कृष्णनाथ फोगेरी, उदय सरदेसाय, डॉमनीक दिनीज, नरेश पै, अरुण साखरदांडे, अशोक काणेकार, कृष्णनाथ करमली, प्रभाकर तेंडुलकार, ज्योअऩ डिसोझा, सॅबी मेंनडोसा, आग्नेल फर्नांडीस, एमिदियो मॉंतेरो, रफीक शेख, कॅजिटन लोबो, नेल्सन फर्नांडीस, पास्कोल डायस,

आंतोनियो फर्नांडीस, लक्ष्मीकांत गोवेकार, सुहासिनी स. तेंडुलकार, व्हिक्टर रॉड्रिग्ज, आगोस्तिनो लोपीस, मोती देसाय, ज्यो डिसोझा, आनंद मंगेश नायक, दिनेश मणेरकार, एलेक्सिना फर्नांडीस, अश्या एक आनी दोन न्हय तर असंख्य कोंकणी समर्थकांचो आसपाव तातूंत आशिल्लो. गोमंत लोक पक्ष, गोवा काँग्रेस, काँग्रेस (आय) ह्या राजकी पक्षांचें राजभास आंदोलनाक समर्थन मेळिल्लें. राजकी पक्षांचे फुडारी लेगीत वैयक्तीक पांवड्यार के.पी.ए.चे घटक जावंन वावुरताले हें खरें जैत मानचें पडटलें. लुईझीन फालेरो, फ्रान्सिस ब्रांको, विली डिसोझा, माँत क्रुज, चर्चिल आलेमांव, व्हिक्टोरिया फर्नांडीस, मोती देसाय, हर्क्युलान दोरादो, माथानी साल्ढाना, माविन गुदिन्हो, जॉर्ज वाझ, गुरू शिरोडकार, सुश्रृत मार्टीन्स, नॉर्मन दान्तास, इराज्मो सिकेरा, पास्कोल डायस, मनोज जोशी, सिरील पाशेको, मार्टीन मिनीन फर्नांडीस, राजू मंगेशकार हाच्या सारक्या राजकी आनी सामाजीक नेतृत्वाक कोंकणीचें म्हत्व पटोवपाक आनी राजभास आंदोलनांत सक्रीय करपाक के.पी.ए.चें फुडारपण येसस्वी जाल्लें हें नोंद घेवपा सारकें आसा.

1984 वर्सा जाल्ले वेंचणुकेंत इंदिरा काँग्रेस पक्षान खरें म्हणल्यार आपल्या जाहिरनाम्यांत कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो दिवपाचें उतर दिल्लें. पूण उपरांत सत्तेर आयिल्लें प्रतापसिंह राणे सरकार तें पाळपाक फाटीफुडें सरलें. इतलेंच न्हय तर राजभास विधेयक विधानसभेंत मंजूर करपा वेळार आपल्या मतदारसंघातल्या मराठी समर्थकांच्या राजकी चेंपणाक लागून वासू पायक गांवकार, सुभाष शिरोडकार, चंद्रकांत वेरेकार, पांडू वासू नायक, संगीता परब, शंभू भाऊ बांदेकार तशेंच दमण आनी दीवचे जीवनभाय प्रभाकर आनी सामजीभाय सोळंकी हे काँग्रेसचे आठ आमदार पक्षाकडेन बंड करून मराठीचें समर्थन करूंक लागले. अश्या वेळार संबंदीत आमदारांनी आपली भुमिका बदलची म्हूण साबार राजकी कुटनितीचो वापर के.पी.ए.न केल्लो. त्या भायर हेर आमदारांनी आपली भाशीक भुमिका स्पश्ट करचे खातीर निवेदनां भेटोवप, घेराव घालप, धडक मोर्चा व्हरप, बहिश्कार घालप ह्या सारके उपक्रम राबोवन के. पी.ए.न राजभास आंदोलनांत राजकी शक्तीचो भोव कल्पक उपेग करून घेतिल्लो. तातूंत पुंडलीक नायकाचें नेतृत्व कसाक लागलें. त्या भायर निर्णायक पांवड्यार राजभाशेचो प्रस्न सुटावो करपाक गोंयात आयिल्ले तेन्नाचे इंदिरा काँग्रेस पक्षाचे राष्ट्रीय सरचिटणीस आर. एल. भाटिया आनी केंद्रीय गृहराज्य मंत्री चिंतामणी पाणीग्रही ह्या निरिक्षकांक कोंकणीचें म्हत्व पटोवन गोंयची वेगळी अस्मिताय सांबाळून दवरप ही के.पी.ए.च्या नेतृत्वाची खरी परिक्षा आशिल्ली. ते परिक्षेंत तांणी दोळे दिपकावपी येस जोडलें हें एक उक्तें सत आसा. तातूंत के.पी.ए.चें मुखेलपण करपी निमंत्रकाच्या नेतृत्व गुणांचो दिश्टावो सहज घडटा.

राजभास आंदोलनाचो एकंदर विचार केल्यार निश्चितूच के. पी. ए. चे निमंत्रक पुंडलीक नायक हांणी आपली कार्यक्षमता, कार्य तत्परता, वक्तृत्व क्षमता, संघटन कुशळताय आनी नेतृत्वगुणांचो कल्पक उपेग करून राजभास आंदोलनांत कोंकणीक जैत जोडून दिल्लें आमी पळयतात. तशेंच निमंत्रक म्हूण जापसालदारकी स्विकारले उपरांत तांका जायत्या कोडू अणभवांक तोंड दिवचें पडलें. स्वताच्याच गांवभावां कडल्यान आनी समाज भावांकडल्यान विगंड विंगड तरेच्यो आगळिको सोसून घेवच्यो पडल्यो. वैयक्तीक पांवड्यार जायते पत्रवेव्हार करून तांचो आत्मविस्वास पोको करपाचो यत्न विरोधकांवतीन जालो. पूण त्या गजालींनी तांणी आपलो निश्चेव हालूंक दिलो ना हें म्हत्वाचें. हेरा सगळ्या समविचारी नेत्यांक आनी हेर कोंकणी समर्थक भौसाक वांगडा घेवन तांणी के.पी.ए.चें राजभास आंदोलन तडीक पावयलें.

राजभास आंदोलन जैतिवंत जाले उपरांत के.पी.ए. राजकीय पक्ष म्हूण मुखार येवचो अशी जायत्या जाणांची इत्सा आशिल्ली. कांय जाणांनी

पुंडलीकाक गोंयचो मुख्यमंत्री जावपाचो आशिर्वाद लेगीत दिल्लो. मात तांणी ताका न्हयकार दिलो. कारण केपीएची मोख राजकी नाशिल्ली अशें तांचें स्पश्टिकरण आशिल्लें. राजभास आंदोलनाची मोख सादून जाल्ली. ताचो उपेग राजकारणा खातीर करप तांकां मान्य नाशिल्लें. एका निश्ठावंत भाशीक कार्यकर्त्याचे ते विचार आशिल्ले. ते प्रमाण ते वागले.

अभ्यासाच्या ह्या पांवड्यार एकंदर कोंकणी चळवळीचो विचार केल्यार कोंकणीचे वैचारीक चळवळींत शणै गोंयबाबान, संघटनात्मक चळवळींत माधव मं. शानबाग, जनमत कौलाच्या आंदोलनांत अॅड उदय भेंब्रे, साहित्य अकादेमी मान्यतायेच्या आंदोलनांत रवींद्र केळेकारान जाल्यार कोंकणीच्या राजभास आंदोलनांत पुंडलीक नायक हांणी कोंकणीची यशोगाथा रचल्या. राजभास आंदोलनांत (हेर फुडाऱ्यांचें आनी कार्यकर्त्यांचें योगदान स्विकारतनाच) के.पी.ए.चे प्रतिनिधी आनी फुडारी म्हूण निमंत्रक पुंडलीक नायक हांच्या जादुई नेतृत्वाक ताच्या मोलादीक योगदानाची पावती आमी दिवंकूच जाय... पुंडलीकबाब तुमच्या नेतृत्वाक सलाम...!





*कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां*
*मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी*
**भौ. पुंडलीक नारायण नायक** *हांकां आमचीं परबीं!*



**रमेश ब्रि. एस. कोमरपंत**
आनी
**घरचीं**
घोंटेंर, चावडी, काणकोण – गोंय

# पुंडलीकबाब- सामाजीक बांदिलकेचें पुराय भान आशिल्लो साहित्यकार समाजपुरीस !

लेख

'जैत' चे संपादक भिकूबाब नायक आतां कशेच फाट सोडपाचे नात, हाची खात्री जाल्ल्या खिणाक 'पुंडलीकबाब खऱ्यानीच कोण?' ह्या प्रस्नाची जाप हेवटेतेवटेनचीं पुस्तकां उस्तिल्यार, पिशावरी एकठांय करून दवरिल्लीं आमंत्रणपत्रां सांसपून पळयल्यार तरी मेळटा काय म्हूण पळयतालों, जाल्यार पत्रकार इश्ट राजू नायक कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आशिल्ल्या तेंपार 1999 वर्सा तांणीच संपादक म्हूण वावर केल्लें आनी प्रा. भूषण भावे, ज्योती कुंकळकार पालवी संपादिका आशिल्लें 'वेंचीक पुंडलीक' पुस्तक हाताक लागलें. तेवटेन हेमाबाय नायक हांच्या अपुरबाय प्रकाशनाचें आमंत्रण मेळ्ळें. 'रंगकाव्य' 'रंगरंजन' 'रंगशिल्प' नाट्यखंडाचो विमोचन समारंभ, सोमार ता. 28 जानेवारी 1013, सांजे 4.30 वरांचेर. थळः इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा सभाघर, पणजी, अशा मजकुराच्या आमंत्रणाची भायली वट. भितर अपुरबाय प्रकाशनाची प्रकाशक हेमा नायक आनी रंगवेद प्रकल्प संयोजक पांडुरंग गावडे हांचें रंगीत मजकुराचें आमंत्रण. 1912-2012 कोंकणी नाटकाचें शताब्दी वर्स ही आमंत्रणाची क्रियाशील, कलात्मक, भक्कम बुनयाद! आनी फांटभूंय लेगीत 'समकालीन भारतीय नाटककार श्री. पुंडलीक नारायण नायक हांच्या समग्र नाट्यकृती संग्रहा खातीरच्या रंगवेद प्रकल्पाखाला रंगकाव्य रंगरंजन रंगशिल्प ह्या वट्ट 15 नव्या नाटकांच्या 3 खंडांच्या तशेंच तातुंतल्या स्वतंत्र 15 नाटकांच्या प्रकाशन सुवाळ्याक तुमकां आमंत्रित करपाक भोव खोशी जाता.' इतलें आमंत्रण लेगीत खरें म्हणल्यार पुंडलीकबाब कोण, हें समजून घेवपाक पुरें जाता. आमदार आनी तेन्नाचे कला अकादमीचे अध्यक्ष विष्णू सुर्या वाघ प्रकाशन सुवाळ्याक हजर रावप ही गजाल गोंयकारां खातीर 'नविदाद' कशी न्हय जाली तरी नामनेचे सिने- नाट्य कलाकार डॉ. मोहन आगाशे विमोचक म्हूण सुवाळ्याक हजर रावन मार्गदर्शन करतना आनी तें अणभवतनाय एक खेरीत खुशालकाय भोगली. थोडेभितर पुंडलीकबाब



**कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**
(नामनेचे लेखक आनी लोकवेदाचे अभ्यासक)
श्रीस्थळ, काणकोण - गोंय
मो. 09326110324

खऱ्यांनीच कोण, ह्या प्रस्नाची एक जाप सादी-सोपी. पुंडलीक नारायण नायक- समकालीन भारतीय नाटककार.

खरें म्हणल्यार पुंडलीकबाब कवी, कथाकार, नवलकथाकार, एकपात्रीकार, बालनाट्यकार, एकांकीकार, संपादक, साहित्यकार, नभोनाट्यकार, स्तंभलेखनकार, निबंधकार, टेलिफिल्म- लेखक, फिल्म-लेखक म्हूण साहित्यीक, कोंकणी शिक्षक, कोंकणी नाटकांचो दिग्दर्शक, आकाशवाणी पणजी केंद्राचो उप संपादक, पालवी संपादक काय 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' चो निमंत्रक, कोंकणी चळवळीचो फुडारी, विंगड विंगड राज्य आनी राष्ट्रीय पांवड्यावयल्या संस्थांमदलो संघटक पदाधिकारी काय ह्या सगळ्या माध्यमांवरवीं वावुरपी एक स्वाभिमानी गोंयकार, सामाजीक बांदीलकीचें शंबर टक्के भान आशिल्लो उत्तम समाजवावुरपी आनी ह्या सगळ्या वावरांतल्यान पर्जळून घणघणीतरुपान मनाश्यांच्या मनीसपणाच्या समाजांत उठून दिसपी उत्तम मनीस?

पुंडलीकबाब अशटतासांचोच न्हय, सोळा तासांचो साहित्यकार समाजपुरीस!!

'वेंचीक पुंडलीक' पुस्तकांत संपादक राजू नायक भाशा मंडळचेवतीन बरयतात, 'पुंडलीकबाब हांचें आतांचें नवें फुडारपण कोंकणीत नवतेजाची, नवविस्वासाची घुडी रोमतलें' फुडे एकेकडेन ते म्हणटात, 'कोंकणी चळवळींतली पुंडलीक नायक हांची आनी तांगेल्या पिळगेची सुवात तांकां कोणें दिवंक ना. तांणी ती आपणाल्या अधिकारान घेतल्या' बांगर बैलाच्या मस्तेपणान तांणी कोंकणी चळवळीच्या आनी कोंकणी सरस्पतीच्या आंगणांत पावल दवरलें आनी त्या पावलावांगडचें फुडलें दर एक पावल जैतवंत करून दाखयलें. हें आमी सगळेच जाणात. तरूय तांची कोंकणीकडली जबरदस्त निश्ठा, सडेतोड सभावा वांगडचीच उलोवपांतली नमळाय, वागपांतली सभ्यताय, मुद्देसूद विचार कल्पकतायेन, कुशळतायेन भौसामेरेन पावोवपाची खाशेली कळाशी आनी दर एका इश्ट-इश्टिणींवांगडा एक-एक घर आपलें, वांगडाच कोंकणीचें करपाची रीत-नीत पुंडलीकबाबांक जैतवंत करीत गेली. रुप-रंग-वाणीच्या जल्मजात गुणांक नाट्याची जोड मेळ्ळी आनी मुळांतले संवाद-शैलीक अभ्यासाची जोड मेळिल्ल्यान पुंडलीकबाब भौसामेरेन कोंकणी पावोवपी कोंकणीतले पयले नाटककार थारले. इतलेंच न्हय जाल्यार फुडल्या काळांत 'कोंकणीतल्यान बरोवपी भारतीय साहित्यीक' म्हूण नामनेक पावले.

तांच्या आंगच्या साहित्यीक, कलात्मक आनी सर्जनशिलतायेच्या गुणांक लागून तांकां लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवींद्रबाब केळेकार सावन चंद्रकांतबाब केणी, उदयबाब भेंब्रेमेरेनच्या कितल्याशाच म्हालगड्या साहित्यिकांचे आशिर्वाद मायेमोगाच्या आपलेपणासयत मेळ्ळ्यात. उतरांच्या ऊर्बा-उमेदीसयत स्फूर्त लेगीत मेळ्ळ्या. दोन देखी हांगा दिवप सामकें गरजेचें. पुंडलीकबाब जावचे पयलींच्या कंवळे पिरायेच्या पुंडलीकाची कथा वाचून नामनेचे मराठी कथाकार आनी उपरांतचे कोंकणीतले 'खबरी...'कार लक्ष्मणराव सरदेसाय म्हणपाक लागले खंय, 'हो हे पिरायेर अशे तरेच्यो कथा बरोवपाक लागलो जाल्यार म्हजे पिरायेचो जातलो तेन्ना केद्या तोलामोलाच्यो कथा बरयतलो!' रवींद्रबाबांचेय स्फूर्तदिणे आशिर्वाद तांका लाबल्यात. 'पुंडलीक नायक हांच्या हाताक पद्म आसूंक जाय... तो जाका हात लायता ताचें भांगर जाता... फाटल्या पांचशी वर्सांच्या काळांत ताचेसारको दुसरो साहित्यकारूच गोंयांत जालो ना,' अशी शिफारस रवींद्रबाबांनी करप म्हणल्यार तो स्वयंभू, प्रतिभावंत

आसुंकूच जाय.

पुंडलीकबाबांक मेळिल्ले कोंकणी भाशा मंडळ धरुन अखिल भारतीय कोंकणी परिशद मेरेनचे, गोवा कोंकणी अकादेमी धरून केंद्रीय साहित्य अकादेमीमेरेनचे, कला अकादमी धरून संगीत नाटक अकादेमीमेरेनचे आनी प्रसारभारतीचे, पणजी आकाशवाणी केंद्र धरून दूरदर्शनमेरेनचे तेचपरी कितल्याशाच संस्थांचे पुरस्कार तांचेमेरेन चलत आयल्यात. त्या पुरस्कारांचें भांगर जालां.

आनी कितलेशेच पुरस्कार मेळ्ळ्यात म्हूण न्हय, कितल्याशाच संस्थांनी तांचो भोवमान केला म्हूण न्हय, कितल्याशाच चळवळींचें फुडारपण केलां म्हूण न्हय, कितल्याशाच बिनसरकारी आनी सरकारी संस्थांचे, आस्थापनांचे निमंत्रकपद, अध्यक्षपद भुशयलां म्हूण न्हय, मुदलांतूच प्रतिभा आशिल्ल्या, फुडारपणाचे गूण आशिल्ल्या, झुजाची वृत्ती आशिल्ल्या, मनीस जोडपाचो गोड सभाव आशिल्ल्या आनी ते खातीर गरजेचीं अशीं म्होंवाळ उतरां सहजतायेन काळजांतल्यान ओंठार देंवतल्या पुंडलीकबाबांनी शेंकड्यांनीच न्हय जाल्यार हजारांनी मनीस जोडले. गोंयचो विचार केल्यार पेडणे धरून कोणकोणमेरेन आनी देशाचो विचार केल्यार गोंय धरून मुंबयमेरेन आनी कारवार-मंगळूर धरून कोचीमेरेन पुंडलीकबाबांचो इश्टवर्ग आसा. तांचे बरें मागपी आसात. खरें म्हणल्यार हो सगळो वाठारच तांचो परिवार, तांचें कुटूंब जाल्लो आसा.

खंयचोय विशय पुंडलीकबाबांचे तकलेंत आयलो, खंयचोय प्रसंग तांच्या सामकार उबो जालो वा खंयचीय गजाल तांच्या कानांर पडली जाल्यार त्या विशयाच्या मुळामेरेन कशें पावप हाच्यो कितल्योशोच खुब्यो, कल्पना, येवजण्यो पुंडलीकबाबांचे तकलेंत येवपाक लागतात. जेपरी ओपिनियन पोलावेळार ॲड. उदयबाब भेंब्रे जाहीर सभांनी सांगताले, 'तुमकां भाऊसाहेब बांदोडकार मुख्यमंत्री जाल्ले जाय जाल्यार तुमी दोन पानांक (संघराज्याचे वटेन) मत दिवपाक जाय' जेपरी आयचे 'सुनापरान्त'चे संपादक बाबली नायक 'कोंकणी प्रजेचो आवाज'चे चळवळीचेर सांगताले- 'चळवळीखातीर शंबर लोक जाय ; म्हजेकडेन णव्व्याण्णव जाणांची वळेरी आसा, तूं आयल्यार शंबर जाण जातात !', तेपरी पुंडलीकबाब आठव्या परिशिश्टांत कोंकणीचो आसपाव करून घेवपाची चळवळ भौसामेरेन पावोवपाची तरा कसले कळाशेन केळयताले आनी तो विशय मांडटाले ती खुबी पुंडलीकबाबाकूच जमपाची! ह्या संदर्भांत पुंडलीकबाब आदोगाशी करताले-'कोंकणीचो आसपाव संविधानाच्या आठवे अनुसुचींत जालो ना जाल्यार कितें जातलें काय म्हूण तुमी म्हाका विचारशात जाल्यार हांव तुमकां सांगता, म्हज्या कोंकणी समाजाचो वेव्हार अडटलो आनी कोंकणीचो आसपाव हे अनुसुचींत जाल्यार दर एके नोटीचेर कोंकणी येतली, म्हज्या कोंकणी समाजाक कोंकणीतल्यान नोट वाचपाक मेळटली'. पळोवपाक गेल्यार ही गजाल सादी दिसली तरी विशयाच्या मुळामेरेन वचपाची पुंडलीकबाबाची चिकित्सक आनी चौकस नदर हातूंतल्यान स्पश्ट जाता. 'कोंकणी प्रजेचो आवाजाचे' निमंत्रक म्हूण पुंडलीकबाब आनी तांच्या सांगात्यानी जेन्ना व्हडल्यांतली व्हडली 555 दिसांची कोंकणी चळवळ चलयली, त्या काळांत तांणी अश्यो कितल्यो कळाशी, कितल्यो कल्पना, कितल्यो येवजण्यो तकलेंत घोळयल्यात आसतल्यो, कुशळतायेन प्रत्यक्षांत हाडल्यात आसतल्यो आनी ते खातीर विरोधकांकडल्यान कितलीं अपमानाचीं उतरां आयकल्यांत आसतलीं, कितली निंदानालस्ती सोसल्या आसतली आनी कितले हालउपाद्रे काडल्यात आसतले ताका शीममेर नाशिल्लीच म्हणल्यार जाता.

म्हजे म्हायतीप्रमाण पुंडलीकबाब जेन्ना गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष जाले तेन्नासावन अध्यक्ष जातामेरेन आनी अध्यक्ष जाले उपरांत आनी सध्या अध्यक्ष आसात तेन्नामेरेन जितल्यो येवजण्यो अकादेमीन आंखल्यो आनी चालीक लायल्यो

तातूंतल्या चडांत चड येवजण्यांचो आराखडो आंखून कृतीकार्यावळींची येवजण करपामेरेन आनी उपरांत येवजण्यांची प्रत्यक्ष अंमलबजावणी करपामेरेन बारीकसाणेन दर एके गजालीची आंखणी करतना, आयोजन करतना आनी सहभागी लेखक- लेखिका तशेंच साहित्यिकांवांगडाच थळाव्या संस्थांच्या पदाधिकाऱ्यांक, कार्यकर्त्यांक कशें विस्वासांत घेवन आपलेपणाचें नातें जोडटाले आनी ते निमतान अकादेमीच्या साहित्यीक, सांस्कृतीक वावराकडेन तांकां कशे जोडून घेताले तें हांवें स्वता कितलेशेच फावट लागींच्यान पळयलां. कांय वेळार ह्या येवजण्यांचो, वावराचो प्रत्यक्ष वांटेकार जावन अणभव घेतला. करता तो वावर बऱ्यांतलो बरो जावचो अशें तांकां दिसतालें अशें आयजूय दिसता. वावर मागीर तो साहित्यीक शिबिराचो आसूं, साहित्य सप्तकाचो आसू, युवा साहित्य संमेलनाचो आसूं, शिक्षक प्रशिक्षण वर्गाचो आसूं, शिक्षण परिशदेचो आसूं, साहित्याक ऊर्बा दिवपाच्या, पुस्तकां उजवाडावपाच्या वेगवेगळ्या येवजण्यांचो आसूं, नाटक महोत्सवाचो आसूं, नाट्य संमेलनाचो आसूं, कोंकणी लोकसंगिताक पोसवण दिवपाच्या येवजण्यांचो आसूं, लोकवेदावयले प्रकल्प करपाचो आसूं, संशोधन वावराचो आसूं वा वेगवेगळे तरेचे पुरस्कार दिवपाचो आसूं. पुंडलीकबाब एक पदाधिकारी म्हूण न्हय तर एक साहित्यीक म्हूण आनी ताचे इतलेंच महत्वाचें म्हणल्यार एक कायकर्तो म्हूण चिकित्सक वृत्तीन, निश्ठेन आनी बुदवंतकायेन वावर फुडें कसो व्हरतात तें हांवें पळयलां. गोवा कोंकणी अकादेमींत तांच्या सांगातान वावुरतना पळयलां. अकादेमीभायर वावुरतनाय पळयलां. दर एके येवजणेचो अभ्यास करतना, तपशिलान चिकित्सकतायेन टिपणां काडटना पळयलां, प्रभावीपणान आपलें म्हणणें वावुरपी समितीमुखार, साबार मंडळांमुखार मांडटना पळयलां. साहित्यिकांच्या बसकांनी मांडटना पळयलां. विशेश म्हणल्यार भाशेच्या चळवळींतलो आवेश तांणी केन्नाच साहित्यीक चळवळींनी हाडलो ना. भास आनी साहित्य वेगळावंक जायना जालें तरी लेगीत भाशचों कांय फावटीं फटीचो, उखलापो अविर्भाव, आवेश, अहंपणा येवं येता. मात साहित्यांत हो असो फटीचो, उखलापो, अविर्भाव, आवेश, अंहपणा येवंक फावना. हांगा सयंमीत सभ्यताय आनी निखळ शुद्ध आनंद दिवपी भावच अभिप्रेत आसता. हें पथ्य पुंडलीकबाबांनी खूब्ब बरे तरेन पाळ्ळां.

गोवा कोंकणी अकादेमीची एखादी येवजण लोकांमेरेन, संबंदीत संस्थेमेरेन पावोवपाचो वावर पुंडलीकबाबान कार्यालयांत बसून न्हय जाल्यार लोकांमदीं वचून कसो केला हाची देख सगळ्याच कोंकणी कार्यकर्त्यांनी घेवपा सारखी आसा. गांवांत वचून ते येवजणेसंबदांतली जाणीव-जागृताय कितले कुशळतायेन करप आनी ते थळावे संस्थेवरवीं येवजण कशी जैतिवंत करून घेवप हें पुंडलीकबाबाकडल्यानूच शिकचें. आनी अशी एकाद्री येवजण जैतवंत जाले उपरांत तांकां जाल्ली खोस ते जे रितीन जाहीरपणान त्या कार्यकर्त्यांची तुस्ततोखणाय करून उक्तायतात तें पळयल्यार तर पुंडलीकबाब त्या वाठाराक आपलोच मनीस कसो दिसपाक लागता. मागीर अशा ल्हान ल्हान जैतांनी तांकां फावो जाल्लो आनंद आनी कोंकणी गोंयची राजभास जाले उपरांत वा संविधानाचे आठवे अनुसूचींत कोंकणीचो आसपाव जाले उपरांतचो आनंद हातूंत कसलोच फरक पडना. म्हणल्यारूच गांव पांवड्यावयली तांची खोस लेगीत राष्ट्रीय पांवड्यावयले खोशयेच्याय तोलामोलाची आसता.

थोडेभितर, पुंडलीकबाब नायक म्हणल्यार सामाजीक बांदिलकेचें पुराय भान आशिल्लो साहित्यकार समाजपुरीस...!

◆◆◆

*पुंडलीक नायक गौरव विशेशांकाक आमची परबीं!*

**विशाल खांडेपारकार**
शिरोडें - गोंय

# खाजगी म्हूण कांय ना, जिवित कोंकणी चळवळीन भरसलां - हेमा नायक.

**मुलाखत**

**विनंती : नामनेचे साहित्यिक भौ. पुंडलीक नायक हांच्या जिविताचेर आदारीत गौरव अंक उजवाडाक येता. हे वेळार तुमची प्रतिक्रिया कितें ?**

हेमाबाय : आमी नव्या आर्विल्ल्या तंत्राच्या क्षेत्रांत जगतात. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय थराचेर सन्मानप्राप्त लेखक पुंडलीक नायक हांचो गौरव अंक काडटात ही खोशयेची गजाल. पूण आयचे घटकेक तांचे जिणेचे म्हायतीपटांची सीडी येवपाक जाय आशिल्ली. अशें दिसता.

**विनंती : तुमी दोगांय साहित्यिक, तुमचे संवसारीक जिणेचेर थोडें भोव भाश्य करात.**

हेमाबाय : कोंकणी भाशीक चळवळ आनी साहित्यांतली सृजन निर्मिती करतना घडिल्ले वळखिचें रूपांतर लग्नाच्या बंधनांत जालें हेच मागीर आमची साहित्यिक, समाजीक आनी संवसारीक जीण घडोवपाची दिका थरली.

**विनंती : त्या काळांत पुंडलीकबाबावांगडा लग्न जावप हें एक धाडशी पावल तुमी उखल्ले तेंविशींय आमकां तुमचेकडल्यान आयकूंचेंशें दिसता.**

हेमाबाय : आमचें लग्न ही एक निवळ इश्टागत अशें हांव आयज मेरेन मानीत आयलां. कायदेशीर लग्न करून गळ्यांत काळ्या पिडुकांमदी एक भांगराचो मणी घालून संवसाराचें चक्र फाटलीं छत्तीस वर्सां



**विनंती कांसार कळंगुटकार**
(जेश्ठ कोंकणी शिक्षीका आनी लेखीका)
नेरूल, बार्देश - गोंय
मो. 9657977989

घुंवडायत आयलें. केन्ना भरती आयली तर केन्ना सुकती. भरते वेळार केन्ना भार आयलो ना तर सुकते वेळार धीर खचलो ना. चोवीस वर्सांचे पिरायेर एके अजागळ अवतिकायेंत हांवें संवसाराक फुडो केलो. अजागळ आसली तरी त्या काळार समाजाआड घेतिल्ली ती धाडशी भुमिका आशिल्ली आनी फुडाराची पर्वा करीनासतना संवसाराच्या हुमऱ्यार उबें रावलें. पैशांची पुंजी नाशिल्ली आनी घरच्यांचें फाटबळ नाशिल्लें. चुलीचे तीन फातर सोदून हाडपा पासून संवसाराची सुरवात जाली. पूण तातूंतय सूख आशिल्लें नवो संवसार घडोवपाचें. स्वकर्तुत्वाचेर, स्वबळाचेर उबें राविल्ल्याची खोस कितली आसता हें आवयबापायन मांडून दिल्ले चुलीचेर शिजोवन मेजार बसून आयतें खातल्यांक कळपाचें ना. देखून केन्ना कित्याचो पश्चाताप केलो ना.

**विनंती : पुंडलीकबाबाच्या असामान्य व्यक्तिमत्वाची पावती तुमच्या उतरांनी दियात पळोवया.**

हेमाबाय : साहित्य आनी कलेच्या मळार किर्तिवंत थरिल्ल्या असामान्य व्यक्तिमत्वाच्या मनशांचे खाजगी जिणेची पावती त्या मनशाच्या चरीत्रांतल्यानच मेळपाक शकता. अशे तरेचें असामान्य व्यक्तिमत्व तांच्या साहित्यिक आनी कलेच्या वावरांतल्यान चड लखलखुंक पावतलें अशें म्हजें प्रामाणीक मत. पुंडलीक नायक हांच्या साहित्यिक वावराची तोखणाय करतना आनी वेगवेगळया विचारवंत आनी मानेस्तांच्या समीक्षेवरवीं तांची मोलावणी केल्ली वाचतना ह्या गौरव अंकांत खाजगी जिणेचेर कितेंय बरोवप विशया भायलें जातलें. तातूंत आमचें जिवीत आनी राहणीमान हातूंत तशें खाजगीपण केन्ना कांय उरलेंच ना. कोंकणी भाशेची चळवळ, साहित्यिक कार्यावळी आनी सामाजीक वावर हातूंतल्यानच आमच्या जगपाच्यो वाटो जायत गेल्यो.

**विनंती : चळवळी आनी संघर्श हातूंत तुमचें जीवन व्यापलां अशें एकदां तुमी म्हणिल्लें. मातशें स्पश्ट करशात.**

हेमाबाय : कॉलेजींत शिकता आसतनाच जें विपूल वाचन केलें ताचो खोल परीणाम म्हज्या नव्यान निर्माण जातल्या विचारीक तत्वांक बसलो तोच म्हजें जिवीत घडोवपाक उपकारा पडलो. मॅक्सींम गोर्कीची 'द मदर' ही कादंबरी तेन्नाच वाचली आनी जगपाचो कॅन्वासच बदललो. जुस्त ह्याच वेळार कार्ल मार्क्साच्या विचारांकडेन ओडून गेलें आनी मागीर संघर्शमय जिविताक फुडारी वृत्ती बळवत गेली आनी मागीर स्वतंत्र विचारान जगपाचो यत्न केलो. हे खातीर बरेचदां घोव-बायल म्हणून आमचेमदीं संघर्श घडले. पूण एक समजिकाय करून घेतली, मार्क्स

तसो तो कोणाक पचपाचो न्ही.

**विनंती : आनीक कितें तुमच्या मनांतलें ?**

हेमाबाय : सावयवेरेंचे म्हालगडे ग्रामस्थ आनी जाणकार तशेंच संगीताचे मोगी सर्गेस्त डॉ.मलबाराव सरदेसाय हांचो उगडास काडपी तिशेक वर्सां फाटली एक घडणूक सांगून हो आटाप सोंपयता.एक दीस तिनसानाचेर पाचव्याचार सैमाच्या सोबीत वातावरणांत मलबाराव पासयेक सावन परतता आनी आमी स्कुटरीन फोंड्यां वतात. आमी थारलीं आनी खबर घेतली. तांणी ताचे फाटीर मायेन हात भोंवडायलो आनी म्हणलें, ''पुंडलीक, तुकां दोगांच मनशांनी वळखला. एक हांव आनी दुसरें हेमा.'' आयज मलबाराव आमचेमदीं नात पूण तांचीं उतरां म्हज्या मनांत सुगूर जावन उरल्यांत.



# श्री पुंडलीकाची जात्रा

लेख

खं यचोच लेखक मळबांतल्यान पडना. तो समाजांतल्यानच घडटा. संयभोंवतणचे अर्थीक, सामाजीक आनी सांस्कृतीक परिस्थितींतल्यान उबो जाता. अर्थात, ही परिस्थिती कितलेशेच लोक भोगतात. पूण सगळेच लेखक जायनात. जांचे लागीं संवदेनशीलता आसता, सर्जनशीलता आसता, लिखाणाची कळाशी आसता, साहित्यीक प्रतिभा आसता, अभ्यासू नदर आसता आनी आपणाक दिसता तें चारचवगांक सांगपाची तळमळ आसता तोच लेखक जावंक शकता. पुंडलीक नारायण नायक ह्या गोंयकार नाटककाराक अभ्यासतलो जाल्यार ह्या सगळ्या गजालींचो परामर्श घेवनच नियाळचो पडटलो. फाटलो इतिहासय तेळचो पडटलो. इन आयजोलेशन तें शक्यच ना. तें बरोबर जावचेंय ना.

नाट्यशास्त्राची शास्त्रशुद्ध बुन्याद घालपी भरतमुनीच्या मतान नाट्य म्हणल्यार दृक-श्राव्य-काव्य. नाट्य मळावेले दिग्गज आनी नॅशनल स्कूल ऑफ ड्रामाचे म्हालगडे नाट्यशिक्षक देवेन्द्र राज अंकुराच्या मतान भारतीय नाटकाक 5000 वर्सांची परंपरा आसा. साहित्य, मुकाभिनय, संगीत, नृत्य, अंगविक्षेप, चित्रकला, शिल्पकला आनी वास्तुशिल्पकला हांच्या संगमांतल्यान नाट्य तयार जालां. ही नाट्य परंपरा ते मुखेलपणान तीन पावंड्यांनी विभागतात.

इसवी सन 1000 मेरेनचो शास्त्रशुद्ध नाट्यशास्त्राचो कालीदास, भवभुती सारक्यांच्या संस्कृत नाट्य निर्मितींचो पयलो पावंडो, इ.स. 1700 मेरेन मौखीक परंपरेंतल्यान आनी थळाव्या भाशांच्या विकासांतल्यान गांवगिऱ्या मांडांचेर उबीं जाल्लीं लोकनाट्यां आनी उपरांत 200 वर्सांच्या ब्रिटीश राजवटींतल्या विदेशी रंगभुमीच्या प्रवाहांतल्यान मांडावेल्यान माचयेर चडिल्ली आधुनीक रंगभुमी. पौराणीक कथांपरस इल्ली चड वास्तववादी. तरिकय अंकूर पाश्चात्य रंगभुमी आनी भारतीय रंगभुमी हातूंत एक मुखेल फरक करता. पाश्चात्य रंगभुमी जीण जशी आसा तशी



संदेश प्रभुदेसाय
(नामनेचे पत्रकार आनी लेखक)
शंकरवाडी, ताळगांव -- गोंय
मो. 9422063000

पितारता, मात भारतीय रंगभुमी जीण कशी आसची तेंय पितारता अशें तांचें म्हणणें. भारतीय समाजाक सुदारपाचे गरजेंतल्यान घडये हें जालां आसतलें. चळवळीं मनसंवेदनेंतल्यान भारतीय आधुनीक रंगभुमी घडल्या आसतली.

जेभाशेन ब्रिटीश भारतांत आधुनीक रंगभुमी उदेली ते भाशेन ती पोर्तुगीज गोंयांत निर्माण जाली ना. ती मुंबयच्यान वा कर्नाटकांतल्यान गोंयांत आयली म्हणल्यार जाता. ब्रिटीश ड्रामा पळोवन भारावन गेल्लया लुकासीन रिबैरान अभिनव पद्दतीन गांवांतल्या इंत्रुजाच्या खेळाचेर नाटकाचो साज चडोवन 1892 वर्सा 'इतालियन भुरगो' हें संगीत नाटक मुंबयचे माचयेर चडयलें. तातूंतल्यान भारतांतलो वेगळे नांवान पाचारिल्लो आनी आजमेरेन वेवसायीक नदरेन सगळ्यांत चड येसस्वी उरिल्लो 'तियात्र' जल्मलो. दुसरे वटेन 1912 वर्सा बोळंतूर कृष्ण प्रभून कर्नाटकांतल्या बंटवाळ गांवांत 'संगीत राजा चंद्रहास' हें कोंकणी नाटक बरोवन सादर केलें. दोनय नाट्य प्रकारांनी संगीत आसलें, नाट्य आसलें, मांड सोडून पात्रां माचयेर चडिल्लीं. तरिकय कांय रंगकर्मी तियात्राक नाटक म्हणपाक तयार नात.

मुंबय केलो तरी तियात्र कोंकणी आशिल्लो. तो तश्या तसो गोंयांत आयलो. पूण कर्नाटकांतलें कोंकणी नाटक गोंयांत पावलें ना. तियात्र क्रिस्तांव समाजान उखलून धरलो. गोंयच्या हिंदूंचेर मात मराठी नाटकांचोच प्रभाव चड पडलो, तो मुक्ती उपरांतय उल्लो, आजूय आसा. उरफाटें आमच्याच हिंदू गोंयकारांनी मुंबय वचून मराठी रंगभुमी गाजयली. मुंबयचें द गोवा हिंदू असोसियेशन' हें त्याच परिणामाचें येसस्वी अपत्य. गोंयांत मात निजाचो घडलो तो लोकमांड. मागीर जावं तो जागोर, इंत्रुजांतलो खेळ, रणमाले वा शंखासुराचो कालो. सादरीकरणाचे कलेंतल्यान - गीत, नाच, नाट्य - चालंत वास्तव उबें करपाचें काम ह्या नाट्यकृतींतल्यान जालें. क्रिस्तांव समाजान हीच वास्तववादाची परंपरा माचयेवेले आधुनीक रंगभुमीचेर चडयली. हिंदू समाज मात मराठींतल्यान महाराष्ट्राचेंच अनुकरण करपांत गुल्ल उरलो. दुर्दैवान हातूंतल्यानच गोंयचे रंगभुमीचे तियात्र आनी नाटक अश्या नांवांनी वांटे पडले. नाट्यकृतींचे आनी समाजाचेय.

गोंयांतली उत्सवी रंगभुमी हातूंतल्यानच उदेली आनी हिंदू आनी क्रिस्तावांच्या देवांच्या आंगणांनी फुलत गेली. पूण क्रिस्तांव समाजाच्या तियात्रांतल्यान कोंकणी नाट्य आनी संगीत जशें फुलत गेलें तशें हिंदू समाजाचें नाटक फुल्लें ना. तें मराठीच उरलें. कांय गोंयकार नाटककारांनी उत्सवी रंगभुमी खातीर 'कौटुंबिक जिव्हाळयाचीं भावनाप्रधान सामाजिक' नाटकां बरयलीं. पूण तातूंतय महाराष्ट्रांतले इनामदाराचेच वाडे आसताले आनी उसांचे मळे. नाजाल्यार पौराणिक वा ऐतिहासिक' नाटकां. मराठी संगीत नाटकाचो तर जल्मच गोंयांत डोंगरेर जाल्लो. गोंयकार गायक आनी कलाकार मुंबय वचून मराठी नाटकां आनी हिंदी सिनेमांतल्यान वयर सरले. पूण आधुनीक रंगभुमीवयलें गोंयकारान बरयिल्लें नाटक येवपाक शणै गोंयबाबाक 1913 वर्सा लिखणी हातांत घेवची पडली. फ्रँच नाटककार मॉलियेराच्या ल मॅदसाँ मालग्रॅ लुई' ह्या नाटकांचें रुपांतर करून बरयल्लें 'मोगाचें लग्न' हें आधुनीक रंगभुमीवेलें तांचें पयलें नाटक. उपरांत तांणी 'पोवनाचें तपलें' आनी 'झिलबा राणो' बरयलीं. सगळीं रुपांतरीत, पूण कोंकणी साज चडयिल्लीं फार्सिकल स्वरुपाचीं नाटकां. तांचे प्रयोगय गोवा हिंदू असोसियेशनाच्या वर्सुकी स्नेहसंमलेनांनी मुंबय जाले.

गोंय मुक्ती आदीं कोंकणी नाट्य चळवळ

मुखेलपणान मुंबयच जाली. पयलीं आकाशवाणी मुंबयच्या कोंकणी विभागा खातीर नभोनाट्यां बरोवन सादर करपाच्या निमतान आनी उपरांत 1954 ते 1961 मेरेन जावपी आंतर-महाविद्यालयीन कोंकणी नाट्य सर्ती निमतान. रेडियोचेर आनी ह्या सर्तीनी गाजले ते रघुवीर नेवरेकार आनी किसन कामती सारके लेखक आनी तांचीं 'पोपेबाबाली मुंबय', 'जल्मगांठ', 'कोडू लिंबू', 'गांवार म्हाळ', 'बाप्पा मुंबय वता', 'बाप्पा खंवसता' असलीं नभोनाट्यां वा एकांकी. चडशीं फार्सिकल स्वरुपाचीं. कोंकणीची धजा मारपा खातीर बरोवन सुमाराभायर लोकप्रीय जावन लेखकाकच कोंकणीवादी करपाचो चमत्कार घडोवन हाडपी राणू नायकाची 'चवथीचो चंद्र' ही एकांकीय ह्याच तेंपावेली. पूण वांगडाच किसन कामतीन 'पळसाक पानां तीन' आनी 'ही स्रापाची सृश्टी' अशीं गंभीर स्वरुपाचीं नाटकांय निर्मिलीं.

बाप्पा आनी हेर फार्सिकल नाटकांचें वारें मुक्ती उपरांत गोंयांतय शाळांच्या शारदोत्सवांनी पावलें. पूण त्याच वेळार रुपांतरीत स्वरुपांत कांय गंभीर स्वरुपाचीं कोंकणी नाटकां आयलीं जाल्यार स्वतंत्र स्वरुपाचीं नाटकां बरयलीं तीं पुंडलीक नारायण दांडेन. खासा करून 'ताची करामत' आनी 'निमित्ताक कारण'. तीं गाजलींयबी. पूण कोंकणी नाटकांचो घसघसो सुरू जालो तो कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळटकीर गोवा कला अकादमीची कोंकणी नाट्य सर्त सुरू जाली तेन्ना.

हे सगळे फाटभुंयेचेर पुंडलीक नारायण नायक नांवाचो एक आगळोच नाटककार उदेलो. 1976-77 वर्सा जाल्ले कोंकणी नाट्यसर्तींत वट्ट 13 नाटकां आयलीं. तातूंतलीं सात-आठ तरी स्वतंत्र स्वरुपाचीं आशिल्लीं. चडशीं गंभीर विशयांचेरच आशिल्लीं. एन शिवदास, एरिक फॅर्नांडीस, उल्हास बुयांव, आंतोनियो मोंतेर, अशोक कामत, दत्ता नायक, तोमाझीन कार्दोझ, चंद्रकांत पार्सेकार अश्या कितल्याशाच लेखकांनी नाटकां बरयल्लीं. पूण तातूंत उठून दिसलो तो पुंडलीकबाब. कित्याक? कारण तांचें पयलेंच नाटक 'खण खण माती' मातयेंत रिगून वयर सरिल्लें. मायनिंगाचे फाटभुंयेर बरयिल्ल्या ह्या नाटकान एक झणझणीत वास्तव खणखणीत स्वरुपांत माचयेर हाडिल्लें.

उपरांत दर वर्सा नाट्य सर्तींच्या निमतान पुंडलीकबाबाची एक एक नाट्यकृती येत रावली. तीय गोंयच्या समाजांतल्या चिडुल्ल्या-माडुल्ल्या लोकांच्यो व्यथा, वेदना, मनसंवेदना घेवन. वांगडा मनशाभितर लिपिल्ली वासनासक्त विकृती उगती करीत. मात तांणी फकत प्रस्थापितांचे सत्तेआडच लेखणी चलयली अशें ना. 'शबै शबै भौजन समाज,' 'श्रीविचित्राची जात्रा,' आनी 'चैतन्याक मठ ना' ह्या नाटकांतल्यान सर्वसामान्य भौसाचींय धोंगांपोंगां उक्ताडार हाडलीं. फकत गरीब कश्टकरीच न्हय, तर मध्यमवर्गीय आनी भाटकारांच्या लेगीत मनाचो थाव घेवन तांणी समाजपुरसाच्यो संवेदना मांडपाक सुरवात केली. 'रक्तखेव', 'राखण', 'मुक्तताय', 'सुर्यसांवट' अशीं एकाचेर एक नाटकां ते बरयत सुटले. लेखनाचीं, दिग्दर्शनाचीं, सादरीकरणाचीं बक्षिसां घेत सुटले. तांचीं एकल्याचींच नाटकां वास्तववादी आसतालीं, मातयेंतलीं आसतालीं आनी हेरांचीं नासतालीं अशें न्हय. उरफाटें ताच्याकय चड खर कथानकां घेवन लेखक मुखार येताले. पुंडलीक नायक हो कितें पयलो कोंकणी नाटककार न्हय. स्वतंत्र स्वरुपाचें नाटक बरोवपी पयलो कोंकणी लेखकय न्हय. वास्तववादी नाटकां बरोवपीय पयलो न्हय. गंभीर स्वरुपाचींय बरोवपी पयलो न्हय. पूण तरिकय पुंडलीकबाबाचीं नाटकां काळजांत चड रिगतालीं.

कारण ह्या नाटकांनी निखटें कथानक आसनासलें. कथानक संवादांनी गुंथलें काय नाटक जायना हाची पुरेपूर कल्पना आशिल्ल्या पुंडलीकबाबान नाटकाचें तंत्र समजून घेतिल्लें. फकत संवाद न्हय तर नाटकाचें नेपथ्य, उजवाडा येवजण, संगीत आनी माचयेच्यो मर्यादा मतींत दवरून नाटक गुंथिल्ल्यान तें आपसूकच प्रभावी जातालें. तांच्या

नाटकांतलीं पात्रां आपले भुमिकेकडेन प्रामाणीक रावन ते ते भुमिकेचीच भास उलयतालीं. जाय तितलींच उलयतालीं. खंयच लेखक आपलें तत्वज्ञान पात्रांच्या तोंडांत घालून पात्राक सोबनाशिल्ली भास उलयिल्लो दिसनासलो. बेठींच जड-बोजड भाशणां करनासलो. ते ते भुमिकेक सोबता तेंच आनी तितलेंच उलयतालो. वेळ पडल्यार पात्राच्या निसर्गीक सभावा प्रमाण गाळी लेगीत घालतालो. सगळेंच नॅचरल. देखून नाटक जितें-जिवें दिसतालें.

आनी 1980 उपरांत सुरू जाले पुंडलीकबाबाचे एक एक प्रयोग. पयलो - शबै शबै भौजन समाज'.1981 वर्सा पणजेच्या सानमाची' ह्या सर्जनशील तरणाट्यांच्या पंगडान हो अभिनव प्रयोग करपाचो प्रयत्न केलो. बक्षिसय मेळ्ळें. पूण गांवगिरे लोककलेची जाण नाशिल्ल्यान प्रत्यक्षांत हो प्रयोग फसलो. दोन वर्सांनी आपल्या वळवय गांवच्या भुरग्यांक घेवन पुंडलीकबाबान स्वता हें नाटक बसयलें आनी रोमटापरसय चड दणदणलें. ताचे गोंयभर वचत थंय प्रयोग लेगीत जाले. लोककला, लोकिगितां, लोकनाच घेवन एक राजकी विडंबन (तांचे भाशेंत निसंतान) घेवन पुंडलीकबाब आयलो तेन्ना भोवजन समाजाच्या नांवान चलिल्ल्या सुवार्थी राजकारणाक गोंयकार अक्षरशा विटिल्लो. तांच्या मनांतलें वैफल्य माचयेर खतखत्तालें आनी लोक नाटक उखलून धरताले.

ते उपरांत 'सुरिंग', 'पिंपळ पेटला', 'श्रीविचित्राची जात्रा', 'चैतन्याक मठ ना', 'परिक्रमा', 'प्रेमजागोर' आनी 'सांगोड' अशा नाट्यकृतींतल्यान वेगवेगळे प्रयोग ह्या नाटककारान केले. आगळे-वेगळेच विशय कलात्मक पद्दतीन मांडले. एका 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटकांतल्यान तांणी समाजांतलीं कितलीशींच धोंगां-पोंगां उक्ताडार हाडिल्लीं. पूण पुंडलीकबाबाचो पुराय नाट्यप्रवास पळयत जाल्यार समाजांतल्या चित्रविचित्र वृत्ती-प्रवृत्तींक आवाज दिवपी नाट्यकृतींची ती एक श्रीविचित्राची जात्राच कशी दिसता. आनी तांचे आड लिखणी घेवन झगडपाचो यत्न करपी पुंडलीक नांवाचो एक 'कोणतरी'. अर्थांत, ह्या 'कोणतरी'च्या प्रयत्नांक न्याय दिवपाक पेंगट मारपी दिग्दर्शक दिगंबर सिंगबाळाक विसरल्यार तो खर अन्याय जातलो. उपरांत तीच परंपरा प्रकाश थळी आनी श्रीधर कामत बांबोळकारानय़ चलयली. कांय वेळार स्वता पुंडलीकबाबान. श्री पुंडलिकाचे जात्रेच्या ह्या रथाक फाटल्यान-फुडल्यान हात लायत 'हर हर' करपीय तितलेच तांकीचे आशिल्ले. ताका लागून हीं नाटकां आनिकय फुलतालीं.

हातूंतलीं कितलीशींच नाटकां म्हाका आवडल्यांत, थोडीं खुब्ब आवडल्यांत जाल्यार थोडीं अजिबात आवडलीं नात. 'सुरिंग' आनी 'प्रेमयुद्ध' हीं तातूंतली म्हाका आवडिल्लीं सगळ्यांत बरीं नाटकां. हांव त्या दिसांनी पिश्यांवरी वचत थंय पळयत सुटिल्लें 'शबै शबै' लेगीत मागीर पडटा. आमी त्या दिसांनी स्ट्रीट प्ले करीत गांवां-गांवांनी भोंवताले म्हणून, काय गावडा समाजाचें दुख्ख प्रभावीपणान मांडला म्हणून 'सुरींग' नाटक चड भावलें तें कळपाक अजून मार्ग ना. पूण तिसरो सुरिंग फुटपाची वाट पळोवपी लियो अजून तकलेंतल्यान वचना. (दुर्दैवान तो सुरिंग अजून फुटिल्लो ना. आनी ताच्याकय व्हडलें दुर्दैव म्हणल्यार सुरिंग पुरपीच आज मुकादमाक पात्तार जाल्यात.)

हीं नाटकां बरयतना पुंडलीकबाब बॉक्स सॅटाच्या नाटकांतल्यान भायर सरले आनी एकाचेर एक प्रयोग करीत सुटले. पूण अशें म्हणून बॉक्स सॅट तांणी सोडलो अशेंय ना. 'देमांद', 'दायज', 'आत्मवंचना', 'प्रेमयुद्ध' अशीं कितलीशींच बॉक्स सॅटांतलीं नाटकां तांणी अदीमदीं बरयलीं. जशें

नाटकाचें कथानक तशी ताका ट्रीटमेंट. बॉक्स सॅट आसचो, मॉब धर्तेचेर नाटक आसचें, लोकनाट्याचो बाज घेवन येवचें काय एब्सर्ड पद्दतीचें आसचें ह्यो गजाली तांचे नाटकाचे गरजे प्रमाण येतात. पुंडलीकबाबाच्या नाटकांनी त्यो मुद्द्येर थीक कश्यो आयल्यात. नव्याचोच सोस असो ना, पोरण्याची नसाय ना. देखूनच तर कसलेंच कथानक नाशिल्ली 'कथा अस्तुरी' सारकीय नाट्यकृती ते घडोवंक शकले. म्हजे तरी मतान ही नाट्यकृती म्हळ्यार एक आधुनीक जागोर कसो. समाजांतल्यो वृत्ती प्रवृत्ती दाखयत सुटपी पॅचवर्काचो गद्य जागोर.

आनी हें सगळें करून मागीर पुंडलीकबाब उत्सवी रंगभुमीकडेन येता. आपणे इतलो तेंप वेगवेगळे प्रयोग केले, ते इतिहासांत उरले, पूण निमणे जांचे खातीर नाटक आसता त्या भौसामेरेन आपलें नाटक पावलेंच ना हाची खंत तांकां घडये जाल्या आसतली. राजदीप नायकान मागलें म्हणूनच न्हय, तर समाजाची गरज भागोवपा खातीर ते सध्या उत्सवी नाटकांची निर्मणी करपाक लागल्यात. 'तिरंगी चक्राचक्री', 'शिरी रे शिरी', 'काळजाची काणी', 'अंता घरा भगवंता', 'कांसुलो', 'धनया देंवचारा' आनी 'फिरंगी फटास' हीं सगळीं उत्सवी रंगमाचये खातीर बरयिल्लीं नाटकां. थंय ते निखटे हायसनात वा मनरिजवण करनात. तातूंतल्यानय समाजांतले मानसीक संघर्शच मांडटात. आनी नाटक पळयतां पळयतां आनी हांसयतां हांसयतां अंतर्मुख करतात. हें नाटककाराचें खरें जैत. तें तांणी जोडलां हातूंत मातूय दुबाव ना.

जो न देखे रवि, वो देखे कवी म्हणटात. कारण सर्जनशील लेखक हो काळापरस खूब मुखार आसता. पूण गोंयांत उरफाटें जालां. काळ गेलो, समाज बदल्लो, अर्थीक आनी राजकी घडणुकांतल्यान लोकांच्यो मानसिकता बदल्ल्यो, घरासावन भौशीक पावंड्या मेरेन संघर्शाच्यो किटी पेटल्यो, कोण हुलपले, कोणाचो गोबोर जालो. मुक्ती उपरांत तर गोंयकाराची जीण आरत्याची परती जाली, तांकां पाखां फुटलीं, ते मळबांत उडपाक लागले. कितलीशींच मोडणां येवन गेलीं, कितलेशेंच उदक व्हांवन गेलें. पूण एक तियात्र सोडल्यार हेर खंयच्याच गोंयच्या नाट्यप्रकारांतल्यान हें परावर्तीत जालें ना. आनी तियात्रय वेवसायीक जाल्ल्यान ताणे आपलो पारंपारीक बाज सोडून वेगळे प्रयोग केले नात. सोडून सात पड्ड्यांचो तियात्र बदलून खेळ तियात्र (नॉन-स्टॉप ड्रामा) हो नवो फॉर्म. पूण तियात्रान तर बॉक्स सॅटय सोडलो ना आनी एक वेगळ्या प्रायोगीक पावंड्यारय तो पावलो ना. दुसरे वटेन हिंदू समाजाचें कोंकणी नाटक तर मातयेंत रिगलेंच ना.

अशें कित्याक? हिंदू समाजांत आशिल्ल्या मराठी नाटकांच्या प्रभावाक लागून? गोंयचो सर्जनशील कलाकार गोंय सोडून भायर - चड करून मुंबय - गेलो देखून? आमचे अनुकरणवादी प्रवृत्तीक लागून? काय दोळ्यांमुखार घडटल्या घडणुकांविशीं गोंयकार साहित्यीक संवेदनशील नाशिल्लो देखून? येदी व्हडली उत्सवी रंगभुमीची परंपरा आनी नाटकाविशींची आत्मियता घरा-घरांनी आसून लेगीत मातयेंतलें नाटक हांगां कित्याक फुल्लें ना? नाटकांतले वेगवेगळे प्रयोग-मागीर ते थोड्याच लोकांनी पळोवं - पूण ते जावपा खातीर गोंय मुक्ती उपरांत देड दसकान सुरू जाल्ले कला अकादमीचे सर्तीची आमकां कित्याक वाट पळोवची पडली? आजुनूय गंभीर स्वरुपाचें कोंकणी नाटक उत्सवी रंगभुमी कित्याक आपणायना? मात तितलेंच गंभीर अशें मराठी नाटक तेच उत्सवी रंगभुमीचेर कशें कितें पचयता?

महाराष्ट्रांतलें मराठी नाटक हें तेन्नाच्या सामाजीक आनी राजकी चळवळींतल्यान जल्मलें

म्हणल्यार जाता. स्वातंत्र्याचो हनिमून सोंपून सत्य सामकार येवपाक लागिल्लें आनी अपेक्षाभंग जाल्लो भौस रस्त्यार येवपाक लागिल्लो. मध्यमवर्गियांच्या सपनांचो गोबोर जावंक लागिल्लो. त्या काळांत हीं मराठी नाटकां येवपाक लागलीं आनी वेवसायीक पावंड्यार लेगीत येसस्वी जालीं. खासा करून 1960 ते 1980 हो 20 वर्सांचो काळ हें मराठी रंगभुमीचें सुवर्णयूग मानतात. तातूंत चि त्र्यं खानोलकाराचें 'एक शून्य बाजीराव' (1966), मधुकर तोरडमलाचीं 'झुंज', 'काळे बेट लाल बत्ती' ते 'तरुण तुर्क म्हातारे अर्क', वि. वा. शिरवाडकराचें 'नटसम्राट', जयवंत दळवीचीं 'कवडसे', 'महानंदा', 'संध्या छाया', 'सुर्यास्त', 'बॅरिस्टर' आनी वसंत कानेटकराचीं 'अश्रूंची झाली फुले' ते 'हिमालयाची सावली' अश्या कितल्याशाच नाटकांतल्यान मानवी वेदना-संवेदनांचो स्फोटूच जाल्लो. तातूंत भर पडली ती विजय तेंडुलकराचीं 'गिधाडे', 'सखाराम बाईंडर', 'शांतता कोर्ट चालू आहे' आनी मागीर 'घाशीराम कोतवाल'. दुसरे वटेन रत्नाकर मतकरीचें 'लोककथा 78', महेश एलकुंचवाराचीं 'वासनाकांड' वा 'पार्टी', सतीश आळेकराचें 'महानिर्वाण', 'महापूर', 'बेगम बर्वे' हाचे सारक्या क्रांतिकारी नाटकांनी तर भारतीय नाट्यसृश्ट हालिल्ली. हातूंतलीं बरीचशीं नाटकां वेवसायीक माचयेर गोंयांतय गजिल्लीं. तरिकय ताचे पडसाद कोंकणी रंगमाचयेर कित्याक घुमले नात?

पुंडलीक नायक ह्या प्रवाहाक समांतर वचना. तो उसरां येता. घडये ह्या मराठी नाटकांचो परिणाम म्हणून 1975 तलो हो तरणाटो आपली लेखणी उबारता. गोंयच्या भौसाच्यो वेदना-संवेदना घेवन तो येता. पूण गोंयचें मुक्ती झूज, ओपिनियन पोलाची चळवळ, झुवारी सारक्या कारखान्यांतल्यान शेतां आनी नुस्त्याचेर आयिल्ली हावळ, मायनिंगांतल्यान विस्कटिल्ली लोकजीण, विद्यार्थी चळवळ, कामगारांची चळवळ, रेंदेरांची चळवळ, ट्रॉलरांच्या आगमनांतल्यान पारंपारीक रांपणकारांचें उध्वस्त जाल्ले संवसार, वेगवेगळे रंग-ढंग घेवन भितर सरपी पर्यटनाचो वेवसाय, बिगर-गोंयकार कामगार आयिल्ल्यान तयार जाल्ले ताण-तणाव हातूंतल्या कित्याचेंच पडबिंब गोंयच्या नाटकांनी पडिल्लें दिसना. पूण पुंडलीक नायकाच्या आगमना उपरांत नाटकाक लोकाभिमुख दिशा मेळटा आनी मागीर कितलेशेच तरणाटे नाटककार एकापरस एक जबरदस्त संहिता घेवन आयिल्ले दिसतात. फकत नाटकांतल्यानच न्हय तर तेन्ना तितलेच तांकीन जावपी आंतर-महाविद्यालयीन एकांकी सर्तींनी लेगीत. पुंडलीक नायकान हो घुस्मटिल्लो बांद फोडला देखून ताची दखल गोंयचे नाट्यसृश्टीक घेवचीच पडटा.

आनीक एक गजाल आसा. भारतांतली प्रादेशीक रंगभुमी केन्नाच त्या प्रदेशापुरती मर्यादीत उरली ना. हिंदीतलो राकेश मोहन, मराठींतले तेंडुलकर, एलकुंचवार, आळेकर, गज्वी, बंगालींतले शंभु मित्रा वा बादल सरकार, कन्नडांतले गिरीश कर्नाड आनी चंद्रशेखर कंबार आनी मणिपुरांतलो रतन थिय्याम लेगीत राष्ट्रीय पावंड्यावेले नाटककार जाले. पूण कोंकणी रंगभुमी ते उंचायेर पावपाक शकली ना. पुंडलीक नायकाची एक 'श्री विचित्राची जात्रा' राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार घेवंक पावता. पूण कोंकणी नाटक हेरांइतले वैचारीक उंचायेर पावपाक शकना. वैश्वीक आंवाठाचो विचार दिता तें प्रादेशीक साहित्य चड उंचेल्या दर्जाचें. कितल्याशाच प्रादेशीक साहित्यिकांनी आनी नाटककारांनी तें दिलें देखून ते भास आनी राज्यांच्यो वंयो मोडून मळबाक वेंगायत गेले. हांगां आमचें कोंकणी नाटक उणें पडलां काय? आमची वैचारीक खोलाय मोटवी पडल्या

काय? वैचारीक साहित्याचें वाचन, दोळ्यांभोंवतणच्या घडणुकांचें समाजशास्त्रीय आनी मानसशास्त्रीय विश्लेशण, ताचेवेली आडवी-तिडवी भासाभास, वादावादी, चिंतन, मनन ह्या गजालींचो दुकळ आसा काय? ताका लागून आमी ती उंचाय वा ती खोलाय दिवपाक शकनात काय? पुंडलीक नायक ह्या मैलाच्या फातराचो नियाळ घेतात तेन्ना आमच्या ह्या मर्यादांचोय विचार जावंक जाय. थंय आत्मनिरीक्षण जाय. अंतर्मुख जावंक जाय. तेन्नाच पुंडलीक नायकाचोय पावंडो हुपून कोंकणी नाटक मुखार वतलें. तें वच्चें ही स्वता पुंडलीकबाबाचीय इत्सा आसतली हातूंत निखालस दुबाव ना.

**संदर्भः**


1. Indian Theatre: Inheritance, Transitions and Future Options (Devendra Rajnkur)
2. मराठी नाटकाच्या तीस रात्री (मकरंद साठे - टायम्स ऑफ इंडिया)
3. विकिपेडियाः विजय तेंडुलकर, रत्नाकर मतकरी, सतीश आळेकर, जयवंत दळवी आनी हेर
4. कोंकणी रंगमाचीः विकास, स्थिती आनी आव्हानां (श्रीधर कामत बांबोळकार - जाग दिवाळी आंक 2012)
5. मुंबयचे गोंयकार आनी कोंकणी नाटकां (हरदत्त खांडेपारकार - जाग दिवाळी आंक 2012)
6. पुंडलीक नायकाची मुलाखत (पुर्णानंद च्यारी - जाग दिवाळी 20121)
7. कोंकणी नाट्यस्पर्धेचीं 25 वर्सां (कला अकादमी, गोंय)




दीप उजळती घराघरात
आनंद भरला क्षणाक्षणात
हक्काच्या बँकेसंगे
चैतन्य प्रकाशले मनामनात

आमचे सर्व सभासद, ग्राहक व सर्व हितचिंतकांना दीपावलीच्या हार्दिक शुभेच्छा !



सारस्वत बँक

दि सारस्वत को-ऑपरेटिव्ह बँक लि. (शेड्युल्ड बँक)
देशातील सर्वात मोठी, प्रथम क्रमांकाची सहकारी बँक !

गोवा झोन : मुश्तीफंड संस्था बिल्डींग, डॉ. दादा वैद्य रोड, पणजी, गोवा ४०३ ००१.

# पुंडलीकबाब :
# एक आगळें व्यक्तिमत्व

लेख

पुंडलीकबाब... एक अशटतासी, भोव आयामी अशें व्यक्तिमत्व. साहित्याचे नदरेन पळयल्यार ते कवी, कथाकार, निबंधकार, कादंबरीकार, पटकथाकार, नाटककार तशेंच बालसाहित्यकार बी.हेर मळार पळयल्यार तांणी खूब पयलीं नाटकांनी अभिनय केला. नाटकां दिग्दर्शीत केल्यांत. कथाकथन केलां आनी कवी संमेलनांय गाजयल्यांत. अशा साबार गुणांची खण म्हटल्यार पुंडलीकबाब अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

पुंडलीकबाबाची आनी म्हजी वळख तशी खूब पोन्नी. 35-36 वर्सां पयलींची म्हणल्यार जाता. तेन्ना हांव निकतेंच बरोबंक लागिल्लें. तेन्ना हांव चडशें मराठींत बरयतालें. फकत 'राष्ट्रमत' ह्या दिसाळ्यांत कोंकणी बरयतालें. कोंकणी चळवळीची तोमेरेन म्हाका सुलूस लागूं नाशिल्ली. तेन्नाच हेमाबाय 'चित्रंगी'चो दिवाळी अंक काडपाची आसा आनी ते खातीर बायलां खातीर कविता सर्त आयोजीत केल्या ही बातमी हावें राष्ट्रमतांत वाचली.

व्हडा उमेदीन हांवें म्हजी कविता चित्रंगीचे कविता सर्ती खातीर धाडली आनी तातूंत म्हाका इनाम फावो जालें. म्हजो फोटो, वळख करून घेवपाक हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबान मडगांवा कोंकणी भाशा मंडळांत आपयले. ती आमची पयली भेट. उपरांत आमची इश्टागत वाडत गेली. तांचे पयले भेटेंतूच हांव सामकें प्रभावीत जाल्लें. ते उपरांत चित्रंगीच्या निमतान, मेळाव्यां निमतात मेळत गेलीं. तांगेर वचपाचें वाडलें. ह्या वेळार पुंडलीकबाबाच्या हेर सभावा वांगडा बरे संघटक म्हूण हांव तांकां वळखवपाक लागलें. तांचो लागिंच्यान परिचय वाडत गेलो. हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबाच्या व्यक्तिमत्वान, मनमिळावू सभावाक लागून आमी जायतीं जाणां त्या वेळार खूब प्रभावीत जाल्लीं. तांच्या अफाट वाचनान आमकां कसलीं पुस्तकां वाचचीं ताचें गिन्यान मेळ्ळें. तांच्या पुस्तक संग्रहांतलीं पुस्तकांय आमी व्हरून वाचतालीं. आयलें तशें बरोवचे परस ताचो अभ्यास करून कशें बरोवचें हें तांच्या उलोवपांतल्यान आमी समजून घेत गेलीं. एक तरेन म्हजें साहित्याचें पिशें तांणी वाडीक लायलें.

हांव कोंकणी चळवळींत पडलें तें तर तांकांच लागून. कोंकणी चळवळीची पुराय वळख म्हाका तांगेरूच घडली आनी तनान




**माया अनिल खरंगटे**
(लेखिका आनी शिक्षीका)
मडगांव - गोंय
मो. 9420685278

-मनान म्हाका कोंकणीमय करून उडयलें. कोंकणी चळवळींतल्या म्हालगड्यांची वळख म्हाका तांच्या आंगणांत जाली. तांच्यो भासाभासो, संघटना बांदपाचो वावर आमकां खूब लागींच्यान पुंडलीकबाबागेर पळोवपाक मेळ्ळो. योग्य वेळार म्हाका हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबाचो सांगात मेळ्ळो म्हूण कोंकणीच्या मळार काम करप शक्य जालें. हांव साहित्य मार्गार घट पावलां दवरून उबें आसां तें तांकाच लागून.

पुंडलीकबाबाचेर लेख बरयतना हेमाबायचें नांव घेतले बगर मुखार वचूंक जावचें ना. पुंडलीकबाबान राजभास आंदोनाचें येसस्वी नेतृत्व केलें. ह्या आंदोलनांत चित्रंगीची सगळ्या बायलांची फौज हेमाबायन ह्या आंदोलना फाटल्यान उबी केली. कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या बावट्या खाला ही फौज रस्त्यार देंवली. लाठीमार सोंसलो. उपास केले. हाचें चडशें स्रय हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबाक दिवपाक जाय. आमकां कोंकणी मोगी करूंक तांणी जशें शणै गोंयबाब नांवाचें टॉनिक दिलें तशेंच रायटरा वांगडा फायटर जावपाक जाये हें आपले वागणुकेन पटोवन दिलें. फक्त उपदेश करप हो पुंडलीकबाबालो सभाव न्हय. एके वातीन दुसरी वात पेटोवपाचें काम तांणी सहजपणान चळवळींत तशेंच साहित्याच्या मळार केलें. ताका लागून म्हजे पिरायेतल्यो बायलो बरोवपाक लागल्यो.

पुंडलीकबाबाचें कतृत्व इतलें व्हड आसा, तांचेर बरोवप म्हणल्यार पुस्तकां जावंक येतलीं. निखटें तांच्या साहित्याचेर बरोवन कोणाकूय डॉक्टरेट (पीएचडी) मेळोवप सहज शक्य आसा. आपल्या साहित्याचें आपणेच परिक्षण करप, ते भायर साहित्यांतले वेगवेगळे प्रवाह, गांवगिरें, प्रादेशीक, दलित अशा साहित्यांतल्या वेगवेगळ्या प्रकारांची वळख तांणी म्हाका घडयल्ल्यान साहित्याकडेन पळोवपाची एक वेगळी नदर म्हाका मेळ्ळी. तीच हांव म्हज्या साहित्यांत केळयतां.

कोंकणी प्रजेचो आवाजाचे पुंडलीकबाबाक निमंत्रक करपी कोंकणीतले म्हालगडे खरेंच दूरदिश्टीचे म्हणूंक जाय. राजभास चळवळींत खूब जाणाचें योगदान आसा तरी म्हजे नदरेन कोंकणीचो गोवर्धन पर्वत बोटार तोलपी श्रीकृष्ण म्हणल्यार पुंडलीकबाबच...! तांकां लागून कितल्याशाच तरनाट्यांनी हे चळवळींत उडी माल्ली आनी चळवळ भौसाची जाली.

पुंडलीकबाबान 'अच्छेव' ही पकदस्त अशी कादंबरी बरयली. ताचे परस बळीश्ट अश्यो आनीकूय कादंबऱ्यो ते बरयतले आशिल्ले. मात राजभास चळवळीक लागून तांचे सर्जकतेकडेन थोडी आडनदर जाली. कोंकणी भाशेचें हें लुकसाण अशें म्हाका दिसता. हे चळवळीक लागून साहित्य निर्मणेक वेळ दिपव पुंडलीकबाबाक शक्य जालें ना. ना जाल्यार कोंकणी कादंबरीचें दालन समृद्ध करपाक महाबळेश्वर सैल येयसर जें रितेंपण आयिल्लें तें येवचें नाशिल्लें. मात नाट्यमळार कोंकणीचें दालन पुंडलीकबाबान तेंगशेर व्हरून दवरलां हें कोणाकूय मानचें पडटलें. तांकां जायते पुरस्कार फावो जाल्यात. पुंडलीकबाबाक लागून त्या पुरस्काराचो मान वाडलो अशें म्हणचें पडटा.

सध्याच्या नवोदीत लेखकांचे पुंडलीकबाब हिरो आसात हें तांचेकडेन उलयतना म्हाका सदांच जाणवता. नव्या लेखकांक ऊबां दिवपाचें काम ते कळत-नकळत करीत आसतात. पुंडलीकबाब व्हडांतले व्हड साहित्यकार जावचें असो म्हजो आवंडो.



# पुंडलीकबाब एक वेगळें रसायन

लेख



**प्रकाश द. नायक**
(नामनेचे कवी)
अमराय, सात्तयवेरें
मो. 8796843564

पुंडलीक नारायण नायक आनी हांव एकाच गांवचे. वळवयचे. एकाच गांवचे आसून लेगीत तशें मेळप जाय नासलें. पूण मेळपाची खंय तरी सुरवात जावंक जाय आशिल्ली. आनी ताका निमीतूय मेळ्ळें. निमीत आसलें नाटकाचें. म्हाका मातशीशी याद जाता. हांव सादारण णव वर्सांचो आसतना तांची आनी म्हजी पयले खेपे भेट जाली ती म्हज्या घरा. ते भेटे सावन पुंडलीक नायक म्हजे प्रेरणास्थान जावन उरला.

ते भेटेचे अशें जालें. म्हजो बापूय दत्ताराम वळवयकार. तेदे वेळावयलो नामनेचो संगीतकार, नाट्यकर्मी, भजनी, हार्मोनियम वादक आनी गायक. पुंडलीक नायक हांका म्हज्या बापायचो मोटो अभिमान. घडये म्हजो बापूय कलेच्या मळावयलो त्या काळातलो वळवयचो पयलो रेडीओ कलाकार म्हूण आसत.तर पुंडलीक नायक, नाट्ययकर्मी दिगंबर सिंगबाळ आनी लेखिका हेमा नायक(तेन्नाचे धुमटकार)तशेंच आनीक दोग तीग जाणांक घेवन ही मंडळी आमगेर आयिल्ली. कारण ह्या गटान 'भोवरा' नांवाचें नाटक बसयिल्लें. त्या नाटकाची नांदी आनी पार्श्वसंगीत म्हज्या बापायन बसोवंचे अशी तांची इत्सा आशिल्ली. देखून त्या दिसाचो सबंद आदेस ह्या लोकांनी म्हज्या घराकडेन शेंदरेर बसून काडिल्लो आनी नांदी बसोवन घेतिल्ली तें म्हाका घट याद आसा.

तेन्ना पुंडलीक नायक हो नवोदीत कवी म्हूण नित्तोच नांव मेळोवपाक लागिल्लो. पूण हो मनीस तसो समाधानान बसपी न्हय. ताचें बरोवप चालूच आसलें. केन्ना वळवय वाठारांतल्या कलाकाराची मुलाखत घे आनी वर्तमानपत्रांनी छापून हाड जाल्यार केन्ना वळवय सारक्या गांवगिन्या वाठाराविशी लेख बरय, हो ताचो उद्देग चालूच आसलो. सावय वेरेच्या सरकारी मराठी हायस्कुलांत शिकतना तांणे 'यम जागा आहे' नांवाची एक एकांकीका बरोवन सादर केल्ली आनी खूब लोकांकडल्यान शाबासकीय घेतिल्ली. ही शाबासकी मेळपाक कारण पुंडलीक

नायक हो चार वणती भितर बसून बरोवपी लेखक न्हय. कितेंय बरोवचे पयली ताची पुरायेन माहिति करून घेवन बरोवपी असो हो लेखक.तशे आमचे वळवयचे लोक उत्सवमोगी. खंयच्याय उत्सवाक नाटकां बसोवन तीं स्पश्ट उच्चारासयत आनी तितल्याच कश्टान सादर करची तर तीं वळवयकारांनीच. वळवय कसलीय कार्यावळ आसली जाल्यार वळवयच्या गजांतलक्ष्मी देवळाकडेन आशिल्ल्या साठ सत्तर वर्सांच्या विन्या कामतीच्या पसऱ्याकुशीक बोर्ड लायताले. हांव एक दीस विन्या कामतीच्या पसऱ्यार गेल्लो तेन्ना कोणतरी येवन थंय आशिल्लो बोर्ड मोट्यान वाचूंक लागलो. बोर्डाचेर बरयिल्ले 'सांतेरीभाट येथे सांतेरी मंदिराच्या पटांगणांत 'रानफूल' नाटक सादर केले जाईल.' तो वाचून गेलोच. फाटल्यान विनो कामत म्हाका म्हणपाक लागलो 'रानफूल' म्हणल्यार नारूल्या चेड्याचें नाटक दिसता न्हय रे!' ताचो तसो समज जाला आसत जाल्यार जावं अशें येवजून हांव थंयच्यान कडसलो. नित्तोच बरोवंक लागिल्लो तरी पुंडलीक नायक जाणटेल्यांच्या लेगीत ओंठार आसलो. आमचे वळवय येवपाक बेतके सावन धुल्लाचो रस्तो. विशेक वर्सा आमी बशींतल्यान वा चलत येतना वतना हो धुल्ल खायत व्हड जाल्यात. गोंयचे सत्तेर आशिल्ल्या मगो पक्षाच्या राजकारण्यांनी तेन्नाच्या मडकय मतदारसंघांतल्यान फातराक लेगीत दवरल्यार निवडून येतलो अशें समीकरण करून उडयिल्लें. ती तिडक पुंडलीक नायका मर्दी खतखतताली आसुयें. कारण एकदीस वळवय प्रचारा निमतान तेन्नाच्यो मुखेलमंत्री शशिकला काकोडकार आयिल्ल्यो. नित्त्योच मिशयो फुटिल्लो पुंडलीक नायक माचये मुखार गेलो. तांणे शशिकला ताईकडेन आपणाक पांच मिनटां उलोवपाक दिवंचें म्हूण मागलें. पांच मिनटां खातीर माचयेर चडिल्लो पुंडलीक सकयल देवयसर उलयत रावलो. ताच्या उलोवपाची पयली किटाळी सगल्या लोकांनी तेन्ना अणभवली. तो उलयिल्लो सगल्या लोकांक पटलें. अस्त्रां सारक्या ताच्या उतरांनी लोकांक नव्यान विचार करपाक लायलोच पूण ते उलोवपाचे पयले तालमींतल्यान कोंकणीक एक वेगळेंच अस्त्र मेळ्ळें हें कोंकणीचें आनी गोंयचें भाग्य अशें हांव म्हणन.

पुंडलीक नायक हांचें सगलें जिवीत संघर्शमय. हो संघर्श केन्ना चिड्डुल्ल्या माड्डल्ल्या समाजाक वैचारीक बुदवंतकाय मेळोवन दिवपाचो जाल्यार केन्ना आपले आवयभाशेक हिणसावपी लोकांआडचो.चवथीच्या तेंपार पुजा सांगपी भटांचे तुटपाणीक लागून वाड्यार घोळ जावपाक लागलो, तेन्ना हातांत पुजेची पटी घेवन तोच पूजा सांगपाक लागलो. खऱ्या अर्थान चिड्डुल्ल्या माड्डल्ल्या समाजाचो तो खरो प्रतिनीधी. आपले आवय भाशेक हिणसावपी लोकां आड वेळाकाळार ताची लेखणी तरसादी परसूय धारदार जाल्या.

ह्याच संघर्शांतल्यान पुंडलीक नायकाच्या नाटकांनी वा हेर साहित्यांत सत्य तेंच आयलां आनी लोकांक जागृत केल्यात. देखुनूच तांच्या वैचारीक विरोधकांक लेगीत तांचे नाटक वा तांचे साहित्य आपलें कशें दिसलां.

नव्या लेखक वा कवीक पुंडलीक नायकान सदांच उत्तेजन दिलां. कोणेंय कितेंय बरयिल्लें तांचेकडेन घेवन गेल्यार तांणी 'मागीर यो' अशें केन्नाच सांगलेंना. नव्या बरोवप्याक तांणे आपलें काम सोडून सदांच आदार दिला. नव्यानूच मुळां धरपी झाडाक बडयेचो आदार गरजेचो तसो पुंडलीकबाब सदांच नव्यानूच मूळ धरपी झाडाची बडी जावन रावला. आयज लेगीत म्हज्या सारक्या लेखकाक तांचे आदाराचे बडयेची वेळाकाळार गरज पडटा.

दर वर्सा 9 एप्रीलाक शणै गोंयबाबांची पुण्यतिथी कोंकणी भाशा मंडळ मनयता. 1979 वर्सा वळवयंत हो दीस मनोवचे खातीर कार्यावळीच्या आयोजनाची जापसालदारकी पुंडलीक नायक हांणी आपल्या भुजार घेतली. हे कार्यावळींत सादर करपा खातीर आमी येवकार गीत सोदताले. पुंडलीकबाब म्हाका म्हणपाक लागलो, 'येवकार गीत खंय सोदता? बरय आनी सादर कर!' हांवे भिवून भिवूनूच येवकार गीत बरोवपाचें मान्य केलें. एके रातीन हांवें येवकार गीत बरोवन काडलें. दुसरे दिसा पुंडलीकबाब आमगेर आयलो आनी म्हज्या बापायकडेन म्हजे गीत दिवन ताका सांगलें, 'हें गीत तुज्या पुतान बरयलां ताका संगीत दिवन तुवें तें गावपाक जाय'. एका पुताच्या पयल्या गिताक संगीत दिवपी ताचो बापूय घडये पयलोच आसुये. हें सगलें घडून येवपाक कारण आसलो पुंडलीकबाब नायक.उपरांत सांतेरीभाट वळवय हांगा आमी सगल्यांनी मेळून माची उबारली, मेढी पुरल्यो, मल्लां बांदली आनी आमीच थंय कार्यावळ सादर केली. आशिल्ले माचयेर आयते वचून कार्यावळ सादर करचे परस स्वता मेढी पुरून आनी माची उबारून कार्यावळ सादर करपाची आगळी अशी स्वयंभू देख पुंडलीकबाबानूच आमकां घालून दिली.

अंधश्रद्धा मानप ना हें हांव कांय प्रमाणान पुंडलीकबाब नायका कडल्यान शिकलो. 1985 वर्सा गोंयांत कोंकणी आनी मराठी भाशीक चळवळ चलतना म्हजी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' चो वळवय, सावय वेरें, बेतकी आनी केरी वाठाराचो अध्यक्ष म्हूण तांणीच निवड केल्ली. देखून एक दीस तिनसांजचो पुंडलीकबाब आमगेर स्कुटर घेवन आयलो. तो दीस आसलो चवथीचो. आमकां भुरग्यांक घरच्यांनी तिनसांजेचो चवथीचो चंद्र दिसत म्हूण घरांतल्यान भायर सरपाक बंदी घाल्ली. अशाच वेळार पुंडलीकबाब म्हाका म्हणपाक लागलो, 'प्रकाश, चल अशी पासय मारून येवंया'. बापायचे उतर मोडप काय पुंडलीकबाबांचें असो प्रस्न म्हाका पडलो. घरच्यांक सांगून हांव भायर सरलो. 'चल पूण चंद्राक बीन पळयशी!'

पुंडलीकबाबांच्या फाटल्यान हांव तकली सकयल घालून स्कुटरींत बसलो. पुंडलीकबाब स्कुटर चलयतना मुखार पळयतालो आनी वयर चंद्राकूय पळोवन तो मेकळो जाल्लो. त्या दिसा तांणे स्कुटरीवयल्यान देवतकच म्हाका मान सकयल घालून बसला तें पळोवन खर उतरांनी उजरावन काडला आनी तेन्ना सावन अंधश्रद्धा पाळप ना हें हांव शिकलां.

पुंडलीकबाब जशे उलयल्यात तशे ते जगल्यात. आनी म्हणुनूच पुंडलीकबाबांची एक लेगीत साहित्यकृती ही अंधश्रद्धेक पोसवण दिवपी ना. साहित्य हें निखटे मनोरंजनात्मक आसच्या परस त्या साहित्याच्या माध्यमांतल्यान समाजाक नवी देख आनी संदेश मेळचो अशा विचारांतल्यान तांचे साहित्य आयलां. देखूनूच जोवेर कोंकणी आसतली तोवेर तांचे साहित्य पुसून वचचेंना. कोंकणी साहित्यांत तो उरतलो.

पुंडलीकबाब केन्नाय म्हणटा, 'आमी दोन तरांच्यो चळवळी चलयल्यो. एक भाशीक चळवळ आनी दुसरी साहित्यीक चळवळ.' म्हाका दिसता, हो भाशीक संघर्श जर आमच्या वांट्याक येवंक नासलो जाल्यार पुंडलीक नायक हांच्या रूपान कोंकणीक आनीकूय जायते उंचेले पुरस्कार मेळपाचे!जेन्ना भाशीक चळवळीच्या होमखणांत म्हजे घर आनी तांचो छापखानो लोकांनी फातर मारून फोडून जाळी केलो तेन्ना आमी दोगूय समदुःखी जावन एकमेकांचे दुख वांटून घेतलां. हे घडणुके उपरांत म्हज्या बापायक तांणी समजायलो. कारण हांडांची कांडा

करून आनी मराठीची सेवा करूनूच म्हज्या बापायन खोपीचें घर केल्लें ताची अशी दुर्दशा जातना पळोवन म्हज्या बापायची दुकां पुसपाक पुंडलीक नायकूच जाय आसलो.

म्हज्या बापायक पुंडलीकबाब आपल्या बापायवरी वागयतालो. 1999 वर्सा जेन्ना म्हजो बापूय हातरूणार पडलो तेन्ना दर दिसा ताची खबर घेवन वचपी पुंडलीक नायकूच आसलो. गोंयच्या भजन मळार आपली अशी खाशेली वळख तयार करपी म्हज्या बापायन हातरूणार आसतनाच पुंडलीकबाबाचो हात आपल्या हातांत घेवन आपली व्यथा पुंडलीकबाबांकडेन मांडली. 'आरे पुंडलीक, हांवे तयार केल्ल्या म्हज्या शिष्यांक राज्य सरकाराचो सांस्कृतीक पुरस्कार मेळ्ळो पूण तांचो हांव गुरू जावन लेगीत म्हाका तो मेळ्ळोना. मरचे पयलीं तेंच एक शल्य उरलां.' ही उतरां आयकून पुंडलीकबाब भितरल्यान रडला, ताका तांचे आनी म्हजे दोनूय दोळे गवाय आसात. पुंडलीकबाब दुसरे दिसाच्यान म्हज्या बापायक राज्य पुरस्कार मेळोवन दिवपाच्या कामाक लागलो. तेन्नाच्या सांस्कृतीक मंत्र्यांच्या कानार तांणी म्हज्या बापायचें शल्य मांडलें. बुधवार तारीख 29 सप्टेंबर 1999 ह्या दिसा राज्य पुरस्काराची खबर पुंडलीकबाबान म्हज्या बापायच्या कानांर घालतना म्हणलें, 'बाबा, तुका राज्य पुरस्कार फावो जाला आनी तो तुका फुडल्या बुधवाराक म्हणल्यार स ऑक्टोबर ह्या दिसा कला आनी संस्कृती खात्याचे लोक हांगा भेटोवक येवपाचे आसात.' पुंडलीकबाबांची उतरां पुराय जावंचे पयलींच म्हज्या बापायन धेंगसोच घाल्लो. 'हांगा कित्याक? हांव कला अकादमींत वचून सगल्या लोकांमुखार पुरस्कार घेतलो.' म्हज्या बापायक हातरूणा वयल्यान उठूक जाय नासलें पूण ताचेकडेन 'आपूण कलाकार' म्हूण आशिल्ली तडफ पळोवन पुंडलीकबाब भितरल्यान रडला तेंवूय हांवे अणभवलां.

स ऑक्टोबर हो दीस बेगीन येव आनी म्हज्या बापायक जिवेपणींच तो पुरस्कार भेटोवंक मेळूं अशें पुंडलीकबाबाक आनी म्हाका दिसतालें. पूण तो पुरस्कार स्विकारचे पयलींच 2 ऑक्टोबरा दिसा म्हजो बापूय अंतरलो तेन्ना पुंडलीकबाब आपल्या बापायच्या मर्णावेळार जितलो रडूंकना तितलो म्हज्या बापायक रडला अशें म्हाका दिसलें.

आनीक एक गजाल सांगूंक जाय. पुंडलीकबाब हो भौजन समाजांतलो. पूण भौजन समाजाच्यो कुबड्यो घेवन हो मनीस केन्नाच वावुरलोना. आपले कडेन प्रतिभा आसा आनी ते प्रतिभेच्या बळग्यारूच आपूण नांव आनी पयसो कमयतलो हें तांचे ध्येय आसलें. तांका मेळिल्ले साबार पुरस्कार हे तांचे प्रतिभेचें अमृतफळ. असो हो पुंडलीकबाब. हांगासरल्या मनशाचेर, सैमाचेर, पुस्तकाचेर आनी विज्ञानशास्त्राचेर जिवापरसूय चड मोग करपी आनी समाजांतल्या वायट चालीरितींचेर, अंधश्रद्धेचेर पेनाच्या तशेंच आपले वाणयेच्या आदारान खरमरीत टिका करपी पुंडलीक नायक हे एक आमच्यांतलेंच पूण वेगळें रसायन. ह्या रसायनाची योग्य ती काळजी घेवप गोंयकारांची लागणूक. तांका खूब आयुश्य मागतां. ◆◆◆

# कोंकणी प्रदेशांक सांगाता हाडिल्लो बळवंत पूल : पुंडलीक नायक

लेख

पुंडलीक नायकाचे आनी म्हजे वोळकीची पिराय कितली हें हांव नख्खी नेणां. हे वोळकीक पुंडलीकबाब आनी हेमाबायचो पूत -युगांकाचे पिरायेच्याकय चडीत वर्सां जाल्यांत तें खरें. कित्याक म्हळ्यार हांव ताका पयल्यान पयलें मेळताना युगांकाचो जल्म जांवक नातल्लो.

1983 वर्सांत म्हजी कॉलेज सोंपताना, चा.फ्रा. देकोस्ता, कर्नाटक कोंकणी भाशा मंडळाचो कार्यदर्शी आसल्लो, आनी हांव सह-कार्यदर्शी जालों. थोड्याच काळान बेंगळूरांत अखिल भारत कोंकणी साहित्य परिषद जमल्ली. म्हाका दिसता, पुंडलीकबाबाची आनी म्हजी पयली मुलाखत त्या संदर्भार जाली जांवयेत.

1984 वर्सा कर्नाटक कोंकणी भाषा मंडळाक हांव कार्यदर्शी म्हणून विंचून आयलों. मंगळूरच्या थोड्या कॉलेजांनी आमी कोंकणी विद्यार्थिंचो एकचार घडोवन हाडलो. पुंडलीकबाबाचो 'छप्पन थिगळी येसवंत' कर्नाटक आमी मंगळूरच्या सैंट एग्नेस कॉलेजांत खेळोवन दाकयलें. ह्या नाटकांतलें नट म्हजो इश्ट एड्डी सिकेरीन केल्लें. पुंडलीकबाबाक हांवें आनी म्हज्या इश्टांनी ह्या नाटकाद्वारीं लागशिल्यान वोळकूंक साध्य जालें. 'मोनो एक्टींग' चीं नाटकां कोंकणींत हांवें त्यावेळा पयले फावटीं पळयलीं.

चा. फ्रा.न ह्याच काळार पुंडलीकबाबाच्या संपादकपणाखाला पर्गट जांवक सुरू जाल्ल्या 'रूतू'पत्राच्यो प्रती दिल्यो. 'रूतू' पत्र प्रारंभ जावन दोन वर्सां जाल्लीं. हांगासर म्हाका काव्याचो नवोच एक संसार झळकेक आयलो. काशीनाथ शांबाचें 'वासुचें कांतार' वाचून तांतल्या वासूक आनी म्हज्या शेजारच्या हेत्रीक कसलोकि संबंध आसा म्हणून सोधून काडच्या हटाक पडून, 'वासुचें कांतार' शेंभर फावटीं वाचतां वाचतां, म्हज्या भितरय एकलो कवी आसा म्हळ्ळयाची जाणवीकाय म्हाका जाली.



मेल्विन रोड्रीगस
(नामनेचे कवी)
मंगळूर, कर्नाटक
मो. 91-9980136292

'रूतू' पत्रद्वारींच मनोहरराय सरदेसाय, नागेश करमली धरून नूतन सुखटणकार पासून जायत्यांक म्हजीं मोगाचीं करून घेतलीं. चा.फ्रा.देकोस्ताक तवळ पासून हांव एकलो नाटककारच म्हणून समजतालों. सवकास ताच्यो कविता वाचूंक सुरू केल्यो. आज हांव कविता बरयतां जाल्यार, आनी हांवें 'कविता ट्रस्टाचें' मिसांव हातीं धरलां जाल्यार, एद्या व्हड कविंच्या नंदन वनांत जियेंवचें भाग जोडलां जाल्यार, हाका कुळागर प्रकाशनाच्या, पुंडलीकबाबाच्या संपादकपणाच्या 'रूतू' पत्रान म्हजेर शिंवरायल्ले काव्याळ थेंबे पयल्यान पयलें कारण. उप्रांत खऱ्यान म्हजे सांगाता रावून ह्या एके वाडावळीचो पोस केल्लो चा.फ्रा.देकोस्ता कारण.

त्यावेळाच्या 'रूतू'क हांवेंय कविता धाडूंक सुरू केल्यो. म्हजीं देवनागरींत बरोंवचीं आनी वाचचीं प्रयतनां ह्याच काळार सुरू जालीं. तीस वर्सां आदल्या 'रूतू' पत्राच्यो प्रत्यो आतांय म्हज्या ताब्यांत आसात आनी हांवें जतनेन सांबाळून दवरल्यात. त्यो प्रत्यो तवळ तवळ हांव उसयतां, तवळ म्हाका कागदाच्या उतरां छापून नातल्ल्या खाली जाग्यांनी पुंडलीक नारायण नायक आनी ताणें म्हज्या जिविताची नवी एक वाट निर्माण करूंक जाल्ल्या कारणाचीं गोडशीं गितां झळकतात.

ह्याच काळार पुंडलीकबाबाच्या 'मर्णकटो' रेडियो नाटकाक भारताचो राष्ट्रीय पुरस्कार लाभल्लेविशीं कन्नड दिसाळें 'उदयवाणी' पत्राचेर सविस्तर खबर पर्गट जाल्ली. ह्या पत्राचो कुडको घेवन, म्हज्या इश्टां सांगाता कोंकणीच्या व्हडपणाविशीं घुमट व्हाजोवन, अभिमानान फुगल्लो उगडास म्हाका आजून आसा. असलें एक घडित हांव कोंकणीच्या ध्यासांत बुडच्याक म्हज्या तरनाटपणार विशेस रितीन कारण जालें.

ह्याच वर्सांनी म्हजे भयणीक गोंयां लग्न जाल्लें. तशें जाल्ल्यान गोंयां केन्नांय हांव वचून करून आसल्लों. एक फावटीं आमी पंदरा-वीस जाणांची पाटलाम वळवय पुंडलीकबाबाच्या घरा पावल्लो उडास म्हाका आसा. पुंडलीकबाब त्यावेळा घरांत नातल्लो. बाय हेमानच आमचो सत्कार केल्लो. पयल्या सिनेमाक हात घालून , हात हुलपावन घेतल्लो काळ तो. कश्टांचो काळ. बँकेंतल्या आपल्या कामाथावन हेमाबायेन तेluntary retirement घेतल्लें आनी मेळल्लो सगळो दुडू ह्या सिनेमाचेर वोतल्लो. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' चळवळे संदर्भार पुंडलीकबाब आमचोय हीरो जालो. हे चळवळे संदर्भार गोंयां पावल्ल्या हांवें सान पोरान 'आमी कर्नाटका थावन तुमकां कसली मजत करूंयेत ?' म्हणून पुंडलीकबाबालागीं विचारल्लें. त्यावेळा तांणी 'हें गोंयकारांचें झूज, आमींच झुजतांव. देव बरें करूं'. म्हळ्ळें ! म्हज्यान जांव, कर्नाटकांतल्या हेर कोणेंय हे चळवळेंत भाग घेंवक जातें या ना म्हळ्ळें हांगा गर्जेचें न्हय. पूण पुंडलीक नायक तसल्या मुकेल्यान झुजच्या ह्या झुजांत आमी मेतेर जायजाय म्हळ्ळें भोगप आमच्या मनांत किरलल्लां जाल्यार, आमी पुंडलीक नायकाक खंयचे नदरेन देखोन आसल्ल्यांव म्हळ्ळें समजून घेव्येत.

त्या संदर्भार 'द वीक' तशें हेर इंगलीश मॅगझिनांनी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' चळवळेविशीं आनी पुंडलीकबाबाविशीं वाचून आमी अभिमानान भरतल्यांव. हे चळवळे उपरांत, खंयच्याकि एका संदर्भाक लागून म्हाका याद ना, मंगळूरच्या डॉन बोस्को हॉलांत एका कार्यक्रमाक पुंडलीकबाब मुकेल सोयरे म्हणून आयल्ले.

तांच्या उलोवपाक सालांत भरून आसल्लो लोक सगळो मंत्रमुग्द जाल्लो. चळवळ सोंपल्ली मात्र. ते उडास, ते घाये ताणे आपल्या उलोवपांत

उगते करताना, म्हजे तसलो तरनाटो भितरल्या भितर शिजतालो. आजून तांचें उलोवप म्हज्या कानांच्या पालवेलागीं सादून आसा. अडेज वर्सां आदीं कार्कळ गांवांत चलल्ल्या कविता फेस्ताक पुंडलीकबाब अध्यक्ष म्हणून आयल्ले. त्या वेळार हाची तांकां हांवें याद केली. तसलें एक भाशण हांवें केन्नांय आयकललें ना म्हणून हांवें तांकां सांगलें. त्या नंतर, तांकां युगांक लाभलो आनी म्हाका गल्फाचो गांव.

गल्फ सांडून आतां सात वर्सां जालीं. ह्या सात वर्सांनी गोवा कोंकणी अकादेमिचो अध्यक्ष जावन, साहित्य अकादेमी, नवी दिल्लीच्या कोंकणी सल्लागार समितीचो अध्यक्ष जावन समस्त कोंकणी साहित्यकारांक, पुंडलीकबाबान वेंगेंत आरायलां. साहित्य अकादेमी तरफेन कर्नाटक, केरळांत सयत कोंकणी कार्यक्रमां माडून हाडच्यांत तांचो मोटो पात्र आसा. गोंय कोंकणी अकादेमी तरफेन गोंयां भायल्यांक पुरस्कार दिंवचें योजन, गोंयां भायरय पर्गट जाल्लिं पुस्तकां अकादेमीन विकती घेंवचें योजन- हें सगळें विस्तार मनोभावाचें लक्षण.

पुंडलीकबाबान कोंकणी म्हणताना फकत गोंयां मात्र लेकिनासतां समस्त कोंकणाक सांगाता पोटलून धरल्ल्यान, गोंयां भायल्यांक फुलूंक, परमळूंक साध्य जालां.

पुंडलीक नारायण नायकाचें बरें मन, खरें काळीज हाचे आदींय गोंयां भायल्यांक लाभलां. ह्या फुडेंय लाभतलें. समस्त कोंकणा मदलो बळवंत पूल पुंडलीक नारायण नायक न्हय जालो जाल्यार आनी कोण ?





मुलाखत

# भुरगंपणांत शेत, भाट, दोंगर, दर्या म्हजीं पुस्तकां जालीं! - पुंडलीक नायक

"संवसारात अशें कितलेशेच लेखक आसतले जांणीं साहित्याच्या खंयच्याय एक वा दोन प्रकारांत उपाट यश मेळेयल्लें आसतलें. पूण साहित्याच्या लागीं लागीं सगळ्यां प्रकारांनी उपाट यश जोडपी अशें थोडेच लेखक आसतले. तांतूंत भारतीय साहित्यीक आनी पर्यायान कोंकणी साहित्यीक पुंडलीक नायक हांचो आसपाव आसा. पुंडलीक नायक हाणीं कथा-कविता, नाटक, कादंबरी ह्या प्रकारांसयत एकांकी, बालनाट्य (साहित्य) निबंध अशा साहित्याच्या लागीं लागीं सगळ्या प्रकारांत अभूतपूर्व जैत मेळयलां. लेखक म्हण वावुरताना कोंकणी चळवळ आनी सामाजीक वांवरातूय तांचो वांटो आसा. अशा ह्या अश्टतासी व्यक्तीमत्वाची वळख करून घेवपाखातीर जैत प्रकाशनान तांच्या जिणेचेर आदारीत काडिल्ल्या खासा विशेशांकाखातीर तांची मुलाखत आमी घेतल्या. पुंडलीक नायक हांचें भुरगेंपण ते साहित्य निर्मिती तेच परी तांकां मेळील्ले पुरस्कार, राजभास चळवळ, लिपयेचो प्रस्न, कोंकणीचो आठवे वळेरेंत आसपाव जावचो हे खातीर तांणी केल्ली चळवळ धरून तांची सामाजीक जीण, गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष, फिल्म आनी जिणेच्या हेर सगळ्यां तासांचेर विस्तारान हे मुलाखती मजगती प्रा. सत्यवान नायक हांणी तांचेकडेन भासा-भास केल्या. पुंडलीक नायक हाणीं व्यक्त केल्ली मतां तश्या तशीं वाचप्यां मुखार आमी दवरतात."




प्रा. सत्यवान नायक
(लेखक आनी कोंकणी व्याख्याती)
मार्शेल - गोंय
मो. 9923487755

**सत्यवान : तुमी खूबदां सांगतात, आपूण शाळेक उसरां गेलों. गोरवां राखलीं. रानांनी भोंवलों. म्हणल्यार तुमी तुमचें भुरगेपण गोरवां-वासरां फाटल्यान रानां-दोंगरांनी घालयलें ?**

पुंडलीक : भुरगेपण ग्रामीण वाठारांत गेलें. शिक्षण उसरांच म्हणल्यार धाव्या वर्सा उपरांत सुरू जालें. पूण ताचे पयलीं गोरवां-वासरांनी भोंवपाचो अणभव मेळ्ळो. म्हजें भुरगेपण 10 वर्सां गोरवांनी गेलें. उपरांत जे शाळेंत हांव शिकलों ताचे परस चड गोरवां-वासरांनी, शेतां-भाटांनी, दोंगरा-खळयांनी वचून शिकलों. पुस्तकी शिक्षणा परस तें शिक्षण चड बरें आसलें. तातूंतल्यान पुंडलीक नायक घडलो. मागीर वाचन जालें, हेरां कडेन चर्चा जाली आनी तातूंतल्यान म्हज्या व्यक्तीमत्वाक पुटां चडलीं. पूण मुळांत हांव घडलों तो म्हज्या गांवांतच.

**सत्यवान : कविता, कथा, नाटक, कादंबरी ह्या चार मुखेल प्रकारां सयत साहित्याचे हेर प्रकार-उपप्रकार तुमी येसस्वीपणान हाताळ्ळयात. हो तुमचो प्रवास नेमको खंयच्यान सुरू जालो ?**

पुंडलीक : कवितेंतल्यान. खंयचोय लेखक जो प्रगट जाता तो चड करून कवितेंतल्यान. म्हाका लेगीत दिसलें की कवितेंतल्यान प्रगट जावप बरें. हांवें कविता बरोवपाक सुरवात केली. म्हज्यो कविता खूबच आत्मनिश्ठ म्हणल्यार म्हज्या प्रस्नां कडेन निगडीत. जें कितें हांवें पळयलें तें सभावीक नदरेंतल्यान बरयलें. म्हाका त्यो सहज येताल्यो. म्हज्या जिवितांत कितें ना तें केन्नाच हांवें ओडून-तोडून बरोवपाचो यत्न केलो ना. म्हजी पयली वयली कविता लेगीत हांवें ल्हानपणांत अणभवल्ल्या गजालींचेर आसली. हे अणभव मागीर 'गा आमी राखणे' ह्या कविता संग्रहांतल्यान तुमचे मुखार मांडले.

**सत्यवान : 'आमी आमी राखणे' सारको एक दर्जेदार कविता संग्रह बरोवन तुमी रोखडेच कथेकडेन कित्याक वळ्ळे ?**

पुंडलीक : कविता बरयतां बरयतां म्हाका दिसलें हांव जें कितें सांगपाक सोदतां ताका कविते परस आनीक विस्ताराची गरज आसा आनी देखूनच हांव नकळटना कथेकडेन आयलों.

**सत्यवान : सामन्य मनीस लेगीत कथेचो विशय वा नायक जावं येता हें तुमी तुमच्या कथेंतल्यान दाखयलें. तुमकां ह्या 'सामान्य' लोकांक 'हिरो' करचो अशें कित्याक दिसलें ?**

पुंडलीक : म्हजें शिक्षण मराठी माध्यमांतल्यान जाल्ल्यान म्हजो मराठी कडेन संबंद आयलो आनी मराठी साहित्य वाचपाक लागलो. वाचता वाचतां व्यंकटेश माडगुळकर, गो. नी. दांडेकर, श्री. ना. पेंडसे, शंकर खरात सारक्या ग्रामीण लेखकां कडेन आकर्शीत जालो. तांचें साहित्य वाचतना म्हज्या लक्षांत आयलें, ह्या लेखकांनी मजूर, पारधी, मावळे अशे तरेच्या लोकांक साहित्यांत हिरो केल्यात. मागीर हांव चिंतपाक लागलों, म्हजेय कडेन रेंदेर, पाडेली, शेतकार आसात जे म्हजे कथेचे हिरो जावंक शकतात. हो दिश्टावो म्हाका तेन्ना जालो. सामान्य मनीस लेगीत म्हजे कथेंत नायक आनी विशय जावं येता हें तेन्ना (मराठी कथा वाचले उपरांत) कळ्ळें. तेन्नाच हांवें थारायलें, म्हज्या वाड्यार, म्हज्या गांवांत अशे कितलेशे हिरो आसात ते म्हज्या कथांनी येवंक शकतात आनी हांवें तांकां म्हज्या कथांनी हाडले.

**सत्यवान : तुमचें शिक्षण मराठींतल्यान जालें. तुमचें वाचन मराठींतल्यान जालें. तुमी ज्या वळवय वाठारांत जल्मल्ले तो वाठार मराठीच्या प्रभावा खाला आशिल्लो. तुमचें सगळें सरभोंवतण मराठी आनी तुमी मात लेखना खातीर कोंकणी वापरली. हें कशें ?**

पुंडलीक : हय, ह्या वेळार मराठीचो प्रभाव खर आशिल्लो. सरभोंवतणीच कित्याक पुराय अंत्रूय म्हालाचेर मराठीचो प्रभाव आशिल्लो. तेदेवेळार

मराठीच्या प्रभावांत आमी मराठी बरोवपाचो यत्न नक्कीच करताले. हांव कथा बरयतना कोंकणी बरयतालों आनी मराठी कथाय बरयतालों. एक दीस लक्ष्मणराव सरदेसाय सावयवेऱ्यां आयिल्ले तेन्ना हांवें बरयिल्ल्यो मराठी आनी कोंकणी कथा तांकां दाखयल्यो. तांणी त्यो वाचून स्पश्टपणान सांगलें, 'तूं जेन्ना कोंकणींत बरयता तेन्ना तूं तळपत्या सुर्या भशेन भासता आनी मराठी बरयता तेन्ना तूं आखुडिल्ले भशेन दिसता. तूं विचार कर. हांवें कोंकणींतल्यानच बरोवचें आनी मराठींतल्यान बरोवचें न्हय अशें तांणी केन्नाच सांगलें ना. बाकीबाबानूय सांगलें तुका काळूच सांगतलो तुवें खंयचे भाशेंत बरोवचें तें. आपूण सांगचों ना.

बाकीबाब वा लक्ष्मणरावान म्हाका केन्नाच सांगलें ना, तुवें अमकेच भाशेंत बरोवचें म्हूण. मात खूब 'प्रामाणीकपणान बरयत राव' अशें तांणी सांगलें. मराठी वाचतां वाचतां, बरयतां बरयतां म्हाका साक्षात्कार जालो, हांवें कोंकणींतूच बरोवचें.

आनीक एक गजाल. हांव शिकतां आसतना म्हाका 'पोळा' नांवाचो पाठ आसलो. तो वाचलो तेन्ना म्हाका दिसलें, हांवूय गोरवां राखणो. हो 'पोळा' म्हज्या 'पाडव्या' सारको ना जाल्यार आमचो गोरवां पाडवो कोण बरयतलो? मराठी मनीस जर आपलो 'पोळो' मराठींत बरयता जाल्यार पुंडलीक नायकाचो 'पाडवो' कोंकणींतल्यानूच बरोवंक येवंक जाय. अशे तरेन कोंकणीचो अभिमान वाडलो. मात मराठीचें प्रेम आसलें तें मातूय उणें जालें ना हें विशेश.

**सत्यवान : आतांच तुमी लक्ष्मणरावाचो उल्लेख केलो. लक्ष्मणरावांनी तुमच्यो कथा वाचल्यो आनी तुमका शाबासकी दिली. कशें दिसलें?**

**पुंडलीक :** हांव जेन्ना धावे-इकरावेक आसलों. तेन्ना लक्ष्मणराव सरदेसाय सावयवेऱ्यां आयिल्लें. जेन्ना तांची ही प्रतिक्रिया कळ्ळी तेन्ना सुखद धक्को बसलो. लक्ष्मणरावांनी अशेंय म्हणिल्ले, हांव लेखक म्हूण सामान्य मनशाच्या हुंबऱ्या मेरेन पावलां. तूं तांचे भितर पावला. इतलो खोल वचून तूं मुक्तपणान बरोवंक पावला. सामान्य मनशाच्या जिवनांत तूं रिगला. हो तांणी केल्लो भोवमान आशिल्लो. हें आयकून हांव खूब सद्गदीत जालों. हांवें जेन्ना हें रवीन्द्रबाबाक सांगलें तेन्ना रवीन्द्रबाबान म्हणलें, 'अशें फकत लक्ष्मणरावूच म्हणूंक शकता'. अशें कितें करपाचें आसता तेन्ना मनाचें मोटेंपण लागता. तें लक्ष्मणरावां कडेन आसलें. व्हडल्या व्हडल्या लेखकां कडेन लेगीत मनाचें इतलें व्हडपण नासता जें लक्ष्मणरावां कडेन आसलें. तांणी केल्ल्या अशें तरेच्या विधानांक लागून म्हाका स्फूर्त मेळ्ळी. तांचे विशीं म्हाका अभिमान आसा.

**सत्यवान : लक्ष्मणराव सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय आनी हेर म्हालगड्या बरोवप्यां कडेन तुमचें कशें तरेचें नातें आसलें?**

**पुडलीक :** लक्ष्मणराव सरदेसाय जेन्ना सावयवेऱ्यां बी येताले तेन्ना हांव भुरगों आसलों. थंय ताका मेळपाक वतालों. लक्ष्मणरावाक हांवें खूब लागींच्यान पळयलां. लक्ष्मणराव तसो उक्तो मनीस. ताणें म्हजें कवतूक केलां. 'कथाशिल्पांत' बी तांणी म्हजेर बरयलां.

बाकीबाब बोरकारां कडेन पळयतना म्हाका थोड्यांनी मिसगायड बी केलो. आनी मिसगायड जावपाची ती पिराय आसली. हो मनीस कोंकणी आनी मराठी अशा दोन भासांच्या व्हड्याचेर पांय दवरपी अशें कांय लोक मानताले. हांवें कांय विडंबनात्मक कवितेंतल्यान बाकीबाबाच्यो भगल्यो बी मारिल्ल्यो. जाचें मागीर म्हाका खूब वायट दिशिल्लें. बाकीबाब कोंकणीची निश्ठा नाशिल्लो अशें बी दिसतालें. पूण बाकीबाब अतिशय प्रज्ञावंत आशिल्लो. काळाच्या ओघान तांणी मराठींत बरप केलें पूण कोंकणी कडली निश्ठा तांणी केन्नाच बदलूंक नासली. जेन्ना तांकां महाराष्ट्रांतल्यान मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद चलून आयलें आनी 'त्या' लोकांनी ताका सांगलें -

'तुमका अध्यक्ष करतां पूण...' त्या वेळार बाकीबाबान सांगलें,' पण'बीन कांय ना. कोंकणी कडेन हांव तडजोड करचों ना. तिका बोली बी म्हणचों ना. आनी तांणी तें पद न्हयकारलें. हो पुरुशार्थ. देखून बाकीबाब आमकां वंदनीय आसा. फकत साहित्या खातीरूच न्हय तर तांचे वागणुके खातीर, अशें तरेच्या निर्णया खातीर. बाकीबाबान म्हज्या कथांचो बी खूब कवतूक केलां. 'माड' कथेचेर उलयतना 'पुंडलीक बरी जाल्या कथा' अशें म्हणलां. इतलेंच म्हणल्यार पुरो. तांणी प्रस्तावना बरोवपाक बी जाय अशें नासलें.

मनोहरराय सरदेसायां कडेन खूब लागींच्यान संबंद आयला. तांणी म्हाका मार्गदर्शन बी केलां अशें म्हणिना हांव. पूण तांचे कवितेन आमकां खूब भूल घाल्ली.

र. वी. पंडित व्यक्ती म्हूण म्हाका केन्नाच आवडले ना. पंडिताक जेन्ना हांव पयलेच फावट मेळपाक गेल्लों. तेन्ना तो आपलेचविशीं उलयतालों आनी मनोहररायाविशीं दुस्वासान उलयतालों. हें आयकून म्हाका केन्ना कांय मनोहररायांक मेळचें कशें जाल्लें. हांव जेन्ना मनोहररायांक मेळ्ळों तेन्ना मनोहरराय सगळ्यांचेर उलयलो. पूण पंडिताचेर एक वायट उतर लेगीत उलयलो ना. त्या वेळार म्हाका व्यक्ती व्यक्ती मदलो फरक कसो आसता तें कळ्ळें.

रवीन्द्रबाब केळेकारा बाबतींतन प्रस्नूच ना. तो मार्गदर्शक. कोंकणी प्रजेचो लढो तांच्याच मार्गदर्शना खाला आशिल्लो. उदयबाब पिरायेन व्हड आसून लेगीत सांगाती कसो! चंद्रकांत केणी आनी म्हजे मदीं सदांच अंतर आसतालें. बाकीचे सगळें म्हजे समकालीन. रमेश वेळुस्कार, भाई मावजो, प्रकाश पाडगांवकार, एन. शिवदास, दिलीप बोरकार. तांचे विशीं प्रस्नूच ना.

**सत्यवान : कोंकणीचो स्वाभिमान जागोवपी शणै गोंयबाबा पासून तुमी कसली प्रेरणा घेतली?**

**पुंडलीक :** शणै गोंयबाब आमच्या कट्ट्यार बशिल्लो. शणै गोंयबाबांनी आमकां वेगवेगळे विचार दिले. तातूंतले तातूंत म्हज्या काळजाक भिडलो तो विचार म्हणल्यार, तांणी सांगिल्लें, तुमकां जर पराक्रम करपाचे आसात जाल्यार ते तुमी तुमचे मायभाशेंत लेगती करूंक येता. आपले भाशे कडेन प्रामाणीक रावन पराक्रम करूं येता. हे म्हजे खातीर मंत्राभाशेन आसलें. हो विचार जर म्हाका कळ्ूंक नासलो जाल्यार हांव खंय तरी शेणटलों आसलों. शणै गोंबयबाबांनी सांगिल्ल्या प्रमाण हांव प्रामाणीकपणान वागलों आनी पुंडलीक नायक खंयच्यान खंय पावलो ! शणै गोंयबाबांची जी प्रेरणा आसली ती फकत कोंकणीकच न्हय तर प्रत्येक भारतीयां खातीर आसली. हांव फकत कोंकणी कडेन प्रामाणीक रावलों आनी आमी सगळेच मागीर चळवळींत म्हूण वा साहित्य रचनेंत म्हूण येसस्वी जाले. सगळें वैभव आमचे कडेन चलून आयलें.

**सत्यवान : साहित्यांतलो तुमचो गुरू कोण?**

**पुंडलीक :** गुरू बी तसो कोण नासता. आसता ती प्रेरणा. शणै गोंयबाब ही म्हजी प्रेरणा. ते भायर लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवीन्द्रबाब, नागेशबाब, उदयबाब हांचें मार्गदर्शन आसलें. पूण लेखकान व्हडलो जातकच आपली संवेदना तिक्ष्ण करूंक जाय. हांवें तेंच केलें. समाजांत हांवें संवेदना जागृत दवरून वावुरलां. म्हज्यांत ओरिजीनल जें कितें आसा तें मांडपाचो यत्न हांवें केलो. तुवें अशें बरोवचें तशें बरोवचें अशें कोणी म्हाका सांगपाचो यत्न करूंक ना. एक दीस गुरूनाथ केळेकारान म्हाका सांगलें, तूं कोण्णाचें वाचूं नाका. पुणेंचे वडील नाटक दिग्दर्शक प्रभाकर गुप्ते हांणीय म्हाका सांगिल्ल, 'तूं दुसऱ्यांचे वाचूं नकोस. स्वताचेच लिहित रहा.' तांची सांगपा फाटली भावना हांवें समजून घेतली.

**सत्यवान : 1975 वर्साचो कालखंड कोंकणी खातीर कित्याक म्हत्वाचो आसलो?**

**पुंडलीक :** 1975चो कालखंड म्हत्वाचो आसलो. तेन्ना आमकां साहित्य अकादेमीची

मान्यताय मेळ्ळी आनी 1977त पयलो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. तेन्ना कोंकणी लेखक अकस्मात राष्ट्रीय प्रवाहांत आयलो. आतां मेरेन आमी आमचेच पंगतीक बसतालें तें आतां आमी मराठी बंगाली, गुजराथी, कन्नड हांचे पंगतींत बसूंक लागले. कोंकणीक, साहित्य अकादेमीची मान्यताय म्हणल्यार भारतीय भाशेंतली एक सर्जनशील संपन्न भाशा म्हूण भोवमान आमकां दिलो तेन्ना आमी बरेंच उमेदीन फुल्ले. हे स्फुर्तीन आमी कोंकणी नाटकां सर्त सुरू केली. हो उमेदीचो पूण मस्तीचो काळ आसलो आनी नवें नवें घडोवपाचें जें कितें आसलें ताका सुरवात जाली.

**सत्यवान : कथा बरयता बरयता 1977 म्हणल्यार इतल्या ल्हान पिरायेर तुमी कादंबरी बरोवंक घेतली. इतले बेगीन कादंबरी मेरेनचो प्रवास कसो जालो?**

**पुंडलीक :** कथा बरयतां बरयतां कादंबरी बरोवची हें खंय तरी म्हजे तकलेंत आशिल्लें. म्हजे सरभोंवतणीं मिनाचो वेवसाय चालू आशिल्लो. ताचे बरे वायट परिणाम हांव दोळ्यांनी पळयतालों. भोगतालों. म्हजे इश्ट, म्हजे वांगडच्यांक मायनिंगाक लागून अकाली मरण आयिल्लें. म्हजे वांगडा प्राथमीक आनी माध्यमीक शिक्षण घेवपी ते भुरगे शिक्षण सोडून मिनाच्या वावराक गेल्ले. धुल्लाचो परिणाम आनी वैजकी सुविधा नाशिल्ल्यान तांचेर जाल्ले आघात हे त्या मायनिंगाच्या दुश्परिणामांचे बळी थारले. हांव हें सगळें म्हज्या दोळ्यांनी पळयतालों. देखून हो विशय घेवन बरयतलों अशें हांवें थारायिल्लें. पूण इतले बेगीन 1977त बरयतलों म्हणपाचें खबर नासलें. जेन्ना हांवें हें रवीन्द्रबाबाक सांगलें तेन्ना तांणी म्हणलें 'ना बेगीन न्हय. खूब उशीर जाला. तुवें खंयचेय परिस्थितींत बरोवंक जाय. हांव रवीन्द्रबाबांचें उतर सकयल उडोवंक शकनासलों. बैठक मारून बरोवन काडली. थोडो अभ्यास केलो. मिनाचे खाणीर वचून टिपणां काडलीं आनी प्रामाणीकपणान जितलें जितलें लार्गीच्यान पळयलें तें 'अच्छेवां'त मांडलें. पयलीं ती 'मीन पिकलां खाडयांनी' ह्या माथाळ्या खाला जागांतल्यान खिस्ती-खिस्तींनी आयली आनी उपरांत 'अच्छेव' नांवान पुस्तक रुपांत. मूळ माथाळो बदलून कादंबरीचें ऩांव 'अच्छेव' केलें तें श्रीपाद देसाय हांकां निखालस मानवलेंना. एकदां मेळिल्लेकडेन ताणीं म्हणलें, 'मीन पिकलां खाड्यांनी' कितलें अर्थपूर्ण नांव आसलें!

**सत्यवान : 'अच्छेव' ही कादंबरी म्हणल्यार कोंकणीचो 'मायलस्टोन'. एक सर्वांग-सुंदर आनी खंयचेय भारतीय वा संवसारीक कादंबरी कडेन सर्त करपी कादंबरी. तिचो लेखक पुंडलीक नायक. पूण होच पुंडलीक नायक 'बांबर' सारकी नवलिका बरयता तेन्ना वेगळें धाडस करता. अशें दिसना?**

**पुंडलीक :** 'बांबर' हो पणजे शिकता आसतना आयिल्लो अणभव. एका बांदाचेर एके खोंपींत म्हाका रावचें पडलें तेन्ना तातूंतल्यान आयिल्लो तो अणभव. ते तरणाटे पिरायेचेर सेक्सा कडेन पळोवपाचो जो कितें दृश्टीकोण आसता ते नदरेंतल्यान ती नवलिका विकसीत जाल्ली. पिरायेच्या गुणधर्मा प्रमाण ज्यो कितें मनांतल्यो भावना आसल्यो त्यो बांबरांतल्यान आयल्यो. साहित्यांत उक्तेपणीं मांडपाचें जें धाडस लागता तें धाडस हांवें केलें आनी तेदेवेळारच तें शक्य जालें.

**सत्यवान : खूबश्या साहित्यांत अंधश्रद्धेक पोसवण दिल्ली दिश्टी पडटा? तुमी तुमच्या साहित्यांतल्यान ह्या विशया कडेन कशें पळयतात?**

**पुंडलीक :** म्हाकाय हो विशय म्हज्या साहित्यांतल्यान मांडचो पडला. तो मांडटना हांव ताचें समर्थन करतां काय कितें हो म्हत्वाचो प्रस्न आसा. एक घाडी खुदता आनी कितें तरी सांगता तें सगळें हांव मांडटां. पूण घाडी खुदता आनी तो कितें सांगता ताचें हांव समर्थन करता काय कितें हें पळोवपाचें आसता. केन्ना केन्ना हांव तें तशेंच सोडून दितां. मागीर केन्ना केन्ना हांव अंधश्रद्धेचेर बी

बरयता काय कितें अशेंय दिसपाक लागता.

ज्या समाजाचें चित्रण हांव करतां तो समाज अंधश्रद्धाळू आसा म्हणटकच तें चित्रण हांव अंधश्रद्धा म्हूण टाळूंक शकना. म्हाका तें टाळपाचेंय नासता, म्हाका तें मांडपाचें आसता. तें मांडटना ते प्रचारकी जावंक फावना. तें सैमीक जावंक जाय. अशें करप ही साहित्यीक कसरत आसता. हे साहित्यीक कसरतींत म्हर्जी विचारमुल्यां सांबाळून तुजें साहित्यीक मनोरंजन जावपाक जाय. आनी अंधश्रद्धेचे भकीक तर लेखक कसोच पडूंक जायना.

**सत्यवान : 'गुणाजी' ही नवलिका तुमी नवलिका म्हूण बरयल्या. पूण कांय जाणांनी तिका आत्मकथा म्हणल्या तर कोणें दीर्घ काणी. तुमी ह्या वक्तव्या कडेन कशे तरेन पळयतात.**

**पुंडलीक :** 'गुणाजी' नेमकी कितें हे थारावपाचें काम समिक्षकांचें. म्हजे खातीर ती कलाकृती. हांवें ती कलाकृती म्हणूनच तयार केल्या. मागीर तुमी तिका काणी म्हणात, दीर्घ काणी म्हणात नाजाल्यार आनीक कितेंय.

गुणाजीक हांवें नवलकथा म्हणल्या. जेन्ना बरयिल्ली तेन्ना म्हाका तशें म्हणप योग्य दिसलें. जर समिक्षकांक वा आनीक कोणाकय ती आयजूय आत्मकथा कशी दिसना जाल्यार तांणी तशें म्हणचें म्हजी कसलीच अडचण ना. हांवें एकदां बरयलें, म्हणजे म्हजो लेखक म्हणून ते कलाकृती कडलो संबंद तुटिल्लो आसता. प्रेक्षकांक जसो वाखाणपाचो अधिकार आसता तसो तो टिका करप्यांक टिका करपाचो अधिकार आसा आनी हांव तो मानून घेतां.

**सत्यवान : तुमच्या साहित्याचेर देशी-विदेशी भाशांचो प्रभाव आसा काय कितें?**

**पुंडलीक :** म्हजें विदेशी साहित्य वाचन बरेंच उसरां जालें आनी तें लेगीत अणकारीत साहित्य वाचून. हांव इंग्लीश वाचतां तेन्ना तें म्हाका वेवस्थीत ग्रास्प जायना म्हणटकच हिंदी मराठी आनी हेर भारतीय भासांचो आदार घेवन हांव वाचता. भारतीय भासांचो म्हजेर नक्कीच प्रभाव आशिल्लो. वातावरणूच तें आशिल्लें. हांव भुरगेपणांतूच बरयतालों आनी म्हजें सगळें वाचन मराठींतल्यान जातालें. मराठी माध्यमाचो भुरगो आशिल्ल्यान चडांत चड वाचन मराठींतल्यान जातालें. हांव म्हणटांय बी. हांव मराठी शिकलों म्हूण कोंकणी लेखक जालों. मराठी शिकले उपरांत म्हाका कळ्ळें, ही म्हजी भाशा न्हय.

**सत्यवान : हांगाचीं पात्रां येवचीं हो विशिश्ट हेतू धरून तुमी साहित्य रचलें अशें म्हणूं येता.**

**पुंडलीक :** हय. हें म्हाका मराठींतल्यान कळ्ळें. मराठीची व्यक्तीचित्रां वाचले उपरांत हांगाचे मातयेंतलीं पात्रां म्हज्या साहित्याचीं पात्रां जावंक शकतात हें कळून आयलें.

**सत्यवान : तुमचो भोवमान करपी नाट्य महोत्सव शुभम क्रिकेटर ट्रस्टान 12 ते 17 एप्रील 2011 मजगतीं गोंयांतल्या पांच वाठारांनी आयोजीत केल्लो. ताचे फाटलो हेतू कितें आसलो?**

**पुंडलीक :** म्हज्या पांच नाटकांचो एकसंघ नाट्य महोत्सव घडोवन हाडलो ही म्हजे खातीर आनंदाची गजाल आसली आनी खंयच्याय नाटककाराचे बाबतींत असो योग जर जुळून आयलो जाल्यार ती खोशयेचीं आनी अभिमानाची गजाल आसता. 'शबै शबै भौजन समाज', 'चैतन्याक मठ ना', 'श्री विचित्राची जात्रा', 'सुरींग' आनी 'कांसुलो' ह्या नाटकांचे प्रयोग ह्या नाट्यमहोत्सवांत शिरोडे, मांद्रें, सांगें, काणकोण, सत्तरी अशा वाठारांत जाले. हो महोत्सव घडोवन हाडपा फाटलो हेतू म्हणल्यार पुंडलीक नायका विशींचो मोग, कोंकणी नाटका विशींचें प्रेम ह्यो सगळ्यो गोली आसाच पूण ज्या नाटकांक विशिश्ट पांवडो-दर्जो लाबला तीं नाटकां चडांत चड ग्रामीण वाठारांत पावचीं असो खूब बरो उद्देश आसलो.

**सत्यवान : तुमच्या नाटकांचो महोत्सव**

**केन्ना तरी जातलो अशें तुमकां दिशिल्लें ?**

**पुंडलीक** : हय. म्हज्या नाटकांचो महोत्सव केन्ना तरी जातलो हाची म्हाका खात्री आसली पूण हो योग इतले बेगीन म्हणल्यार 2011 वर्साच जुळून येतलो अशें दिसूंक नासलें. रवीन्द्र केळेकार सदांच म्हणटाले, कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळटलोच. पूण तो आपल्याक मेळटलो हाची कल्पना तांणी करूंक नासली. म्हजेंय तशेंच जालें. म्हज्या नाटकांचो महोत्सव बी जातलो अशें दिसतालें, पूण इतले बेगीन तो पळोवपाक मेळटलो हाची कल्पना करूंक नासली. शुभम क्रिकेटर ट्रस्टान म्हणल्यार म्हजे इश्ट उल्हास नायक आनी सुभाष शिरोडकर हाणी आयोजक असो नाटक महोत्सव करून म्हजो सत्कारूच केला. हांव तांचो सदांच उपकारी आसतलों.

**सत्यवान : तुमच्या एकंदर नाटकांतल्यान तुमी खंयचे खंयचे विशय मांडल्यात ?**

**पुंडलीक** : हांवें म्हज्या चडशा नाटकांनी गांवगिरें जिवन मांडलां. गांवच्यो समस्या, अन्याय, अत्याचार, पिळवणूक, अंधश्रद्धा ह्या वायट गजालींचेर बडी मारप अश्यो गजाली तातूंत आसातूच. म्हज्या नाटकांनी शारी जिवनाचें पडबिंब ना. गांधीजीन म्हणिल्लें 'खरो भारत खेड्यांनी असा'. हांवूंय खंय तरी अशे तरेच्या खेड्याचें प्रतिनिधित्व करतां. तेंच म्हज्या नाटकांनी आयलां. आनी हीं नाटका लोकां मेरेन पावतात.

**सत्यवान : तुमचीं नाटकां गोंयकारांनी माथ्यार धरल्यांत. पूण राष्ट्रीय पांवड्यार तीं खंय आसात ?**

**पुंडलीक** : म्हजीं नाटकां राष्ट्रीय पांवड्या वयलीं आसात काय ना हें हांगा गोंयांत रावन आमकां कळना. पूण जेदेवेळार तीं भायल्या महोत्सवांनी वतात आनी तशी संद म्हज्या नाटकांक लाबल्या तेदेवेळार कोंकणी नाटक भारतीय नाटकां कडेन कितलें समांतर आसा तें सिद्ध जालां. देखून हांव अभिमानान सांगूंक शकतां, कोंकणी नाटकां संख्येन कमी आसूं, पूण तांची गुणवत्ता उणी ना.

**सत्यवान : 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकाक कोंकणी लोकांनी येवकार दिलोच. ते भायर तें नाटक कोंकणीच्यो शिमो पार करून मुखार पावलें. तुमचो होच यत्न आसलो ?**

**पुंडलीक** : 'श्री विचित्राची जात्रा' हें म्हजें नाटक कोंकणी लोकांक आपलें कशें दिसलें. ताचे बद्दल प्रस्नूच ना. ताचे मराठीकरणूय जालें. महाराष्ट्रांतय तें गेलें आनी त्या लोकांनी तें पळयलें. हें नाटक बरोवपा फाटलो एक उद्देश आशिल्लो, तो म्हणल्या म्हज्या कोंकणी प्रेक्षकांची शीम भेदून हें नाटक दुसरे कडेन वच्चें आनी म्हजो हो प्रयोग येसस्वी जालो. कोंकणी मनशाक तें आपलें दिसलें तशें भारतीय मनशाकूय तें आपलें दिसलें. अखिल भारतीय आकाशवाणी नभोनाट्य सर्तींत ताका पुरस्कार मेळ्ळो.

**सत्यवान : भारतीय मनशांक तुमचें 'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक आपलें कशें दिसपाक तातूंत अशें कितें आसलें ?**

**पुंडलीक** : 'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक खऱ्या अर्थान भारतीय नाटक आसा. तातूंतली जात्रा आसा तशें तरेच्यो जात्रा सगळ्या भारतांत जातात. जात्रेंतले गूणदोश सगळ्या जात्रांक लागताले. हांगासरले जात्रेंत आसा तेंच कुंभ मेळांत आसा. देखून तें भारतीय मनशाक आपलें कशें दिसलें. हें फकत 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांतूच जावंक ना. म्हजीं हेर नाटकां 'खण खण माती', 'सुरींग' घेयात तातूंतय तेंच आसा. हांवें मांडिल्ले प्रस्न हांगाचे आसाच, पूण वांगडा ते वैश्वीकय आसात.

ते भायर 'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक भारतीय समाज जिणेचें आनी मुल्यांचें प्रतिनिधित्व करतालेंच, पूण खंयच्या तरी भारतीय सोडून हेर परिक्षक (पेटर्स पुरस्कारा खातीर वेंचून काडपी परिक्षक) लोकांक लेगीत तें आपल्या मदलें 'कितें तरी' कशें दिसपाक लागलें. हें त्या नाटकाचें खाशेलपण. देखून ह्या नाटकाक आस्ट्रेलियन पेटर्स पुरस्कार फावो जालो.

संवसारांतल्या लोकांकूय तें आपलें दिसलें. ह्या नाटकांतल्यान म्हाका एक आत्मविस्वास मेळ्ळो, तो म्हणजे हांव एक कोंकणी लेखक आसाच, पूण ते बराबर भारतीय आनी जागतीक प्रेक्षकांक आकर्शीत करपाइतलें (थोडेंशें जायना) खाशेलपण म्हज्या नाटकांत आसा. हेंच म्हाका मेळिल्लें समाधान.

**सत्यवान : 'शबै शबै भोवजन समाज' हें नाटक आयच्या राजकी परिस्थितीचें चित्रण आसा काय कितें ?**

पुंडलीक : राजकी पांवड्यार जो भ्रश्टाचार माजला ताचे आड आवाज काडपी हें नाटक, लोक संस्कृतायेचो वापर करून बरयलां. ह्या नाटकाचो विशय हांवें प्रभावीपणान मांडपाचो यत्न केला. सत्ता हातांत येतकच राजकारणी लोक कितें करूंक शकता ताचें ज्वलंत उदाहरण म्हणल्यार हें नाटक. 25-30 वर्सां पयलीं बरयिल्ल्या ह्या नाटकांत जें कितें आसा तें आयज 30 वर्सां उपरांत लेगीत तशाक तशें पळोवंक मेळटा. ह्या नाटकाचें हेंच खाशेलपण आसा.

**सत्यवान : तुमच्या नाटकांनी बिनधास्तपणां (तेंडुलकरां सारके) स्वैर विचार जाणवता काय कितें ?**

**पुंडलीक :** हय. म्हज्या नाटकांनी बिनधास्तपणां आयल्यांत. पूण हांवें तीं मुद्दाम हाडूंक नात. गरज म्हणून सभावीकपणान तीं आयल्यांत. उदाहरण दितां. 'खण खण माती' हें म्हजें पयलेंच नाटक जेन्ना रंगमाचयेर आयलें तेन्ना ताचेर बुरशें, पोजडें नाटक म्हूण आरोप जाले. निमाणें कोंकणी भाशा मंडळान कटकट नाका म्हूण ताचे प्रयोग 'ए' सर्टिफिकेट लावन केले. (फंडा खातीर केल्ले प्रयोग). तातूंत गाळी आशिल्ल्यो, पोजडेपणांची भास आशिल्ली. नक्कीच आशिल्ली. हांव तें मान्य करतां. म्हणजे भाशेचे नदरेन तीं पोजडींच आशिल्लीं. पूण हांव अशा एका पोजडे जिणेचें चित्रण करतालों जातूंत म्हाका तें अपरिहार्य आशिल्लें. तांच्या तोंडांत जर 'ती' भास घालूंक नाशिल्ली जाल्यार तें पात्र खरें कशें दिसचेंच नाशिल्लें. मायनिंग आनी गांवगिऱ्या वाठारांतली ती भास आशिल्ली. ती हांवें अट्टाहासान घालूंक नासली. गरज म्हूण घाल्ली. नाजाल्यार म्हज्या सगळ्या नाटकांनी पोजडेपणां येवचीं नासलीं ? तशीं तीं आयलीं नात. जें कितें आयलां तें गरजे खातीर. कितें सनसनाटी निर्माण करपाक येवंक ना. कित्याक तर म्हाका कोंकणी रंगमाचयेर सनसनाटी तयार करून वचपाचें नाशिल्लें.

म्हाका हांगा स्थीरावपाचें आशिल्लें. कोंकणी नाटक स्थीर करपाचें आसलें. जनसामान्यांत तें वेवस्थीत पावोवपाचें आशिल्लें.

**सत्यवान : तुमचीं नाटकां वैश्वीक विशय घेवन आयल्यांत ?**

**पुंडलीक :** अशें म्हाका दिसता. 'सुरींग' सारको विशय घेतना हांवें थारावीक समाज वेंचून काडलो. तातूंत बळिश्टान दुबळ्याचेर केल्लो अत्याचार हो विशय आसलो. पूण हो अत्याचार अशें म्हणून ओगी रावंक जायना. दुबळ्यां कडेन लेगीत शक्त आसता. एकवटाची शक्त. धा दुबळे एकठांय आयल्यार एका मनशाक जड वतात. हो वेगळे तरेचो विशय हांवें सुरींगांतल्यान हांगासरलीं पात्रां घेवन मांडलो. हो विशय वैश्वीकय आशिल्लो. जंय जंय कामगार वर्ग आसात, शोशीत वर्ग आसात तांकां लागपी हो विशय आसलो. म्हणटकच नाटकाचे बाबतींत थोडो वेगळो विचार हांवें केलो. हेतुपुरस्सर केलो.

'खण खण माती', 'रक्तखेव' ह्या सारकेलीं नाटकां हीं टिपीकल गोंयचींच नाटकां अशें म्हणूं येता आनी तीं दुसरे भाशेंत वचपाक मात्शीं कठीण जावं येता. आनी गेलींय जाल्यार तितली अपील जावचीं नात. तीं स्वतंत्र, कोंकणीच आसात. पूण कांय नाटकाचे विशय अशे आसात जे कोंकणी आसात तेच प्रमाण वैश्वीक आसात. कोंकणी नाटकां हीं फकत कोंकणीच नाटकां. दुसरे कडेन वचपाचीं न्हय आं तीं. तीं हांगाच करपाचीं. अशें जर लोकांनी म्हणिल्लें जाल्यार ही म्हजी मर्यादा जातली आसली. ही मर्यादा

हुपपाचो यत्न हांवें केलो.

**सत्यवान : कोंकणी नाटकां उत्सवी रंगमाचयेर पावल्यांत काय कितें? ह्या नाटकांक थंय येवकार मेळ्ळा?**

**पुंडलीक :** 1975त आमी कोंकणी नाटक सर्त सुरू केली ती स्पर्धात्मक रंगमाची आसली. दर्ज्यात्मक नाटकां तातूंत जातालीं. अप्रतीम अशें कितें तरी ते सर्तींत आसतालें. तातूंतले प्रयोग मागीर थोड्या प्रमाणांत हेवटेन तेवटेन जाताले. वळवयची 'रंगसांगाती' कांय प्रयोग करताली.

मागीर हांगाचे उत्सवी रंगमाचयेर कोंकणी नाटक कशें हाडूं येता हाचो विचार केलो. आनी तातूंतल्यान 'तिरंगी चक्राचक्री', शिरी रे शिरी अधांतरी', अशे तरेचीं नाटकां बसलीं. थंय भुरगीं आपल्या आवयबापाय बराबर भाव-भयणींबराबर पळोवपाक शकलीं. कारण तातूंत पोजडेपणां नासलीं. 'शिरी रे शिरी' सारको विशय घेवन सर्वसामान्य मनशाक हिरो करपाचो विचार जालो. शिरी सारके पात्र लोकांक आपलें म्हणल्यार भोवजन समाजाचें प्रतिनिधित्व करता अशें दिसपाक लागलें. नेपथ्याचे नदरेनूय तें सुटसुटीत जालें. अशे तरेची सुमार धा नाटकां हांवें बरयलीं. मागीर राजय पवार, प्रशांत सतरकार, सम्राट बोरकार, गोविंद रायकार बी नाटकां घेवन आयले. अशे तरेन उत्सवी रंगमाचयेर आमचें पावल मोट्या प्रमाणांत पडलें.

**सत्यवान : गोंयांत कोंकणी वेवसायीक रंगमाची कित्याक ना?**

**पुंडलीक :** कोंकणी रंगमाचयेचे विभाग केले जाल्यार गोंयांत एक हौशी रंगमाची आसा. कला अकादेमीची फाटलीं 35 वर्सां चलपी स्पर्धात्मक रंगभुमी आसा. आनी एक तिसरी तियात्राची वेवसायीक स्वतंत्र रंगभूमी आसा.

राजदीप नायक आनी हेरांनी चलयिल्ली एक रंगमाची आसा. तिका अर्द वेवसायीक रंगमाची म्हणू येता. आयज राजदीप नायका कडेन संबंदीत चार नाट्य संस्था आसात वा म्हणुया ताची चार नाटकां रंगमाचयेर आसात. आनी तातूंत जे कलाकार आसात जे खंय खंय ल्हानसान नोकरी, उद्देग-धंदे करतात. पूण तांची लागीं लागीं अर्द्या वयर येणावळ आसा ती नाटकाचेर आदारून. म्हणुया राजदीपा कडेन कितलींशीच कुटुंबां आसात जीं नाटकाचेर जगतात. देखून ते नदरेन ती अर्दवेवसायीक. त्या नाटकांतले कलाकार दीसभर काम करता आनी मागीर नाटकांत काम करता.

तियात्रांत काम करपी फकत तियात्राचेरूच जगपी आसा. देखून ती वेवसायीक रंगमाची. आमचे कडेन नाटकांखातीर वेवासयीक रंगमाची येवपाची शक्यताय खूब उणी आसा. कारण वेवसायिकतेक तितलो एक वाठार जाय पडटा. येद्या व्हडल्या महाराष्ट्रांत लेगीत कलाकार फकत नाटक एके नाटक अशें म्हणपी नात. परत भुगोलीक नदरेन गोंय, सिंधुदुर्गाचो थोडो वांटो, बेळगांव, कारवार अशे तरेन आमी विखुरिल्ले आसात. पूण आमचे कडेन अशें नाटक येवंक शकता जाका आमी अर्द वेवसायाक म्हणूंक शकता. पूण ते दर्ज्याचें आसतले. आयच्या परस उंचेल्या दर्ज्याचें. गोंयची शीम हुपून मुंबय, पुण्या वतले. 'वस्त्रहरण' फेम मच्छींद्र कांबळीचें नाटक मालवणां गाजलें. मुंबय गाजलें, पूण मुंबय पळयलें तें मालवणकारांनीच. पुण्या तें नाटक फसलें. कारण पुण्याच्या लोकांक मालवणी येना. तेच मालवणी नाटक गोंयां आयलें आनी गोंयांत गाजलें. कारण गोंयकारांक मालवणी कळटा. अशें जर आसा, म्हजें नाटक फाल्यां मालवणांत वचूंक जाय. मुंबय वचूंक जाय, हो भाग उक्तो जावपाची गरज आसा. सावंतवाडींत प्रिन्स जाकोबाल्या तियात्राचे बोर्ड लागिल्ले आसतात. तियात्र थंय चलता जाल्यार कोंकणी नाटकूय थंय चलपाक जाय. आजरा, गडलहिंग्लज ह्या घाटमाथ्या वयल्या भागांत एक लाखां वयर कोंकणी लोक आसात. आमी थंय अजून पावंक नात. कारवारा वर्साक शंबर-दोनशीं नाटका जातात. नाटकाची थंय आवड आसा. मुखार मंगळूर, उत्तर कॅनरा थंयूय नाटक पावपाक जाय. अशें

जाल्यारूच कोंकणी वेवसायीक रंगमाची अस्तित्वांत येवं येता.

**सत्यवान : गोंयची कोंकणी रंगमाची मंगळूर मेरेन व्हरून फुलोवं येता ?**

**पुंडलीक :** नक्कीच. फुलोवं येता. एका काळार मुंबय जें नाटक आशिल्लें तें खूब गाजिल्लें जे गोंयकार साडेचारशीं वर्सां पयलीं मंगळूरा गेलें मागीर मंगळूरच्यान परत आसा तशें नोकरेच्या निमतान आयलें आनी मुंबय स्थायीक जाले. त्या लोकांचें वैशिश्टय म्हणल्यार तांकां कोंकणी येता, कर्नाटकांत आशिल्ले म्हूण कन्नड येता आनी महाराष्ट्रांत येवन मराठी शिकले. गुजराती, इंग्रजी नाटकांचो संबंद आयिल्ल्यान तांची नाटकां कडली जाणीव अतिशय प्रगल्भ जाली. असो तो सुबुद्द असो समाज. एका काळार सुंदर सुंदर नाटकां ह्या समाजान केल्यात आनी मराठी, पंजाबी आनी हेर रंगमाचयेर चलतालीं तीं नाटकां तांणी अनुवादीत करून सादर केल्यांत. त्या वेळार आमी गोंयकार हांगा मराठी नाटकांनी गुल्ल आशिल्ले. ह्या लोकांनी कोंकणी नाटकांक खूब योगदान दिलें. तांणी वेवसायीक रंगभुमी केली ना, पूण कांय नाटकांचे 30-40 प्रयोग केले. म्हज्या 'सुरींग' नाटकाची तोखणाय करपी ते हेच लोक आशिल्ले. अर्थांत सुरींग नाटक चल्लें म्हूण सगळींच सादीसादी नाटकां चलतलीं अशें ना. पूण एक खरें, थंय कोंकणी लोक आसात आनी तांकां नाटकाची अभिरुची आसा. तो मनीस कितल्याय पिळग्यांचो आसूं, चार पिळग्यांचो कोचींत आसूं, मंगळूरा आसूं वा मुंबयंत आसूं ताका नाटक आवडटा. जर अशें कोंकणी नाटक तयार जालें फकत गोंयांतच न्हय कारवारा, मुंबयंत तयार जालें जाल्यार तें देशांत चलतलें. मागीर ताका आमी अर्दवेवसायीक वा वेवसायीक नक्कीच म्हणपाक शकतात.

आयज आमचे कडेन तशे तरेची रंगभूमी ना, पूण त्या दर्ज्याचें नाटक आसा. कारण सुरींग नाटक जेन्ना भायल्या राज्यांनी जाता आनी लोकांची प्रतिक्रिया पळयत जाल्यार खंयच्याय प्रगत भाशेंतलें नाटक आसता त्या दर्ज्याचे कोंकणी नाटक आसा. सुरींग सारकें नाटक 30-35 वर्सां पयलीं बरयिल्लें आनी आयजूय ताका उत्स्फूर्त असो प्रतिसाद मेळ्ळा

**सत्यवान : तुमचे 'सुरींग' नाटकाचे प्रयोग गोंया भायर जाले. ताका लोकांनी कशे तरेन प्रतिसाद दिलो ?**

**पुंडलीक :** म्हजें सुरींग नाटक गोंया भायल्या प्रेक्षकांनी माथ्यार घेतलें. सुरींग हें 25-30 वर्सां फाटलें नाटक आयजूय सादर जातना प्रचंड येसस्वी जालां. गेल्या वर्सा (2014 ) सुरींग हें म्हजें नाटक नवी दिल्लींत सादर जालें तेन्ना थंय कोंकणीचे चार-पांच लोक सोडले जाल्यार भोवतेक लोक कोंकणी भाशीक नाशिल्ले. पंजाबी, हिंदी, उर्दू आनी हेर भासांतले आशिल्ले. तरी लेगीत सुरींग नाटक पळयतना तांकां कसलीच अडचण आयली ना. त्या लोकांनी ताका उत्स्फूर्त प्रतिसाद दिलो. नाटकाची वा वा केली. म्हणल्यार हाचोच अर्थ नाटकाची एक स्वताची भास आसता. दुसऱ्या भाशेंतली कथा कादंबरी समजुपाक कठीण वतली पूण नाटक पळोवपाक तशी अडचण येना. सगळें कळ्ळें ना तरी बरेचशें नाटक कळून येता.

**सत्यवान : कोंकणी रंगभुमी परत विनोदी नाटका कडेन आकर्शित जाल्या काय कितें ? त्या नाटकांतल्या विनोदाचो दर्जो कसो आसा ?**

**पुंडलीक :** कोंकणी रंगमाची परत विनोदी नाटका कडेन आकर्शित जाल्या ही गजाल खरी आसा. लोक उक्तेपणी तशें उलयतात. कोंकणी नाटकांतलो विनोदाचो दर्जोय घसरला अशें आयकूंक येता. कोंकणी नाटकांत विनोद येवपाकय जाय पूण तो डिसेंट आसूंक जाय. विनोदाच्या नांवा खाला पोजडेपणां येवपाक फावना. कारण उत्सवी रंगमाचयेवयलें कोंकणी नाटक कुटुंबा वांगडा बसून पळोवपा सारकें आसूंक जाय, अशें म्हजें मत आसा.

**सत्यवान : कोंकणी नाटकां म्हणल्यार विनोदी स्वरुपाचीं नाटकां हो जो ठसो कोंकणी**

**नाटकाक बशिल्लो तो पुसून काडपाखातीर तुमी नाटककार ह्या नात्यान कसले यत्न केल्यात ?**

**पुंडलीक :** कोंकणी नाटकां म्हणल्यार विनोदी स्वरुपाचीं नाटकां अशें समिकरण आदीं लोक करताले. ताका तशीं कारणां आसलीं. सुरवातेक कोंकणी नाटकां 'बाप्पा-व्हनीबाय' ह्या फर्मांत प्रेक्षकां मुखार आयलीं. ताका लागून कोंकणी नाटकां म्हणल्यार विनोदीच आसतलीं असो लोकांचो गैर समज जाल्लो. देखून बाप्पा-व्हनीबाय ह्या फॉर्मांतल्यान नाटक भायर काडपाचें आसलें. जिणेचें वास्तव रूप दाखोवपी संघर्शांत भरिल्लीं गंभीर स्वरुपाचीं, संवेदनशील नाटकांची गरज कोंकणी रंगभुंयेर आसलीं. आमचे कडेन हे सगळें विशय आसले. हांवें स्वता अशा स्वरुपाचीं कोंकणी नाटकां बरोवन कोंकणी नाटकां फकत विनोदी स्वरुपाचीं आसतात हें लेबल काडून उडयलें. मागीर ह्या गंभीर आनी वास्तववादी, अन्याय, अत्याचारा आड आवाज काडपी नाटकांक लोकांनी येवकार दिलो.

**सत्यवान : नाटकाच्या तंत्राचो अभ्यास आयच्या नाट्यलेखकांनी खूब उण्या प्रमाणांत केला ही गजाल कितली खरी आसा ?**

**पुंडलीक :** नाटक बरोवप तशी कठीण गजाल आसा. नाटक बरयलें म्हूण बरयलें अशें जायना. नाटकाच्या तंत्राचो अभ्यास करपाची गरज आसा, जो आयच्या नाटककारां कडेन सामको उणो आसा. व्हडल्या व्हडल्या लेखकांक ही गजाल जमना. तांचीं नाटकां आशयान बी बरीं आसतात, पूण नाटकांक जें एक तंत्र लागता तें सांबाळप गरजेचें आसता. ताका लागून प्रत्येक लेखकान दुसऱ्याचीं नाटकां पळयलीं वाचलीं जाल्यार हें तंत्र सहज अवगत जावं येता.

**सत्यवान : कोंकणींत उण्या प्रमाणांत नाटकां येतात. नाटककार म्हणून तुमकां ताची खंत जाता ?**

**पुंडलीक :** एक लेखक म्हणून म्हाका ताची खंत आसा. म्हाका दिसता, खूब जाणांनी नाटकां बरोवचीं. मागीर हांवूंय तातूंत पर्जळून दिसतलों. (हांसून) नाटक बरयलें म्हणून जायना तर नव्या बरोवप्यांनी नाटकाच्या तंत्राचो अभ्यास करपाक जाय.

**सत्यवान : साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना तुमच्यो भावना कितें आसल्यो ?**

**पुंडलीक :** 'चौरंग' एकांकी संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो पूण तकलेंत सगळो 'गुणाजी'च आयिल्लो. हांवें अशी कल्पना केल्ली, इतलीं वर्सां गोरवांच राखलीं आनी समज साहित्याचो स्पर्श जावंक नाशिल्लो जाल्यार हो राष्ट्रीय पुरस्कार बी मेळचोच नाशिल्लो. हांव गोरवां राखतना लेगीत अतिशय आत्मीयतायेन राखतालों. अशें जर आसा जाल्यार बेस बऱ्या राखण्या खातीर पुरस्कार बी आसूं येता आनी देशांतल्या हेर राखण्यांक मेळटा तसो तो म्हाकाय मेळ्ळो. मागीर विमानाचो बी अणभव मेळ्ळो तो गुंथून हांवें 'गुणाजी' तयार केलो.

**सत्यवान : साहित्य अकादेमीचो प्रतिशठीत असो संगीत नाटक अकादेमी पुरस्कार तुमकां फावो जालो. त्या पुरस्कारा विशीं सांगशात.**

**पुंडलीक :** संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार संगीत आनी नाटक क्षेत्रांतल्या लोकांक मेळटा जातूंत गावप्यांचो आसपाव आसता. मागीर 'इन्स्ट्रूमेंटलिस्ट' जशे तबला, संतूर ह्या लोकांचो आस्पाव जाता. मागीर पुरायपणान नाटकाच्या क्षेत्रांत काम करपी जांकां आमी नाट्यकर्मी म्हणटात तांकां दितात. नाटकाच्या क्षेत्रांत लेखन, दिग्दर्शक, तंत्रज्ञ आनी हेरांचो तातूंत आसपाव जाता. आयजवेर संगीत नाटक अकादेमीचे पुरस्कार मेळ्ळ्यात तातूंत गायना खातीर किशोरी आमोणकार, मोगूबाई कुर्डीकार, पं. जितेंद्र अभिषेकी, नाट्य दिग्दर्शना खातीर दामू केंकरे, अभिनया खातीर प्रसाद सावकार, वसंत जोसलकर आनी एम बॉयर (तियात्र-लोकनाट्या खातीर) हांचो आस्पाव आसा.

नाट्य लेखकाना खातीर अंदू वर्सा हो पुरस्कार म्हाका मेळ्ळो. फाटलीं धा वर्सां जालीं ह्या पुरस्कारा खातीर म्हजें नांव येतालें. ह्या पुस्तकाचें एक खाशेलपण

म्हणल्यार एकाद्या कलाकारान 60 वर्सां पिराय हुपली म्हणटकच ह्या पुरस्कारा खातीर ताचो विचार करतात. फाटलीं धा वर्सां म्हजो विचार चलतालो पूण म्हाका हो पुरस्कार मेळनासलो कारण तांचे नदरेंतल्यान पिरायेचे नदरेन हांव चडूच यंग थारतालों. नाट्य लेखना खातीर म्हाका हो पुरस्कार मेळचो म्हूण कला आनी संस्कृती खात्याचे संचालक प्रसाद लोलयेंकार, वामन केंद्रे ह्या सारक्या लोकांनी खासा यत्न केल्ले. नाट्य लेखना खातीर पयलेच खेप म्हाका हो पुरस्कार फावो जालो.

**सत्यवान : संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार मेळटलो जाल्यार कितें क्रायटेरिया आसता? अमूक नाटकां बीं बरयिल्लीं आसूंक जाय?**

**पुंडलीक :** ना. ज्या क्षेत्रांतले जे भाशेंत तूं बरयता ते भाशेंत तुजें नांव आसूंक जाय. आनी तुज्या क्षेत्रांतली शीम हुपून तूं खंय तरी पयस पावंक जाय.

संगिताच्या क्षेत्रांत तसो व्हडलोसो प्रस्न आसना. कारण गायन-वादन ह्या क्षेत्राचो विचार केल्यार त्या कलाकारांनी भाशीक मर्यादा आनी प्रांताच्यो मर्यादा मोडिल्ल्यो आसता. प्रस्न फकत आमच्या पुरतो म्हणल्यार लेखका पुरतो येता. म्हाका लेखनाचो पुरस्कार मेळटा तेन्ना म्हजें लेखन कोंकणी सोडून आनीक खंय पावला. हाचो विचार जाता. दिग्दर्शका बाबतींत विचार केलो जाल्यार म्हजें दिग्दर्शन कोंकणी सोडून आनीक खंय जाला ताचो विचार करता. अभिनयाचेय तशेंच. विचार फकत कोंकणी भाशे पुरतो जायना. कारण शेवटी संगीत नाटक अकादेमी पुरस्कार दितना राष्ट्रीय पांवड्या वयल्या योगदानाची दखल घेता.

हे पुरस्कारूय तशेच चड नासतात, सुमार 30-35 इतले आसतात. आमी खंयचेय एके भाशेक ते राखून दवरिल्ले नासतात. नाटक हें कॅटेगरींत कोंकणी येता जाल्यार तो कोंकणीक मेळटलो.

कोंकणी भाशेक म्हूण तो मेळचो ना. साहित्य अकादेमी जसो कोंकणीक पुरस्कार बी दिता तसो हो कोंकणी खातीर राखीव नासता. सर्वसामान्य कलाकार म्हूण तो एका भारतीय नाटककारा खातीर आसता. तूं एक नाटककार आनी भारतीय नाटक़कार कोंकणी नाटककार न्हय, असो हो पुरस्कार आसता. संगीत नाटक अकादेमी पुरस्काराचे हें वैशिश्ट्य आसा.

**सत्यवान : ज्ञानपीठ पुरस्कार दिवपाची पद्दत कशी आसता?**

**पुंडलीक :** ज्ञानपीठ पुरस्कार दिवपाची पद्दत मात्शी वेगळी आसता. दर भाशेचें एक मंडळ आसता तशें कोंकणीचेंय एक मंडळ आसता. हें मंडळ दोन-तीन नांवां ज्ञानपीठ पुरस्कारा खातीर सुचयता. अशें सगळ्या भासांतलीं मंडळां करतात. मागीर अंतीम समिती हीं नांवां हाता वेगळीं करतात.

पयलीं हो पुरस्कार दितना पुस्तकां वेंचून काडटाले. मागीर सर्जनशील कालखंड वेंचून काडून ताच्या वावराची दखल घेवन पुरस्कार दिवपाक लागले. आतां तशें कांयच करिना. आतां थेट लेखक म्हूण वेंचून काडटात. ताच्या सबंद जिवनाच्या योगदानाचो विचार करून हो पुरस्कार दितात. रवीन्द्रबाबाक ज्ञानपीठ मेळ्ळो ताचें एक वैशिश्ट्य म्हणल्यार आयज मेरेन हो पुरस्कार फिक्शन रायटराकूच मेळ्ळा. म्हणल्यार कथा, कविता, कादंबरी, नाटक ह्या सारक्या बरोवप्यांक. एकाद्या विचारवंताक वा वैचारीक साहित्य बरोवप्याक तो मेळूंक नासलो. वैचारीक साहित्य आनी प्रमोटर ऑफ लँग्वेज ह्या क्रायटेरिया खाला रवीन्द्रबाबाक ज्ञानपीठ मेळ्ळो.

**सत्यवान : फुडाराकूय आमकां फेलोशीप आनी ज्ञानपीठ मेळूंक शकता?**

**पुंडलीक :** नक्कीच मेळूंक शकता. फेलोशीप जेश्ठता आनी पिरायेचेर आदारून आसता. रवीन्द्र केळेकारा उपरांत दामोदर मावजो आनी हेर आसात. तांचो नक्कीच विचार जातलो. तातूंत मातूय दुबाव ना.

ज्ञानपीठ म्हणल्यार जीवनगौरव. तुवें जिणेंत कितें कितें केलां तें जोखून तुका ज्ञानपीठ दितात.

**सत्यवान : आमकां ज्ञानपीठ परत मेळूं येता ?**

**पुंडलीक :** आमकां ज्ञानपीठ मेळूंक शकता हें म्हणपाक कसलीच हरकत ना. रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटाले आमकां केन्ना तरी ज्ञानपीठ मेळटलो, पूण आपल्याक ज्ञानपीठ मेळटलो अशें खुद्द तांकां दिसूंक नासलें. रवीन्द्रबाबा उपरांत आतां आमकां परत ज्ञानपीठ मेळटलो काय कितें ह्या प्रस्नाक जाप हय अशीच आसा. आयज आमचे कडेन ज्ञानपीठा खातीर दोन-तीन तरी नांवां आसात. दामोदर मावजो, महाबळेश्वर सैल आनी म्हजें लेगीत आसा. आतां ज्ञानपीठ मेळटलो काय ना ही दुसरी गजाल. पूण ज्ञानपीठ मेळपाच्या पांवड्या वयलें साहित्य आयज कोंकणी लेखका कडेन नक्कीच आसा. भाई मावज्याली कथा आयज फकत कोंकणी भाशे पुरतीच मर्यादीत उरूंक ना. ती इंग्लिशींत आनी हेर भासांनी अणकारीत जावन पावल्या. महाबळेश्वर सैलाल्यो कादंबरी मराठी आनी हेर भासांनी अणकारीत जातात. म्हजींय नाटकां आनी हेर साहित्य हेर भासांनी पावलां.

**सत्यवान : कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळ्ळे उपरांत कोंकणी साहित्याच्या आनी लेखकाचे नदरेन कसलो बदल घडून आयलो ?**

**पुंडलीक :** पुरस्काराच्या निकशाचेर साहित्याची मोलावणी जावची न्हय. मात पुरस्कार मेळ्ळे उपरांत लेखकाक फरक पडटा, ताचें भाशेंतूच फरक पडटा. रवीन्द्रबाबाक ज्ञानपीठ मेळ्ळो तेन्ना आमी आमचेपरी व्हड आसले, पूण ज्ञानपीठ मेळ्ळे उपरांत आमी आमकांच कोंकणीचे व्हड लेखक म्हूण पळोवपाक लागले. असो बदल घडलो. रवीन्द्रबाबाचे बाबतींत असो घडलो ना कारण तो येदो व्हड लेखक आसलो, ताका तो पुरस्कार मेळ्ळो वा ना मेळ्ळो, फरक पडपाचो नासलो. पूण आमचे जिणेंत नक्कीच बदल घडलो. कोंकणी भाशेच्या जिणेंतूय तो घडलो.

**सत्यवान: साहित्य अकादेमीचे तीन पुरस्कार तुमच्या घरांत आसात. हालींच अणकारा खातीर हेमाबायक पुरस्कार मेळ्ळो. अणकारीत साहित्य तुमचे कडल्यान कित्याक जालें ना.**

**पुंडलीक :** हेमा लग्न जावचे पयलीं सावन बरयतालें. कोंकणीकडेन आमची दोगांयची ओड आसाच, पूण साहित्याकडेन नातें दवरपाची आमची लागणूक आसली ती आमी दवरली. हेमाक अणवादाचो पुरस्कार बरोच उसरां मेळ्ळो. अणवादाचें कार्य तांणी सातत्यान बरें सांबाळ्ळां.

अनुवादाचें काम जायना तें म्हजे कडल्यान. कित्याक तर हांव मूळ (ओरिजिनल) साहित्य बरोवपाचेर भर दितां. 'ओरिजिनल' साहित्य बरप जितलें म्हत्वाचें तितलेंच अनुवादाचें काम म्हत्वाचें. हांव म्हजें स्वतंत्र साहित्य बरयतना म्हजे तकलेंत जें कितें आसा, तेंच बरयता. अनुवाद करतना हांव दुसऱ्याचे प्रतिभे कडेन झुजतां. तातूंत हीं आव्हानां आसतात. तीं म्हजे भाशेंत हाडप तशीं खूब कठीण आसतात.

**सत्यवान: तुमची चडशी शक्त कोंकणी चळवळींत गेली ना जाल्यार तुमच्या लेखनाची 'स्पीड' वाडटली आसली ?**

**पुंडलीक :** 'स्पीड' बी तशी अकस्मात वाडची नासली. पूण चळवळ अपरिहार्य आसली. हांवें थारायिल्लें, राज्यभाशेचें आंदोलन जाय मेरेन झगडूंकच जाय आसलें. मागीर कोंकणी अकादेमीच्या प्रशासनांत आयलों तेंय बी कोंकणीचें काम जाग्यार घालपा खातीर. कोंकणीचीं कामां करतना थोडोसो लेखनाचेर परिणाम जालो आनी तो जावपाचोच. हांगा म्हज्या लेखनाची प्रवृत्ती समजून घेवपाक जाय. हांव एका वेळार एकूच काम करपी. हांव 'वन ट्रॅक' लेखक. एक कितें घेतलें जाल्यार तें पयलीं पुराय करप. ताका पूर्ण न्याय दिवप. हाचो परिणाम असो जातलो, एक काम पूर्ण करीसर तुका रावचेंच पडटलें.

**सत्यवान : आयच्या तरणाट्यांचीं पुस्तकां दर्ज्यात्मक आसा ?**

**पुंडलीक :** गोवा कोंकणी अकादेमीन 'पयलो

चंवर' येवजणे खाला नव्या बरोवप्यां खातीर वर्साक 22 पुस्तकांची तरतूद केल्या. आयज 7-8 पुस्तकां वयर वचना. खूब कच्चो माल येता ताका चाळण लावपाची गरज आसा. ताचें एक कारण अशें जाला, कवितेचे बाबतींत एक 'सुनापरान्त' सोडलो जाल्यार कांय प्रमाणांत' बींब',' जाग' जाल्यार पुर्वप्रसिद्धी म्हूण कितें गरजेचीं आसता ती जायना. बरयलां तशें तें थेट अकादेमीकडेन येता. हेर भासांनी तशें जायना. मराठी कथा बरयिल्ल्यो आनी पुस्तक छापून आयल्यो अशें जायना. त्यो कथा, कविता खंय खंय छापून येता आनी मागीर त्यो पुस्तकांत येतात. आनी हांगा लेखक होच प्रकाशक आशिल्ल्यान तांकां कोण आडायतलो? तांकां कोण चाळण लायतलो?

पुस्तकां काडप आयज सोंपें जालां. गोवा कोंकणी अकादेमीची पयलो चंवर कला संस्कृती खात्याची अनुदान दिवपाची येवजण अशे तरेच्यो येवजण्यो गोंयांत खूब आसात. हेर राज्यांनी अशे तरेच्यो येवजण्यो मोट्या प्रमाणांत नासुंये. हाचो उपेग गोंयकारांक जाता. पुस्तकां खूब येतात, पूण तांचें मुल्यांकन मात जायना.

रवीन्द्रबाब हे बाबतींत, थोडीं आयल्यार जातात दर्जेदार आसूंक जाय अशें म्हणटाले. आयज आमकांय बी कोंकणीचे चळवळींत चड पुस्तकां आयिल्ल्याचें दाखोवपाचें आसता. पूण दर्जात्मक जाय तें येता पूण खूब उण्या प्रमाणांत.

**सत्यवान : तुमचो सगळ्यांत आवडीचो साहित्य प्रकार खंयचो?**

**पुंडलीक :** कांय जाण कवी आसतात आनी तांकां कितें सांगपाचें आसा तें ते कवितेंतल्यान सांगतात. कांय जाण कथाकार आसतात जे तांकां कितें सुचता तें कथेंतल्यान मांडटात. देखीक कथाकार कथा सोडून दुसऱ्या माध्यमाचो विचार करचोच ना.

हांव म्हाका साहित्यीक मानतां. साहित्याची व्याख्या जिवना सयत आसा जाल्यार म्हजे नदरेंतल्यान म्हाका साहित्याचे सगळे प्रकार कमी अदीक प्रमाणांत कळपाक जाय. म्हजे बाबतींत जेन्ना कसलोय विचार येता तेन्ना हांव थारायता, म्हजे कडेन कथा आसा, कविता, कादंबरी आसा. केन्ना केन्ना हांव थारायता, जें म्हजे तकलेंत आसा त्या विचाराचें बीज कविते खातीर ना, कविते परस तें व्हडलें आसा आनी तें कथेंत वचपाक जाय. मागीर ताची कथा जाता. केन्ना केन्ना तकलेंत आयिल्लो विचार कथे परस व्हडलो आसा ताची कादंबरी जावंक जाय वा तकलेंत आयिल्लो विचार नाटकांतल्यान प्रगट जावंक जाय जाल्यार मागीर हांव ताचें नाटक करतां. म्हणटकच म्हजे तकलेंत कसलेंय बीज येतकच म्हज्या मुखार जे प्रकार आसात त्या प्रकारांत तें हांव तोलून पळयतां. तातूंत तें बसतले काय ना! मागीर प्राधान्य क्रमान तें वता. कविता, कथा, कादंबरी, नाटक अशे तरेन. म्हणटकच अमकोच असो प्रकार आवडीचो अशें म्हणूंक जावचें ना. अजूनय हांव कविता बरयतां. म्हज्या गितांचो संग्रह उजवाडा आयला. आनीक एका कविता संग्रहा खातीर कविता तयार जाता. अशें कितेंय तकलेंत येतकच ज्या माध्यमाक ते योग्य थारता त्या प्रकारांत हांव तें बरयतां.

**सत्यवान : तुमच्या साहित्याचे तुमीच प्रकारांतर केलां ते हेच खातीर तर?**

**पुंडलीक :** हय. साहित्याचे भोवतेक सगळे प्रकार आसा ते म्हाका अवगत आसात आनी ते साहित्यीकाक येवंक जाय, अशी म्हजी धारणा आसा. आतां हांव जेन्ना एक 'थीम' घेवन येतां तिचेर हांव विचार करतां, हिचें कितें जावं येता? कविता? कथा? कादंबरी? एकांकी? काय नाटक? नाटक जाल्यार हातूंत नाटक़ाचे घटककितले आसा? आनी केन्ना केन्ना एक कथा बरयली मागीर म्हाका दिसता, तातूंत नाटकीय घटक आसा मागीर हांव ताचें नाटक करता. वा फाटल्या प्रकारांत म्हाका सगळें सांगपाक शक्य जालें ना. देखून तें नव्या फॉर्मांत परत सांगचें पडटलें अशें दिसता. तेन्ना हांवें साहित्य प्रकारांतर केलां, मात हें करतना हांवें क्रम सांबाळ्ळा. म्हणल्यार पयली नाटक आनी मागीर कथा अशें

करूंक ना. पयली कथा केल्यार मागीर ताची कादंबरी. मागीर नाटक आनी मागीर ताचो सिनेमाय जालो. हें जें प्रकारांत आसा, म्हाका तें सादलां कित्याक तर हांव एकाच कला प्रकारा कडेन संबंदीत ना. देखीक म्हजी 'पाज' कथा 'अच्छेव' कादंबरी जाल्या. दायज नवलिकेचें नाटक जालां. टेलीफिल्म जालां.

**सत्यवान : म्हणल्यार जें तुमकां सगळें कथेंतल्यान सांगपाक जालें ना तें तुमी नाटकांतल्यान वा कादंबरींतल्यान सांगलां.**

**पुंडलीक :** हय. पूण एक गजाल हांवें सदांच केली ती म्हणल्यार दर एका प्रकाराची जी बलस्थानां आसात तीं पयलीं समजून घेतलीं. म्हजी सुंदर कथा आसा आनी तातूंत नाटकीय घटक ना जाल्यार कथा हेंच ताचें बळ आसा. अशा वेळार एकांकींत वा नाटकांत व्हरप म्हणल्यार तें ताचें दुबळेपण. तें हांवें केलें ना.

**सत्यवान : तरी लेगीत सगळ्यांत साहित्य प्रकारा परस तुमी नाटकाक चड प्राधान्य दिला अशें दिसता.**

**पुंडलीक :** हय. हें खरें, पूण नाटक वेंचून काडपा फाटली एक गरज आसली. इतली गरज आसली कारण हांवें फाल्यां कविता, कथा, कादंबरी बरयली ना जाल्यार म्हाका कोण विचारचो ना. पूण नाटक बरयलें ना जाल्यार 'नवें नाटक ना रे?' अशें कोण तरी विचारतलो. कारण नाटक रंगभुयेर येवपाचें आसता काय जाणांक तें पळोवपाचें आसता. अश्यो बऱ्योचश्यो प्रक्रिया ताचे फाटल्यान आसतात. नाटक हो घटक अतिशय चालंत आसता. देखून डिमांडाचे नदरेंतल्यान नाटकाची गरज आसा. आमी कथा, कविता, कादंबरी ह्या भारतीय साहित्य प्रकारा कडेन बरेच समांतर आशिल्ले, पूण नाटकाचे बाबतींत आमी बरेच फाटी आशिल्ले. नाटककार म्हूण आमकां कोण वळखच नासले. नाटकांचें तशें नांव जावंक नाशिल्लें. ते नदरेंतल्यान नाटक पॉप्युलर करून गांवागांवांनी दाखोवपाचें आसलें. ते भायर तें गोंयां भायरूय दाखोवपाचें आसलें. ते नदरेन नाटक कोंकणींत येवप खूब गरजेचें आसलें. ते खातीर नाटकाक प्राधान्य दिलें.

**सत्यवान : साहित्य निर्मिती खातीर तुमी आकाशवाणी वयली नोकरी सोडली हें आयकून तुमी हेरां परस वेगळे कशें तें दिसलें. आयज अशे तरेचें चित्र दिसना. ही एक दुर्मिळ गजाल. ती फकत पुंडलीकबाबूच करूंक शकता!**

**पुंडलीक :** म्हाका सुरवेक सावनूच नोकरी करपाची नासली. पूण आकाशवाणीचेर नोकरी करचे पयलीं हांवें पोटापाण्याची वेवस्था हे गरजेंतल्यान शिक्षकाची चार वर्सां नोकरी केली. खरें म्हणल्यार मागीरय म्हाका नोकरी करपाचीच नासली. परत अर्थीकविवंचनेंतल्यान आकाशवाणीचेर नोकरी केली आनी चार ते साडेचार वर्सां उपरांत म्हाका दिसलें की हांव म्हज्या पांयांचेर उबो रावपाक शकतां. नोकरी न करपा फाटलें म्हत्वाचें कारण म्हणल्यार म्हाका कमिटेड लेखक जावपाचो आशिल्लो. तेच वांगडा अर्थीक नदरेंतल्यान लेगीत लेखक म्हूण जगपाचें थारायिल्लें आनी तेंय म्हाका सिद्ध करपाचें आसलें. लेखक म्हूण म्हज्यो ऐशआरामाच्यो कल्पना नासल्यो आनी ते नदरेंतल्यान पूर्ण वेळ लेखनाक ओपून घेवन हांवें आकाशवाणीचो राजिनामो दिलो. हो निर्णय हांवें स्वता घेतिल्लो. कोणेंच म्हजेर तो लादूंक नासलो. आनी तो निर्णय घेवन हांव संपूर्ण लेखनाक लागलों. अर्थांत हेमा तेन्ना नोकरी करतालें, ही गजाल आसलीच.

**सत्यवान : ओपिनीयन पोलांत तुमचो वांटो कितलो आशिल्लो?**

**पुंडलीक :** ओपिनीयन पोलांत म्हजो बापूय वांटेकार आशिल्लो. आनी तो विलिनीकरणाक विरोध करतालो. वळवयचीं एक दोन घरां सोडलीं जाल्यार सगळे जाण विलिनीकरणाक तेंको दिवन महाराष्ट्रांत वचपाक तयार आसले. म्हजो बापूय विरोधांत आसलो.

पूण मराठींतल्यान तयार जाल्ले जे भुरगे आशिल्ले ते

विलिनीकरणाक तेंको दिताले. तातूंत हांवूंय आशिल्लों. पूण जेदेवेळार उदयबाब भेंब्रे हांगा आयिल्लो तेन्ना हांव आनी म्हगेले इश्ट तांगेलीं फकांडां मारपाक ते बसकेक गेल्ले. पूण उदयबाबाचें ते 40-45 मिनटांचें भाशण आशिल्लें तातूंत तो शांतपणान मुद्दे समजावन सांगतालो. महाराष्ट्रांत गेल्यार कितें लुकसाण आसा आनी गोंय संघ प्रदेश दवरल्यार कितले फायदे आसात हें तो विस्कटावन सांगतालो. चड करून तो पगाराविशीं म्हणल्यार मास्तरांच्या पगारा विशीं सांगतालो. महाराष्ट्रांत गेल्यार इतलो पगार, गोंयांत रावल्यार तितलो पगार. आनी म्हाका खात्री आसा चडांत चड मास्तरांनी विलिनीकरणाक विरोध करून संघ प्रदेशा वटेन मतदान केल्लें आसतलें. सामको पोटाचो प्रस्न आसलो लोकांचो. आनी उदयबाब इतल्या प्रभावीपणान सांगतालो, तुजें मत परिवर्तन जावंकच जाय आसलें.तागेलें भाशण आयकून मतपरिवर्तन जावप्यां मदीं हांव आनी म्हजे इश्ट आशिल्ले. ओपिनीयन पोलाचो प्रचार करपा इतलो हांव व्हड नाशिल्लों हेंय तितलेंच खरें.

**सत्यवान : राजभास चळवळीक कशी सुरवात जाली.**

**पुंडलीक :** ताचें अशें जालें. गोंय विधानसभेंत लुईझिन फालेरो हांणी राजभाशेचें खाजगी विधेयक मांडलें आनी तत्कालीन काँग्रेस सरकारान कसलेंच 'उतर' दिनासतना तें विधेयक तांकां फाटीं घेवंक लायलें. त्या वेळार काँग्रेस सरकार कोंकणीच्या प्रस्ना कडेन बांदिल्लें आशिल्लें आनी तरी लेगीत (राणे) सरकार फालेरोंचें बील कुशीक उडयता आनी कोंकणी प्रस्नाचे बाबतींत कांय उतर दिना हो मुद्दो आमी धरलो. चड करून त्या वेळार आतांचे सुनापरान्ताचे संपादक बाबली नायक हांणी फुडाकार घेतलो आनी ह्या मुद्द्याचेर समविचारी लोकांनी एकठांय येवन एक कोंकणी प्रजेचो आवाज ही संघटना घडयली. तेन्ना पुंडलीक नायक मेकळो आसलो. सगळ्यांनी एक मतान म्हजें नांव फुडारपणा खातीर सुचयलें. हें फुडारपण स्विकारतना हो कांट्याचो मुकट आसा हाची म्हाका पुराय जाणीव आसली. उपरांत आमचें आंदोलन येसस्वी जालें. 1987त कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो फावो जालो. 555 दिसांचो हो खर संघर्श आसलो. हांवें साहित्य रचना करपाची गजाल त्या वेळार कुशीक दवरली आनी कोंकणी खातीर जें कितें गरज आसलें तें सगळें केलें. त्या वेळार जर आमी हारिल्ले जाल्यार पुंडलीक नायक कोंकणी इतिहासांतलो 'झिरो' जातलो आसलो इतलें खरें.

इतलें मात खरें जर कोंकणी राजभास जावंक नाशिल्ली आनी संविधानांतले आठवे वळेरेंत कोंकणी वचूंक नाशिल्ली जाल्यार आयची परिस्थिती भयानक आसतली आशिल्ली.

**सत्यवान : कोंकणी ही राजभास जावची असो आगरो तुमी कित्याक धरलो ?**

**पुंडलीक :** कोंकणी ही राजभास जावची ही मागणी तुजी म्हजी मातृभास कोंकणी, म्हणून नाशिल्ली. लागीं लागीं सगळ्या राज्याच्यो राजभासो थारिल्ल्यो आशिल्ल्यो. गोंयांत अशें नाशिल्लें. आमचे कडेन कोंकणी, मराठी, इंग्लिशींतल्यान वेव्हार चलातालो. 1961त गोंयची सुटका जाली तेन्ना हो प्रस्न असूदाय मिटपाचो. गोंय जेन्ना भारताचो भाग जालो तेन्ना त्या प्रदेशाची जी भास आसली तीय भितर घेवपाची गरज आसली. काश्मीर जेन्ना भारताचो अविभाज्य भाग जालो तेन्ना काश्मिरी भास संविधानाचे आठवे वळेरेंत आपसूक घेतली. कोंकणीचे बाबतींत अशें घडलें ना. तेन्नाच कोंकणीचो विचार जावंक जाय आसलो. 1961 तच ती आठवे वळेरेंत वचूंक जाय आसली. हे चुकीक लागून 1961 ते 1987 आमी राजभाशे पसून वंचीत उरले. संविधानाचो लाव आमकां मेळ्ळो ना. हो प्रस्न तेन्ना फकत भावनीक नासलो तो हक्काचोय आसलो. जे भाशेंत हांव बरयतां ते भाशेक मान्यताय मेळना जाल्यार कितें अर्थ उरलो ? केन्नाच आमी सगळे एकठांय आयले, लेखणी बंद केली

आनी भाशेचो प्रस्न पयली मिटोवया अशें थारायलें. आमची मागणी स्पश्ट आसली. ती म्हणल्यार दर एके भाशेची स्वताची एक भुमी आसता. महाराष्ट्र ही मराठीची भुमी, कर्नाटक ही कन्नडाची भुमी तशेंच गोंय ही कोंकणीची भुमी. देखीक गोंयचे भुंयेर कोंकणीचो क्लेम आसा आनी हाकाच लागून कोंकणी ही राजभास जावची हो आगरो आसलो आनी तातूंत आमी जैतिवंत जाले.

**सत्यवान : कोंकणी ही राजभास जाल्यार गोंयकारांक नोकऱ्यांनी राखण मेळटली हें कितलें खरें आशिल्लें?**

**पुंडलीक :** कोंकणी राजभास जावची हो एक वेव्हारीक विचार आसलो. खरें म्हणल्यार ह्या देशांत कोणाकय खंयूय वचून नोकरी करपाचो संविधानीक अधिकार आसा. गोंयांतूय कोणूय येवन नोकरी करूं येता. गोंयांत गोंयकरांक नोकऱ्यांनी राखण दिवपा खातीर जें कितें आसा जाल्यार ती भास. देखीक मॅडिकलांत एक डॉक्टर घेतलो जाल्यार ह्या डॉक्टराक म्हज्या लोकांची भास कळपाक जाय नाजाल्यार उपचार करतना तो गल्लत करतलो. हांगा भाशेची गरज सामकी लागू पडटा. कारण उपचार घेवपी लोक कोंकणी आसता. देखून सरकारा कडेन ती मागणी आमी केल्ली ती सरकारान पुराय केली. पूण प्रायव्हेट सेक्टरांत ही सक्ती ना. थंय येवन कोणूय काम करतात. तांचेर बंधन ना. सरकारान खाजगी आस्थापनांचेर कोंकणीची सक्ती करून नोकऱ्यांनी भूंयपुतांक राखण दिवपाक जाय. कोंकणी राज भाशेची ही अंमलबजावणी सरकारान करूंक ना. मात देशाच्या हेर राज्यांनी हाचे उरफाटें चित्र दिश्टी पडटा. कर्नाटकांत गोंयकार नोकरी करपाक शकनात. कारण थंय नोकरी करतलो जाल्यार कन्नड येवपाक जाय. महाराष्ट्र तमीळनाडू आंध्रप्रदेश वेगळे चित्र ना. हांगा कितेंय जाता हाचो अर्थ हांगाचे भाशीक धोरण शिथील करून दवरलां.

**सत्यवान : संविधानाचे आठवे अनुसूचिंत आस्पाव करपा खातीर कितल्योश्योच भासो तयार आशिल्ल्यो अशें आसतना 1992त कोंकणी धरून फकत तीन भासांकूच तो मान मेळ्ळो. अशें कित्याक?**

**पुंडलीक :** संविधानाचे आठवे अनुसूचिंत कोंकणीचो आस्पाव जावचो हे खातीरय आमी संघर्श केलो. ते वटेन मणीपुरी, नोपाळी भाशे खातीरय संघर्श चलतालो. केंद्र सरकारा कडेन हो प्रस्न आयलो तेन्ना सगळे राजकी पक्ष थंय एकठांय जाले. राजकी पक्ष एकठांय जाले उपरांत तांणी कांय 'क्रायटेरिया' थारायल्यो. म्हणजे खंयच्यो भासो आठवे अनुसूचिंत घालुंया? कोंकणी धरून कितल्याश्याच भासांची मागणी आसली. पूण सरकारान तिनूच मानून घेतल्यो. कोंकणी मणीपूरी आनी नेपाळी. 'क्रायटेरिया' आसले तातूंत –

1) जे भाशेक साहित्य अकादेमीची मान्यताय आसा तशेंच ती त्या राज्याची राजभास आसा तीच भास आठवे वळेरेंत वचूंक शकताली. कोंकणी कडेन ही पात्रताय आशिल्ली आनी कितल्याश्याच भासां कडेन ती नासली. त्यो भायर पडल्यो.

2) दुसरो मुद्दो आसलो तो म्हणल्यार ज्या राज्याक घटक राज्याचो दर्जो आसा ताचीच भास आठवे वळेरेंत वचपाची. राजभास जाले उपरांत 30 मेक 1987 त आमकां घटक राज्याचो दर्जो मेळिल्लो. देखून घटक राज्य अतिशय म्हत्वाचें आसलें. जर आमकां घटक राज्याचो दर्जो नाशिल्लो जाल्यार आमी आठवे अनुसूचिंत पावचे नासले. घटक राज्याचो दर्जो मागपाचोय आमच्या फुडाऱ्यांनी केल्लो दूरदर्शी विचार आमचे भाशेक बऱ्याक पडलो.

**सत्यवान : कोंकणीच्या मुखार आयच्या संदर्भांत खंयचे प्रस्न आसात?**

**पुंडलीक :** आमचे मुखार आयच्या संदर्भांत कोंकणीचो प्रस्न आसा तो लिपीचो प्रस्न. देवनागरी लिपयेक साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिल्ली आसा. आठवे अनुसूचिंत कोंकणी पावली ताची लिपी जरी सांगिल्ली नासली तरी आठवे अनूसुचिं जीं कामां आसात, देखीक आमचे चलन जें आसा (

नोट घेवया) ह्या नोटीचेर सगळ्या भारतीय भासांनी बरयिल्लें आसा. कोंकणीचो विचार करतना ते नोटीचेर नागरींत अमके रुपया अशें बरयिल्लें मेळटा. हाचो अर्थ चलना खातीर नागरी लिपी मानून घेतल्या. अशे कांय प्रस्न आसात तातूंत रोमीची मागणी जाता. आमी रोमीक नाका अशें केन्ना म्हणलें ना. जो मेरेन ती तांकां बरोवची कशी दिसता तो मेरेन तांणी ती बरोवची. कला साहित्या खातीर वापरची.

पूण रोमीची मागणी शिक्षणा खातीर आसा आनी देशांतले शिक्षणतज्ञ सांगतात, भारतीय भाशेक रोमी लिपी चलची ना. कारण रोमी लिपयेन उच्चार भ्रश्ट जातात. फकत कोंकणीचेंच न्हय तर पुराय भारतीय भासांचें आमी समजून घेवंक जाय, मिशनरीज फकत गोंयांत येवंक नासले. उत्तर-उदेंत भागांतूय ते आयिल्ले. आनी थंयूय तांणी रोमींतल्यान बरयलां. थंय अश्यो कितल्योश्योच भासो आसात ज्यो रोमींतल्यान बरयतात.

पूण खंयचेय भाशेन रोमीक शाळेंत मान्यताय दिवंक ना. थंयची जी कितें थळावी लिपी आसा ते लिपयेंतल्यान शिकोवपाक मान्यताय आसा. त्या वाठारांतल्या कोणेंच आपले भाशेक शिक्षणा खातीर रोमीचो स्विकार करूंक ना. जाल्यार तुमी ती कोंकणीक दितलें काय कितें ?

**सत्यवान : लिपीचो हो प्रस्न साहित्य अकादेमी मेरेन पावला ?**

**पुंडलीक :** हय, हो प्रस्न साहित्य अकादेमी मेरेन पावला. कोंकणी ही दोन-चार लिपींनी बरोवं येता अशी एकूच भास आसा अशें थोड्यांक दिसता. देशांत अश्यो सुमार धा भासो आसात जांकां एका परस अदीक लिपी आसात. पूण साहित्य अकादेमीन तांकां सांगला, खंयचीय एक लिपी स्विकारात म्हूण. आनी तांणी जी एक लिपी स्विकारल्या तातूंतच तांचो वेव्हार चलता. म्हणटकच एके भाशेक एक लिपी हें धोरण आसा. आनी केंद्र सरकाराचेंय स्पश्ट धोरण आसा, जें साहित्य अकादेमीन लेगीत मानून घेतलां, तें म्हणजे खंयचेय नदरेन भारतीय भाशेन विदेशी लिपी घेवपाची ना.

**सत्यवान : सध्या गाजत आशिल्ल्या माध्यम प्रस्ना कडेन तुमी कशे पळयतात. तुमकां कोंकणी विशीं हुस्को दिसता ?**

**पुंडलीक :** कोंकणी ही अभिव्यक्तीची भास आसा आनी ती शिक्षणाचें माध्यम जावपाकय जाय. जागतीक सिद्धांतूय तसोच आसा. आयजूय गोंयची मातृभास खंयची असो प्रस्न येता तेन्ना कांय जाण मराठी म्हणपाचो आगरो धरतात. म्हजे नदरेंतल्यान हें वातावरण ल्हवू ल्हवू निवळटलें. कारण अशें, आयज प्राथमीक स्तराचेर भुरग्यांक खंयचे भाशेंत शिक्षण घेवचें (इंग्लीश भास कुशीक दवरुया) हें भुरगो थारायना. ताचे आवय-बापूय थारायतात. आयज हिंदूची मनोभुमिका पळयत जाल्यार कोंकणीक तांचो विरोध ना. पूण ताचें प्राथमीक शिक्षण मराठींत जावचें अशें तांकां दिसता. तो भुरग्याक थंय घालता. मागीर जेन्ना भुरगो आठवी ते धावेक पावता तेन्ना ताच्या मुखार कोंकणी मराठी काय फ्रेंच हो जेन्ना पर्याय येता तेदेवेळार तो कोंकणीचो पर्याय वेंचता. मागीर कॉलेज शिक्षण घेता. एम ए चें शिक्षण घेता तेन्ना तो स्वतंत्र जाल्लो आसता. पूर्ण अर्थान सक्षम जाल्लो आसता आनी निर्णय घेवपा वेळार तो कोंकणीचो स्वीकार करता. हें जेन्ना हांव पळयतां तेन्ना म्हाका कोंकणी विशीं हुस्को दिसना. बाकीच्यांक दिसता तशी भिरांत दिसना.

**सत्यवान : कोंकणी आनी मराठीचे समर्थक माध्यम प्रस्नाचेर एकेच माचयेर बशिल्ले पळोवन कशें दिसलें ?**

**पुंडलीक :** आमी राजभास आंदोलन केलें तातूंत जैतिवंत जाले. तेदेवेळार खूब लोकांचीं मनां दुखावलीं. पूण आयज माध्यम प्रस्ना वयल्यान भारतीय भाशा सुरक्षा मंचान हीं मनां पर्थून एके माचयेर हाडलीं. एका काळार दोनूय घटक एकामेकांचीं तोंडां पळोवपाक सोदिनासले. आयज ते एकेच माचयेर मांडयेक मांडी आनी खांदाक खांद लावन इंग्लिशीच्या विरोधांत झगडटात. केन्ना केन्ना

काळ जो आसा तो कांय गजाली सुतां सारक्यो नीट करता. ही काळाची गरज आसली. कोणूय आयज म्हणटले, काल आमी मराठी कडेन झगडटाले आनी आयज एक जाले. जाल्यार काल आमी झगडटाले कित्याक तर ते म्हजे भाशेक भाशाच मानिनासले. तिका बोली म्हणटाले. तें झगडप अपरिहार्य आसलें. आयज तें झगडें उरूंक ना. आमी झगडून झगडून तांचे तकलेंत घालें तशेंच सिद्ध केलें की कोंकणी ही स्वतंत्र भास. आयज तांकां तें पटलां. देखून ते आयज पयली भशेन कोंकणीक विरोध करिनात.

**सत्यवान : बहुचर्चित माध्यम प्रस्नाचेर तुमी तडजोड केली? सरकारान माध्यम प्रस्न तुमी अपेक्षा केल्ली त्या प्रमाण सुटावो केलो ना. नेमकें कितें जालें?**

**पुंडलीक :** माध्यम प्रस्नाचेर आमी मोटी तडजोड केली. ती तशी राजभाशे खातीर आमी करूंक नाशिल्ली. राजभास फकत कोंकणीच जावची म्हूण 1985त व्हडलो लढो जालो आनी तातूंतल्यान परिस्थितीनुरूप तडजोड म्हूण मराठीक थंय राजभाशेची सुवात दिवची अशे तरेचो मुद्दो आयलो आनी आनीक थंय संघर्श नाका म्हूण आमी तो स्विकारलो. म्हणटकच कोंकणी कडेन ही इतलीच आमी तडजोड केल्ली. दिगंबर कामत सरकारान 1990 सावन मुळाव्या प्रादेशीक भासांतल्या शाळांक सरकारी अनुदान मेळटालें तें बदलून इंग्लीशीकय दितले अशें जाहीर केलें तेन्ना माध्यम प्रस्नाचेर आंदोलन सुरू जालें. ह्या वेळार आमी बरेचशे एक पावल फाटीं घेतलें. आनी आमी मराठी कडेन एकरुपता दाखयली. आनी ती ह्याच मुद्द्याचेर, शिक्षणांत तुका मराठीचें स्वातंत्र्य आशिल्लें. राजभाशेक मराठी दिवपाक आमचो विरोध आसलो. पूण शिक्षणांत मराठी घेवं नाका अशे तरेचो विरोध आसपाचें कारणच नाशिल्लें. कारण मराठी परंपरा हांगा आशिल्ली. आनी संविधानूच तुका हक्क दिता – पंजाबींत, मराठींत खंयचेय भाशेंत शिकपाचें. आनी त्याच मुद्द्याचेर आमी भारतीय भाषा सुरक्षा मंच घडयलो. शशिकलाताई काकोडकार हांच्या फुडारपणा खाला सुरक्षा मंच घडयलो आनी काँग्रेस पक्षाचे चुकीच्या धोरणा हाड प्रखर आंदोलन सुरू केलें. त्या आंदोलनांत फकत कोंकणीचोच विरोध उणो पडटलो आशिल्लो देखून आमी हेर भाशांचो पालव घेतलो तातूंत मराठी आशिल्ली. म्हणटकच (मराठी-कोंकणी) बळ मात्शें न्हय खूबच वाडलें. ह्या बळाचो परिणाम वेंचणुकेंत जालो. काँग्रेस सरकाराचेरूय जालो. काँग्रेस सरकार पडून नवें भाजपा सरकार सत्तेर आयलें. पूण आयज जरी हांव कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष आसलों तरी लेगीत स्पश्टपणान म्हाका सांगूंक जाय, माध्यम प्रस्नाचेर आमची फटवणूक जाली. चड करून जें सरकार आशिल्लें, भाजपाचें सरकार ताचे कडल्यान ही फटवणूक जाली.

**सत्यवान : पूण नव्या धोरणांत तुमकां खूब सवलती दिल्यात.**

**पुंडलीक :** नक्कीच दिल्यात. कोंकणीचे बाबतींत कांय सुदारणा केल्यात. वेगळ्यो सोयी-सुविध भाजपा सरकारान दिल्यात. फंडाचेच बाबतींत सांगचें जाल्यार कोंकणी अकादेमीचो एक कोटीचो फंड दोन कोटी केला. राजभास संचालनालयाक अशे तरेची चालना दिल्या जातूंतल्यान कोंकणी गोंयच्या प्रशासनांत पावतली. अशे तरेच्यो कांय बऱ्यो येवजण्यो सरकारान आंखल्यात.

**सत्यवान : पूण नवें धोरण आंखलां ताचेर तुमी समाधानी आसात?**

**पुंडलीक :** आमी आमच्या पयलींच्या धोरणाचेर ठाम आसात. खंयचेय परिस्थितींत ह्या देशांत आनी ह्या गोंयांत इंग्लीश माध्यमांतल्यान मुळाव्या शाळांक अनुदान मेळू नये. हें जें धोरण आसा (आमचे आनी हेर भारतीय भासांचें) ह्या धोरणा कडेन आमी स्पश्ट आसात. आमी आमचें धोरण सोडूंक ना. हांवें खंयचेच नदरेंतल्यान म्हणूंक ना, सरकाराच्या धोरणा कडेन हांव सहमत आसा. धोरण आमकां पसंत ना आनी ते कोंकणीचे

उदरगतीक मारक आसा.

**सत्यवान : मागीर तुमी मूळ मुद्द्याचेर येतले काय कितें ?**

**पुंडलीक :** केन्ना तरी येवचेंच पडटलें. आतां तें कोणें येवप हो भाग वेगळो. कोंकणी चळवळीचें लेगीत पांवडे आसले. ओपिनीयन पोल लढले तेन्ना उदय भेंब्रे तरनाटे आशिल्ले. ताणें ते चळवळीचें फुडारपण केलें. राजभास चळवळी वेळार हांव तरणाटो आसलों. तेन्ना कोंकणी प्रजेचो आवाज सारकी संघटना घडोवन हांवें फुडारपण केलें. अशे तरेन सगळी चळवळींचीं सुत्रां तरणाटे पिळगे कडेन येता. आयचे तरणाटे पळगेन हीं सुत्रां हातांत घेवपाची गरज आसा. फुडारपणाचे नदरेन तरणाटे पिळगेन मुखार येवपाक जाय. आमी आसाच, पूण तरणाटे पिळगेन फुडारपण घेवपाक फुडें सरूंक जाय.

**सत्यवान : पूण तुमी म्हालगडे फाटीं रावले ?**

**पुंडलीक :** ना. देख दितां. ओपिनीयन पोलाचें फुडारपण उदय भेंब्रे, रवीन्द्र केळेकार, चंद्रकांत केणी आनी हेरां कडेन आसलें. राजभास चळवळीचें फुडारपण पुंडलीक नायक, दामोदर मावजो, दिलीप बोरकार हांचे कडेन आयलें. पूण ज्या वेळार राजभास चळवळीचें फुडारपण आमचे कडेन आयलें तेन्ना रवीन्द्र केळेकार, उदय भेंब्रे आशिल्ले, पूण ते फोर फ्रंटार नाशिल्ले. फुडारपण आमच्या सारक्या तरणाट्यां कडेन दिवन ते आमकां मार्गदर्शन करताले. सहकार्य दिताले. ताचो आशिर्वाद आशिल्लो.देखून आतां जर कसलीय चळवळ जाता जायत जाल्यार उदयबाब, नागेशबाब बी आसातूच, राजभास चळवळी वेळार आमी वठयिल्ली भुमिका तरणाट्यां कडेन दिवन आमी मार्गदर्शक म्हूण निभयतलेय. सहकार्य आमी नक्कीच करतले. हें फुडारपण घेवपाक तरणाट्यांनी मुखार येवपाक जाय.

**सत्यवान : मागीर तरणाट्यांचें फुडारपण खंय आसा ?**

**पुंडलीक :** आसाच. युवा महोत्सवान, साहित्य संमेलनान भोवसंख्येन आमी तांकां पळयतात. पूण जे तरेन कोंकणी भाशेची जणीव तांकां जावंक जाय तशी जाल्ली दिसना. आतां एक गजाल आमकां कळ्ळ्या, कोंकणी आमची आवयभास आनी तिचे खातीर आनीक कितेंय तरी करपाचें आसा ही जी जाणीव. 1985तली गजाल. आमकां सगळें मेळिल्लें, अशे आमी मानताले. साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळिल्ले. आमी राष्ट्रीय स्तराचेर कोंकणी लेखक म्हूण वताले. आमकां राष्ट्र मान्यताय मेळिल्ली. पूण एक दीस रवीन्द्र केळेकारान आमकां म्हणलें, 'तें सगळें मान्य रे. तुं बरयता, तुमी व्हडले लेखक. पूण तमचे भाशेक राजभाशेचो मान ना हें तितलेंच खरें. तुमकां ताची जाणीव आसा?'हो आमच्या स्वाभिमानाक आव्हान दिवपी प्रस्न आसलो. आमी कांय काळ लेखणी कडेक दवरली. आमी म्हणलें बरें आसा. आमी पयलीं कोंकणी थंय बसयतले आनी मागीर बरोवपाचें काम करतलें. अशे तरेचीं आव्हानां आसात तीं आव्हानां आयचो तरणाटो घेतलो काय ना? काय हें परिस्थितींत चल्लां तें योग्य आसा अशें म्हणटलो ?

**सत्यवान : अशा गजालींक सरकारी धोरण वा सरकार म्हूण प्रक्रिया आसता ती कारणीभूत आसता काय कितें ?**

**पुंडलीक :** नक्कीच आसता. कोंकणीचो हो सगळो इतिहास संघर्शाचो इतिहास. आनी म्हजे नदरेंतल्यान आनीक कोणूय न्हिदल्यार जाता, न्हिदिल्ल्यांची परिस्थिती कितें जाल्या ती आमी पळयल्या. पूण कोंकणीवाल्यांक न्हिदपाक मेळचें ना.आमी एके ल्हान भाशेचो लढो चलयतात. ल्हान भाशेक व्हडली भास खावपाची भिरांत आसा. इंग्लीश आमकांय तोंड उक्ती करून खावपाक बसल्या. अशा वेळार आमच्या सारकेल्यो ज्यो भाशा आसात, तांणी पूर्ण जागरूक रावपाची गरज आसा.

**सत्यवान : राजभाशेचें श्रेय कोणांक ?**

**पुंडलीक :** हो सगळो सामुहीक पुरुशार्थ

आसता. राजभास जाली तेन्ना आमची छाती फुगून आयली. तेन्ना रवीन्द्रबाबान म्हणलें हो सामुहीक पुरुशार्थ. हें एकट्या दुसऱ्याचें काम न्हय, एक कोणूय आयलो आनी ताणें एके रातीन सगळें बदल्लें अशें न्हय. अशें केन्नाच घडना. समूहाची इत्सा म्हणून आसता आनी तातूंतल्यानच तें घडटा.

**सत्यवान : राजभास कायदो चालीक लायतना आमचे मुखार कसलीं आव्हानां आसात?**

**पुंडलीक :** राजभास कायद्याची अंमलबजावणी करतना आमकां सावधगिरी बाळगुची पडटली. राजभाशेची अंमलबजावणी करतना फलक बोर्ड तयार केल्यात. समजिकायेचे नदरेंतल्यान हे फलक कोकणी वांगडा मराठी आनी इंग्लिशींतूय केल्या. हे बोर्ड कोंकणींतच आसूंक जाय आनी इंग्लिशींत. थंय मराठी कित्याक आयली? ह्या बोर्डाक म्हजो विरोध आसा. कोंकणींत कितेंय येता तें मराठीवाल्यांक, हिंदीवाल्यांक कळटा. म्हणटकच अट्टाहासान थंय मराठी घालपाकय जाय अशी ना. आमंत्रणाच्या बाबतींतय तशेंच आसा. कांय जाण धरून चलतात,तें म्हणजे जंय कोंकणी आसा थंय मराठी आसूंक जाय. हांगा कोंकणी वांगडा मराठी ना. ती वयर आसा. राजभास कायद्यांत तशें स्पश्ट सांगलां.मराठी खंय आसूंक जाय ताचो विचार करूं येता. ताची एक बेस बरी देख म्हणल्यार सरकारी नोकरी करतलो जाल्यार कोंकणी 'सक्तीची' आनी मराठी 'डिसायरेबल' म्हणल्यार आसल्यार बरी. हो फॉर्मेट सगळ्याक लागू करपाची गरज आसा. कोंकणी सगळे कडेन जाय. मराठी खंय लागता थंय घालपाची. शिक्षणांत मराठी सक्तीची आसा जाल्यार करात. पूण बोर्डाचेर गरज ना. कांय जाण ताचो असो अर्थ लायतात, कोंकणी वांगडा मराठीय आसा. नाच. तशें तें ना. ह्या वेळार कोंकणी तरणाट्यांनी जागरूक जावपाक जाय. बेसावधपणां नाकात. तशें हांवें राजभास अंमलबजावणे खातीर घडयिल्ले समिती मुखार म्हजें मत मांडलां.

**सत्यवान : म्हणजे राजभास अंमलबजावणी योग्य पद्दतीन जायना?**

**पुंडलीक :** एकदां बोर्डार आयिल्ली मराठी भास मागीर काडून उडोवप शक्य आसा? नाका आशिल्लो गजाली मागीर थंयच उरच्यो नात?

**सत्यवान : मागीर कोणें कशे तरेन वावरूंक जाय?**

**पुंडलीक :** राजभास अंमलबजावणी समितीन जशी सावधगिरी बाळगुपाक जाय तशीं हे समिती भायल्यो कोंकणी शक्तीनूच सावधगिरी बाळगुपाक जाय. सरकार करता तें सारकें करता अशें धरून बेसावध रावल्यार कांय गजाली चुकीचे पदूदतीन वचूं येतात.

**सत्यवान : म्हणजे आमी बेसावध आसात?**

**पुंडलीक :** हय. आमी बेसावधूच आसा. कोंकणीचें कितेंय जाल्यार रोखडीच मराठीची मागणी जाता.कोंकणींतल्यान सरकारी कर्मचाऱ्यांक प्रशिक्षण सुरू जालें, मराठींतूय मागलें? कित्याक जाय मराठींत?

सरकार कोंकणीचे बाबतींत वेवस्थीत करतलें अशें समजून तरणाट्यांनी बेसावध रावन चलचें ना. जागे जावचें पडटलें.

**सत्यवान : ह्या मुद्द्याचेर जागे जावप तें कशें?**

**पुंडलीक :** बोर्ड जे तीन भाशांनी केल्यात ती तडजोड म्हूण आयच्या तरणाट्यांक खबर आसूक जाय. कोणें तरी विचारूंक जाय ही मराठी हांगा कशी आयली? कित्याक आयली? कोंकणी ही ऑफिशियल लँग्वेज आसतना मराठी आयलीच कशी? असो प्रस्न प्रत्येक तरणाट्यान करपाक जाय.

**सत्यवान : आतां मेरेन तुमी अनेक चळवळी केल्यो आनी जैतां मेळयलीं. समाजीक पांवड्यार जेन्ना नायलॉन 66 सारको प्रस्न उप्रासलो तेन्नाय तुमी तांचे आड संघर्श करून तो प्रकल्प केरीच्यान धांवडायलो. हे चळवळींत तुमी कित्याक**

आयले ?

**पुंडलीक :** खंयच्याय लेखकाचें जिवन आनी साहित्य वेगळें काडूं नजो आनी तें वेगळें नासता. म्हज्या साहित्यांतल्यान हांव एक सुंदर कल्पना तयार करतालों, म्हज्या गांवांत फुलां, फळां, झाडां, शेतां- भाटां, तळीं भरिल्लीं आसतलीं आनी तातूंत म्हजी नायक-नायिका जगतात. म्हणटकच जे कल्पनेंतलो संवसार आशिल्लो आनी ताचेर हांव खूब प्रेम करतालो तो संवसार नायलॉन 66 सारको कारखानो येता आनी उध्वस्त करता, म्हज्या तळ्यांतलें सगळें उदक तो खेंचता, म्हजीं कुळागरां झाडां-पेडां दोंगर-चंवर धुंवरान भस्म करता जाल्यार हांव ओग्गी बसपाचें ? हें सत्य म्हाका जेन्ना होलमलें तेदेवेळार हांवें संघर्श केलो. हांवें नायलॉना आड चळवळ केली. हांव हे भुंयेच्या रक्षणाक आयलां तें दाखोवन दिलें. आनी 'अच्छेव' जांणी बरयल्या तो जर असो ओग्गी बसलो जाल्यार तो विरोधाभास जातलो आसलो. कोणूय म्हाका विचारतलो आसलो 'आरे, अच्छेवांत तुवें कितें मांडलां तें नायलॉनाचे बाबतींत दिसलें ना' ! मागीर म्हाका जापूच नासली.

**सत्यवान : म्हणजे नायलॉना विरोधांतलो लढो साहित्यीक नदरेंतल्यान तुमी केलो ?**

**पुंडलीक** : हो लढो समाजीक जाणविकायेंतल्यान जालो. हांव साहित्यीक आनी नागरीग ह्या दोनूय जाणविकायेंतल्यान नायलॉन विरोधी चळवळींत पडलों. पूण निमाणें कडेन लेखक हो नागरीकच आसता.

ताचीय समाजीक जाणविकाय आसता. सामाजीक बांदिलकी आसता. कांय लेखक आपूण फकत लेखक हेर कांय आपल्याक लागना अशें मानपी आसतात. नायलॉनाचो प्रस्न आसलो तो लेखकाच्या समाजीक जाणविकायेंतल्यान आसलो. लेखक ज्या समाजांत रावता त्या समाजाचें चित्र तो काडटा. त्या समाजाचें पडबिंब ताका दिसता तशें तो बरयता. सामान्य मनशां परस ताका अदीक दिसता. लेखक हो समाजाच्या भुजांचेर उबो आसता. देखून तुका जे मर्यादेंत दिसता तें लेखकाक चड मुखा वयलें दिसता. लेखकाक तें दिसूंक फावो. अच्छेवांत हांवें जें 35 वर्सां आदीं मांडिल्लें त्यो सगळ्यो गजाली आयज तशाक तश्यो घडटात. हाचो अर्थ हांवें खूब मुखार पळोवपाचो यत्न केल्लो आनी लेखक म्हूण म्हजें तें कर्तव्य आसलें.

**सत्यवान : नायलॉन 66चो हो एक व्हड लढो तो साहित्य रुपांत येवचो अशें दिसना ?**

**पुंडलीक :** खरें म्हणल्यार येवपाक जाय. मायनिंग इश्यू लेगीत आसा. एक अच्छेव न्हय तर अनेक अच्छेव रुपांत मायनिंग प्रस्नाचेर बरप येवपाक जाय. पूण पूर्ण अभ्यास करूनच येवपाक जाय. कोंकणी लेखक महाबळेश्वर सैल पूर्ण अभ्यास करून बरयता. तांणी बरयिल्ली 'हांवठण' कादंबरी ही ताची गवाय आसा. ही खंयच्याय लेखकाची प्रवृत्ती आसता. आनी ती अशीच आसूंक जाय. आमगेले कांय लेखक पलायनवाद स्विकारतात. ते पणजे भायर वचनात. कविता कथा घरांत बसून बरयतात. तशें करपाक चड होमवर्क लागना न्हय.

**सत्यवान : गोंयांत कोंकणी फिल्म संस्कृती रुजपाक लागल्या अशें म्हणूं येता.**

**पुंडलीक :** म्हजे कडेन दोन संस्कृती आसात. एक पुस्तक आनी दुसरी तियात्र. तियात्र संस्कृती म्हणल्यार लोक ते बरयता आनी सादर करता आनी पळयता. पुस्तक संस्कृती म्हणल्यार हांवें बरयलें आनी तें लोकांनी वाचलें अशें. म्हणल्यार म्हजे कडेन पुस्तक संस्कृती आसा तियात्र संस्कृती आसा आनी काल मेरेन नासली ती नाटक संस्कृती आसा. पूण चित्रपट संस्कृती अजून मेरेन ना. हांव चित्रपट काडटां. म्हाका पुरस्कार मेळटा आनी थिटेरांत अवघेच लोक आसतात हाका हांव फिल्म संस्कृती म्हणपाक शकना. देखीक 'गुणाजी' फिल्म आयलें. ताची जायरात पयलेच खेपे बेस बरी जाली. कांय थेटरांनी तें कांय प्रमाणांत चल्लें. म्हाका याद जाता म्हजें 'शबै शबै भोवजन समाज' नाटक पळोवपाक लोक धांवून येताले. राजदीपाचीं नाटकां आनी कला

अकादेमीचीं नाटकां पळोवपाक लोक येता तशे तरेन कोंकणी चिटपट पळोवपा खातीर लोक धांवून आयले नात. पूण हांव आशावादी आसां. 'पलतडचो मनीस' सारकें फिल्म जेन्ना आंतरराष्ट्रीय दर्जो जोडटा तेन्ना लोकांक सांगचें पडटा, कोंकणी फिल्मान आंतरराष्ट्रीय पांवडो गाठला. अशें सांगले उपरांत फिल्म संस्कृती रुजपाक नक्कीच मजत जातली. आमचे कडेन फिल्म संस्कृती येतली, ताका थोडो काळ वच्चो पडटलो.

पूण हालींच एक बरी गजाल घडल्या, स्वप्नील शेटकार, राजदीप नायक ह्या तरनाट्यांनी 'होम स्वीट होम' हो कोंकणी सिनेमा बरी जायरात करून शिस्तबद्द यत्न करून थेटरांनी चडानचड काळ चलोवन एक तरेचो उच्चांक केलो म्हणल्यार जाता. अशे सातत्यान प्रयोग जाले जाल्यार कोंकणी सिनेमा संस्कृती रुजली अशें म्हणूं येता.

**सत्यवान : मागीर कोंकणी फिल्मां कशीं येतलीं ?**

**पुंडलीक :** ताका एकूच उपाय. सरकाराचे अर्थीक अनुदान. आज नाटकांक सरकाराच्या अर्थीक मजतीची व्हडली गरज ना. फाल्या कला अकादेमीची नाटक सर्त बंद केली जाल्यार फाल्यां कोंकणी नाटक चलूंक शकता. स्वताच्या पांयार उबें रावंक शकता. फिल्मा तशीं उबीं रावना तो मेरेन सरकाराची अनुदान मजत घेवची पडटली.

**सत्यवान : सरकार अशे तरेची मजत दिवंक शकता काय कितें ?**

**पुंडलीक :** आसा न्हय. महाराष्ट्रांत एका फिल्मा खातीर 16 लाख दितालें. आतां 25 लाख रुपया केल्यात. 25 लाखांनी बऱ्या दर्ज्याचें फिल्म तयार करूं येता. अर्थांत तातूंतय मागीर वायटूय प्रवृत्ती येता. 20 लाखांनी फिल्म करपाचें आनी 5 लाख बोल्सांत उडोवपाचे.

**सत्यवान : चित्रपटांत लेखक ह्या घटकाक कितली सुवात आसा ?**

**पुंडलीक :** चित्रपट माध्यम हें खूब फसवें आनी खूब ढोंगी. थंय मनी मायंडेड लोक घुसपाची अदीक शक्यताय आसता. चित्रपटांत लेखक ह्या घटकाक उपेक्षीत दवरला. पटकथाकार लेखकाची कथा घेता आनी आपलें कितें कितें घालून सिनेमा तयार करता. कोंकणी फिल्मांनी लेगीत अशेंच जालां. कांय जाण खंयच्याय लेखकाची कृती घेवन स्वताच लेखक जाता. तांकां खऱ्या लेखकाची गरज नासता. बॉलिवूडांतूय अशीच प्रवृत्ती चलता. हें सिनेमा खातीर मारक आसा. जर चित्रपट निर्मात्यांची अशी प्रवृत्ती आसा, तांकां स्वताच लेखक जावपाचे आसात जाल्यार तांणी सरकारा कडेन बी अनुदान मागचें न्हय. तांणी स्वताच बॉलिवूडांत चलयता तशीं फिल्मां चलोवचीं. लेखक ही 'प्रवृत्ती' आसा. लेखकाक पुरायपणान चित्रपटांत आसपावीत करून घेवंक जाय. चित्रपटा खातीर लेखका कडल्यान स्क्रीनप्ले करून घेवंक जाय. एकाद्रो तंत्रज्ञ स्क्रीन प्ले कसो करतलो? पूण हें चित्रपट सृश्टींत जाता. ते आदीं थांबोवचें पडटलें.

**सत्यवान : नाटकांतूय अशे तरेची लेखकांक गाळपाची प्रवृत्ती आयल्या ?**

**पुंडलीक :** येता. ल्हव ल्हव येता म्हणूं येता. देख दितां. हालींच गोंयांत एक राष्ट्रीय स्वरूपाचो नाट्यमहोत्सव जालो. नाट्य महोत्सवाच्या आमंत्रण पत्रिकेचेर नाटकाचें नांव, नाटकाचो दिग्दर्शक आनी नाटक करपी संस्थेचें नांव आसलें. लेखकाचें नांव खंयच दिश्टी पडलें ना. लेखकाचें नांव गाळपाची ही प्रवृत्ती चुकीची आसा. हांव म्हणटां दिग्दर्शकाचें नांव घालात पूण बरोवप्याचें नांव गाळूं नाका. लेखकाचें नांव गाळपाची ही प्रवृत्ती फिल्मांतल्यान आयल्या. फिल्मांत दिग्दर्शकाक पयली सुवात आसता. मात नाटकांत लेखक म्हत्वाचो आसता. देखून लेखकाक दुर्लक्षीत करूंक जायना. जांणी जांणी अशें केलां तांकां ताचें मोल फारीक करचें पडलां. हिंदी रंगमाची ह्याच कारणा खातीर फाटीं आसा. हिंदींत सगळें आसा. कविता, कथा, उपन्यास सगळें आसा. नाटक कित्याक ना? कारण तांणी नाटककारांक

म्हत्वूच दिल्लें ना. ही प्रवृत्ती आमकां नाका. देखून आमचे कडेन नाटक संस्कृती आसा.

**सत्यवान : 'देखणी दुराय' फिल्माक तुमकां अर्थीक फटको बसलो? ह्यान फुडें तुमी कोंकणी फिल्मां काडपाचे आसात?**

**पुंडलीक :** ना. 'देखणी दुराय' फिल्म काडलें हेमा ताचे निर्माता आसलें. अर्थीक फटको बी बसलो ही खरी गजाल. पूण हांवें तेन्नाच थारायिल्लें, हांवें स्वता लेखक जावन फिल्मांचे भानगडींत पडप ना. तेन्ना गरज म्हूण फिल्म संस्कृती रुजची म्हूण हांवें फिल्म काडलें. आतां जे म्हजे साहित्य कृतीचेर फिल्मां काडटात तांकां हांव सहकार्य दितां. हांव तीं काडिना. हांव संवाद, पटकथा, गीत बरोवपा सारकीं कामां करतां.

देखणी दुराय फिल्म काडपा फाटलो एक उद्देश आसलो. ती काळाची गरज आसली. देखून तो उपक्रम हांवें घेतलो. हांवें फकत फिल्म काडलें ना हांवें फिल्म महोत्सव गोंयांत जातलो अशे तरेची वेवस्था केली. गोंयांत एक सातत्यान चलपी स्पर्धात्मक वेवस्था मार्गार हाडची हो ताचे फाटलो उद्देश आसलो.

**सत्यवान : गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष आनी अध्यक्षांचो कार्यकाळ कसो आसलो?**

**पुंडलीक :** गोवा कोंकणी अकादेमीचो उपाध्यक्ष म्हूण म्हाका संद मेळ्ळी तेन्ना हांव शिक्षणीक वाठारा खातीर कितें तरी करूंक जाय म्हणपाचें थारायिल्लें. अकादेमी फकत सांस्कृतीक आनी साहित्यीक कार्यावळी करपा खातीरूच नासता जाल्यार शिक्षणीक पांवड्या वयलीं कामां करपाकूय आसता. ते नदरेंतल्यान हांवें शिबिरां, कृतीसत्रां, सेमिनार, शिक्षणीक सर्ती सारक्यो गजाली करपाच्या वावराक प्राधान्य दिलें. खंयचीय भाशा ही कविता कथा बरोवन समृद्ध जायना ती ज्ञानभाशा आसूंक जाय. पर्यावरण, मानसशास्त्र अँथ्रोपोलोजी सारक्या विशयाचेर व्हडली नासूं, ल्हान ल्हान पुस्तकां तरी आसूंक जाय. अशे तरेन खंयचीय भाशा समृद्ध जाता. हांव अकादेमीचेर पावतकच हांवें अश्यो तरतुदी, येवजण्यो आंखल्यो.

**सत्यवान : तुमी अकादेमीचेर आसतना सुरू केल्ली 'पयली चंवर' येवजण कितली फळादीक जाली?**

**पुंडलीक :** एकाद्रो लेखक जर कोंकणी बरयता आनी ताका पुस्तक छापपाक जाय जाल्यार ताका अकादेमीन मजत करची ह्या उद्देशान ही येवजण चालू जाली. लेखकाची प्रतिभा आसच पूण ताची अर्थीक बाजू लक्षांत घेवन सुरू केल्ली ही येवजण अतिशय बरी चल्ली. हे येवजणेक लागून आयज कितलेशेच जाण लेखक जावंक पावले तातूंतले आयज कांय जाण प्रस्थापीत लेखक म्हूण वावुरतना दिश्टी पडटात.

**सत्यवान : गोवा कोंकणी अकादेमीन सुरू केल्ल्या नाटक महोत्सवाचो हेतू कितें आसा?**

**पुंडलीक :** गोवा कोंकणी अकादेमीन सुरू केल्लो नाटक महोत्सव आयज मेरेन येसस्वी रितीन चालू आसा. ह्या महोत्सवाचो हेतू एकूच आसलो तो म्हणल्यार गोंयांतली वेंचीक नाटकां शाराच्या भायर ग्रामीण वाठारांत व्हरून सर्वसामान्य लोकांक तीं दाखोवचीं. हो आमचो यत्न खूब येसस्वी जाला. लोकांनी हीं नाटकां पळयले उपरांत कोंकणी नाटकां संदर्भांतली तांची अभिरुची वाडल्या आनी कोंकणी नाटकां ग्रामीण वाठारांनी रुजल्यांत.

**सत्यवान : आतां मेरेन तुमी करूंक पावनाशिल्ली गजाल खंयची?**

**पुंडलीक :** गोवा कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष म्हूण हांवें दोन टर्म पुराय केले. तिसऱ्या टर्मा खातीर हांव वचपाचों नासलों. पूण एक म्हत्वाची गजाल जाग्यार घालपाची आसली ते खातीर हांवें तिसऱ्या टर्माक हय म्हणलें. गोवा कोंकणी अकादेमीचो पयले फावटी अध्यक्ष जालों तेन्ना म्हजी गांठ मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार हांचे कडेन पडली आनी तातूंत कोंकणी भवनाची फायल तयार जाली.

तांणी सांगलें – कोंकणी भवन बांदुया. कोंकणी भवन बांदपाचें म्हजें सपन आसलें. राजभास आंदोलन जिखून कोंकणी गोंयची राजभास जाली. आतां जर कितें उरलां जाल्यार कोंकणी भवन, कोंकणी अकादेमी स्विकारली ती ह्याच भावनेंतल्यान. अकादेमीचो पयलो टर्म अकादेमीचें काम जाग्यार घालपाक गेलें. दुसऱ्या टर्मा वेळार कांय गजाली खऱ्योच उरिल्ल्यो. हांवें तेन्ना त्यो प्रतापसिंह राणे सरकाराचे नदरेक हाडून दिल्ल्योय बी. पूण राणे सरकाराचो कोंकणी कडेन पळोवपाचो दृश्टीकोण मर्यादीत आसलो. डॉ. यू. आर. अनंतमुर्तीन म्हाका एक फावट म्हणिल्लें, 'पुंडलीक, आनीक कितेंय जावं, भाशेचें एक भवन आसूंक जाय आं.' हे सगळें घेवन हांव अकादेमींत भितर सरिल्लों. म्हजें अकादेमींतले दोन टर्म सोंपिल्ले. तिसऱ्या टर्माक रावपाचें ना अशें हांवें थारायिलें पूण 2012 त मनोहर पर्रीकाराचें सरकार परत स्थापन जालें. म्हजी आशा पल्लवीत जाली. कोंकणी भवनाच्या प्रस्नाची तांकां जाणविकाय आसली. ना म्हणल्यार फायलूय तयार आसली.

**सत्यवान : कोंकणी भवनाचें सपन पुराय जावचें म्हूण तुमी तिसरे फावट कोंकणी अकादेमी स्विकारली ?**

**पुंडलीक :** सामकें खरें. 2012 त मनोहर पर्रीकाराचें सरकार परत सत्तेर आयलें. म्हाका अध्यक्षपदाची ऑफर आयली आनी कोंकणी भवनाचें सपन पुराय जावचें ह्या हेतान हांवें ती स्विकारली. पर्रीकारान 2004 त मांडिल्लो भवनाचो प्रस्न आतां सुटावो जातलो अशी आस्त आसली. पूण तीन वर्सां अशींच गेलीं. पर्रिकार दिल्लीक केंद्रिय मंत्री मंडळांत गेले. आमी नवे मुख्यमंत्री पार्सेकार हांकां मेळ्ळ्यात. भवनाचो प्रश्न तांच्या कानार घातला. ताणी हयकार दिला.

**सत्यवान : सध्या तुमची लिखणी खंयचे गतीन वावर करता ?**

**पुंडलीक :** कोंकणी भवनाचो प्रस्न जर नाशिल्लो जाल्यार अकादेमीचो तिसरो टर्म हांव घेवचों नासलों. कारण म्हजे खातीर म्हजें खूब साहित्य वाट पळयता. अजूनय म्हाका चुटपुटे पडटा, हें बरोवंक जाय, तें बरोवंक जाय. कोंकणी राजभास चळवळीचो इतिहास, कोंकणी रंगमाचयेचो इतिहास हीं कामां उरल्यांत. परत कथा, कविता बरोवची कशी दिसता. म्हज्यो कथा बरप उणें जालां. म्हजें बरप जायना ही गोल म्हाका त्रास दिता.

**सत्यवान : तुमचे मुखा वयले प्लॅन्स कितें आसात ?**

**पुंडलीक :** गोंयच्या सुटके उपरांत जे सामाजीक बदल जाले त्या संदर्भांत एक कादंबरी बरोवपाची आसा. आयज भुरगे कोंकणी शिकतात. तांचे खातीर राजभास चळवळीचो इतिहास बरोवपाचो आसा. गरज ती. कारण चळवळीच्या इतिसाचो विपर्यास जाता. देखून राजभास चळवळीचो इतिहास बेगोबेग बरोवप गरजेचें आसा.

**सत्यवान : समाजीक बदलावेली म्हणल्यार नक्की कशें तरेची ही कादंबरी आसतली ?**

**पुंडलीक :** पुर्तुगेजांच्या काळांत एक आमी पुर्तुगेजांक भियेताले आनी दुसरें भाटकारांक. आमी धरून चलताले , मुक्ती उपरांत लेगीत हें अशेंच चलतलें. मुक्ती उपरांत हे भाटकार आमकां अशेच पिडटले. पूण समाजीक बदल जावपाक लागले. अकस्मात कालचो मुंडकार आयज मंत्र्याच्या पदामेरेन पावपाक लागलो. लोकशायेन हो केदो व्हडलो बदल घडोवन हाडलो. हो समाजीक बदल. एका काळार मुंडकार, भागेली भाटकाराक भियेताले. आयज भाटकारूच तांका भियेवंक लागला. मुंडकार जागे जाल्यात. हो केदो व्हडलो समाजीक बदल. हे सगळे म्हाका बरोवपाचें आसा.

**सत्यवान : समाजांत जायत्यो वायट गजाली घडत आसात. अशी खंयची गजाल आसा ती तुमकां थांबोवपाची कशी दिसता ?**

**पुंडलीक :** अमूकच एक अशी ना. जायत्यो आसात. मायनिंगाचे बाबतींत पळयत जाल्यार गोंयांत

स-सात वर्सां बेकायदेशीर मायनिंग चलतालें. हांगा एक सरकार आशिल्लें जाका आमी आमचें सरकार म्हणटाले. हें सरकार हांगा आसतना बेकायदेशीर मायनिंग चलतालें आनी आमी कितें करताले? आमी कितले बेफिकीर आशिल्ले. चार जाण पर्यावरणवादी सोडले जाल्यार बाकीचे सगळे आमी आमच्याच गजालींनी मशगूल आशिल्ले. आमी ज्या सैमाचेर कविता कथा बरयताले पूण बेसावधपणान सगळें सोंसताले. इतली बेफिकीरी खंयच्याच समाजाक परवडपाची ना. तुज्या पांयां पोंदची माती लेगीत काडल्यार तुकां कळचें ना इतली बेफिकीरी आसा.

दुसरें - इंग्लीश आमकां जायच पूण भारतीय भाशां कडेन दुर्लक्ष केलें जाल्यार, तांचो सांगात सोडलो जाल्यार आमी सांस्कृतीक नदरेन गिड्डे जातले. रवीन्द्रबाब म्हणटाले तशे आमी बोन्साय जातले. कवी कथाकार वा बरोवपी म्हूण म्हाका जावपाचो आसा जाल्यार म्हाका म्हजीं मुळां सांसपुर्चीच पडटलीं. कोंकणींतले ते संदर्भ, बकासुरा सारको खाता, रावणा सारकीं तुका धा तोंडां हाचो अर्थ म्हणल्यार संस्कृती. आमी आमचे भाशेक विसरल्यार हे संदर्भ कशे कळटले? भुरग्यांची स्थिती कितें जातली? ताका बकासूर कळचो ना, रावण कळचो ना, राम कळचो ना. बाकीच्यो गजाली कळच्यो नात. भाशा ही फकत संपर्काचें माध्यम न्हय ताचे भायर आनीक कितें तरी आसता सांस्कृतीक संबंद आसता.

तिसरी गजाल, समाजांतली विशमता पळोवं नज. पंजाबाक गंव कुसता आनी बिहाराक रोटी खावपाक मेळना. सरकारान गरिबा मेरेन रोटी पावोवपाची गरज आसा. मुंबयंत गरीब उपाशीं न्हिदता आनी श्रीमंताच्या जेवणावळी उपरांत उरिल्लें उश्टें सुणीं खातात. कितली विशमता ही. धर्मकांडाच्या नांवान चल्लां तें पळोवं नज. कांय जाण आश्रमांत पोटां फुगोवन बसतात आनी सामान्य मनीस थंय जोडून हाडून घालता. ते कांयच करिनासतना धर्माच्या नांवान गब्बर जाता. हे लोक समाजाक काबार करता. भ्रश्टाचारा विशीं म्हाका तिडक आसा. शिक्षण क्षेत्र आयज सामकें इबाडलां. भायल्या वाठारांनी गोंयची बदनामी जाता. गोंया भायल्या लोकांची संख्या दिसान दीस वाडत आसा. उदरगतीच्या नांवान बेछूट पणान जें कितें चल्लां तें योग्य ना.

**सत्यवान : तुमचे जिणेंत केन्ना अरिश्टां आयल्यांत?**

**पुंडलीक :** मानव निर्मिती अरिश्टां आसातूच. जेन्ना जीण तुवें स्विकारल्या तेन्ना जीण ल्हव करपाची पद्दतूय आसता. तुकां आयिल्ल्या अरिश्टांची तुळा दुसऱ्यांच्या अरिश्टां कडेन पळयल्यार तुजें अरिश्ट कितलेशेंच सोंपें दिसता. जे परिस्थितींत तूं घडटा ते तरेन संकश्टाचेर मात करपाची शक्ती तुकां नकळटना येता.

**सत्यवान : तुमी साहित्यीक जायना जाल्यार कोण जातले आसले?**

**पुंडलीक :** नट जातलों आसलों अशें जायते फावटी हांव सांगतालों. पूण उपरांत नटा परस नाट्य लेखकाची भुमिका म्हाका बरी कशी दिसली. जेदेवेळार कोण तरी जावपाचो आसता तेदेवेळार तुजे मुखार पर्याय आसता. म्हजी परिस्थिती खंयच गोंदळिल्ली नासली. कोण तरी जावपाची वाट सोदतालों तेन्ना ती वाट म्हजे मुखार चलून आयली.

**सत्यवान : आयच्या तरणाट्या बरोवप्यांक तुमी कितें सांगपाक सोदतात.**

**पुंडलीक :** कोंकणींत बरयता त्या तरणाट्या खातीर आनी तो जर कविता बरयता जाल्यार तांणी कोंकणींतली हेरांची कविता वाचची. आयचो तरणाटो कोंकणी बरावेपी कवी जर आसत जाल्यार तो



जिणेंतली पयलीच कविता बरयता असो दिसता. नाटक, कथेचे बाबतींतूय हें चित्र आसा. भुरग्यां मर्दीं शिकपाची उमेदूच ना. शेताचेर कादंबरी बरयतलो जाल्यार शेता विशीं पयली अभ्यास करप गरजेचें आसा. दोंगरा वयल्यो, रानांतल्यो, शेतांतल्यो गजाली घरांत एसीन वा फॅना पोंदा बसून बरोवंक शकचे नात. 'अच्छेव' कादंबरी बरोवचे पयली हांव मायनिंगांत स्वता भोंवलां. म्हाका खूब गजाली खबर आसून लेगीत हांव कामगारां वांगडा रावलां. न्हिदलां. हो होमवर्क करूंकच जाय. खूब जाण हे त्रास नाका म्हूण फकत कविता कथा बरयतात. कथेचे विशय लेगीत अश, घरा भायर वचपाक नाकात. तांकां ग्रामीण जीवन पळोवपाचें नासता. शारांतल्या धा किलोमिटरांचेर आशिल्लो गांव आयच्या तरणाट्या बरोवप्यांक पयस लागता. अभ्यास करून बरोवचे आसता हे आयच्या तरणाट्या बरोवप्यांक खबरूच नासता. तांकां दिसता, स्फूर्त येता आनी बरप जाता. नवोदीत आसता तेन्ना ह्यो गजाली माफ आसतात. पूण सदांच अशें चलचें ना. लेखक म्हूण जी कांय पथ्यां आसतात तीं तरणाट्यांनी स्विकारपाक जाय.



**नामनेचे साहित्यिक पुंडलिक नारायण नायक**
**हांगेल्या नाटकांची व्हिसिडीच्या रुपान प्रस्तुती**



1. शबै शबै भौजनसमाज
2. सुरींग
3. श्री विचित्राची जात्रा
4. चैतन्याक मठ ना
5. कांसुलो

व्हिडिओग्राफीः **दर्शन लोलयेंकार**
निर्मिती सूत्रधार : **उल्हास नायक**

निर्माते :

# क्रिकेटर शुभम् नायक ट्रस्ट

'शुभवैभव' शांतिनगर, रावणफोंड,
नावेली, साश्ट - गोंय.

कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां
मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी
भौ. पुंडलीक नारायण नायक हांकां आमचीं परबीं!



# एक बरें मागपी

बांदोडें - गोंय



# पुंडलीक उवाच...

एक लेखक, फुडारी, सामाजिक वावुरपी, वक्तो म्हण पुंडलीक नायक हाणी आपणाले विचार जायते फावट उलोवपांत आनी बरोवपांत प्रगट केल्यात. जायतेकडेन आपणाल्या मतांची, विचारांची ते आपूण जावन पुनरावृत्ती करतात. तांगेल्या अशाच मतां-विचारांचें हें संकलन केलां. खासा पुंडलीक नायक हाणी ह्या संकलनाचेर नदर मारल्या.

**- संपादक**

“भुरगेपणांत गौरवां राखताना गोरवांचे फाटीर मारिल्ल्या बडयांचे वळ म्हज्या काळजार उदेताले.”

“भुरगेपणांत भुतांवयलीं कितलींशींच पुस्तकां वाचलीं आनी संवसारांत भुतां ना, म्हणपाची खात्री पटली.”

“हांवें भुरगेपणांत गरीबी पळयल्या पूण दळिद्र न्हय. पूण गरीबींतल्यान जे अप्रूप अणभव लाबले, तेच मुखार जगपाचे मार्ग जाले.”

“भुरगेपणांत हांव शेतां-भाटांनी, दर्या-दोंगरांचेर शिकलों, तें मागीर पुस्तकांनी केन्नाच शिकपाक मेळ्ळें ना.”

“भुरगेपणांत मराठी मास्तर आमकां म्हणटाले, ‘गधड्यानो, तिकडे पंढरपुरची मुले काय सुंदर मराठी बोलतात मग तुम्हाला कां नाही बोलता येत?’ पूण आमकां मास्तराक केन्नाच विचारपाक जालेंना, ‘गुरूजी, पंढरपुरची मुले आमच्या सारखी कोंकणी बोलतात का?’”

“भुरगेपणांत म्हाका शाळेच्या स्नेहसंमेलनांत केल्ल्या एका नाटकुल्यांतल्या सवंगाखातीर गांवच्या एका मनशाकडल्यान एक रूपया बक्षीस मेळ्ळें. मागीर बक्षीसां आनी पुरस्कारांची संख्या वाडून ती एक लाख मेरेन जाली. पूण पयल्या बक्षीसाच्या एका रूपयाचें मोल आजून तशेंच आसा.”

“आमचे वळ(व)य सुपायेदो चंद्रिम आनी दोण्यांनी पंचखाद्य ! अशें म्हणपी वळवय गांवची नुस्तेकान्न ही ह्या वाठारांतली पयली अनाम कवयित्री.”

“मराठी शाळेंत शिकताना दुसरे यत्तेचे परिक्षेंत एक प्रश्न आशिल्लो, ‘माशाचे चित्र काढून खालील प्रश्नाची उत्तरे द्या.’ पयलो प्रश्न आशिल्लो, ‘माशाचे अस्तित्व कुठे असते?’ त्या वेळार ‘अस्तित्व’ ह्या उतराचो अर्थ म्हाका खबर नासलो. अस्तित्व म्हणल्यार कितें तरी मोलादिक आसपाक जाय अशें म्हाका दिसलें. आनी मोलादिक वस्त मासो भायर कित्याक दवरतलो? देखून हांवें बरयलें, ‘माशाचे अस्तित्व त्याच्या पोटांत असते.”

“म्हज्या ‘रानसुंदरी’ ह्या पयल्या पुस्तकाचें पयलें गिरायक म्हजो बापूय. एक रूपया मोल फारीक करून ताणे पुस्तक विकत घेतलें. मागीर मुखावयल्या पुस्तकांक गिरायकां उणीं पडलीं नात.”

“भाशेंतल्यो गाळी अर्थपूर्ण आसतात. जाका बऱ्यो गाळी येता, ताका भाशेचें मर्म कळिल्लें आसता. फाल्यां कोंकणीतल्यान गाळयांचो कोश करपाचो जाल्यार म्हजो आदार घेंवचोच पडटलो.”

“म्हजी आवय अशिक्षीत. कोंकणी सोडून तिका दुसरी खंयचीच भास येनासली. देखुनूच म्हजी कोंकणी निवळ-नितळ उरली.”

“लोक म्हाका विचारतात, तूं कित्याक बरयता? हांवें बरोंवक नाशिल्लें जाल्यार म्हजे तकलेचो फार जावपाचो, इतलें तकलेंत भरिल्लें आशिल्लें.”

“शणै गोंयबाबान म्हणलें, पराक्रम करपाचो आसल्यार स्वतःचे आवयभाशेनूय बरोवन तो करूं येता. शणै गोंयबाबाचें म्हणणें हांवें मंत्र कशें आपणायलें आनी म्हजे खातीर चमत्कार घडलो!”

“आमी थोडे उसरां आयले पूण उसरां लेगीत येवपी पावसांत आसता तुफानाचें बळगें”

“हांव मराठींतल्यान शिकलों म्हण कोंकणी लेखक जावपाक पावलों.”

“लेखक म्हण म्हाका खूब कितें सांगपाचें आसा. कारण म्हज्या आदल्यो म्हज्यो कितल्यो तरी पिळग्यो कांयच उलयनासताना मोन्यांनी गेल्यो.”

“एक लेखक म्हण म्हजें आयुश्य तें कितलें ! आनी म्हजो अणभव तो कितलो! पूण हांव म्हणल्यार म्हज्या बापायचो, आज्या पणज्याचो अणभव. हांव तांचो प्रातिनिधीक आवाज.”

“तियात्र, देशी आनी विदेशी संघर्श तशेंच समन्वयांतल्यान तयार जाल्लो देशांतलो एकमेव लोकनाट्य प्रकार आसा.”

“तियात्र पिरायेन कोंकणी नाटकाचो व्हडलो भाव आसा.”

“गोंयांत व्यासपिठाची भास कोंकणी जाल्या. तशीच नाटकाची भास कोंकणी जाल्या.”

“एका वळवयकार जाणटेल्यान कळवळून म्हाका सांगलें, ‘‘पुंडलीक आनीक कितेंय कर. पूण नाटकां करूं नाका. कारण आमच्या जाणटेल्यांनी नाटकांखातीर शेतां-भाटां फुंकल्यांत, व्हडीं-तारवां बुडयल्यांत. तेन्नाच्यान हांवें कानांक पिंवळ घातलो, नाटकूच करतलों पूण वेवहार सादून.”

“देशांत मुंबय हें शतक महोत्सवी नाटकांचें पयलें केंद्र आसा. थंय मराठी नाटकांचे शतक, सहस्रमहोत्सवी प्रयोग जातात. देशांतलें गोंय हें शतक महोत्सवांचें दुसरें केंद्र आसा, हांगासर तियात्राचे आनी कोंकणी नाटकांचे शतक महोत्सव जातात.”

“कोंकणी नाटक हें फक्त तातुंतल्या कोंकणी संवादाखातीर कोंकणी नाटक न्हय, तर विशय, आशय, नेपथ्य, वेशभुशा, संगीत हांचे खातीरूय तें कोंकणी नाटक आसा.”

“संविधानाचे आठवे अनुसूचिंत कोंकणी पावूंना म्हण तुमचें कितें अडलां? अशें तुमी (हेरभाशी ) म्हाका विचारतात? हांव सांगतां, म्हजो हिशोब अडला. हांव ह्या देशाचो पूर्ण नागरीक, सेकंडरी सिटिझन न्हय, जाल्यार भारतीय करन्सीचेर जश्यो हेर भासो आसा, थंय म्हजे कोंकणीचोय आस्पाव आसूंक जाय. (कोंकणीचो संविधानाचे आठवे अनुसूचिंत आस्पाव जांवचे आदींचें विधान)”

“कोंकणी प्रजेचो आवाज ( KPA ) हांच्यो तीन मागण्यो आशिल्ल्यो 1. कोंकणी गोंयची राजभास जांवची. 2. गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळचो आनी 3. संविधानाचे आठवे अनुसूचिंत कोंकणीचो आस्पाव जांवचो. जायते जाण विचारताले. भाशेच्या प्रश्नांत , ‘घटक राज्याचो’ मुद्दो कित्याक? पूण राष्ट्रीय थराचेर सर्वपक्षीय बसकेंत जेन्ना आठवे अनुसूचीत आस्पाव करपाखातीर क्रायटेरिया थारायले, तातूंत ‘घटकराज्य’ ही आवश्यक बाब आसली. कोंकणी फुडाऱ्यांच्या मुत्सद्देगिरीची ही देख आशिल्ली.”

“20 ऑगश्ट 1992 दिसा, नेपाळी आनी मणिपुरी भाशे बरोबर कोंकणी संविधानाचे आठवे अनुसूचिंत पाविल्ल्याची खबर दूरदर्शनच्या राष्ट्रीय खंबरांनी पळयली आनी म्हजें म्हाकाच अजाप जालें, हांव आजून घुंवळ येवन कसो पडलो ना ?”

“लेखक समाजाच्या भुजाचेर उबो आसता, देखून ताका खूब मुखावयलें दिसता.”

“बायलां बरयता ताचें खास कवतुक करूंक फावो, कारण तीं बरयतात म्हणल्यार संवसाराचीं धा कामा जाग्यार घालून बरयतात.”

“कोंकणी हो एक सुबुध्द समाज, ताची देख म्हणल्यार भारतीय प्रजासत्ताक दिसाचे पूर्वसंध्येर जे पद्म पुरस्कार जाहीर जातात तातूंत दोन ते तीन नांवां कोंकणी मनशाचीं आसतात. कोंकणी सारख्या सुबुध्द समाजाची भास बोली आसूंक शकना.”

“संस्कृत भाशेपासून कोंकणी घडूंक ना. कोंकणी सारख्या असंख्य भाशांतल्यान उतरां घेवन संस्कृत घडल्या.”

“कोंकणी खातीर वावूरपी कोंकणी सेवा केंद्रां हीं कोंकणी चळवळीच्यो रक्तवाहिन्यो आसात.”

“भौसाच्या जायत्या पिळग्यानी कोंकणी भाशेंत बरोंव नासून कोंकणीचें लुकसाण केलां. नवी तरणी पिळगी किंवाट्यान बरोवन फाटली भरपाय करता.”

“साहित्यांत राजकारण करचे परस लेखकांनी सरळ राजकारणांत वच्चें.”

“आमचे लोककला प्रकार हे जातीय/ज्ञातीय कला प्रकार आसात. सगळ्या लोकांमुखार सादर करताना तातुंतले जातीय उल्लेख संपादित करपाची गरज आसा.”

“भाशेची खंयचीय बोली वा शैली अशुध्द नासता, अशुद्ध आसता तें मनशाचें मन.”

“भास पुस्तकांनी जगना. सर्वसामान्य मनशाच्या ओंठाचेर जगता.”

“प्रादेशिकता हें कोंकणी साहित्याचें वैशिश्ट्य आसा. ती ताची मर्यादा न्हय.”

“मिनाची येदी व्हडलीर रास दिसता. हाचोच अर्थ खंय तरी येदो व्हडलो फोण पडला.”

“हांव नास्तीक न्हय, निरिश्वरवादी. पूण पूर्ण श्रध्दावान !”

“अनेक वर्सां पांजऱ्यांत बंद आशिल्ल्या किराक एक दीस मेकळो केल्यार तो उडूंक शकतलो ? ना. तशेंच बायलांचे. पांच हजार वर्सांसावन त्यो बंदी आसात. आतांच तांकां मुक्ती मेळ्ळ्या. ते मुक्तीचो लाब तीं रोखड्या रोखडीं कसो घेवपाक शकतलीं ? ”

“चार वेदांपासून भौजन समाज वंचीत उरलो खरो पूण पांचव्या लोकवेदापासून तो गिरेस्त जालो.”

“बाबासाहेब आंबेडकरानी मनुस्मृती जाळ्ळी. कित्याक ? कारण त्या काळार जाळपाक मनू नाशिल्लो. ना जाल्यार ताकाच जाळटले आशिल्ले. ”

◆◆◆

# पुंडलीकः
# आमचे शाळेचें भुशण

लेख

जैत प्रकाशन, पुंडलीक नारायण नायक गौरवांक प्रकाशित करता, आनी तेखातीर तांचो शिक्षक म्हूण ताचेविर्शी किते दिसता तें लेखाच्या रूपांत जाय म्हूण म्हाका कळ्ळ्या बरोबर खूब खोस जाली.

24 जुलय 1968 दिसा हांव माध्यमीक शिक्षक म्हूण सरकारी हायस्कूल सावयवेऱ्यां हांगा रूजू जालों. तशे म्हजे विशय विज्ञान आनी गणीत. पूण साहित्यांत आनी समाजकारणांत म्हाका चड गोडी आसली. सावय-वेरें पंचक्रोशींत आशिल्ल्या बेतकी-खांडोळे, वळवय, केरी, वाघुर्मे,कोठंबी गांवांतल्यान विद्यार्थी ह्या मराठी माध्यमाच्या हायस्कूलांत येताले. हांव शिक्षक म्हूण रूजू जालो तेन्ना आठवेंत 80 विद्यार्थी आशिल्ले.

त्या वेळावयले म्हजे वांगडी श्री.महारूद्र अंगडी, श्री.राया नाईक, श्री. चंद्रकांत चिपळूणकर, श्रीमती शर्वरी चिपळूणकर आनी हेडमास्तर श्री. नारायण रा. ढवळीकर हांचे खुबशा बाबतींत एकमत आशिल्ल्यान आमच्या शाळेचें स्नेहसंमेलन त्या वाठारांत आदर्श अशें मानताले.

संमेलनांत नाटक करच्या बदला शाळेतल्या विद्यार्थ्यांनी पुंडलीकाल्यो एकांकी केल्यो जाल्यार चड विद्यार्थ्यांक वांटेकार जावपाक मेळटलें, असो विचार फुडें आयलो. विद्यार्थी मंडळाचें सक्रीय सहकार्य ह्या खातीर म्हत्वाचे मानप जालें.

गुरूचो पराभव करपी शिश्यगण सगळ्यांच क्षेत्रांत निर्माण जावंचो ह्या खातीर आमचो सगळ्यांचोच मनापासून प्रयत्न आसतालो. आनी आयज पन्नास वर्सां उपरांत फाटलो आढावो घेतलो जाल्यार तें खरें आसा अशेंच म्हणचें पडटलें.

गोवा कला अकादमी, तशेंच साहित्य अकादेमी आनी संगीत नाटक अकादेमी ह्या अखिल भारतीय पातळेवयल्या संस्थाचो पुरस्कार जोडपी पुंडलीकान साहित्याच्या सगळ्या प्रकारांत आपलो समर्थपणान संचार केला.



**कालिदास बा. मराठे**
(अध्यापक, निवृत्त शिक्षणाधिकारी)
कपिलेश्वरी, फोंडें - गोंय
मो. 9423882290

प्रौढ शिक्षणासारख्या दुर्लक्षीत क्षेत्रांत राज्यशिक्षण संस्थेच्या प्रकल्पांत 'कोंकणी वाचन पुस्तिका', 'मनवी वाट' आनी त्या उपरांत शिक्षण संचालनालयान 'सोपें वाचन' तयार करपापाखातीर पुंडलीकाचे सहकार्य मेळिल्ल्यान काम पुराय करप सोंपेपणान शक्य जालें.

वाचक सल्लागार समितीमार्फत फोंड्या जावपी डॉ.राम मनोहर लोहिया स्मृती वसंत व्याख्यान माळेंतल्या पयल्या वर्साच्या 2004 त म्हाका हक्कान पुंडलीकाक कोंकणीतलें पयलें व्याख्यानपुष्प गुंथपाक आपोवपाक मेळ्ळें.

कोंकणी अकादेमी मार्फत श्री. सतीश दळवी हांच्या पूर्वप्राथमीक शिक्षणावयल्या पुस्तकाच्या प्रकाशन सुवाळ्यांत पूर्व प्राथमीक शिक्षणाचेर चर्चासत्र जावचें ह्याखातीर ताणें म्हजें सहकार्य मागलें आनी ताकाच लागून म्हाका प्रा. रमेश पानसे हांकां आपोवपाक मेळ्ळें आनी आयज गोंयांत बालशिक्षण परिशदेचें काम घट्ट बुनयादिचेर उबें रावन नेटान चलता.

कोंकणी अकादेमीन दर म्हयन्याक आपणालें मुखपत्र प्रसिध्द करचें अशी म्हजी सुचोवणी आसली. गौरवाच्या निमतान हांव पुंडलीकाक (कारण आयज कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष आसात) पर्थून एकदां याद करतां.

पुंडलीका सारख्या विद्यार्थ्यांचे आमी शिक्षक आसले (खरें सांगपाचें म्हणल्यार आमी कांय शिकयलें ना, कित्याक तर आयच्या शिक्षणीक तत्वज्ञानाप्रमाण भुरगीं आपल्या आपूण शिकतात आनी बुद्धिमतेचो पट तांकां मेळचेलो आसता.तांचो शोध शिक्षणांतल्यान दिवपाचें आनी दिका दाखोवपाचें काम शिक्षकांनी पालकानी करपाचें आसता. हाचो सार्थ अभिमान मिरोवपाचो आनंद मात नक्कीच घेवपाक मेळटा.

ह्यानफुडेंय पुंडलीकाक अशेंच भरीव कार्य घडपाखातीर व्हड आयुश्य आनी बरें आरोग्य लाबूं अशें परमेश्वराकडेन मागणें करून सोपयतां.

(मूळ मराठी लेखाचो कोंकणी अणकार)



# पुंडलीक नायक:
# लोकधारेंतलो लेखक

लेख

बाब पुंडलीक नायक. साहित्याच्या मळावयली एक संपन्न जीण. कोणाचेरूय मोनेळ घालपी व्यक्तिमत्व. फाटीकणो सामको घट्ट. पूण वागतना, उलयतना सामको मोव. मात अन्याया आड झुजतना ताचे जिबेची धार सामकी तीक्ष्ण जाता. हरशीं थंड आशिल्लो हो मनीस उज्या भशेन धगधगता.

पुंडलीकबाब जल्मलो सावयवेरें ह्या सामक्या सैम सोबित गांवांत. गांवांतल्यान न्हंय व्हांवता. तिचे देगेर शेतां, कांय भाटां आनी कांय सुवातांनी आगरां. हांगच्या दोंगर तळपांनी वझरे फुट्टात. तांच्या उदकाचेर केळी पोसवता. धोलत्या मांडयांचेर पानवेली आनी मिरवेली सळसळटात. मर्दी खंय तरी मळबांत रिगपी माड, आंबे आनी पणसा झाडां. सुरंगां, वोवळां, चाफे हांचेय रुख. दोंगराचे देंवतेर वशिल्लीं हीं कुळागरां. ह्या सगळ्या सैमान ह्या गांवांक साहित्याच्या आनी कलेच्या मळार एक खाशेलेंपण मेळोवन दिलां. ह्या खाशेलेपणातलो एक खाशेलो जीव म्हणल्यार बाब पुंडलीक नायक...!

खरी कला खंयची तर जी मातयेंतल्यान फुलता. जे मातयेलागीं सदांच संबंद दवरता ते खरें साहित्य. जाका हे मातयेची, थंयच्या मनश्यांचीं, गोरवां - वासरांची, काट्या-कुट्यांची, तळप- गुण्यांची आनी झाडां-पेडांचींय स्पंदना समजतात, तांचो स्वास आयकूंक येता तो खरो साहित्यीक. एक साहित्यीक हे नदरेन पळोवपाक गेल्यार पुंडलीकबाब ह्या निकशांतल्यान एक खरें रत्न कशें भायर सरतात.




**विनायक खेडेकार**
(नामनेचे लोककला जाणकार)
रायबंदर - गोंय
मो. 9422438348


सावयवेऱ्या गांवान कलेच्या सगळ्या प्रांगणात चमकुवपी कलाकार, साहित्यीक दिले. ही भूंयच म्हणल्यार रत्नाची खण. मात खणींतल्यान रत्नांच मेळटात अशें न्हय. चडशे गुणेच मेळटात. पूण जीं रत्नां मेळटात तांचेर तांणी स्वताच्या कश्टान तासां घालून घेतकूच तांची प्रभा सगळ्या दिकांनी फाकूंक लागता. सावयवेऱ्यांचे खणींतल्यान भारतीय साहित्य विश्वास

सांपडिल्लें एक रत्न म्हणल्यार पुंडलीकबाब नायक.

पुंडलीकबाब हो अश्टताशी साहित्यीक. ताणे खंयचो विशय हाताळलो ना, अशें ना. कविता, नाटकां, कादंबऱ्यो आनी हेर बरेंचशें... साहित्यकार म्हूण ताची मोलावणी करप हो पीएचडी खातीर एक खाशेलो प्रबंध जावपाक शकता इतली ताचे लिखणेची ताकद. मोलावणी करपी समिक्षक वा अभ्यासकाक घाम हाडपी अशें ताचें साहित्यीक कर्तृत्व. मात म्हजे नदरेन पळोवपाक गेल्यार ताच्या सगळ्या साहित्याक ताचे भुंयेचो, ताच्या गांवातले भुंयेचोय वास येता. साहित्यकार म्हूण हे ताचे खरें येस आसा. जेन्ना एकद्रो कलाकार, चड करून साहित्यीक आपले निजाचे भुंयेचो उगडास दवरून कसलीय कलाकृती निर्माण करता तेन्नाच तातूंतल्यान मन भुलोवणी तशेंच वाचकांक विचार करपाक प्रवृत्त करपी साहित्य निर्मणी जाता. पुंडलीकबाबालें साहित्य हे कसवटेंत सामकें मुदयेत हिऱ्याचें थीक अशे तरेन सामकार येता. जे भुंयेत मनश्याची नाळ पुरिल्ली आसता तिका तो केदोय व्हडलो जाल्यार लेगीत विसरना वा विसरपाक शकना अशें म्हणटात. आतांची भुरगीं हॉस्पिटलांनी जल्माक येतात. तांची नाळ खंय पुरिल्ली आसता हें सांगपाक जायना. तीं व्हडली जातात. तांकां खऱ्यानीय आपल्या गांवचो आनी थंयचे भुंयेचो मोग आसता काय ना हें कळपाक मार्ग ना.

पुंडलीकबाबालो जल्म जालो त्या काळांत बाळंटणपण गांवची वैजीण करताली. नाळ कापूंक तेन्ना खंय धार आशिल्ल्या गुण्याचो वापर करताले. ही नाळ बाळंटीच्या न्हावपाचे सुवातेर पुरतालीं. अशी नाळ पुरिल्ले सुवातेचो वा भुंयचो त्या भुरग्याक खूब्ब मोग आसता. तो व्हडलो जाता तशे थंयचो सैम, थंयचो समाज आनी सगळें वातावरण ताका सदांच ओड लायता, भुलयता, धोलयत आसता. हो भुरगो फुडाराक लेखक बी जाल्यार त्या सगळया वाठाराचे पडबिंब ताच्या साहित्याचेर पडटा अशें म्हणटात. पुंडलीकबाबालें साहित्य वाचतना ही गजाल सामकी खरी अशें पावला कणकणी दिसून येता.

दर एका प्रदेशाची अशी एक संस्कृती आसता. ती दोळ्यांनी दिसना. तशीच प्रकृतीय आसता. जी दिसता, मुखार उबी रावता. आनी कांय प्रमाणांत विकृतीय आसता. ती समजता. अशें म्हणटात, अमूर्त रुपांत आशिल्ली, आसपी संस्कृती भाशेच्या माध्यमांतल्यान समूर्त जाता, लोकांक दिसता. ही भास बऱ्याच वेळार पुस्तकी आसता. जाणकार मनीस जी भास उलयता ती आपणावपाचो यत्न बरेच नेणार मनीस करतात. पुस्तकांनी आशिल्लें वा किर्तन, प्रवचनकार, शिकपी मनीस वापरतात तशें व्हडल्या व्हडल्या अलंकारीत उतरांनी आपलें साहित्य सजोवपाची कांय लोकांक संवकळ आसता. हातूंतल्यान थंय संस्कृती उणी आसता आनी प्रकृती माथ्यार बशिल्ली दिसता. ताका लागून तांच्या बरोवपांत जितेपण तर दिसचना तशेंच मातयेकडले संबंद सामके दिसनात. अशे तरेचें बरोवप, मागीर तें कितलेंच वजनदार आसूं वो उपेगाचें आसूं तातूंत आपलेंपण दिसना.

पुंडलीकबाबालें साहित्य, मागीर ती 'खण खण माती', 'श्री विचित्राची जात्रा' जावं वा 'गुणाजी' कादंबरीका, तागेली नाटकां सामकी त्या मातयेतल्यान आयल्यांत अशें दिसता आनी ताकाच लागून तो वाठार दोळ्यांमुखार उबो रावता. नाटक म्हळें, म्हणजे ताची मांडावळ, बांदणी हाका खूब म्हत्व आसा. राम गणेश गडकरी, कोल्हटकर हांणी वेगवेगळ्या तरेचें साहित्यमूल्यां आशिल्लें बरप केलें मात मागीरच्या काळांतलो समाज जसजसो बदलत गेलो तसतशी तांका जिणेतली भास रिमलिस्टीक अप्रोचाचें म्हत्व कळ्ळें देखून मागीरच्या नाटकांची भास वो भासाभास पुराय बदली. तातूंतल्यान मनशांची जिणेविशीची जाणविकाम चड बऱ्या रितीन आनी खंमच्याय लोकांक समजतली अशे तरेन उक्तावली. आयज नाट्यलेखनाच्या मळार महाराष्ट्रांतले जे काय व्हडले लेखक आसात तातूंत वसंत कानेटकर हांका एक मानाची सुवात दिवपाक जाय. कित्याक तर भाशेवांगडा नाटक म्हूण जी

बांदावळ, स्ट्रक्चर आसचें पडटा तें तांच्या नाटकान दिसता. हे वळेरेंतलो कोंकणीतलो वसंत कानेटकर म्हूण खरेल्यांनीच पुंडलीकबाबाक हाचेपरस खाशेली सुवात दिवची पडटा.

जी भास संस्कृती उबी करता, समूर्त जावन तुमच्या दोळ्यांमुखार येता ती भास मराठी, कोंकणी वा हेर खंयच्या भाशेचो शिक्को घेवन येता, हाचे परस ती त्या वाठारांतल्या लोकांचें चित्रण करता ती भास, तांचे जिणेतली अभिव्यक्ती दाखयणारी आसा काय कितें, हो एक म्हत्वाचो मुद्दो थारता

खूबशी बरपावळ वाचता आसतना अशें दिसता, हें आमचें न्हय. खंयच्यान तरी हाडिल्लें आसा. गोंयांतले घडणुकेत कडेकपारीत अशें जेन्ना वाचूंक मेळटा तेन्ना प्रस्न निर्माण जाता अशो कडेकपारी म्हणटात त्यो सत्तरींत न्हीच तर गोंयांत खंय आसा काय? विशय, घडणुकेची सुवात, तातूंत वावुरपी मनशां, तांचो सामाजीक दर्जो, न्ही तर तांची जात वो कातयबी मतींत धरलेबगर तांची भास बरोवप, तातूंतलीं उतरां हें सगळें विस्कळीत जाता. ते भाशेन ग्रांथीक वो प्रामाणीक भाशेंतलीं उतरां चड करून येतात तेन्ना हें जाता. सध्याच्या काळांत कोंकणीतली बरीच बरपावळ अशे तरेची आसता, ती वाचतना आपूण खंयतरी दुसरेकडेन पाविल्ल्यावरी जाता. पुंडलीकबाबचे खंयचेंय बरोवप वाचता आसतना तें त्या मातयेकडेन आशिल्लो संबंद तोडीना.

उतरांचें अशें आसा. तीं तकलेंत लोळत उरतात तेन्ना जिबेर घोळटात. आनी तेन्नाच लोकांमदीं उरतात. एकादां कांम तीं उतरां कळमेलीं म्हटकूच तीं एकतर कोशांत वचून बसतात ना जाल्यार संसारांतल्यान नानपच्छाद जातात. कोंकणीतलीं अशीं कितलीशींच उतरां कांय मेली, तर कांम वाऱ्यार हुबून गेलीं. ल्हानपणांत आमी आयकताले ती भास सामकी गांवगिरी. पूण ते मातयेंतल्यान घडिल्लीं उतरां आयज खंयचेखंय ना जाल्यांत आनी तांची सुवात बऱ्या नव्या उतरांनी घेतिल्ली ना. तर संकरीत म्हणटात तशें कितें ती नवीनूच निर्माण जावपाक लागलां.

'फोनेयलो' हें अशें एक उतर, म्हणल्यार हांवे ताका फोन केलो, पूण अशे तरेची उतरां पुंडलीकबाबाच्या बरपावळींत जेन्ना येता तेन्ना वोलतेरचे सुवातेर धोलतेर येता. जें सामकें मुदयेक थिक बशेन थंय फीट बसता.

कित्याक कोण जाणा पूण कोंकणीतले किदेंय वाचतना ते भाशेचेर पयलीं नदर वता. कांय बरपां हाका लागून घोस्ताचीं आसतात तर कांय फकत भाशेचो वो उतरांचो चांचाळ दाखोवपी अशें दिसता. एक सत म्हणल्यार विशयाप्रमाण भाशेचें रूप बदलतलें, बदलूंक जाय. शास्त्रीय विशयाचेर एकद्रो प्रबंध वा हेर बरप करतना तातूंत प्रमाणीत भाशेचीं उतरां येवप हातूंत कांयच चूक ना. उरफाटें थंय ती गरज आसता. पूण जेन्ना हे मातयेचे सुस्कारे साहित्यांत पर्जळटा तेन्ना थंय जाय आसता ती खरी लोकभास. परत गुणेशणै, वा गुणेबाब, गुणूट, गुणाकर वा गुणाजी हातूंतल्या दरेका मनशाच्या उलोवपांतल्यान येता ती उतरावळ त्या मनशाचो रंग, रूप, भेस दाखयता. गुणाजीतली एक खबर मुद्दाम मतींत धरूंक जाय. पुंडलीकबाबान 'कुरू' हें उतर वापरलां. पूण ताचे पयलीं थंयच 'खूणा' अशेंय उतर आयलां. हाचेर भाश्य करपाची गरज आसा अशें दिसना. कित्याक तर हालींसाराक कुरू हें उतरूच वाऱ्यार पडलां म्हणपाची कुरू लोकभाशेंत मेळटा. कथा आनी काणी तसो अर्थ एकूच कथा सांगता- आमची साहित्यांतली कथा न्हय तर लोकवेदांत 'कथा' ना रे वर्तु आम्ही म्हणटात ते भशेची. काणीय सांगता पूण ती वेगळे तरेची. कथा केन्ना म्हणपाचें आनी तिकाच काणी केन्ना म्हणपाचें हें सारके तरेन समजून घेवपाक जाय जाल्यार पुंडलीकबाबालें साहित्य वाचूंक जाय.

एक खाशेली खबर सांगूक जाय. बऱ्याच मराठी वाचप्यांक कोंकणी भाशेंतलें कितेंय वाचप म्हणल्यार ते अडखळटात. मात पुंडलीकबाबालें साहित्य वाचता आसतना मात कसलीच अडखळ येना हेंच तांच्या बरोवपांतलें वेगळेंपण आसा. तांणी अशेंच खूब बरोवचें आनी आमकां तें वाचूंक मेळचें. इत्सा इतलीच...



# ‘पुंडलीका वरदे...!!’

लेख

पुंडलीक आनी हांव तशे समकालीन. मात आमचें मर्दी, पिरायेचे बाबतींच चड-उणें अंतर जावपाक शकता. सामके उमेदीच्या म्हणल्यार, मौज करपाच्या वेळार, मोगांत पडपाच्या वेळार ताचे मर्दी जी साहित्यीक प्रगल्भताय आशिल्ली ते पिरायेचेर हेर कोणामदीं आसपाक शकता हाचेर म्हजो विस्वास नाशिल्लो. हांव १९७५ वर्सा जानेवारीं म्हयन्यांत ‘गोमन्तक’ दिसाळ्यांत खेळां पत्रकार म्हणून कामाक लागिल्लों. त्या वेळार वा ताचे पयलीं ‘मांजरा’ विशींची एक मराठी कथा खंयच्या तरी दिसाळ्याच्या दिवाळी अंकातले सर्तींत हांवें वाचिल्ली. पुंडलीक नारायण नाईक हांणे ती बरयिल्ली. आनी ते कथेक पयलो वा दुसरो पुरस्कार फावो जाल्लो अशी याद आसा. मांजर आनी ताच्या पिलाची ही काणी. हांवें ती वाचली. अस्खलीत मराठींत बरयिल्ली ही कथा. मांजर ह्या प्रतिमेच्या रुपान एके आवयचें भावविश्व व्हडा ताकदीन उबें केल्लें. वाचप्यांक चुटपुटे लावपी पुंडलीक नायक हो कथाकार खंयचो? असो प्रस्न त्या वेळार म्हजे सारक्यांक पडिल्लो. साहित्य मळार तशें ताचें नांव नाशिल्लें. पूण हे एकेच कथेन हो बरोवपी कितले तांकीचो हें सगळ्यांक कळ्ळें. त्या वेळार ताका फोन करपाची वेवस्था नाशिल्ली. मात हो गोरोगोमटो असो लेखक, पुंडलीक म्हाका पयले फावट मेळ्ळो तो पोर्तांईश (भाटलें) हांगा नागेश करमली हांच्या तेन्नाच्या घराचे माळयेर. नागेशबाब आनी हांव सांग्यातले. ते खातीर नागेशबाबाक म्हजेविशीं सामको कळवळो. हांव गोमन्तकांत कामाक लागलां हें नागेशबाबाक सांगलें. तेन्ना तांणी म्हाका मिठी मारून सांगिल्लें. बरे भशेन तुजें काम कर. नागेशबाब कोंकणीवादी आनी कोंकणीक सामको विरोध करपी गोमन्तक दिसाळ्याचो माधव गडकरी संपादक. पूण नागशेबाबान म्हाका ते विशीं कसलोच शब्द काडिनासतना आशिर्वाद दिल्लो. पुंडलीक आनी हांव मेळ्ळे तेन्ना ‘प्रकाश, हो पुंडलीक, बऱ्यो कथा बरयता’ ही नागेशबाबान आपले सदचे भाशेंत करून दिल्ली पुंडलीकाची वळख. पुंडलीक मीतभाशी.



**प्रकाश कुर्डीकार**
(पत्रकार)
करमळी - गोंय
मो. 8275889085

मात्सो हांसलो. चडसो कांयच उलयलो ना.

एक दीस हांव म्हायती आनी प्रसिद्धी खात्यांत गेल्लो. तेन्ना एका कोणा तरी फॉरेनराक तेन्नाचे म्हायती अधिकारी देवेंद्र कारापूरकार पुंडलीकाच्या 'बांबर' हे नवलकथेंविशीं सांगताले. हो लेखक सुर्वेकूच सांगता, 'चोटली भिजयनासताना थिगूर खावन दाखोवपी समस्त विद्वानांच्या कट्टुलार हांव हें बांबर ओततां' कारापूरकारबाब हें सगळें त्या फॉरेनराक इंग्लिशींतल्यान सांगतालो पूण ताचो नक्की अर्थ कितें, आनी ताचें भाशांतर करून सांगपाक कारापूरकार सारक्या एका ज्येशठ अधिकाऱ्याक लेगीत जमलें ना. एक सादें वाक्य. सामके गांवरान गोंयचे. मात चोटली भिजयनासता कोण स्वताचें सादून घेता वा घेवपाक सोदतात आनी ते कोण? हें पुंडलीकाक जशें खबर आशिल्लें तशें भोवजन समाजांतल्या सगळ्यांक कळटालें. मात हें सत एका साद्या पूण सशक्त उतरातंल्यान आपल्या पुस्तकां कोणाची भीडमूर्वत बाळगिनासतना बरोवपी फकत पुंडलीक. हांवें तेन्नाच ताका सलाम मारिल्लो. बांबर वाचचे पयलींच चोटलेचो उल्लेख येता. दिसपाक मात्शें पोजडें. मात अश्या स्पश्टपणान तेन्नाच्या समाज वेवस्थेची, तेन्नाच्या वास्तव्याची वळख करून दिवपी हो लेखक बंडखोर प्रवृत्तीचो अशें तेन्नाच दिसून येतालें.

पुंडलीकान आपल्या फुडल्या तरेकवार साहित्य प्रकारांतल्यान अश्या प्रस्थापितांक किलल्योशोच बडयो मारल्यात. आपल्याक कितें सांगपाचें आसा हें पुंडलीक स्वताचे, निजाचे भाशेंत सांगता. कोंकणीक व्याकरण आसूं दी वा नासूं दी. सुरेशबाब बोरकार आनी दामोदर घाणेकार कोंकणीच्या व्याकरणाची बांदावळ करताले. मात, म्हज्या नाटकांत म्हजी पात्रां उलयतात तांकां हें तुमचें व्याकरण लागू पडचें ना. म्हज्या नाटकांतल्या पात्रांच्या संवादांत कोंकणीचें व्याकरण हांव मानून घेवचो ना. ती जशीं आसात जी भास उलयतात तीच भास म्हज्या नाटकांनी येतली अशें, सामकें स्पश्टपणान सांगपी हो नाटककार. पुंडलीक नाटककार म्हूण फुडें येवचे पयलीं जीं कांय नाटकां कोंकणी रंगमायेर आयिल्लीं तातूंतली भास ही चडशी बामणी भास. पुंडलीकबाब दांडेचें 'ताची करामत' हें नाटक हांवें ल्हानपणांत जांबावले रामनमीच्या नाटकांनी पळयल्लें. उदय भेंब्रे हो कितले ताकदीचो कलाकार हें हांवें तेन्ना जांबावले जावपी नाटकांनी पळयलां.

पुंडलीकान जी नाटकां बरयल्यांत वा स्वताचे अणभव ताणे जे तरेन चितारल्यात तातूंत दरेक पात्र हे भुंयपुताचें रुप घेवन येता. पुंडलीकान आपल्या साहित्यांत चितारलां ते स्वताचे नीज रूप घेवन आयलां. पुंडलीकान फकत ताका शब्दरुप दिलां अशें म्हाका दिसता. बांबरांत ताणे जें कितें चित्रण केलां तें मराठींत जयवंत दळवी हांच्या 'चक्र' तशेंच मधू मंगेश कर्णीक हांच्या 'माहिमची खाडी' हाचे पसर खंयचेच बाबतींत उणे ना. 'पायप खाली करना है' अशें जयवंत दळवीचो नायक सांगता जाल्यार तुजो हात खंय आसा हें बाबाक सांगू? अशें मास्तराक सांगपी बांबरातलो भुरगो. सान्तिनेज वाठारांत पुंडलीक घडये रावला आसतलो. सध्या ह्या वाठाराच्या सामकार हार्लीसाराक गणपतीचें देवूळ बांदलां. मात पुंडलीकान बांबर बरयल्ल्या त्या तेपार त्या वाठरांत वचून रावपाची कापास्ताद कोणाकूच जावची नाशिल्ली. कितलो तो घाणयारो वाठार, तितलोच घाणयारो व्हाळ. ताच्या कडांनी साडयो वयर करून सैमीक विधी करपी बिगर गोंयकार बायलो. थंयच्यान आतां लेगीत पासार जातना पुंडलीकाचे नदरेंलो वाठार म्हजा दोळ्यामुखार उबो रावता. हो ताच्या बांबराचो प्रभाव... पुंडलीकाच्या सगळ्या साहित्यांत जी भास येता ती अपरिहार्य म्हूण येता. ताका स्वता पुंडलीक कांयच करपाक शकना. ताणें जें भोगलां, जें अणभवलां तें ताणे ताचे गांवगिरे भाशेन सशक्तपणान मांडला. ताका कोंकणीचें व्याकरण आडापवाक शकना. आयलें तशें गायलें अशें कवी पंडितान म्हणिल्ले प्रमाण पुंडलीक आपले अणभव मांडित गेला. ताची अशीच एक कथा, एस.एस.सी. पास जाल्ल्या, पूण सरकारी नोकरेच्या

फाटल्यान लागपी तरनाट्याची. बशीचो कंडक्टर जाल्ल्या ताच्याच एका वर्गइश्टाकडेन बस प्रवासांत उलोपाक ताका लज दिसता. उपरांत त्या तरनाट्याचें कितें जाता? ही कथा वाचतकूच आयच्या तरनाट्यांची मनोवस्था कितल्या प्रभावीपणान कितल्याश्याच वर्सां आदीं पुंडलीकान बरोवन दवरिल्ली. तशेंच त्या वेळच्या समाज वेवस्थेचेर ताणी आपसूक केल्लें भाश्य विचारप्रर्वतक आशिल्लें. कथाकार म्हूण ताणी आपल्या दरेका कथेंत त्या वेळच्या समाज वेवस्थेचें तशेंच त्या वेळच्या तरनाट्याचें मनोविश्लेशणाचें जें चित्र रंगयलां तें सावयवेऱ्यां सारख्याच न्हय तर पुराय गोंयांत गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी तरनाट्यांच्या मनातलें शब्द शिल्प कशें आसा. पुंडलीकाच्यो कथाच न्ही तर तांची नाटकां वाचतना वा तांचे प्रयोग पळयतना वाचक वा प्रेक्षक आकुळपिकूळ जातात. अशें लिखाण करपी पुंडलीकाचे ताकदीचो नवो लेखक अजून तरी गोंयांत तयार जाल्लो ना हें सामकें सत. तांच्यो कथा, कविता वाचतना तातूंतलो तांचो अणभव वाचप्यांक अस्वस्थ करता हीच तांच्या लिखणीतली शक्त.

पुंडलीक बरोवपाक लागलो तेन्नाची समजावेवस्था कशी आशिल्ली हाचो विचार करतना ताणें बांगर बैलाचें रुप घेतलें तें हे समाज वेवस्थेक आव्हान दिवपाच्या हावेसान. वा कोंकणींक राजभास करपाचे हावेसना घेतलें आसुयें. पुंडलीकान मुळावें शिक्षणूच न्हय तर तो तेन्ना इकरावी मेरेन मराठी माध्ममांतल्यान शिकिल्लो. हांव मराठी फकत चवथीमेरेन शिकलां उपरांत सगळें इंग्लिश. पुंडलीक ल्हानपणान तांची गोरवां राखतालो. हांव त्याच्या त्या वेळार तेन्ना जांबावले म्हज्या मामागेर शिकपा खातीर आशिल्लों. पूण मे म्हयन्यांत म्हज्या कुर्डी गांवात आयिल्ले कडेन म्हजेच पिरायेची आमची गाय तांबू, ताचे परस व्हड पूण मायेस्त रतन, आमचो पाडो बाबुलो, हांकां घेवन हांवूय तांचे राखणे खातीर वतालों. सैमाच्या गोपांत ह्या गोरवांक घेवन भोवताना, दनपारां ती गोठेतात थंय न्हंयचे कुशीक भुती सोडून जेवतना, उटंगरच्या पावसांत आमच्या कुशावती न्हंयक हुवांर आयिल्लो आसतना आमची तांबू तातूंतल्यान पेंवत वचून दुसरे तडीक लागसर मनाक जी तळमळ लागताली ती हांव अणभवपाक शकतां मात शब्दबद्ध करपाक शकना. ती कळाशी पुंडलीकासारक्या लेखकांक जमता.

हांव गोमन्तक सोडून 'सुनापरान्ता'त आयलों. तेन्ना म्हणल्यार २००४ वर्सा हांव कोंकणी अकादेमीत गेल्लो. तेन्ना अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीकबाबान म्हाका मुजरत आपल्या कॅबिनांत आपयलो आनी सांगलें, 'हें पळय प्रकाश, दिसाळ्यांतलें लिखाण हें एका दिसाचें. दुसऱ्या दिसा तें शेळें जाता आनी कोणूच वाचिना. जें सदांच कोणाक तरी वाचन दिसतलें अशें तूं कित्याक बरयना? हांवें तेन्ना सांगलें, तुजे सारकें बरोवपाची शैली म्हजेकडेन ना. हांव एक बातमीदार, दिसाळ्यांत काम करपी मनीस, म्हजी भास रुक्ष, त्या दिसा पुरती.' पुंडलीकाकूय तें पटलें अशें म्हाका तेन्ना तरी दिसलें. एकाद्री घडणूक घडले उपरांत पत्रकार म्हूण एक बातमी म्हूण वाचप्यांमेरेन पावोवपाचें म्हजें काम. मात पुंडलीकासारको एक सर्जनशील कलाकार ते घडणुकेक एक भावविश्वास्काराचें रुप दिवंन एक कलाकृती घडयता ताका दाद दिवचीच पडटा.

एका सयामी जुळ्यांक ऑपरेशना वेळार मरण येता. सगळ्या संवसारीक दिसाळ्यांनी ही खबर छापून येता. पुंडलीक ताची दखल घेता ती 'जोडखंड' ह्या नाटकांतल्यान. सयामी जुळ्यांच्या मनाची ओढाताण पुंडलीक कशे तरेन मांडटा.! ताच्या देरक नाटकांत हीच ओढाताण वेगवेगळया चित्रणांतल्यान दिसता.

'राष्ट्रमता'च्या आयतारचे कोंकणी पुरवणेंत पुंडलीक एक सदर बरयतालो. सामकें वाचनीय अशें हें सदर. 'बोरये पुलाक जाय बळी' ह्या माथाळ्या खाला ताणे बरयिल्ले तें याद आसा. म्हजे प्रमाणेच हेर जायते जाण 'राष्ट्रमत' आयतार पुरवणेतल्या ताच्या ह्या सदराची वाट पळयताले. पुंडलीकान एका तेंपार

वृत्तपत्रीय लिखाण केल्ले हे खातीर ताका पत्रकार लेगीत म्हणपाक जाय. म्हणल्यार ताचे लिखणीक कितलीं तासां आसात हें दिसून येता.

हांव गोमन्तकांत आसतना तेन्नाचे आमचे संपादक आमी मराठी राज्यभाषा प्रस्थापनाची चळवळ आपले संपादकीय लिखणीतल्यान जाणे तोलून धरली ते नारायण (नाना) आठवले एक दीस म्हाका सांगपाक लागले. 'हा पुंडलीक जबरदस्त लिहितो. त्याने मराठीत लिहिले असते तर संपूर्ण महाराष्ट्रभर ताचे नांव झाले असते' ही गजाल एक दीस हावें पुंडलीकाक सांगली. 'मराठीत बरयल्लें जाल्यार महाराष्ट्रभर जावपाचें. हिंदींत बरयल्लें जाल्यार देशभर जावपाचें आनी इंग्लिशींतल्यान बयल्लें जाल्यार संवसारभर जावपाचें. मागीर हांवें मराठीतल्यान कित्याक बरोवप? कोंकणी ही म्हजी अस्मिताय आनी हांव तेच भाशेंत बरयत रावतलों.' पुंडलीकान थंडपणान दिल्ली जाप. ही अस्मिताय! कोंकणी भाशेचो अभिमान ताका कोंकणी प्रजेचो आवाजाचें निमंत्रकपद दिवन गेलो. पुंडलीकाबगर हें पद रिकामें उरतालें अशें न्हय मात कितलेशेच संदर्भ बदलतले आशिल्लें. कोंकणीच्या म्हालगड्यांक हें खबर आशिल्लें. देखून भौजन समाजांतल्या पुंडलीकाचेर ती जापसालदारी सोंपयली आनी ताणे ती बेस बरी येसस्वी केली. राजभास चळवळी वेळावयलो पुंडलीकाचेर आशिल्लो भार गोमन्तकचो प्रतिनिधी म्हूण हावें सामको लागींच्यान पळयिल्लो. आझाद मैदानावयल्या निर्णायक महामेळाव्यांतल्या ताच्या भाशणाची याद केल्यार अजून लेगीत आंगार कांटो फुलता. राजभास चळवळ येसस्वी जाले उपरांत कोकणी प्रजेचो आवाजाचें विसर्जन करपाचो ताचो आनी ताच्या वांगड्यांचो निर्णय खऱ्यांनीच तुस्त करपाचो. शांत संयमी अशें पुंडलीकाचें साहित्यीक म्हूण दिसपी सदचें रूप. मात अन्याय जाता अशें दिसल्यार हो पुंडलीक तसो उर ना. कोणाकूय नाका करून कशें सोडता हें राजभास चळवळीन दाखोवन दिलां. कोंकणी साहित्यमळार ताचीच दादागिरी चलता. ती अशीच चलत रावूं! अशें म्हणून 'पुंडलीका वरदे....!' अशें म्हणून हांव ताचे साहित्य पालखेक खांद मारतां....

◆◆◆

# पुंडलीकाची म्हाका आवडिल्ली नाटकां

लेख

पुंडलीक नायक हों कोंकणीतलो सिध्दहस्त नाटककार. तांची नाटकां म्हाका सदांच भावल्यात. 'मुक्तताय', 'चैतन्याक मठ ना', 'शबै शबै भौजनसमाज', 'पिंपळ पेटला', 'आत्मवंचना', 'श्री चिचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांनी भुमीका करपाची संद म्हाका लाबली. रसिकांक आपलोसो दिसपी आशय आनी विशय, तांच्या नाटकांचो मूळ बाज जावन आसा. नाटक पळोवप्याक तांच्या नाटकांत विशेश अशे स्थान आसा.

पुंडलीकबाबाच्या 'वावराची वावराडी' हे एकांकीकेत हांवे म्हज्या नाट्यप्रवासाक सुरवात केली. 'गणिलो गणपती', 'मर्णकटो'सारख्या एकांकीकांनी भुमिका करपाचो योग आयलो.

ते भायर 'सुर्यसावट', 'सुरींग', 'धनयां देंवचारा', 'कांसुलो', 'परिक्रमा', 'खण खण माती', अशी कितलीशींच नाटका हांवें पळयल्यांत. तातंले खंयचेय नाटक बरें न्ही अशें म्हणपाक जावचेंना.

दरेका नाटकांत तांणी वेगळो संदेश आनी उद्देश रसिकांमुखार मांडला. तांचे नाटक वैश्वीक थारलां. आमच्या भोंवतणी घडपी कथानकांक तांणी जागतीक मळार स्थान दिलां. पुंडलीक नायकाच्या एकांकीकांनी आमचें मर्दी कोंकणी नाटकांविशीं आवड निर्माण केली. तांचीं नाटकां करतां, पळयता आसतनाच स्वतंत्र कोंकणी नाटकां बरोवचें अशें दिसलें आनी म्हज्या 'महारथी कर्ण' हे नाटकाचो जल्म जालो.

पुंडलीकबाबाक लागून जायते लेखक, दिग्दर्शक तंत्रज्ञ आनी अभिनेते गोंयांत घडले.

सांगे केपें वाठारांत कोंकणी नाटकांक पोसवण दिवपाक पुंडलीकबाबाची नाटकां सदांच उपकाराक पडल्यांत. तांचें 'मुक्तताय' नाटक भाटकारशायच्या शेकतळा आपली जीण सारपी कश्टकरी शेतकारांच्यो व्यथा मांडटा. वर्सान वर्स चिड्डत भड्डत जिवित जगपी, फाटल्या पिळग्याचें चित्रण ह्या नाटकांतल्यान



डॉ. रेवणसिध्द रामनाथ नायक
(लेखक, नाटककार)
सांगे - गोंय
मो. 9923096448

घडलां. सत्याचे कसवटेक धरून एका जिवें जागत्या घडणुकेचेर हे नाटक आधारीत आसा. आमच्या जाण्टे पिळगेचे प्रतिनिधित्व करपी हे नाटक म्हाका खूब आवडटा.

'चैतन्याक मठ ना' हे पुंडलीकबाबाचें वेगळे धाटणेचे नाटक. शेवटामेरेन प्रेक्षकांक कदेलीर बसोवन दवरपी. लोक संगिताच्या तालार भौसाच्या चालिरितीचेर आनी आळशी सभावगुणाचेर बोट दवरून समाजाक कश्टाची आनी कर्माची गरज आनी महत्व दाखोवन दिवपी हे नाटक म्हाका खूब आवडलें.

विकासाच्या नांवार आशेच्या उच्चभ्रू समाजाचें जाल्ले अधःपतन, उच्चशिक्षीत आनी तथाकथित प्रतिष्टीत समाजाचें सांस्कृतीक अवमुल्यन, हें नाटकांत आमकां पळोवपाक मेळटा. तसो पळोवक गेल्यार हो वैश्वीक विषय पुंडलीकबाबान सहजतायेन केळयला.

'शबै शबै भौजन समाजाचे' प्रातिनिधीक स्वरूप. ह्या नाटकांत गोंयांत जळीमळीं दिश्टी पडपी घडणुकाचे चित्रण जालां. हे नाटक एक राजकीय विडंबन. पूण ह्या नाटकांतल्यान आयची राजकीय परिस्थीती आनी गोंयचे समाजाचें भोळेभाबडें रूप दिश्टी पडटा.

सुमार 25 वर्सा फाटलें हे नाटक आयजुय तितलेच ताकीन सादर जाता आनी रसिक प्रेक्षक ह्या नाटकाक उबारून धरता. लोकसंगित आनी लोकवाद्यांचो वापर ह्या नाटकांत बरे तरेन केला. हें नाटक गोंयच्या जनमानसाक आपलें स्वताचे अशें दिसता. हे नाटक म्हाका खूब आवडलें. 'आत्मवंचना' नाटकांत मंळबात उंच उडणां मारपाची सपनां पळोवपी एका कलाकाराची शोकांतिका पुंडलीकबाबान मांडल्या. तातूंत आस्पाविल्ली गितां ह्या नाटकांक वेगळ्याच उंचाचेर व्हरून दवरतात.

पुंडलीकबाबाची सगळींच नाटकां म्हाका आवडल्यात. पूण तांचेर भाश्य करप हांगा शक्य ना. हांव इतलेंच म्हणन; पुंडलीकबाब एक साहित्याचो महायोगी, कोंकणी नाटकांक तांणें अढळ अशें स्थान प्राप्त करून दिल्लें आसा. तांकां लागूनच कोंकणी जनमानसांत रूळ्ळी. घोळ्ळी ताका कोंकणी नाटकाचो महामेरू म्हणलें जाल्यार अतिताय जांवची ना. पुंडलीकबाबाचे प्रतिभेचें मळब आनीकय विस्तीर्ण जावं अशें हांव मागतां.

◆◆◆

# पुंडलीकबाबाविशी बरयतना...

लेख

क्लिक !

पयलेच खेप हांव तांकां वळवय मेळिल्लें. हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबांक तांच्याच घरा. निमित्त ‘चित्रंगी’ मेळावो. बायल साहित्यीकांक उर्बा दिवपाक घडोवन हाडिल्ली जात्रा. हय, म्हजेखातीर ती जात्राच आशिल्ली. हाचे पयली हांवें असले जग पळोवंकूच नाशिल्लें.

म्हजें जग म्हणल्यार म्हजी आई आनी भावणां. आमचें तितलेंच जग आशिल्लें. आतां चिंतल्यार हांसपाक येता. पूण 18-19 वर्साच्या वयाचेर म्हाका तें सगळे जगच गुलाबी दिसतालें. म्हजेखातीर हेमाबाय आनी पुंडलीकबाब विठ्ठल-रखुमाईशीं. माटोवभर हांसत्या मुखामळान वावुरतार्ली. थंय सुकांती, हिरू, दशरथ... वळवयचीच सवंगडी मेळ्ळीं. ताचें वांगडा हेर बायलां साहित्यिक मेळ्ळीं. बायलो म्हळ्यार चलयोच त्यो !

दोन दिसांनी घरां वतनां दोळ्यांत सपनां आनी मनांत हेमाबाय-पुंडलीकबाबाची मूर्त घेवन म्हजोय संवसार हांव अशेंच उबारतलें हो निर्धार करून !

**क्लिक !**

1983 हें वर्स म्हज्या जिवितात खूब कितें घेवन आयिल्लें. प्रोग्रेसिव्ह स्टुडंट्स युनियन ह्या मार्क्सवादी संघटनेकडेन म्हजो संपर्क त्याच वर्सा आयिल्लो. ताचे उपरांत ‘चित्रंगी’ म्हजे जिवितांत आयिल्ली ह्या संघटनेतले वांगडीय हेमाबाय-पुंडलीकबाब, हांकां वळखताले. तांचें, तांगेर वळवय येवप-वचप जातालें. हे संघटनेची तत्वां-मुल्यां म्हाका चड कळनाशिल्ली. मार्क्सवादाची फाटभूंयय खबर नाशिल्ली. पूण ही संघटना विद्यार्थ्यांचे प्रस्न घेवन झगडटाली. सांस्कृतीक कार्यावळींतल्यान लोकांमदी जागृताय हाडटाली. तें म्हाका आवडटालें. ल्हव ल्हव ते संघटनेत हांव सक्रीय जाल्लें. म्हणटकीच ते वळवय वता तेन्ना हांवूय तांचेवांगडा लोट्टालें, म्हज्या वळवय.

हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबागेर वचून आमी सांजे साताक बी




प्रशांती तळपणकार
(प्राध्यापक, नाटक-सिनेमा कलाकार)
ताळगांव - गोंय
मो. 9423887708

बसतालीं. मागीर साहित्यीक चर्चा जाताल्यो. तांच्यां नाटकाचेर चर्चा, मागीर जेवण जातालें. परतून चर्चा, केन्ना वाद. वाद घालता घालता भायर पासयेक वतालीं. परत रस्त्याच्या कडेक बसून चर्चा-वाद. हें सगळें हांव बाबडें वोग्गी बसून आयकतालें. म्हाका तातूंतले खुबशें कितें कळच नाशिल्लें. पूण तांचें चडट्या आवाजांत वाद जातकीच म्हजें काळीज धडधडटालें. म्हाका दिसतालें, हीं आतां झगडटलीं दिसता. आतां कितें जातलें? रातची ती आमकां दवरून घेतलीं कांय धांवडायतलीं, असो प्रस्न पडटालो. पूण म्हज्या मनांतलो गोंदळ थंड जावचे पयलीच तांचे वाद थंड जावन तीं खो...खो करून हांसपाक लागताली.

**क्लिक !**

ल्हव ल्हव म्हाका 'हम कितने पानी मे है' हें कळूंक लागलें. मनशांच्यो भावना, मनशांचे प्रस्न समजूवप हे गरजेचेंच पूण त्याच वांगडा वाचन, म्हायती गरजेची, हें समजलें. हांव वाचूक लागलें. चर्चा करूंक लागलें. वाद घालूंक शिकलें. म्हजो मेंदवाचो रितो घडो भरपाक लागलो.

इतल्यांत राजभास आंदोलन गरगरून आकार घेवंक लागिल्लें. आंदोलनाची तयारी चालू जाल्ली. पुंडलीकबाब 'गोंयच्या प्रजेच्या आवाजाचे' निमंत्रक जाले. कितली खोशी आनी उमेद जाल्ली आमकां.

**क्लिक !**

मोर्चा, सभा हातूंत आमी वांटो घेतालीं. सगळ्या कोंकणी फुडाऱ्यांची भाशणां आयकतालीं. पुंडलीकबाबाच्या खणखणीत आवाजांतलीं आनी ओघवत्या शैलीतलीं भाशणां सगळ्यांक चिथायतालीं, उर्बा दितालीं. कोंकणीक राजभास करपाच्या निर्धाराक चालना दितालीं.

**क्लिक !**

पूण कांय जाणांक एक प्रस्न पडिल्लो. इतिहासीक कारणांक लागून मराठी गोंयांत आयली. गोंयांत तिचे स्थान आसा. तें सामकेच अमान्य करप? तातूंत हांवूय आशिल्लें. म्हजें मुळाव्या स्तरावेले शिक्षण, म्हजे वाचन मराठीतच जाल्लें. हांव 'फकत कोंकणी' इतलें म्हणूक शकनाशिल्लें.

हेमाबाय-पुंडलीकबाबाकडेन हो विचार मांडप कांय ना असो म्हज्या मनांत प्रस्न पडिल्लो. तो मेरेन आमचे विद्यार्थी संघटनेन खडाजंगी वाद-चर्चा जावन, कोंकणी राजभास आनी मराठी सहभास जावंक जाय असो निश्कर्ष काडलो.

आमचे म्हणणें कोंकणी फुडाऱ्यांनी काना-मनार घेतलेना. कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचे आंदोलन चालूच आशिल्लें. आमीय आमचे परीन आंदोलन सुरूच दवरलें. तांणी आमकां तांचेमदी घेवंक ना कांय आमी तांचेमदी वचूंक ना, हे म्हाका अजूनय स्पश्ट जायना. पूण ह्या आंदोलना वेळार हेमाबाय आनी पुंडलीकबाबाकडचो म्हजो हात सुटलो. पूण मोग मात उरलो. एकमेकाकडली नातीं स्ट्रार्च केल्लेभशेन कडक जालीं.

**क्लिक !**

राजभाशेचे आंदोलन निवळलें आनी 'स्टार्च' जाल्ली सगळीं परत केळीच्या गोब्या सारकीं मोवसर जालीं.

**क्लिक !**

एक दीस अशेंच वळवय गेल्लें. उलयतां उलयतां बाबा आमटेचो विशय आयलो. सगळे तांचे गुणगान गाताले. हांवें फट करून म्हणले, 'छे , बाबा आमटे धोंगी खंय' घे, म्हाका पुंडलीकबाबान सामकें सोलून काडलें. खरें म्हणल्यार म्हाका बाबा आमटेविशीं कोणेतरी दुसऱ्यान सांगिल्लें.

पुंडलीकबाबान म्हजी 'कानउघडणी' करतकीच हांव खूब बदल्लें. कोणायविशी पूर्वग्रह करून घेवचें पयलीं सगळें सारखे समजून घेवप कितलें गरजेचें हे शिकलें.

**क्लिक !**

1989 चे वर्स. चित्रंगी आनी विद्यार्थी संघटनेच्या विचारांचेर पोसपी हांव बायलांच्या प्रस्नांचेर बरेच जागरूक जावंक लागिल्लें.

तेन्नाचे सभापती दयानंद नार्वेकार हांचेर विनयभंगाचो आरोप आशिल्लो. निवडणुको लागी पाविल्ल्यो. राजकीय पक्ष हो विशय चघळपाक लागिल्लो. सगळेकडेन वातावरण दुषीत जाल्लें. ते वेळार सभापतीन राजिनामो दिवचो आनी चौकशेक तोंड दिवचें ही मागणी घेवन हांव, स.विनायक पडियार आनी वासंती पांचाळ उपासाक बसलीं.

म्हज्या कृत्याक म्हज्या कुळाराचो शंबर टक्के विरोध आसतलो हाची म्हाका खात्री आशिल्ली पूण पुंडलीकबाब आनी हेमाबाय धांवन म्हज्या म्हऱ्यात येतलीं अशेंय दिशिल्लें. आयलीना.

**क्लिक !**

हांव सदांच जाणा आशिल्लें, हांव चुकलें जाल्यार पुंडलीकबाब म्हाका हक्कान तापयताले. पूण तशें न करता तांणी एकदां म्हजेर पत्रक काडलें. निशेदाचें. माध्यम प्रस्नांवेळार 2011 इंग्लिश नाटक सादर करता म्हणून. पत्रक काडल्यार हरकत नाशिल्ली. पूण पयली हक्कान विचारले कित्याक ना? तापयलें कित्याक ना? हे प्रस्न अजूनय मनांत आसात.

लग्न, नोकरी, संवसार ह्या सगळया व्यापातल्यान लेगीत पुंडलीकबाबाकडेन संपर्क उरलो. तांच्या नाटकांचेर चर्चा, अमके आवडलें अमकें आवडलेना हें उक्तेपणान सांगप चालू उरलें, आनी तांचेय आयकून घेवप चालू उरलें.

'प्रशांती, पुंडलीकबाबान एक नाटक बरयलां, करता मुगो तातूंत भुमिका?' ज्योतीबाय कुंकळकारान एक दीस विचारलें. आवयस्स ! ताचे ते जडजड शब्दांचे संवाद, नादमय संवाद, विचारपूर्वक बरयल्ले संवाद... जमत? म्हयनोभर विचार केलो हांवे त्या संवाद-रूपी नाटकाचेर. 'कथा-अस्तुरी' सामके प्रभावीत जालें हांव. एक बायल मनीस लेगीत बायलांवेल्या अन्याय, अत्याचारांचे इतलें बरें विश्लेशण करूंक शकची नाशिल्ली. तांणी बायलेच्या परिस्थितीचे सभाव गुणाचे विश्लेशण खूब बारकायेन केलां. हें नाटक वाचून-पळोवन जर कोणय बायल मनीस स्वताचो मान-सन्मान म्हळयार कितें? आपली परिस्थिती कितें? आपूण कोण? समाजान बायलेक कितें दिले आनी कितें दिलेना हे समजना जाल्यार ती बायल मूर्खच म्हणची पडटली.

अशें म्हणटात, एका बायलेमदी दादल्याचें आनी बायलेचे गूण आसतात तशेंच दादल्या मर्दी बायलेचे आनी दादल्याचे सभावगूण आसतात. घडये, तांच्यामदी लिपिल्ल्या तांच्या बायल सभाव गुणान तांकां बायलांचे प्रस्न समजून घेवपाक शिकयलां आसतलें. आमी ह्या संवाद-रूपी नाटकाचे गोंयांत आनी गोंयांभायर खूब प्रयोग गेले. दर वेळा पात्रांच्या तोंडातल्यान तांचे विचार, तांची भाशाशैली, तांचो विनोदी थाट आनी मतितार्थ लक्षांत येता आनी मनांतल्यान पुंडलीकबाबामदल्या लेखकांक म्हजे मन 'सलाम' करता.

**क्लिक !**



*कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां*
*मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी*
***भौ. पुंडलीक नारायण नायक हांकां आमचीं परबीं!***



# श्री. श्रीपाद येसो नाईक

मानदीय केंद्रीय आरोग्य आनी
कुटूंब कल्याण राज्य मंत्री
भारत सरकार

*कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां*
*मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी*
*भौ. पुंडलीक नारायण नायक हांकां आमचीं परबीं!*



# ॲड. नरेंद्र केशव सावयकार

खासदार - दक्षीण गोंय

# पुंडलीक नायक आनी जेम्स रिनी-
# एक असमान अशी सम वाटचाल

लेख

आमचे आशियन माचयेची पिराय सुमार दोन हजार वर्सां आसूं येता. ख्रिस्तपर्वा उपरांत चारशें वर्सांच्या काळांत संस्कृत नाटकाचो जल्म दिसून येता. त्या मानान कॅनेडियन माची फकत दोनशें वर्सां पिरायेची, वाडट्या भुरग्या सारकी. पूण हेंवूय तितलेंचे खरें, कोंकणी माची आनी कॅनेडियन माची ह्यो दोनूय आमच्यान तुलनात्मिक नदरेन एकमेका सामकार मांडूं येतात. कारण आमची कोंकणी माचीय बी सामकी भुरगी, जिची उदरगत 1961 वर्सा पुतुगेजांक धांवडायले बगर जावंक पावली ना.

पुंडलीकबाबान प्रायोगीक माचयेक कोंकणीतल्यान वाट करून दिली. रिनीन हेंच काम कॅनडांत इंग्लिशींतल्यान केलें. हे दोगूय नाटककार 1970 च्या दशकांत आपापल्या देशांत मुखेल नाटककार म्हूण उदेवंक पावले.अप्रूप अशी गजाल म्हणल्यार हे दोनूय नाटककार ते आपापाल्या थळाव्या नाटकाचे म्हालगडे, संवसारांतल्या वेगळ्या खंडांतले असमान कलाकार, जांकां एकमेकाच्या अस्तित्वाची सुलूस लेगीत लागूंक नाशिल्ली. आपणाल्या काळजांत प्रादेशीक नाटकाचेर खूब मोग रिगयिल्लो आनी ही प्रादेशीक माची गौरवाच्या तोंकार व्हरची असो हावेस धरून सम वाटचाल करीत आशिल्ले.

कॅनडांतल्या पश्चिम ओन्तेरियो प्रदेशांतल्या स्ट्रॅटफर्ड गांवांत आपणाल्या शेतकार आवय-बापायक नडणेंत, लुवणेंत, कांदे हुमटूंक, बटाट खणूंक रसबेरीस वेचूंक मदत करीत रिनी व्हड जाले. धाकल्या भावंडांक पळोवप, जमीन पुसप, विकपा खातीर भाजयेच्यो चुडयो करप, सायकलीवयल्यान स्ट्रॅफर्डाच्या रस्त्यांचेर चणे-फुटाणे आनी देशी चीजाच्यो गुळयो विकप हें ताचें सदचें काम आशिल्लें. तांकां भाविल्लें ताचें शेत ताचे कलाकृतींत सामकें उतरलां. तांच्या 'नेम्स ॲण्ड नीकनेम्स' (1961) ह्या नाटकांत सगळ्या ऋतुंतल्या शेतांतल्या तरेकवार अश्टताशी वावराचें वर्णन आयकून रसिक अजापीत जातात.

पुंडलीक नायक लेगीत आवय-बापायक शेतकामांत पुरेपूर



डॉ. संध्या भांडारे सिक्वेरा
(प्राध्यापक)
पणजी - गोंय
मो. 9823755116

मजत करीत. काजू-रानां निरखीत, हुंगीत, कण्णां-चुन्ना पुंजायत, आंब्या- पणसाचो सुवाद घेत व्हड जाले. गोरवांक चरयतां-चरयतां भोंवतणच्या व्हड-व्हड दोंगरकडांनी तांचे प्रतिभेक आव्हान दिलें. खोल- खोल दरींनी नितळ- निर्मळ झरींनी, मळबांतल्या कुपांच्या चित्र- विचित्र आकारांनी ताचे प्रतिभेक आव्हान दिलें. आपल्या हातांतल्यान कोंकणी साहित्य निर्माण जावचें आनी गोंयकारांनी तें शीत-कडयेच्या रुचीन आस्वादचें असो तांणी काळजांत हावेस धल्लो.

रीनी धर्मिक वातावरणांत वाडिल्ले. हें तांच्या नाटकांतल्यान दिश्टी पडटा. तांच्या अध्यात्माचो विकास 'द किलडियर' ह्या विनोदी नाटकांतल्यान तें 'द डोनोलीस' ह्या शोकांतिकेंत जरून दिश्टी पडटा. ते वायटाचेर बऱ्याचो, असुरीपणाचेर देवत्वाचो आनी देंवचाराचेर संताचो विजय दाखोवंक सोदतात.

पुंडलीकबाब नायक स्वताक निरीश्वरवादी मानतात. पूण तांका देवाचो साक्षात्कार सैमांत जाता. उदेंत्या आनी अस्तमत्या सुर्यांत, शीतळ वाऱ्यांत, व्हांवत्या झऱ्यांत, सवण्यांच्या गायनांत आनी हांबेतल्या गोरवांत जाता.

पुंडलीक नायक आनी रिनीतलें साम्य म्हणल्यार दोगांकूय कवितेंतल्यान साहित्य मळार नामना मेळ्ळी. 'द रेड हार्ट (1948) आनी 'सूट ऑफ नेटल्स' (1958) ह्या कविता झेल्यांतल्यान तांका दोन फावट 'गव्हर्नर जनलर' पुरस्कार फावो जालो. पुंडलीकबाबानूय सुरवेक 'बांगर बैला'चें दावें तोडून काळोख हुपून उजवाडांत झेप घेतली. कवितेच्या मार्गारुच ते दोगूय नाटकाकडेन वळ्ळे. तांचीं नाटकां काव्यात्मक, ध्येयवाद, नाच, लोकगितां हाणी उपाट भरिल्लीं आसात. अशे तरेन काव्य तांच्या साहित्याचो गाभो आसा.

जायत्या नाटकांची निर्मिती केले उपरांत 1967 वर्सा 'कलर्स इन द डार्क' माचयेर हाडटकूच स्ट्रॅटफर्डान रिनीक एक व्हड तांकीचो नाटककार म्हूण मान्यताय दिली. 1974 वर्सा तांका 'सेंट निकोलस हॉटेल' ह्या नाटका खातीर तारागॉनचे माचयेन चाल्मर्स अॅवार्ड दिवन तांचो भौमान केलो. पुंडलीकबाब म्हणटात, तांची सुरवेचीं नाटकुलीं वळवयच्या गांवचे माचये खातीर बरयिल्लीं. मराठी भाशेंत आशिल्लीं. खरें म्हणल्यार नाटकाची निर्मणी करचेपरस कविता, काणयो आनी कादंबऱ्यो उजवाडावप भोव सोपें आशिल्लें.

रिनी आनी पुंडलीकबाब ह्या दोगांनीय भुरग्यां खातीर नाटकुलीं बरयल्यांत. 'नेम्स आनी निकनेम्स' (1963), 'अॅपल बहर' (1965), 'इग्नोरेमसस' (1966), आनी 'जॉग्राफी मॅच' (1967) ही रिनीचीं भुरग्यां खातीर बरयिल्लीं नाटकुलीं आसात. 'नेम्स आनी निकनेम्स' हें नाटकुलें सादे परिकथेंतल्यान सुरू जावंन जॉग्राफी मॅच मेरन तांच्या काल्पनीक विकासाचो साक्षात्कार जाता.

पुंडलीकबाबाची 'रानसुंदरी' (1974), 'आळशांक वाग खातलो' (1984), आनी 'शिंवाचो बळी' (1998) ही परिकथा आनी काणयांचेर आदारिल्लीं नाटकुलीं प्रामाणीकपणा, निसुवार्थीपणा, कश्ट ही मूलतत्वां तशेंच आशा आनी फटींगपणाचे भिरांकूळ परिणाम दाखोवन दितात.

पश्चिम आंतेरियो आनी सुपुल्लें गोंय हे प्रादेशिकतेचेर ह्या दोगूय नाटककारांच्या मनांत उपाट मोग भरिल्लो आसा. ओंतेरियातले बदलते ऋतू, आशिया आनी युरोपांतल्यान येवंन स्थायिक जाल्ले वेगवेगळे लोक, तांच्यो विविध संस्कृती, तांच्यो वेगवेगळ्यो भासो हांणी रिनीक घडयलो. तशेंच गोंयार राज्य केल्ल्या भारतीय, इस्लामिक आनी युरोपीय राजवटीं खातीर हांगा हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान जावंक पावले आनी तांच्यामदल्या भाईचाऱ्यान आनी नाचून, गांवन धादोशी रावपाचे रसिकतेन पुंडलीकाक घडयलो, केळयलो.

दोगांकूय दिसता की साहित्य नीज मातयेंतल्यान रुजचें, फुलचें. जरी साप्प वेगवेगळ्या सांस्कृतीक, भुगोलीक वातावरणात हें नाटक आसता तरी मनशाच्या चरित्र- चित्रणाचेर ते चड भर दितात.

दोगूयजाण आपापलीं पात्रां प्रादेशीक उतरांच्या आदारान रंगयतात. ' आपले नीजपणाचो अणभव ही आमचे भितल्ली शक्ती' अशें रिनी मानतात आनी नीज सैमांतल्या मातयेच्या कणाकणाक विशेश म्हत्व दिता. आपापल्या प्रदेशाचेर मोग करतना ते आपले , माचयेची निर्मणी, थळावो रंग, थळावी भास, थळावी बोली, थळावी संस्कृताय, थळावे रितीरिवाज हांचेवरवीं करून तिका गांवगिऱ्या वाठारांतल्या साद्या लोकांचो गंध दितात. म्हूण तीं मनाक भावता.

रिनीची प्रादेशीकता फकत थळाव्या गांवांतूच न्हय जाल्यार कॅनडाच्या इतिहासांत बांदिल्ली दिश्टी पडटा. तीन अंकी न्हय पूण तीन भागांची 'द डोनेलीस ट्रीलॉजींत' रिनी इतिहासीक शोकांतिका कल्पनेच्या आदारान कशी समर्थपणान सादर करून नागरिकांच्या काळजांत कसो हात घालूंक येता तें दाखयतात.

दोगूय नाटककार एका 'सत्याचो साक्षात्कार' करून दितात. तांचें साहित्य मनशाचें अजापीत आनी धक्कादायक चित्र रंगयतात. रिनी ह्या संवसाराचीं निर्मणीतत्वां, असीम वाठार आनी क्रिश्चन तत्वां हांचेर भर दिता जाल्यार पुंडलीकबाब वैदिक अध्यात्माकडेन वळतात आनी मनीस हें जग आनी देव हाचो ताळतंत्र लावंक सोदतात.

पुंडलीकबाबाच्या नाटकाचो गाभो म्हणल्यार तांचो अस्तित्ववाद. तांची कृती म्हणल्यार जिणेचो एक जितो कुडको. ते स्वता पिडीत भौजन समाजाचे प्रतिनिधी 'म्हजो बांगर बैल' चे विशीं ते म्हणटातः 'म्हज्या बांगर बैलाच्या बाबतींत तुमी अजापीत जावं नाकात. बेलगाम, बेशीस्त अशीं दुशणां ताका दिवंक नाकात. पिळगे-पिळगे सावन आमी सोशिल्ल्या दबावगिरीक एकूच तोंडार थापट फुलोवन हांवे जाप दिल्या म्हूण व्हडलेशें वायट धरूंक फाव ना. पूण एक दीस आमी तुमचेर मात करतलेच!.'

सामाजीक शोशणाचो पुंडलीकबाब धिक्कार करतात आनी ताची जाप विचारतात. सामाजीक वातावरण कशें आसा तें दाखोवन तें कशें आसूंक फावो हाचेर बोट दवरतात. तांच्या नाटकांत एक आदर्श भुमिका आसता; जिचेवरवीं ते समाजाक आपलो हेतू सांगतात, तांका धडो दितात. 'राखण' नाटकांत भाटकाराची बळजबरी सोसूं नजो जावन शंकर घर सोडून वता आनी मागीर व्हड जातकूच येवन आपल्या भयणीची सुटका करता. 'देमांदांत' अशोक स्वताक आनी आपल्या कुटुंबाक भाटकारशायी बापायच्या हातांतल्यान सोडयता. 'चैतन्याक मठ ना' ह्या नाटकांत अंकुश गांवचो सामाजीक उद्धार करूंक सोदता. 'दायजांत' मृदुला अन्यायाआड झगडून स्वातंत्र्यवीर मुक्तिदाचें दायज फुडें व्हरता. 'मुक्ततायेंत' किशोर जो स्वताच भाटकारालो पूत आसता, बापायचो शेक, अन्याय आनी भाटकारशाय हाचे आड लढो दिता. 'श्री विचित्राचे जात्रेंत' 'कोणतरी' बायलांआड शोशण, सामाजीक दुस्वास, दादागिरी ह्या समाजाक लागिल्ल्या किडींचेर उजवाड घालता आनी तांका सोंपोवपाचो हावेस बाळगिता.

पुंडलीकबाब आनी रिनी आपले नाट्यकलेंत व्यंगात्मकतेचो आदार घेता.' श्री विचित्राची जात्रा' आनी 'शबै शबै भौजनसमाज' हीं व्यंगात्मकतेची उदाहरणां. 'द किलडीयर, 'द इस्टर एग ' आनी' द सन ॲण्ड द मून' ही रिनीलीं व्यंगात्मक नाटकां. ते एका काल्पनीक जगाची निर्मणी करतात; जातूंत इस्टर एग विकपी बायलो, विनोदी पाद्री, गर्भपात करपी घातकी आनी पापी लोक भल्ल्यात. रिनी आनी पुंडलीक ह्या दोगांचीय कथानकां बायलो, आवयो, भुरगीं, कुटूंब, पीडखोरी, हिंसा, लैंगिक बाबी, बरें-वायट हाचे भोंवतणी घुंवतात. 'श्री डेस्कस' हातूंत मात रिनीन शिक्षणीक मळावयलो दुस्वास दाखयला. दोगांयनी आपले प्रस्न साफ मांडल्यात. पूण तांकां रेडिमेड जापो नात.

ते दोगूय जिणेचो अर्थ सोदूंक वावुरल्यात. पुंडलीकबाब आपल्या जगांत गांवांचीं खरी नांवां वापरिनात. काल्पनीक नांवां वापरून खऱ्या गांवाचो निर्देश करतात, जें गोंयकारांक रोखडेंच होलमतात. रिनी खरें जग विविध दिश्टीकोनांतल्यान विविध

थळांनी रोवन ताचेकडेन पळयतात. सुरवेक तांका खऱ्या जगाचें आसा तश्शें चित्र काडपाक रस दिसलो ना. फुडें मात तांणी 'द डोनलीख' ही इतिहासीक शौकांतिका बरयली.

सांस्कृतीक वेगळेपणाक लागून रिनी आनी पुंडलीकबाब वेगळेशे दिसतात. मात एक मूलभूत साम्य तांच्यात आसा तें म्हणल्यार जिणेविशींचो आशावाद ! जिणेचो तांकां एक दिश्टावो जाल्लो दिश्टी पडटा. पुंडलीकबाबाचे बाबतींत मात हो दिश्टावो खऱ्याचे कसवटेचेर उतरता. पूण रिनीचो दिश्टावो काल्पनीक थारता.

दोगांयनी प्रतिकात्मक चिन्नां थळावे अस्मितायेंतल्यान काडल्यांत. रिनीचीं प्रतिकां काव्यात्मक आसात. तीं साबार जिणेतल्यान वेंचिल्लीं आसात. ट्रेन हें कॅनेडियन जिविताचें प्रतिक. ट्रेन म्हणल्यार विकास आनी एकवोट. घोडो आनी घर म्हणल्यार विशिश्ट प्रतिकां.

पुंडलीकबाब 'पिंपळ' आनीं 'न्हंय ' अशी प्रतिकां वापरतात. जांका राष्ट्रीय आनी प्रादेशीक म्हत्व आसा. पूण सुरींग फोडपाक डायनामायट, पखवाजाच्या भयानक वादनान आपली घुस्मटमार ल्हव करप, दायजांतली तलवार, रक्तखेवांतलें व्हडें हीं विशिश्ट प्रतिकां. अश्या छायावादी प्रतिकांचो संदर्भासयत उपेग तांका प्रादेशिकतेचे धार्जिणे थरयतात. दोगांयनी जनावरांच्या प्रतिकांचो पुरेपूर उपेग केला.

पुंडलीकबाबान कोंकणी माचयेर क्रांती घडयली. आमचे माचयेक एक नवी दिका दाखयली. दोगांयनी पारंपारीक माचयेक फाटो दिवन आपापल्या माचयेक नवी तंत्रा आनी नवी दिका दिली.

दोगांयनी आपापले भाशेचेर विशेश प्रभुत्व दाखयलें. बोलीभाशेच्या उपेगाबगर तांचेकडेन उत्तर-निरुत्तर, खोंचीक प्रस्न, दुबावी संकेत, व्यंगात्मक निर्देश आनी चतुरताय उपाट भरिल्ली आसा. तांचे संवाद रसिकांच्या काळजाक हात घालतात. तांच्या बरगड्यांक धरून हालयतात, तांकां चितूंक भाग पाडटात. देखीक 'मिसेस डोनेली' आनी तांच्या स्वताच्याच भुतामदीं संवाद, शेणिल्ल्या वस्तूंबद्दल म्हाजन आनी कोणतरी भितल्लो संवाद. हे संवाद आमकां कथानकाच्या तोंकाक व्हरतात.

रिनी आनी पुंडलीकबाव सादें, सोपे एकूच चारित्र्यांची पात्रां वेंचून काडटात. बरी वो वायट. तीं अमुकूच वर्गाचें प्रतिनिधीत्व करतात. ती फिक्स तरेंची आसतात. बऱ्या-वायटामदलीं अशीं तीं नासतात. जायते फावट पुंडलीकबाब पात्रांक नांवा दिनात. ताकां ते, हो, तो, घोव, बायल, चली, चलो, म्हातारो, संदीसादू, 'कोणतरी' अशें म्हणटात. आदर्शवाद दाखोवंक रिनी, रेव्हरंड, किंगबर्ड म्हणटात आनी तायटाचें प्रतिक म्हूण मिस्टर मॅनाटी ह्या दर्यांतल्या नुस्त्याचें नांव घेतात. बऱ्याचें वायटाचेर जैत दाखोवपाचे उमळशीकेन रिनीचेर ल्हानपणासावन धर्मिक संस्कार जाल्ले आसात.

पुंडलीकबाबालें 'रक्तखेव', 'सुरींग', 'दायज' आनी रिनीलें 'द डोनेलीस' हातूंत अतिनाट्य (मेलोड्रामा) आसा. पात्रां स्वताची वा दुसऱ्याची हत्या करतात. भयानक प्रसंगांनी माची हादरून वता.

अशे हे रिनी आनी पुंडलीकबाब. तांणी आपापल्या माचयेक खूब योगदान दिलां. प्रायोगीक माचयेचे हे म्हालगडे. दोगांयनी नाटका भितर नाटकुलें हाचेर प्रयोग केल्ले आसात. पुंडलीकबाबाच्या 'सुरिंगान' आनी रीनील्या 'लिस्टन टू द विंड' हातूंत हे पळोवक मेळटा. नेपथ्य (कलर मॅनीप्युलेशन), माचयेवयलें तंत्र, कोरस, जप, ताळयो, पांय मारप, घोशणा दिवप, सांघिक जापो, नीज बोली हे दोगांयल्या नाटकांनी दिश्टी पडटा. हे दोनी अश्टतासी कलाकार, एक पूर्वी आनी दुसरो पाश्चिमात्य. जे दोगूय ऐकमेकांक केन्ना मेळ्ळे नात. ताणी जिणेच्या मुक्त तत्वांचेर, मनीसपणाचेर आनी प्रादेशिकतायेचेर चडूच भर दिल्लो आसा. हे सदांच आमच्या मोगाक आनी मानाक पात्र थारतले.



***कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां***
***मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी***
***भौ. पुंडलीक नारायण नायक हांकां आमचीं परबीं!***



# ॲड. शांताराम नायक

खासदार - राज्यसभा
गोंय



# अस्मितायदर्शन तें अस्मिताय भंगः पुंडलीक नायक हांची कविता

लेख

पुंडलीक नायक हो आयचे घडीचो कोंकणीतलो एक सगळ्यांत चड असो हरहुन्नरी लेखक. कथा, कविता, एकांकी, नाटक, गितां, ल्हान-व्हड लेख, तशेंच तरेकवार पुस्तकांक प्रस्तावना, अशे तरेन सगळ्या साहित्य प्रकारांत तांचें मन मोकळेपणान घुंवता. देरेका वाङमय प्रकारांत तांणी स्वताचो असो खासा ठसो निर्माण केला. गोंयांत मुखेलपणान तीन वर्ग- भाटकार, स्वताक श्रीमंत समजपी एक वर्ग, कुळागरां सांबाळपी श्रमीक वर्ग आनी आपूण नोकरी करता ह्या अभिमानांत आसपी शिक्षित वर्ग. पुर्तगेजांच्या तेंपार भाटकारांचें सगळें चलतालें. पुर्तुगेज भास जायत्या जाणांनी शिकून घेतिल्ली. कारण म्हणल्यार जमनीचे सगळ्याचे वेव्हार ते भाशेंतल्यान चलताले. मुंडकार म्हणल्यार त्या भाटकाराची जमीन कसपी. मुंडकार आनी भाटकार असो भेदभाव पिळग्यान पिळग्या सावन चलत आशिल्लो.

गोंय मुक्ती उपरांत शिकिल्ले पिळगेन बंड केलें. हे पिळगेक स्वताची अस्मिताय दिसून आयली. हे पिळगेचो पुंडलीक नायक हो एक प्रतिनिधी. 1976 वर्सा प्रकाशित जाल्ल्या तांच्या पयल्या कविता झेल्याचें नांवच मुदलांत 'गा आमी राखणे' अशें आसा. कश्टकरी समाजाची सगळीं, दुख्खां, आशा-आकांक्षा, प्रेरणा तांणी ह्या झेल्यांत सशक्तपणान उक्त्यायल्यात. कोंकणी भाशेंत ताचे पयली 'म्हजें उत्तर गावड्याचें' या नांवान र.वि. पंडित ह्या ज्येश्ठ कवीचो झेलो आयिल्लो, मात तातूंत गावड्याविशीं सहानुभूती प्रामाणीक आसून लेगीत द्वैत जाणवतालें.

पुंडलीक नायक कश्टकऱ्यांचें थेट प्रतिनिधीत्व करता. तांचो प्रतिनिधी आवयच्या वेणांची आंगलीं-टोपलीं घालूनच उबो रावता. मोडपाक आयिल्ल्या खोपींतल्यान सूर्यबिंबाक पळयता. तांगेल्या पयल्या कविता संग्रहांतल्यो चडश्यो कविता सामाजीक संघर्शाकडेन संबंदीत अस्मितेच्या प्रगटीकरणांतल्यान आयिल्ल्यो दिसतात. तरणे पिरायेंत मोग आनी सैम ही आवश्यक सुत्रां दरेक कवी मांडटाच. ते प्रमाण तांच्या ह्या झेल्यांत त्या आशयाच्यो कविता



नरेंद्र बोडके
(नामनेचो पत्रकार आनी मराठी-कोंकणी कवी)
पुणे

आयल्यात. मात तांची खरी ताकद तांच्या अस्मिता निदर्शक कवितांनी दिसता. तातूंतली एक मुखेल कविता तांच्या 'गा आमी राखणे' ह्या झेल्यांतली पयलीच कविता. 'म्हजो बांगर बैल' ह्या माथाळ्याची ती कविता आसा. बांगर बैल सह्याद्रीच्या देंगणात, आनी गोंय-कोंकणातल्या दोंगरांनी धेंकर घालीत भोंवतना दिसता. मानेवयलें जूं ताणे मोखून मारलां. तो जोखड जुमानना. मुक्तीचें, स्वातंत्र्याचे बंधना आड बंडखोरीचें बांगर बैल हें प्रतिक पुंडलीक नायक हांचे कवितेंतल्यान सशक्तपणान साकारलां. तेन्ना गोंय घटक राज्य आनी कोंकणी भाशेची चळवळ हीं सपनां तरनाट्यां सामकार आशिल्लीं. हो बांगर बैल शिंगा रोखून झूज दिवपी आसा. ताच्या शिंगांक रगत लागिल्लें आसा. ताच्या कपलाचेर रगताचे तिबे सोबून दिसतात. ही कविता स्वगताच्या पद्दतीन अवतरता. बैलाचो धनी अपुरबायेन बैलाविशीं सांगता, 'हो बैल आपल्या बावन्न कुळांचो उद्धार करपी आसा. तो आपलो वारसदार आसा' अशें कवीक दिसता.

मराठींत वसंत सावंत आनी विठ्ठल वाघ हांणी बैलाची प्रतिमा शक्त आनी जिवन सत्ती हांचें निदर्शन करपा खातीर वापरल्या. मात 30 वर्सां पयलीं गोंयचो कोंकणी कवी पुंडलीक नायक हांणी सामाजीक संघर्शाचो कुलो घालतना बांगर बैल हो शब्द वापरला आनी तांतून संघर्शशील कोंकणी अस्मिताय मुखरीत केली. हो बैल म्हणल्यार बंडखोरांचो आदिनायक आसा. हॉवर्ड फास्टच्या स्पार्टाकस हे कादंबरींत रोम साम्राज्या आड उबे जाल्ल्या गुलामांचो संघर्श चित्रीत केला. तांचें फुडारपण स्पार्टाकस करता. तो पिळग्यांच्यो पिळग्यो गुलामूच आसा. मात सरदारांचीं भुरगीं गुलामांची झुजां लावन मजा पळयतात. हें पळयतना एक दीस विस्फोट जाता. गुलामा आड जमिनदार असो संघर्श जाता. रोमचो सम्राट अर्थातूच जमिनदारांचेवटेन आसता. ताका लागून रोमच्या साम्राज्या आड चिलखतां घातिल्ल्या सशस्त्र सैनिकांवांगडा सादे कामगार, घरकामगार, कश्टकरी, गुलाम झुजतात. तांचें फुडारपण स्पार्टाकस करता. आमी मुक्त जावपाक शकतात ह्या विचाराची कीट पडप म्हत्वाचें. स्पार्टाकसच्या मनात ती पडटा. बांगर बैल लेगीत हेच किटेचें आगटें पेटयता.

ल्हानांतल्या ल्हान कश्टकरी मनश्याकडेन कवीन आपली नाळ जोडल्या. हो भुंयपूत आसा. ताच्या घामांतल्यान धान्य पिकता. मात कणसाचेर वेगळींच नांवां बरयल्लीं आसतात. 'आमी कोण?' हे कवितेंत हो भुंयपूत तांबड्या मातयचें आपलें इमान उद्घोशीत करता. संघर्शाची नांदी सुरू जाल्या. मात ताका सूड घेवपाचो ना. ताका सुर्यबिंब लख्ख दिसता. पुंडलीक नायकाच्यो ह्यो दोनूय कविता 1970 तें 1976 ह्या तेपांतल्यो. ह्या तेंपार दलित कविता नेटान फुलताली. ती संघर्शाची, झुजाची, शाराशारांक उजो लावपाची, सगळें उद्ध्वस्त करपाचें आड्डुत आसतना, पुंडलीक नायक हांची कविता मात-

*'खोपीच्या बुराकांतसून*
*सुर्याचें बिम्ब*
*आमच्या दोळ्यांक भिडलें'*

असो साक्षात्कार उक्तायताली. फुडार आपलोच आसा असो खर आत्मविस्वास ती व्यक्त करता.

'गिमाचे मिर्गाक पत्र' हे कवितेंत ग्रीश्म मिर्ग नक्षत्राक पत्र बरयता अशी मांडणी आसा. ऋतुबदलाचें हें नाट्य कवी चितारता. गिमाळो गेला मिर्ग नक्षत्राची सुलूस लागल्या. शेतकाऱ्यांचे नदरेन हे दोनूय हंगाम म्हत्वाचे. सुर्याच्या वतान जमीन सामकी खर भाजील्ली आसता. उपरांत मिर्गाच्या पावसांत ती भिजली म्हणटकूच पांच म्हयन्यांच्या गुरवार बायले सारखी ती पांचवीचार जाता. ग्रीश्म मिर्गाक म्हणटा, त्या रखरखीत मळार चार पोशे ओतून वच. ताणे बरोच रखरख सोसला. घडये तुज्या पावसाक लागून ताचे आशेचो गर्भ फळटलो. शेतकाऱ्यांच्या भावनेकडेन एकरूप जावन कवीन ही पत्रकविता बरयल्या. मिर्गान चड पावस हाडपाक जायना तशेंच उणो पावस पडपाक जायना. पावस, उटंगाराचो पावस पडल्यार हुवांरांत भात-शेतां व्हांवून वतात आनी उणो पावस पडल्यार दुकोळाचे संकश्ट

सामकार येता. हें सगळें मतींत घेवन ग्रीशम मिर्गाक बरयल्ल्या पत्रांत सांगता की, म्हजे खातीर दुकां गळयतना तोल वचपाक दिवनाका. मिर्गाचो तोल गेल्यार शेतां-भातां उदकांत बुडून वचपाची भिरांत. शेतकार, ताची भावजिण ऋतुकडेन आशिल्लीं ताचे जिणेची स्पंदना रसरशीतपणान उत्तावपी ही कविता. कवी कोणाले तरी अस्मितायेकडेन स्वताक जोडून घेता तें हे स्पश्ट करपी ही कविता आसा. हो भुंयपूत पिचिल्लो आशिल्लो, पिसुडलेलो आशिल्लो. हांगचे सरंजामी वेवस्थेन पुर्तूगेज सत्तेवांगडा संधान बांदून ताका पांयांपोंदा मस्तीयल्लो. तोच ह्या बांगर बैलाच्या प्रतिकांतल्यान उलयता.

पालखेचें प्रतिकूय पुंडलीक नायक प्रभावीपणान वापरता. अस्मितायेची वळख जाल्ल्या नव्या मनशान पारंपारिक अवस्थेत रिगपाक झुजपाक फुडें सरपाक जाय असो संदेश ती दिता. हे पालखेंत जो कोण बसला तोच फुडें सिंहांसनाचेर बसतलो उपरांत ताचीच आरती म्हणची पडटली. चवऱ्यो हालोवच्यो पडटल्यो. ना जाल्यार ही वेवस्थाच सगळयांक ना करतली. हे पालखेंतल्यानूय नवस्वतंत्र गोंयकार समाज पुरुशाचो स्वामित्वाचो हक्क प्रस्थापित करप जाल्लो दिसता.

पुंडलीक नायक हांच्या 2009 च्या सुमाराक प्रसिद्ध जाल्ल्यो णव कविता 'बुलंद' ह्या म्हज्या नेमाळ्यांत हांवें सादर केल्ल्यो. हातूंतल्या कांय कवितांनी तांणी गझलचो आदार घेतिल्ल्याचें दिसता. गझल शैलींतल्यान भावना व्यक्त केल्यात. ते मजगतीं पुला पोंदच्यान बरेंच उदक व्हावंन गेलां. चळवळ ही एक अवस्था आसता, ती कायम व्यवस्था न्हय हाची जाणविकाय पुंडलीकबाबाक आसा. सादे मनीसच निमणे एल्गार करता. काजुल्यांनी बंड केलां तेन्ना सुर्यपूत बसून रावल्यात. 'बंड करपी काळखा आड' ह्या गझलांत कवी ह्या साद्या मनशांक, कर्ण नासतना जाणे दान केलें ताका श्रेय दिता. बेबदे म्हूण बदनाम जाल्लेच रातभर जागे रावले, हें सांगतना तांचे लिखणींतल्यान उतरिल्लो एक कोंकणी शेर उर्दूची मस्ती घेवन आयला.

*''बेबदे म्हणून गाजले जे तेच जागे उरले*
*कवदे म्हणून नाचले जे पालोवन गोबोर जाले*
*थोर म्हणून नांव जाल्ले अर्दे वाटेर शेणले*
*पोर म्हणून हिणसायल्ले सबंद वाट चल्ले''*

ह्या शेरांतल्यान तळागाळांतले अस्मितेकडेन कवी स्वता जोडून घेतना दिसता. दुसऱ्या एके गझलेंत सरणाचेर जळपाचो अणभव कवी व्यक्त करता. मात हें जळप सगळें भितरल्या भितर चलिल्लें आसता. हें प्रज्वलन सत्याचें दर्शन घडोवपी आसा. मनीस मेलो अशें कळ्ळ्या बरोबर इश्ट, स्नेह हें सगळें जशे कितें वेव्हाराचे धर्गींत जळून वता. मनीस जितो आसतना ताच्या सरभोंवतणी निर्माण केल्ले सगळ्या स्नेहबंदाचे आभास ताच्या मरणा उपरांत बाबडे जातात.

'धोलता अजून दाणी' हे गझलींत एक काणी आसा. किर उडून गेलो तरी खांदी हालता, अश्या तरल वर्णनान ही काणी सुरु जाता. ही हालपी खांदी म्हणल्यार जणू त्या अटंग रानांत, माचुलांत बशिल्ल्या कोणा राणयेच्या मनांतलीं स्पंदना आसात. थंय कितें तरी घडून गेलां. पावळेंतल्यान अजूनय पावसाचें ओलेंपण जाणवता. अशें कितें घडलें काय थंय? तें सांगलां एका शेरांत. अप्रत्यक्ष संदर्भ दिवन. तो शेर असो 'कणसां खुटून व्हेलीं जावचे आदिंच लुवणीं.' निर्मनीस रानांत एका ल्हान कळयेचेर अत्याचार जाला. नक्की कितें जालां? हें कळपाचीय तिची पिराय ना. कोण तरी येतलो आनी आपणें भोगिल्ल्यो सोसूं जायनाशिल्ल्यो वेदना आनी त्रास कोणाक केन्ना सांगपाक पावतली हे आशेचेर ती जगता. पणतेंत निमणी वात तग धरून रावल्या. दुख्ख, अन्याय हाचेकडेन सहकंप पावपी मनीसपणाची ही खर जाणीव ह्या कवितांनी जीवनरसावरी लवलवताना दिसता.

कश्ट करपी कश्ट करीत रावता. मरमर मरता. घाम गाळटा आनी श्रेय दुसरेच घेतात. झाडाची देखभाल भुंयपूत करता मात ताचो चंवर ताचे मालकीचो आसना. पयसुल्ली काळखी वाट सादो मनीस जोतें नाशिल्ल्या पावलांनी चलता. कुडीची चूड करता.

आनी गांवची शीम दिसूं लागतूकच वेगळेच लोक जल्लोश करतात. कश्ट हांचे मात कणसाचेर नांवां तांची! अशें हें सगळें गिळून उडोवपी वेवस्था हे कवितेंत पावलापावलार मेळटा.

'शेणिल्ली गाय' ही कविता एके शेणिल्ले गायची काणी सांगता. कृशी आनी नागर संस्कृतीचें अंतरंग उगडटना दिसता. शेणिल्ले गायेच्या दोळ्यांत मळबाची निळाय आनी दर्याची खोलाय जाणवता. कोणतरी करुणामय संत जश्यो चिपळ्यो वाजयत आसा असो भास जाता. शिमिटाच्या रानांत रिगतना केन्ना तरी शेणाचो हरवस वास नाकांत मिरमिरल्ल्याचो भास जाता.

मनश्याच्या काळजांतलें क्रौर्य ताच्या हातांतल्यान जायतें घड्यत आसता. कोण तरी ब्लेडीन गायचे पाने कापता. ती बातमी वाचतना कृशी संस्कृतीकडेन जोडील्लें कवी मन थर कापता. सकाळीं दुदाची पिशवी कात्रीन कापतना पान्यांक ब्लेड लागिल्ले गायचो हंबरडो आयकल्ल्याचो भास ताका जाता. मात ताका लागून आपली शेणिल्ली गाय खंयतरी जिती आसा हाची साक्ष पटटा. काळ बदलत वता. आतां धर्मिक कार्यावळी खातीर सीलबंद पाकिटांत गोमूत्र उपलब्ध आसता. ताचेर मोल आनी एक्सपायरी तारीख छापिल्ली आसता. ह्या वास्तवाची दखल कवी उपरोधीक शैलींत घेता. गाय शेणिल्ली ना. ती पावपाची थंय पाविल्ली आसता. खरें तर मनीस मात्शी वाट चुकला, असो अभिप्राय तो नोंद करता. 'शेणिल्ली गाय' हें कृशी संस्कृतीचें प्रतिक आसा. कृशी संस्कृती ल्हव ल्हव करून प्रभावहीन जायत चल्ल्या. ताका लागून ते संस्कृतींत मुळां रूजलेलीं आशिल्ली नागरी संस्कृती चडूच पोकळ जायत चल्ल्या. प्राणी जगत सैमाकडेन सेगीत सहकंप पावता. जनावरां वाट चुकनात. वाट चुकतात तीं मनश्यां. सैमा आड मनीस ह्या झुजांत कवी सैमाचे वटेन ठामपणान उबो रावता.

खरो भारत गांवांत आसा अशें महात्मा गांधी सांगून गेल्यात. मात ह्या कवीक दिसता की खरो मनीस गांवांतूच आसता. खरें तर गांवांत आतां पयलींचें कांयच उरिल्लें ना. पडवी ना, गोठो ना, गाय ना. धर्मिक कार्यावळी उपरांत पान दिवपा खातीर गायेक सोदून काडची पडटा. प्लास्टिकच्या पिशव्यांचो ती रवंथ करता. आतां गांव फकत पुस्तकांत उरला. दुदाच्यो पिशव्यो, सोऱ्याच्यो बाटल्यो, लोकगितांच्यो कॅसेटी अशे रितीन गांवांचें शारीकरण जालां. मात एके बाबतींत गांवचें गांवपण तिगून आसा. गांवांत कोणाची तरी आवय मरता. तेन्ना आख्खो गांव जमता. ती सगळ्यांचीच आवय आसता. मरणाक सामकार वतना गांवपणाचें हें रूप सामकार येता आनी कवी अजापीत जाता. खरो मनीस गांवांत आसा हें सत ताका होलमलता. अजून लेगीत गांवांत मनीसपण तिगून आसा अशी नोंद तो करता. शेत-भात सोंपलें. कृशी संस्कृतीक कीड लागल्या, शिमिटाच्या रानांत मनश्यांच्या रुपांत हिंस्र श्वापदां वावुरतना दिसतात. मात मनीसपणाच्यो कांय कुरवो आयजूय गांवांत जित्यो आसात. हें गांवपण मरणा उपरांत दिसून येवप हें शोकात्म आसा हीच हे कवितेंतली आत्मीक जाणीव आसा.

खर अणभव उक्तायतना कवीमदलो राखणो जागो जाता. कविता सुचना तेन्ना तो अक्षरांक साद घालता. तेन्ना तीं आडखळत, धडपडत येतात. पूण ताका तीं तशीं आयिल्लीं नाका आसतात. गोरवां सारखीं हामेत हामेत ताचे भोंवतणी ऊबी राविल्लीं जाय. तो तशें उलोवनूय दाखयता. तेन्ना अक्षरां सांगतात, पयलीं तूं राखणो जाः आपल्या भितल्लें राखणेपणूय शेणेलां! हाची जाणीव कवी हांगा उक्तायता. विनाशाचें एक वर्तुळ पूर्ण जाल्लें आसता. अस्मितायेचें दर्शन, ते खातीर संघर्श, वेवस्थीत रिगाव आनी उपरांत अस्मितायभंग! अशें संस्कृतीच्या कालपटांतलें एक आख्खे वर्तुळ हांगा व्यक्त जाता. म्हणून ही कविता दलित कवितेपरस चड पयसुल्लो पल्लो हातासपाक शकता. कारण अस्मिताभंगाचें वास्तवय ती उक्त्या दोळ्यांनी पळोवपाक शकता.

(गोंयचो कवी नेंद्र बोडके हांच्या संवसाराक अंतरचे पयलीं तांणी मराठींत बरयल्ल्या लेखाचो कोंकणी अणकार)

◆◆◆

# पुंडलीकबाबाची नाटकां अभिनेतो म्हूण म्हाका संहितेचो अभ्यास करपाक लायतात

लेख

नाटक हो साहित्यांतलो असो प्रकार जो बरयलो म्हूण पूर्ण जायना. ताचेर जेन्ना कोण तरी दिग्दर्शकीय संस्कार करता, वांटो घेवपी कलाकार तातूंत अभिनय करतात, नेपथ्य, उजवाडा येवजण आनी पार्श्वसंगीत हांचो फावो तो वापर करून तो रसिक प्रेक्षकांमेरेन पावयता आनी तांणी ताचो आस्वाद घेतकूच साहित्यांतलो हो प्रकार पूर्ण जाता.

येदो व्हडलो प्रवास नाटक करता. हो प्रवास लेखनातल्यान करता आसतना प्रेक्षकांक दोळ्यां सामकार दवरून तें लेखन प्रयोगक्षम करप हें नाटककाराचें कठीण काम. देशांतल्या खूब कमी नाटककारांक तें जमलां. तातूंतलो एक म्हणल्यार कोंकणी नाटककार भौ. पुंडलीक नारायण नायक.

कितल्याश्याच नाटककारांची नाटकां आसतलीं जी बरोवन तयार आसतलीं पूण माचयेर तांचे प्रगोय जावपाक पावले नात.ताचें कारण म्हणल्यार त्यो साहित्यकृती माचयेर सादर करपा इतल्यो घडये प्रयोगक्षम नासूंये. पुंडलीकबाबाच्या नाटकांचें मात तशें न्हय. तांणी बरयिल्ल्या देरका नाटकाक माचयेर चडपाचें भाग्य फावो जालां. हो तांचे लिखणीचो प्रभाव आनी येस अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

नाटकाचे माचयेर वावुरतना अभिनय करपी एका कलाकाराची भूक आसता ती एका सक्षम अशे संहितेची. संहिता जितली घटमूठ तितलोच प्रयोग जैतिवंत. अभिनेत्याक आपल्या अभिनयाची पुराय कळाशी पणाक लावपाची गरज निर्माण करता ती सक्षम संहिता. पुंडलीकबाबांच्या नाटकांचे प्रयोग पळयतां पळयतां हांव कोंकणी माचयेर केन्ना चडलों तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

म्हाका रंगकर्मी श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी सुमार वीस वर्सां आदीं एक दीस विचारलें, 'कोंकणी नाटकांत काम करशी?' हांवें हय म्हळ्ळें. मागीर म्हाका कळ्ळें पुंडलीकबाबाल्या 'परिक्रमा' ह्या नाटकाविशीं बांबोळकार विचारताले. पुंडलीकबाबालें हें कोंकणी नाटक तामीळनाडूंतल्या मदुराय हांगा



रघुनाथ साकोर्डेकार
(नामनेचो नाट्यकलाकार)
फोंडें - गोंय
मो. 9822129123

सादर करपाचें आशिल्लें. म्हाकाय अजाप दिसलें. कोंकणी नाटक सादर करप, तेंय बी तामीळनाडूंत? थंय हें नाटक कोणाक कळटलें काय? संवादूच जर कोणाक कळळे नात जाल्यार नाटक करून कसलो फायदो? एक आव्हान म्हूण आमी हें स्विकारलें, आनी मदुराय पावले.

रंग माटवांत चडशे प्रेक्षक आसचे नात असो आमचो अदमास आशिल्लो मात अजाप म्हणल्यार 60 टक्के थिएटर भरिल्लें. नाटक सुरू जालें आनी ते रंगत वचून जेन्ना नाटकाचो निमणो पड्डो पडपाचो वेळ आयलो तेन्ना म्हजो एक व्हड डायलॉग सुरु जालो. तो सोपतां सोपतां ताळयांचो गडगड आनी 'भारत माता की जय' ह्यो घोशणा. कोंकणी कळनाशिल्ल्या प्रेक्षकांकडल्यान मेळिल्लो हो प्रतिसाद पळोवन ह्या नाटकाची ताकद कितली व्हड आसा हें कळून आयलें. नाटकांत भास आनी संवाद गरजेचे. मात नाटकाक स्वताची अशी एक भास आसता. ते म्हाका म्हज्या पयल्याच नाटकान शिकयलें. नाटकांची भास ज्या नाटककाराक बरे भशेन जमल्या तातूंतले एक नाटककार म्हणल्यार आमचे पुंडलीकबाब.

हालींच तांचे आनीक एक एव्हर ग्रीन नाटक करपाचो योग आयलो. नाटक सुरिंग. तीस-पस्तीस वर्सां पयलीं बरयल्लें हें नाटक. जो विशय तांणी हाताळला तो तीस वर्सां पयलींय सामको ताजो आशिल्लो आनी आयजूय तितलोच ताजो दिसता. हो ज्वलंत विशय तांचे पिरायेचे तिशींत तांणी जे तरेन हाताळता तें पळयल्यार तांची नाटकांतल्यान विशय हाताळपाची कळाशी अजापीत करून सोडटा. दरेका पात्राक फावो ती सुवात. तांची भास ते प्रमाणे तांचे संवाद, नाटकाची रचणूक. खंयूच पाल्हाळ ना. दरेकाक नाटकांत स्वताचो स्पेस. ल्हान भुमिका जाव मात प्रेक्षकांच्या मनांत ती रिगतली अशी वेवस्था. अभिनय करपी म्हज्या सारक्या कलाकाराक, आपणे किदें तरी केलें हाचें पुराय समाधान दिवपी नाटक. नाटकांतले अर्दे संवाद साश्टींतल्या कुळमी समाज उलयता ते भाशेंतले. तांचे ते कठीण उच्चार जशेच्या तशे पुंडलीकबाबांच्या ह्या नाटकाचे संहितेंत आसात. म्हळ्यार नाटक कागदाचेर देंवोवचे पयलीं केदो विचार आनी अभ्यास तांणी केलो आसतलो?

नाटक रचतनाच तें आकृतीबद्ध पद्धतीन बांदप हें पुंडलीकबाबाचें खाशेलेंपण. एक पात्र रंगोवपी कलाकाराक भुमिकेविशीं विचार करपाक वाव दिवपी. नाटकाचो काळ, वेळ, वर्स हाचो अदमास नाटक वाचतनाच कलाकाराक येता. दोन प्रवेशामदीं, दोन अंकामदीं वेवस्थीत नियोजन. एक्झिट घेतिल्ल्या कलाकाराक रोखडीच परत एंट्री आसल्यार ताच्या भेसाविशीं सुद्धा नाटक बरयतना विचार करप हें पुंडलीकबाबालें खाशेलें वैशिश्ट्य. गांवगिऱ्या वाठाराच्या विशयाचेर नाटक जाल्यार पात्रां सारखीं ते संकल्पनेक सोबसारकीं, भास आनी संवाद पात्राक सोबसारके. आमकां कलाकारांक अभ्यास करपाक आनी आमची कला दाखोवपाक वाव दिवपी.

पुंडलीकबाबान बरयिल्लीं चडश्या नाटकांक गोंयचे मातयेचो वास येता. तांची पात्रां अस्सल गोंयकार हें दिसून येता. ते खातीर ही पात्रां रंगयतना कलाकाराक बरें आनी सोपें पडटा. आमी कलाकार त्या पात्राकडेन तादात्म पावतात. भास, संवाद पाठ करपाक सोपें, मतींत दवरपाक सोपें तितलेंच तें लोकांमेरेन पावोवपाक सोपें. प्रेक्षकांक समजपाकूय सोपें. कोंकणी भास सामकी सोपी करून प्रेक्षकांमेरेन पावोवपाचें काम तांचें नाटक करता. तांचें सुरिंग हें नाटक मुंबय आनी दिल्लींत सादर करपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें. म्हजे कोंकणी भाशेंत हें नाटक थंय सादर करतना जी खोस आमकां कलाकारांक मेळ्ळी ती म्हजे जिणेतलो सगळ्यांत खोशयेचो खीण. दिल्लीच्या प्रयोगांत पुंडलीकबाब स्वता हजर आशिल्ले. ही सगळ्या कलाकारांची उमेद वाडोवपी गजाल. प्रयोगा उपरांत तांणी मोगान मारिल्ली वेंग आमच्या कश्टाचें मोल फावो जालें म्हूण समाधान दिवपी.

पुंडलीकबाबान जितलीं कोंकणी नाटकां बरयलीं ताचो तातूंत भुमिका करपी कलाकारान बारीकसाणेन अभ्यास केल्यार नाट्य अभ्यासक्रमांतली पदवी

घेतल्यावरी जातलें. हावें तांची चडशीं नाटकां वाचलीं तीं नाटकाचो एक अभ्यासक म्हूण. ते स्वता आपणे बरयल्ल्या दरेक शब्दाचेर मोग करपी 'शब्द कलाकार'. नाटकांत, संहितेंत बरयल्लो दरेक शब्द एक गरज म्हूण तो घातला अशें तांचें मत. तो शब्द कापप तांका जितलें आवडना तितलेंच तो बदलपूय तांका मानवना. एके भुमिकेक जाय तसलेंच शब्दभांडार तांचेकडेन आसता. हाचो प्रत्यय म्हाका तांचें सुरिंग नाटक करतना आयलो. कितलीं कठीण तीं गांवगिरीं उतरां. घडये ते नाटक बरयतना त्या, त्या वाठारांत वचून, अभ्यास करून तांणी नाटक बरयलां अशें वाचकाक दिसपाक शकता. अशी सशक्त संहिता कलाकाराच्या हातांत पडप म्हणल्यार आमच्या सारख्यांक अभ्यास करचोच पडटा. अभिनय करपी कलाकारांक आव्हान करपी तांचें नाटक आनी तातूंतल्यो भुमिका. आनी हेच खातीर तांच्या नाटकांनी काम करप म्हणल्यार भुमिका केल्ल्याचें समाधान मेळप.

गोवा कला अकादमीन आयोजीत केल्ल्या मराठी अ गट नाट्यसतींत पुंडलीकबाबान बरयिल्लीं दोन नाटकां सादर करपाची संद म्हाका मेळ्ळी. तांच्या 'सांगोड' ह्या कोंकणी नाटकाचो मराठी अणकार म्हणल्यार 'जोडखंड'. सयामी जुळ्यांचेर बरयल्लें हें नाटक. दोन तकल्यो जुळिल्ल्या भुरग्यांची आनी तांच्या कुटूंबाची ही काणी. ह्या नाटकाक वैजकी फांटभूंय आसा. तेविशीं पुंडलीकबाबान केल्लो अभ्यास हांवें लागींच्यान पळयला. तातूंतलीं सगळीं पात्रां रंगयतना आमकां कलाकारांक कितली खोस जाली तें आमकांच खबर आसा. अश्यो भुमिका करतना जी खोस मेळटा ती शब्दांनी उक्तावप शक्य जायना.

हांवें तातूंत भुरग्यांच्या बापायची भुमिका केल्ली. एक परिपूर्ण भुमिका रंगयल्याची खोस म्हाका ते भुमिकेन दिली. भुरग्यांचे दुख्ख पळोवन ताची जाल्ली घालमेल, पयसो आसून चलिल्ली तांची फरफट उतरांनी सांगपाक जायना. पूण ती भुमिका प्रत्यक्ष रंगमाचयेर साकार करतना जो प्रचंड आनंद एका कलाकाराक मेळ्ळो तो उतरांनी सांगप म्हाका जमचें ना. कला अकादमीच्या सर्तींत ह्या नाटकाक पयलो नंबर फावो जालो. मुंबयच्या महाराष्ट्र राज्य नाट्य सर्तींत ताका तिसरें पारितोषिक फावो जालें. इतली व्हड तांक आशिल्लें नाटक बरोवपी आमचो नाटकार आशिल्लो पुंडलीकबाब.

हांवें केल्लें तांचें दुसरें मराठी नाटक 'श्री विचित्राची जत्रा' तांच्या 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या कोंकणी नाटकाचें हें मराठी रुपांतर. सांगपाचें म्हणल्यार ह्या मराठी नाटकाक कला अकादमीच्या अ गट नाट्यसर्तींत पयलें इनाम फावो जालें. सांगपाचें इतलेंच, जितली सशक्त तांची संहिता तितलीच सशक्त तांणी तयार केल्लीं पात्रां आसतात. ह्या नाटकांतले कॅरेक्टर तांणी ज्या शब्दांतल्यान ज्या उतरांतल्यान साकारल्यात ते खातीर तांका दाद दिवचीच पडटा. कलाकार त्यो भुमिका साकारतना स्वताक भाग्यवान समजतात. 'कोणेतरी' ही तातूंतली म्हजी भुमिका. नाटकांतलें दरेक पात्र कितें तरी शेंणला आनी जणएक तें सोदीत आसा अशी फांटभूंय आशिल्लें हें नाटक. संकल्पना इतली सोबीत तितलींच पात्रां प्रभावी. दरेक पात्र पुंडलीकबाबान अशें चितारलां, जात्रेंत कितें तरी शेंणलां आनी जो तो तें सोदता अशें जाणवता. दिसपट्टें अशें एक एक पात्र आमचे आशीकुशीक आमकां दिसता. म्हाका केन्ना केन्ना दिसता, गाडी चलवपाचो परवानो काडटना आरटीओ इन्स्पेक्टर 8 आंकडो काडूंक लायता तशेंच कलाकाराक जर शिकूंक जाय आनी स्वताक चेक करूंक जाय जाल्यार ताणे पुंडलीकबाबाल्या नाटकांतली खंयचीय भुमिका करून पळोवची. जमली जाल्यार तो कलाकार अशें समजुपाचें.

एका लेखकाक फावो जावपा सारके सगळे सन्मान, पुरस्कार तांकां फावो जाल्यात. तांणी आपल्या लेखनांतल्यान आमकां कलाकारांक भरभरून दिलां. आमीय तें आमचो हक्क समजून झोमून घेतलां.

◆◆◆

# पुंडलीक नायक: एक वडारुख

लेख

पुंडलीक नारायण नायक हें व्यक्तिमत्व म्हज्या आयुश्यांत एका इश्टागतीच्या नात्यान आयलें हें सांगतना म्हजें हड्डें अभिमानान भरून येता. हांव खूब उपकारी सर्गेस्त शांती तेंडुलकारचो, जाणे पुंडलीकाच्या घराब्यांत म्हाका रिगयलो. 'चित्रंगी' साहित्य मेळाव्याच्या वेळावयली खबर ती. हांव लोककलेच्या मळार वावुरतालों आनी शांतीन म्हजी हेमाबायकडेन जी वळख करून दिली तातूंतल्यान हांव तांच्या आनी दादाच्या सामको लागीं गेलों.

आयज म्हाका कळून येता, मनशाच्या आंगात फकत कला गूण आनी धडपड आसली म्हूण जायना, तर ते वाडीक लागपाक उजू मार्ग दाखोवपी तितले तांकीचो मनीस आसचो पडटा, आनी दादाच्या रुपांत तो म्हाका मेळ्ळो. अशा वेळार फकत शारीरिक आनी मानसिक बळ न्हय तर म्हज्यांत आशिल्ल्या गुणांची कदर करून ते समाजामुखार मांडपाचें धाडस आनी बळगें म्हका दिवपाचें काम खऱ्यांनीच कोणें केलां आसत तर तें दादान केलां हें आयचे घडयेक सांगपाक हांव मातूय अनमनना. तांच्या सहवासांतल्यान एक गजाल हांव शिकलों आनी ती सदांच म्हाका उपकारा पडत आयली ती म्हणल्यार मनशान सदांच आपल्यापरस चड विद्धान आनी हुशार मनशांलागीं इश्टागत करपाक जाय. जाका लागून आपणामदीं ज्यो उणिवो आसात त्यो भरून काडपाक ताचो उपेग जावं येता आनी मागीर जें गिन्यान आपल्याक मेळ्ळां ताचो लाब बाकिच्यांक दिवन तांकांय वयर सरपाक तो आदार थरूं येता. म्हजे बाबतींत तशें घडत आयलां. दादाच्या सहवासांतल्यान हांव जायतें शिकलों.

कसल्याय कामां खातीर तांचो सल्लो घेवपाक गेलों जाल्यार तांणी म्हजी केन्नाच निर्शेणी करूंक ना. वयल्यान प्रोत्साहनूच दिलें. फाटले खेपेक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या वांगडी मंडळाचेर एक वांगडी म्हूण तांणी म्हाका आसपावन घेतलो तेन्ना खूब खोस जाली. हांव एकाद्रे संस्थेचो वांगडी जावपाक शकतां हो




कांता गावडे
(नामनेचो लोककलाकार)
वेर्लिंग, प्रियोळ - गोंय
मो. 9422635238

आत्मविस्वास म्हाका खूब कितें सांगून गेलो. समितीचेर आसतना जे बरे वायट अणभव म्हाका आयले तातूंतल्यान कांय बारीकसाणी आनी शिटूकसाणीय हांवें गांठींत बांदून दवरल्यो.

लोककलेंतलो 'जागर' हो एक नांवाजतो खाशेलो प्रकार. थारावीक अशा विशिश्ट समाजांतले लोक तो खेळटात देखून तो कोणाचे नदरेआड उरनासतना ताका प्रतिश्ठा मेळची म्हूण राज्य पांवड्याचेर ताची नोंदणी जावप गरजेचें अशें म्हाका दिसलें. ती खंत हांवें दादाकडेन उक्तायली. राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार एखाद्या जागर कलाकाराक मेळून कलाकाराच्या भोवमाना वरवीं हे कलेची प्रतिश्ठा वाडटली हो हेत मनांत बाळगून सेगीत स वर्सां आमी ज्येश्ठ कलाकार लाडू गावडे हांचें नांव सुचयत रावले. मात दर वर्सा हातूंत अपेस आयलें. निमाणे दादान बरीच खटपट करून, ताची वेवस्थीत म्हायती तयार करून तो प्रस्ताव कला आनी संस्कृती खात्याक सादर केलो आनी सातव्या वर्सा दादाक लागून आमच्या यत्नांक येस आयलें, हे गजालीची आमकां खूब खोस जाली.

उपरांत तांच्याच मार्गदर्शना खाला अखिल गोंय जागर संघटनेची थापणूक केली. संघटनेचो पयलो निमंत्रक हांव. त्या वेळावयलो एक प्रसंग सांगपाची संद हांव घेतां. लाडू गावडेचो भोवमान सुवाळो आमी करपाचें थारायलें. तेन्ना आमच्या प्रियोळ मतदारसंघातल्या आमदाराक ह्या सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हूण आमंत्रण दिल्लें आनी तांणी तें मानून घेतलें. पूण अकस्मात तांणी आपूण येवपाक पावना अशें कळयलें आनी आमकां नर्वस करून सोडले. पूण येता त्या प्रसंगाक तोंड दिवपाची तकली लडोवपाचें प्रशिक्षण म्हाका दादाकडल्यान मेळिल्लेंच. ताचो वापर केलो आनी तेन्नाचे केंद्रीय राज्यमंत्री भौ. श्रीपाद नायक हांकां म्हजी अडचण सांगली. भाऊ आशिल्ले मुंबय. पूण तांणी म्हाका धीर दिवन सांगलें, सांजेच्या फ्लायटीन येतां. सांजे स मेरेन पावतलों. तिकेट कन्फर्म जायनाफुडें कळयतां. पंदरा मिनटांत हयकाराचो फोन आयलो आनी भाऊ कार्यावळीक हजर.

म्हजी तांक वळखून दादान म्हाका कलेच्या मळार कितल्योशोच संदी दिल्यो. कला अकादमीचे रंगमेळ संस्थेचे वतीन दादांलें 'प्रेमजागोर' नाटक बसोवपाक घेतिल्लें. तातूंत संगीत रचपाची जापसालकी म्हाका दिल्ली. म्हज्या नांवाची दादान केल्ली शिफारस विसरपाक येवची ना इतली यादींत उरपा सारकी. पुंडलीक नायक एक लेखक, कवी, नाटककार, म्हूण तांचे प्रतिभेचो म्हाका आगळोच अणभव आयलो. ते गितां रचताले आनी हांव त्याच खिणाक चाली लायतालों. केदी सर्वांगसुंदर निर्मिती ती! कलाकारांची खोलाय वळखुपाची नदर तांकां आशिल्ली. तांच्या 'प्रेमजागोर' नाटकाचे प्रयोग गोयांत तशेंच मुंबय तशेंच दिल्लींत लेगीत जाले आनी ते गाजलेय बी. व्हड नामनेचे संगीतकार पंडित भास्कर चंदावरकर, दिग्दर्शक जयदेव हटंगडी, कमलाकर सोनटक्के हांचेकडेन दादान म्हजी केल्ली तोखणाय तर म्हज्या जिवितांतलें अप्रुपच!'

साहित्य अकादेमीच्या नागपूर हांगा जाल्ले कार्यावळींत म्हाका आसपावन घेवन माचयेर पेपर वाचन करपाचो आत्मविस्वास तांणी म्हज्यांत हाडलो. 'दौलत' फिल्मा खातीर कला निर्देशक म्हूण म्हजी निवड दादान बिनधास्तपणान केली आनी हांवेंय ती तितल्याच प्रामाणीकपणान सार्थ केली. पूण कांय फावटीं मुर्वतीक बळी पडपाच्या सभावा खातीर दादाच्या मोगाक लागून खंती जावपाचीय पाळी आयल्या. हालींच थेटरांनी प्रदर्शीत जाल्ल्या तांच्या 'गुणाजी' सिनेमांतल्या भौतेक गितांक चाली लावपाची जापसालकी म्हाका दिल्ली. हावें मन लावन तें काम केलें. पूण गितांची व्हिसीडी फिल्मांत पालवी संगीत निर्देशक इतल्याचेरूच म्हाका समादान मानून घेवचें पडलें. वायट दिसपाचें न्ही? पूण दादावयल्या मोगाक लागून ओगी रावपाबगर पर्याय नासलो.

आयचे घटकेक हांव इतलेंच म्हणीन, कलाकारांचेर मोग करपी पुंडलीक नायक हो साहित्य आनी नाट्यमळावयलो एक व्हडलो वडारुख.....!



# पुंडलीक नायक:
# गोंयचो विश्वव्यापी साहित्यीक

लेख

पुंडलीकबाबा सारक्या भारतीय साहित्य मळावयल्या व्हड व्यक्तिमत्वाचेर बरोवप म्हणल्यार व्हड जापसालदारी अशें दिसता. फाटल्या तीन वसाँत म्हजी कोंकणी भाशेकडेन आनी साहित्याकडेन ओड वाडल्या. हें जावपाक निमित्त थारलें तें गोंय सरकाराचें शिक्षणीक माध्यम धोरण. मुळावें शिक्षण कोंकणी वा थळाव्या भाशेंत जावचें हें कितलींशींच वर्सां चलत आशिल्लें धोरण आनी ज्यो शाळा हें धोरण आपणायताले तांकांच सरकारी अनुदान फावो जातालें. मात 2011 वर्सा तेन्नाच्या दिगंबर कामत सरकारान इंग्लिश माध्यमांच्या मुळाव्या शाळांक अनुदान दिवपाचो निर्णय घेतलो. ताचे आड एके चळवळीक जल्म दिलो. तातूंतल्यान म्हजें म्हजे मायभाशेकडेन आशिल्लें नातें म्हाका वळखूंक कळपाक लागलें. म्हजे मायभाशेचें म्हणल्यार कोंकणीचें म्हत्व तशेंच मराठी भाशेकडेन आशिल्लें तिचें नातें आतां म्हाका जाणवपाक लागिल्लें.

2011 मेरेन म्हाका पुंडलीक नायक हे कोंकणीतले एक व्हड साहित्यीक इतलेंच खबर आशिल्ले. तांचे दिसाळ्यांनी येवपी फोटे हांव पळयतालें. मात तांची वळख अशी नाशिल्ली. माध्यम प्रस्नावयले चळवळींत वांटेकार जाले उपरांत गोंय सरकाराच्या धोरणाचो राग हांव भाशणांनी उक्तावपाक लागलें. मात ही जाणविकाय आनी त्या भाशणांतलो आत्मविस्वास खूब लोकांच्या प्रोत्साहनान आयिल्लो. ह्या खूब लोकांमदलो एक मनीस म्हणल्यार पुंडलीक नायक. जाका एक लेखक, नाटककार, कवी, गद्य-पद्य बरोवपी साहित्यीक म्हूण सगळींच वळखता आसतलीं पूण एक विनम्र मनीस म्हूण तांची वळख म्हाका लागींच्यान जावपाक लागली, ती ह्या शिक्षण माध्यम प्रस्नाचे चळवळी वेळार.

एक दीस अशेच एके सभेंत म्हजें भाशण जालें. सभा सोंपली आनी पुंडलीकबाब म्हजेसरी आयले. दोनूय हातांनी म्हजो हात धरून 'बाय थँक यू' अशें म्हळ्ळें. हांव मात्शे नर्व्हस कशें जालें. येदो व्हड मनीस म्हाका इतल्या आपुलकेन थँक यू म्हणटा, तेंय बी अशे गजाली खातीर जी करप म्हजी सामाजीक जापसालदारकी



प्रा. पूर्वा नायक
(प्राध्यापक)
वास्को - गोंय
मो.7066253477

आशिल्ली. मात म्हाका खूब बरें दिसलें. ते वेळार पुंडलीकबाबाक पळोवन हांव हांसलें आनी 'वेलकम काका' अशें सहज म्हणून गेलें. म्हज्या कोंकणी साहित्य मळावयलो 'तारो' म्हाका कितले अपुरबायेन पाचारता ही याद हांवें मनांत सांबाळून दवरल्या. ते उपरांत पुंडलीकबाबाचीं जायती भाशणां आयकलीं. दरेका फावट ते उलयतात तेन्ना आपलोसो कोण तरी उलयता अशें दिसता. आपलोच कोणतरी जाण्टो (जसो घरांत म्हजो आजो वा बापूय) आमच्या दायजाचो अभिमान म्हाका आसचो अशे संस्कार म्हजेर करता अशें दिसता.

हावें म्हजें पदव्युत्तर शिक्षण इंग्लिश ह्या विशयांत केलां. तशें म्हजें कोंकणी साहित्याचें वाचन सामकें उणें. मात कोंकणीच्या माध्यम प्रस्नान सुरू जाल्ले चळवळीक लागून हांव कोंकणी साहित्य वाचपाक लागलें. सामकें उमेदीन. कोंकणी साहित्यांत म्हजो चड कल आशिल्लो तो बायल स्वावलंबीवादाकडेन, स्वातंत्र्याकडेन. हेमा नायकाच्या 'दुर्गावतार' ह्या लघुकथा झेल्यांतल्यो सगळ्यो कथा हांवें वाचल्यो. तांच्या आवडिल्ल्या कथांचे अणकार हांव इग्लिशींत करपाक लागलें. पुंडलीक नायक एके मुलाखतींत आपली घरकान्न हेमा नायकविशीं उलयतना, आपल्याक तिचो तशेंच तिच्या कामाचो अभिमान दिसता अशें सांगिल्लें. अशी हीं दोन समर्थ, प्रभावशाली व्यक्तिमत्वां, गोंयची अस्मिताय राखपी कोंकणी साहित्य समजुवपाच्या म्हज्या प्रवासांतलीं सगळ्यांत आवडटी साहित्यीक सांगाती.

म्हजी प्राध्यापक डॉ संध्या भांडारे हांचो पुस्तक लोकार्पण सुळावो हालींच जालो. तांचें पुस्तक 'अ स्टडी ऑफ कॅनेडियन ॲण्ड कोंकणी ड्रामाः कंपेरेटिव स्टडी ऑफ जेम्सरिनी ॲण्ड पुंडलीक नायक' हाचो नियाळ हांवें केल्लो. पुंडलीक नायकांच्या कांय वेंचीक नाटकांचेर तिणे केल्लो अभ्यास ह्या पुस्तकान उजवाडाक आयला. त्या नियाळतल्यान म्हाका जें पुंडलीकबाब नायकाच्या नाटकांविशीं कितें शिकपाक मेळ्ळें तेंच हांवे हांगा बरयलां.

पुंडलीक नायक- एक कुशळ, चतूर, तरेकवार कल्पनांचो अविश्कार करपी नाटककार. तसोच प्रगल्भ समजिकाय आशिल्लो कलाकार. गोंयच्या कोंकणी नाट्यमळावयलो तशेंच भारतीय साहित्य मळावयलो कोंकणींतलो म्हालगडो नाटककार म्हणल्यार पुंडलीक नायक. कोंकणी नाटकांक नामना मेळ्ळी ती गोंय मुक्त जाले उपरांत. मात तेन्ना कोंकणी साहित्य बाळबोध अवस्थेंत आशिल्लें. कोंकणी ही मराठीची बोलीभास अशेंच त्या वेळार सगळे, चड करून मराठी समर्थक लेखक समजताले. पुंडलीकबाबासारखे जेन्ना बरोवपाक लागले तेन्ना कोंकणी भाशेचें खाशेलेंपण सगळ्यां मुखार आयलें.

पारंपरीक मराठी रंगमाचयेचो बरोच प्रभाव कोंकणी रंगमायेर पडिल्लो. तशेंच गोंयचें पुर्तुगेज दायज पुंडलीक नायकांच्या नाटकांतल्या कातारां आनी संगितातल्यान दिसता. तांचे पयलीं गोंयच्या नाट्यकलेक नामना मेळ्ळी ती शणै गोंयबाब, आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, पुंडलीक दांडे, रघुवीर नेवरेकार ह्यांच्या नाटकां खातीर. पूण कोंकणी नाटकांक परतून जुवानपण आयलें तें पुंडलीक नायकांच्या नाटकांक लागून. 1970 वर्सा उपरांत. आपले सैमीक सोबीतपणान मोनेळ घालपी असो वळवय हो गांव. ह्या गांवांतल्या उंच दोंगरामदीं, शेतांच्या हिरवळींमदीं, चकचकत व्हांवपी त्या वझऱ्यांमदी वाडिल्लो हो नाटककार. सर्जनशिलतेचें वरदान सामकें घसघशीतपणान तांकां लाबलां. तांची नाटकां संस्कृत नाट्य, मराठी आनी पाश्चात्य नाटकाचो सुरेख सूरमेळ सादतात.

पुंडलीकबाबांचीं नाटकां सामाजीक समस्यांविशीं आपली कळकळ आनी तेविशीं आपली आशिल्ली जापसालदारकी उक्तायतात. तांच्या नाटकांनी एक क्रांतिकारक भावना आसता. डॉ. संध्या भांडारेन आपल्या पुस्तकांत तांका दिल्ली उपमा फावो सारखी. पुंडलीकबाब खऱ्यांनीच एका व्हड रुखाभशेन, जाचीं मुळां सामकी घटसाणेन आनी खोलायेन गोंयच्या मातयेंत रिगून साहित्यमळार वावुरतात. ह्या व्हड

रुखांचे खांदे भारतीय साहित्याच्या मळार पसरल्यात.

पुंडलीक नायक आपल्या नाटकांनी मनशांची वा सुवातांची खऱ्या नांवाचो उल्लेख करनात. पूण जे तरेचें वातावरण तांच्या नाटकांनी आसता तातूंत गोंयकारांक सहजपणान आपले वळखीचो वाठार दिसपाक लागता. एक कवी म्हूण नामना जोडले उपरांत ते नाटकां बरोवपाक लागले. हाका लागून ज्यो प्रतिमा आनी चिन्नां आमच्या गोंयच्या वाठाराकडेन संबंदीत आसात ते तीं आपल्या नाटकांनी वापरतात. उदाहरण– न्हंय, माड, पिंपळाचें झाड, केळमो, आम्याचे ताळे, सूर्य, चंद्र, घरच्या आंगणातली तुळस, कुकूम, फुलां ही चिन्नां तांच्या लिखाणांत दिसतात. ताच्या लिखाणातली बायलांची पात्रां चड करून स्वतंत्र वृत्तीचीं आसतात. रुढीबद्ध आनी परंपरागत भारतीय अस्तुरेचे प्रतिमेक ते मोडो घालतात.

'म्हजो बांगर बैल' ही तांची एक म्हत्वाची कविता. हे कवितेंतलो बैल शोशण जाल्ल्या वर्गाचें प्रतिनिधीत्व करता. हे कवितेन, ज्या बैलांनी पिळग्यान पिळग्यो ह्या शोशणाआड उतर काडलें ना, तो बांगर बैल आतां सामको मेकळो जावन धांवतलो आनी सगळी सत्ता उमथून उडयतलो. पुंडलीकबाबालें पयलें नाटक म्हणल्यार 'खण खण माती' (1977). गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारातली चितारिल्ली ह्या नाटकाची कथा शेतकार समाजाच्या कश्टांची, तांचो चंगळवादाकडेन वाडटो कल आनी स्वताक पारंपारीक नितीमूल्यांच्या दडपणांतल्यान भायर काडपाची, तातूंतल्यान मुक्त जावपाची धडपड ह्या नाटकांत दिसून येता. ह्याच तांचे इत्सेक लागून ते लोक कशे सोऱ्याच्या वेसनांत घुस्पतात, जुगार खेळटात आनी वेश्या वेवसायाक बळी पडटात तेंय ह्या नाटकांत दाखयलां. ह्या नाटकांतल्यान परंपरागत जिणेची कशी विकृताय जाता तशेंच उथळ उद्देगीकरणातल्यान जल्मल्ल्या निश्ठूर चंगळवादाचो तिटकारो ते व्यक्त करतात.

'रक्तखेव' हें पुंडलीक नायकाचें एक क्षोभप्राधान नाटक जें गोत्रगमनाच्या पातकाविशीं उलयता, 'राखण' ह्या तांच्या नाटकांत भाटकारांच्या व्यभिचारी जिवीताचेर टिका केल्या. हे भाटकार आपल्या मुंडकारांचो दुडवां खातीर कशे तशेंच शरीरसुखा खातीर तांच्या बायल भुरग्यांचो कसो गैरफायदो घेतात हें ह्या नाटकांत दाखयलां. 'सुरींग' हें नाटक रस्तो बांदपी कामगारांची मुकादमाकडल्यान कशी दैना जाता हें दाखयता. ह्या नाटकांत गोंयचो मांडो हो लोकनाच आनी ताचें स्वर रुपांतरीत करून उपेगांत हाडल्यात. 'शबै शबै भौजनसमाज' हें नाटक राजकारणाचेर उपरोधीक काव्य अशें म्हणूं येता. कुड्डेगाळ ह्या कल्पीत मतदारसंघांत मांडिल्लें हें नाटक. ह्या नाटकान गोंयच्या एका पथनाट्याचो प्रकार म्हणल्यार मेळ ही एक म्हत्वाची नाटकी पद्दत म्हूण उपेगांत हाडल्या. 'पिंपळ पेटला' ह्या नाटकांत पुंडलीकबाब वासना आनी ते बाबतींत खूब सदळसाणेन वागपाच्या विशयाचेर आपलो हुस्को उक्तायतात. 'श्री विचित्राची जात्रा', ह्या जात्रेचें निमित धरून समाजातल्या मनाय केल्ल्या गजालीच्या भितरली पोकळी दाखयता. थोड्याच उतरांनी सांगपाचें आसत जाल्यार श्रीपाद रघुनाथ देसाय हांचीं उतरां सामकीं योग्यः 'असलो अश्टताशी तरनाटो, जो कथा, कादंबरी, गद्य, पद्य, निबंध आनी नाटकां बरोवपी लेखक आमकां मेळप म्हळ्ळ्यार कोंकणी सरस्पतीचें भाग्य!' हो लेखक दुसरो– तिसरो कोणूय न्हय तर गोंयचो सुपूत पुंडलीक नारायण नायक.



# पुंडलीक पयलो बंडखोर जीवनांत; मागीर नाटकांत

लेख

पुंडलीक आनी हांव ल्हानपणा सावन सामके जिवा भावाचे इश्ट. पयली ते अकरावी मेरेन आमी दोगूय वांगडा शिकल्या. पुंडलीक आतां एक नामनेचो नाटककार जाला. पूण नाटकाचो गूण ताचो जल्मजात म्हणल्यार जाता. म्हाका याद जाता त्या प्रमाण दुसरे- तिसरेक आसतानाच (आमची शाळा एकदां सुरू जाल्ली) आमी पुंडलीकाच्या फुडारपणाखाला वाड्यावयले धा जाणांचे चौखेर नाटक केल्ले. नाटकाचें (नाटकुलें) नांव आशिल्लें, 'हरपलेले रत्न.' अर्थात पुंडलीकानूच तें बरयिल्लें आनी आमचे खातीर बसयिल्लें. मुसळांक चादरी गुठलायिल्ल्यो. तांचे पड्डे जावन, वयर- सकयल वताले. नाटकांत संगीत आशिल्लें. ऐन वेळार वाड्यावयलो भजनी कलाकार पेटी घेवन आयलो. मागीर तबलेंय आयलें. कोणें तरी लावडस्पीकरूय हाडलो. आमच्या भुरग्यांबरोबर आमगेल्या जाण्टेल्यांकूय उमेदीचीं पांखां फुटिल्ली. तें आमचें पयलें नाटक. अर्थात मराठी. तेन्ना सावन नाटकाच्या मळार पुंडलीकान केन्ना फाटी वळून पळयलें ना. गांवांतल्या काल्या-जात्रांची नाटकां देवळाकडेन जातालीं. नाटकांच्यो तालमी चौखेर चलताल्यो. त्यो रातीच्या राती सारून आमी आयकताले. आमचे खाातीर नाटकाचें हेंच शिक्षण आनी प्रशिक्षण आशिल्लें. पुंडलीक असो चौखेरूच घडला. तागेलो बापूय नाटकांचो मोटो शौकीन. एकदां ताणें आपणाल्या घराच्या शेजरा आंब्यामुळांत स्टेज उबारून आमकां नाटक करपाक दिलें. त्या नाटकांक गांवातले लोक तर आयिल्लेच. बोमाडे आनी चणे- भिकणां विकपीय आयिल्लें.




**महादेव नायक**
(नाट्य कलाकार)
वळवय,फोंडें-गोंय
मोः 9822387611


पुंडलीकाचो साहित्याचो आनी नाटकाचो प्रवास एका सांगाताच जाला. ताणे 'अच्छेव' बरोवपाक घेतली तेन्ना हांव वळवयच्या पलतडीं मायनिंगचेर कामांक आसलों. ताका घेवन हांव खणींचेर, रिव्हर प्लॉटार भोंवलां. बारीक- सारीक गजालींची तो नोंद करतालो. खणीचेर भोंवतानाच ताची गांठ दिवचलकार नांवाच्या इश्टाकडेन पडली. ताणे ताका एका मीनेराची गजाल

सांगली. पुंडलीकान ताचेर 'खण खण माती' हे नाटक बरयलें. ते ताचें पयलें नाटक.

तें खूब गाजलें. कला अकादमीचे पयले नाट्यस्पर्धेत तें जायतीं इनामां जोडून पयलें आयलें. पुंडलीक तेन्ना कॉलेज करपाक पणजी गेल्लो। आमकां दिसलें, पुंडलीक आतां हेरांभशेन पणजेकार जातलो. पूण ना. ताचीं मूळां गांवानूच आसलीं. पणजे रावुनय ताणें वळवय येवन कोंकणी नाटक गांवांत रूजोवपाचो यत्न केलो. 'पोवनाचें तपलें' आमचें पयलें कोंकणी नाटक. तें आमी गांवांत तशेंच कला अकादमी सर्तिक केलें. मागीर तागेलींच 'रक्तखेव' व 'सूर्यसांवट', 'मुक्तताय' आनी 'देमांद' अशी नाटकां केलीं. 'शबै शबै भौजन समाज' नाटकान म्हाका 'भोल्या' चे भूमिकेखातीर चडानचड नामना लाबली. ताचें दिग्दर्शन खासा पुंडलीकानूच केल्लें. गोंयभर ह्या नाटकाचे आमी पन्नाशेक प्रयोग केले. मुंबय लेगीत एक प्रयोग करून आयले. गोंयांत जंय जंय 'शबै' चो प्रयोग जाल्लो थंय थंय कोंकणी नाटकांची सुरवात जाली.

पुंडलीक आदींपासून क्रांतीकारी आनी बंडखोर सभावाचो. एकदां मनांक पटलें जाल्या थंय तो तडजोड करपी न्हय. भीड-मूर्वत सोडून आपले विचार मांडपी. आतां तो आनी शशिकलाताई काकोडकार भाशा माध्यम प्रश्नाचेर मांडयेक मांडी लावन बसता, पूण म्हाका याद आसा शशिकलाताई काकोडकार मुख्यमंत्री आसताना एकदां वळवय सभेखातीर आयिल्ली. वेंचणूक लागीं पाविल्ली. पयली पुंडलीकान आयोजकांकडेन विनवणी करून सभेंत उलोवपाखातीर परवानगी मागली पूण पुंडलीकाक परवानगी मेळ्ळी ना. अखेरेक शशिकलाताई उलोवपाक उबी रावली तेन्नाच पुंडलीक उबो रावन तिचेकडेन परवानगी मागली. तिणे दिली. पुंडलीकान गांवच्या विकासाचो प्रश्न काडलो. एक एक गजाल सांगत सुटलो आनी गांवचो कसलोच विकास जावंक नाशिल्ल्यान तुमकां मुख्यमंत्री ह्या नात्यान हांगां उलोवपाचो 'नैतिक अधिकार'ना म्हण बेधडक आरोप केलो.

पुंडलीकाच्या नाटकांत खूब आगळे-वेगगळे प्रसंग येतात. पयलीं ते तागेल्या आयूश्यांत आयल्यात. कांय ताणें आपूण जावन निर्माण केल्यात. आनी मागीर ते ताणें नाटकांत उबे केल्यात. म्हणून पुंडलीकाच्या नाटकांत जिवनाचें जिवें तट्टटीत चित्र पळोवपाक मेळटा.

हांव एक नाट्य कलाकार म्हण कोंकणी रंगमाचयेर उबो रावलों तो पुंडलीका खातीर. आमचे इश्टागतींत वादविवाद, मतभेद अदीं मदीं आयले पूण एकामेकाचो दुस्वास मात केन्नाच आयलो ना. एका नाटकाची अर्पणपत्रिका पुंडलीकान म्हाका ओंपल्या. तातूंत ताणे तशेंच म्हणलां, 'दुस्वास बगरचे एके इश्टागतीक!फ

(रंगशताब्दी 2013 यादस्तिकेतल्यान)



# असो घडलो रंगवेद :
# एका इश्टाचें मनोगत

लेख

पुंडलीकाची आनी म्हजी वेगवेगळीं नातीं आसा. आमी दोगूय भुरग्यापणांतले इश्ट. खऱ्या अर्थान लंगोटीयार! (कारण भुरगेपणांत गोरवां फाटल्यान भोंवतना काश्टी हीच आमची मुखेल वेशभुशा आसताली.) तागेल्या आनी म्हगेल्या बापायचे संबंद सामके घट, म्हण दोगांय कुटुंबांचे नातें अतूट. मागीर ते कौटुंबिक संबंद नात्यांत बदलून अदिक घट जाले. पूण पुंडलीकाचें आनी म्हजें खरें नातें लेखक आनी वाचप्याचें. तागेल्या भौतेकक कलाकृतींचो पयलो वाचक हांव. (हेमाकडेन ताचें लग्न जातकूच केन्ना केन्ना म्हजो क्रम दुसरो जाला.)

हांव पुंडलीकाचो इश्ट खरो, पूण खुशमस्कऱ्या न्हय. ताचे करता त्या प्रेमापरस ताच्या साहित्याचेर हांव अदिक प्रेम करतां. देखून ताच्या साहित्यकृतीचेर म्हजो अभिप्राय प्रामाणिक आसता. थंय दाखय-लिपय कांयच नासता. पुंडलीकूय म्हजो अभिप्राय शांतपणान आयकता. केन्ना केन्नाय म्हजीय समजुवपाक चूक जाल्ली आसता. तिवूंय तो म्हजे नदरेक हाडून दिता. आपणाली चूक आसल्यार रोखडीच सुदरावन घेता. गांवगिरे जिणेंतल्या बऱ्योचश्यो गजाली ताका खबर आसा. तरी लेगीत म्हजेकडसून तो समजून घेता. त्यावेळार ताची नमळाय तोखणायेची. दर एकल्याक जाचें ताचें श्रेय दिवप हें पुंडलीकाचें व्हडलें वैशिश्टय. दुसऱ्याचें आयकून घेवपाचे बाबतींच न्हय, तर मुळापासून समजून घेवपाचे बाबतींत.

पुंडलीक केन्ना केन्ना वयक्तिक जीवनांत, कोंकणी चळवळींतल्या तागेल्या सहभागांत. साहित्यिक वेव्हारांत द्वीधा मनःस्थितींत वता तेन्ना तो म्हजेकडेन सल्लो मागता. तेन्ना तर म्हजेर मळब कोंसळिल्ल्याचो भास जाता. म्हजे तांकिप्रमाण ताका समजायतां, आनी निमणें जो निर्णय जाता तो मात दोगांयचे खातीर समाधानकारक थारता.

अपुरबाय प्रकाशन म्हणटा ती पुंडलीक, हांव, महादेव नायक, दिंगबर सिंगबाबळ आनी हेमा हांणी शंबर शंबर रूपये



पांडूरंग का.गावडे
(संयोजक, रंगवेद नाट्य प्रकल्प)
साखळी-गोंय.
मोः 9545759222

काडून स्थापन केल्ली संस्था. प्राधान्यक्रमान पुंडलीकाचे साहित्य उजवाडाक हाडपाचे मोखीन ती सुरू केल्ली. पुंडलीकाचें 'रानसुंदरी' हें प्रकाशनाचें पयलें पुस्तक. तें आनी दिगंबर सिंगबाळ हांगेलें 'आंग म्हजें चोय पूण' , दोतोर भिकाजी घाणेकार हांगेलें 'सर्कस', कवी प्रकाश पाडगांवकार हांगेलें 'उजवाडाची पावलां', कथाकार गुरूदास कामत बांबोळकार हांगेलें 'भिंगर' तशेंच पुंडलीकाच्या 'गांवधनी गांवकार', 'गा आमी राखणे' अशा आनीक कांय ल्हान पुस्तकांचो प्रकाशन म्हूण आरंभाक म्हजेंच नांव छापलां. (तेन्ना खांदाक बोटवो लावन करमळें, कुट्टीच्या जागराक आनी अनंताच्या काल्याक पुस्तकां विकतना कसलीच लज धरलीना हाचो अभिमान दिसता) मागीर पुंडलीकाचें लग्न जातकच प्रकाशकाची जागा हेमान घेतली आनी प्रकाशनाचो आंकडो पावूणशें वयर (77) पावून अपुरबाय प्रकाशन ही गोंयांतली एक नांवाजती प्रकाशन संस्था जाली. हांव अधिकृत प्रकाशक नासलो तरी अपुरबाय प्रकाशनाकडले म्हजे संबंद तशेंच उरलें. अपुरबाय प्रकाशन संस्थेवांगडाच वळवय 'रंगसांगाती' हे नाट्यसंस्थेची स्थापना जाली. तांतूंतलो हांव एक संस्थापक वांगडी, केन्ना एक कलाकार, केन्ना सुत्रधार, संघटक अश्यो वेग-वेगळ्यो भुमीका हांवें वठयल्यो. चडशीं पुंडलीकाचींच नाटकां आमी रंगमाचयेर हाडलीं. तीं गोंयांत नाट्यसर्तींत आनी खेड्यापाड्यांनी पावयली. तेन्ना वळवय सारक्या खेडेगांवांत, शारांपासून खूब्ब पयस जंय कसलेच तरेची साधन-सुविधा सहजयतायेन मेळप शक्य नासलें त्या वेळार कला अकादमीच्या जैतीवंत नाटकाचे महोत्सव घडोवन हाडले. गोंयांभायरूय नाटकाचे प्रयोग करून जनमानसांत कोंकणी नाटक रूजोवपाच्या वावरांत भाग घेतलो. त्या वेळार एकेच पिकपीतल्यान नाटकांचें सगळें नेपथ्य, लायटीचे सामन, नेपथ्यकार. लायटमेन, मेकपमेन, नाटकांतले सगळे कलाकार आनी नाटककार पुंडलीक एकठांय प्रवास करतालें. प्रयोग केन्ना पेडण्यापासून काणकोणा जाल्यार. केन्ना सांगे, सावड्ड्यांपासून वास्को आसतालें. पुंडलीक मात तेच पिकपीतल्यान सगळयां वांगडा नाटकाचो एक वांटो जावन वावुरतालो. पुंडलीकाचे हे 'नाट्यप्रेम' हांवे अणभवल्या उपरांत म्हज्या ह्या नाटकाच्या सहभागांत 'पुंडलीक प्रेम' होच महत्वाचो घटक आसलो. कोंकणी चळवळीत, कोंकणी साहित्यांक आनी कोंकणी नाटकांत पुंडलीकाचे कितले योगदान आसा हें हांवें सांगपाची गरज ना. पूण हें सगळें घडटना हांव त्या सगल्याचो खूब लागीचो साक्षीदार आसलो हाजो सार्थ अभिमान भोगतां. फाटल्या पस्तीसेक वर्सांक पुंडलीकचो पुस्तक छापाणवळीकडेन सामको लागीचो संबंद आसा. तागेल्या भावाचो हिरूचो पयलीचो 'अपुरबाय प्रिंटस' आनी आताचो 'रूतू ऑफसेट' छापखानो छापणावळीखातीर नांव दवरून आसा. अपुरबाय प्रकाशन, गोवा कोंकणी अकादेमीची (तागेल्या उपाध्याक्षीय आनी अध्यक्षीय कालखंडातली ) पुस्तकां पळयल्यार पुस्तक संस्कृती घडोवपाखातीर पुंडलीक कितलो जागरूक, चत्रायेचो मनीस म्हणपाचे कळून येता. ताच्या हातांत पडिल्लें वो ताचे नदरेखाला गेल्लें तागेल्या इश्ट- मित्राचेंच न्हय तर खंयचेय कोंकणी पुस्तक आकार घेवनूच भायर सरता. सांगपाचो उद्देश म्हणल्यार हें सगळें आसूनय पुंडलीकाची फाटल्या अठरा वर्सांची रंगमाचयेर प्रयोग जाल्लीं सुमार अठरा नाटकां छापून येवपाची उरल्यां म्हणपाचें पळोवन एक ग्रंथमोगी म्हूण काळजाक अतीवेदना जाल्यो. नाटकां छापपाचो 'अपुरबाय प्रकाशनाचो' रंगवेद प्रकल्प दुडूवांचे अडचणेक लागून अडून उरिल्लो. पुंडलीकाचो भाव हिरू, रूतू ऑफसेट छापखान्याचो धनी, जेन्ना जेन्ना आमकां मेळटालें तेन्ना आपली मनातली खंत उक्ती करतालो. 'घरचो प्रिंटिंगप्रेस आसा आनी दादाली इतली नाटकां जाचें शेकड्यांनी

प्रयोग जाल्यात तीं छापपाची उरल्यात'.

हांव पुंडलीकाक घेवन बसलो. म्हजो छत्तीस वर्सांचो गोवा बागायतदार संस्थेक खरेदी विक्री आनी वेवस्थापन अधिकारी म्हणून अणभव आशिल्लो. दुडवाखातीर पुंडलीकाच्या सामक्या लागींच्या आनी जांकां शक्य आसा अश्या धायेक बऱ्या मागत्यांची प्राधान्यक्रमान वळेरी केली. घेता ताचें दुडू उदारीचेर घेवप आनी कळंतराबगर तांचे पागेंत रावून जमता सगळे परत करप अशें थरलें. अजाप म्हणल्यार पयल्या पांच नांवांतूच दुडवाचो अपेक्षीत आकडो भरलो. मुखावेल्या बऱ्या मागप्यांकडेन उतर घालपाचो प्रस्नूच आयलो ना.

फकत हांवूच पुंडलीक प्रेमान भारावन वचूक नासलों. तर तागेले बरे मागपेय तेच भावनेन ताचेकडेन पळयताले म्हणपाचो साक्षात्कार जालो. खंडाचो भार उकलपाखातीर समर्थपणान जाचें फाटबळ लागले तें श्री.नागेश करमली, श्री.अरूण आनी नूतन साखरदांडे, श्री.राजदीप नायक, श्री. संदीप निगळेय आनी श्री. सतीश गवस हांगेल्या उपकारात हांव आनी पुंडलीक सदाच उरतलें. पुस्तकां छापून तयार जाल्लीं. पूण विमोचन समारंभाक विलंभ जायत गेलो. तकलेत खूब कल्पना घोळटाल्यो. निमाणेकडेन पुंडलीकाचो सहकारी प्रा. भूषण भावे हांणी यादस्तिकेच्या जायरतीचीं सगळी जबाबदारी आपल्याचेर घेतली. दुडवाचो प्रस्न सुटावो जातकच छापणावळीखातीर हिरू, टायपसेटिंगाखातीर रिया ग्राफिक्स आनी मुखचित्राखातीर पुंडलीकाचो नाट्य सांगाती चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार आनी तागेलो चलो कलानंद हांका थरावीक मुदतींत बांदून घेतले.

छापणावळीचें काम सुरू केलें तेन्ना पूंडलीक निवांत आसलो. अकादेमीच्या अध्यक्षपदाचो परतून भार ताचेर पडूंक नाशिल्लो. बरोचसो फॉर्मांतूय आसलो. हांव फाटीक लागून तिनूय खंडांखातीर वेगवेगळ्यो प्रस्तावना बरोवन घेतल्यो. त्याच बरोबर दर नाटकाची स्वतंत्र प्रस्तावना बरोवन घेतली. म्हाका खात्री आसा हो सगळो प्रस्ताव प्रपंच अभ्यासपूर्ण स्वरूपाचो जाला. नाटकाच्यो आनी तिनूय खंडाच्यो प्रस्तावना वाचतकूच एका समर्थ नाटककाराक 'नाटक' ह्या प्रकाराची कितली खोल जाणीव आसपाक जाय म्हणपाचे कळून येता.

नाटकाच्या पुस्तकाक स्वतंत्र अर्पण पत्रिका बरोवन तशेंच खंडाक अर्पण पत्रिका बरोवप हें काम पुंडलीकान भार आयिल्यावरी उत्स्फूर्तपणान केलें. नाटकाच्या पुस्तकाचेर नाटकाचे फोटेय छापपाची कल्पना ताचीच.

सेगीत चार म्हयने आमी दोगूय दिसरात झपाटिल्लेवरी वावुरलें. आमच्याखातीर तो एक संर्जनाचोच काळ आशिल्लो.

खूब कश्टान, प्रेमान, जिव्हाळ्यान तयार जाल्लो हो वावर म्हणल्यार तीन खंड आनी मेकळीं पुस्तकां जांचे जांचे नदरेक पडलीं ते संतोसले. ताका लागून 'सुपांतूय धरना आनी वल्लेतूय धरना' अशी म्हजी अवस्था जावप सभावीक आसा.

(रंगशताब्दीः 2013 यादस्तिकेंतल्यान पुनरउजवाडावणी )





राष्ट्रपती भवनांत भारताचे राष्ट्रपती प्रणवकुमार मुखर्जी हांचे हस्तुकी संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार स्विकारताना (नवी दिल्ली – 2014 )



सिनेस्टार सुनील दत्त हांचे हस्तुकीं गोंय राज्य चित्रपट महोत्सवांतलो उत्कृश्ट पटकथेचो पुरस्कार स्विकारताना (पणजी–1997)



'गुणाजी' फिल्माच्या गितांचे ऑडिओ सिडीचे विमोचन करताना मुख्यमंत्री मनोहर पर्रिकार. सांगाताक निर्माते निलेश नेवाळकर, दामू नायक आनी हेर मानेस्त (परवरी)




साहित्य अकादेमीचेवतीन रवीन्द्र केळेकारांक महत्तर सदस्यता भेटोवपाच्या समारंभांत. वेदीर प्रकाश भातंब्रेकर, दामोदर मावजो, सुनील गंगोपाध्याय, प्रो. गोपिचंद नारंग, रवीन्द्र केळेकार, डॉ. मारीया आवरोरा कुतो आनी दत्ता दा.नायक (पणजी–2007)



गोवा कोंकणी अकादेमी आयोजीत पयल्या कोंकणी शिक्षण परिशदेच्या उक्तावण समारंभांत. सांगाताक सभापती राजेंद्र आर्लेकार, अनंत अग्नी, प्रा.भूषण भावे, भिकू नायक, मेघनाथ परब, डॉ.प्रकाश वजरीकार (पणजी–2013)



तमिख लेखिका शिवशंकरी बरोबर. सांगाताक हेमा नायक, चंद्रकांत केणी आनी हेर मानेस्त (पणजी)



अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अध्यक्षपदार. (बेळगांव- 1999)



युवा महोतसवाच्या उक्तावण समारंभात. सांगाताक मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार, भिकू नायक आनी हेर मानेस्त. (काणकोण-2005)



साहित्य अकादेमीचे 'मीट द ऑथर' कार्यावळींत. सांगाताक वसंत मणी, पि.जी.कामत (कोची-2007)



'हांव असो घडलो' पुस्तकाच्या कोंकणी अणकाराच्या प्रकाशन सुवाळ्यांत लेखक भालचंद्र मुणगेकर, सभापती राजेंद्र आर्लेकार, पुंडलिक नायक, नागेश करमली, हेमा नायक आनी प्रा.भूषण भावे



'नवचेतना' गीत संग्रहाच्या प्रकाशना वेळार. सांगाताक अॅड्.उदय भेंब्रे, वर्षा नायक आनी प्रा.भूषण भावे (पणजी-2014 )



कवी अली सरदार जाफरी, शांताराम राणे, नागेश करमली हांचे वांगडा.



राजभाशेखातीर कोंकणीभक्तांनी काडील्ल्या मोर्चात रवींद्र केळेकार, एन. शिवदास, दामोदर मावजो आनी हेर (पणजी-1985)



साहित्य अकादेमीच्या एका कार्यक्रमांत. सांगाताक जे.बि.मोरायस, तेमसुला आओ, डॉ.पांडुरंग फळदेसाय आनी हेर मानेस्त (पणजी)




'गुणाजी' नवलिकेच्या प्रकाशन समारंभांत. सांगाताक ज्योती कुंकळकार, तोमाजिन्यू कार्दोज, डॉ. तानाजी हळर्णकार आनी प्रा.भूषण भावे (पणजी-1998)



नॅशनल बुक ट्रस्टाचेवतीन 'काळी गंगा' कादंबरीच्या पुस्तक प्रकाशन समारंभांत उलयताना. सांगाताक महाबळेश्वर सैल, शांताराम राणे, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, डॉ. नवोदिता सेन आनी विद्या पै (पणजी-2003)



तमीळ लेखिका शिवशंकरी हांच्या 'नीट इंडिया' पुस्तकाच्या प्रकाशन समारंभांत राज्यपाल केदारनाथ सहानी, मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे, दामोदर मावजो, मारीया आवरोरा कुतो आनी हेर मानेस्त (पणजी)



साहित्य अकादेमी आनी कोंकणी भास आनी साहित्य प्रतिष्ठान हाणी घडोवन हाडिल्ले एक कार्यावळींत. सांगाताक बस्ती वामन शणै, एडवीन जेएफ डिसौझा आनी फिलोमिना साँफ्रान्सीस्को (मंगळूर-2008)




आपणाले अमेरिका भोंवडेविशीं कोंकणी भाशा मंडळाचे कार्यावळींत उलयताना. सांगाताक दामोदर मावजो, डॉ. तानाजी हळर्णकर, दत्ता दा. नायक (मडगांव)



साहित्य अकादेमी आयोजित बालसाहित्या वयल्या एका राष्ट्रीय परिसंवादांत उलयताना. सांगाताक साहित्य अकादेमीचे सचिव के. श्रीनिवासराव, अध्यक्ष, विश्वनाथ प्रसाद तिवारी आनी बन्सी कौल (पणजी-2013)



कोंकणी विद्यार्थ्यांमुखार उलयताना.



अमेरिकेंतल्या पेन्साल्वानिया विद्यापीठांत एके व्याख्यान कार्यावळींत. सांगाताक डॉ. सुरेंद्र गंभीर आनी डॉ. हेराल्डो एफ. स्कीफमेन (2002)



प्रा.प्रकाश थळी बरोबर. सांगाताक हेमा नायक



डॉ.यू.आर.अनंतमूर्ति वांगडा. सांगाताक ज्योती कुंकळकार आनी हेमा नायक (पणजी)



हेमा सांगाताक (सत्तरी)



घरकान्न हेमा, पूत युगांका सांगाताक.




साहित्य अकादेमीच्या एका परिसंवादांत उलयताना
(औरंगाबाद–2013)



राजभास आंदोलन काळांत मर्ण आयिल्ल्या
वावुरप्यांच्या संबंदितांक दुडवांचो आदार भेटयताना.
सांगाताक डॉ.एफ.एम.रिबेलो आनी दिलीप बोरकार.





राजभास आंदोलनांत आझाद मैदानावयल्या महामेळाव्यात कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचो निमंत्रक म्हण उलयताना. (पणजी 14 नोवेंबर 1985)



साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष व्हि.के.गोकाक
हांचेकडसून साहित्य अकादेमी पुरस्कार स्विकारताना.
(नवी दिल्ली- 1985 )



साहित्य अकादेमीच्या शिश्टमंडळांत (इटली–2010)

# म्हजो इश्ट पुंडलीक

लेख



**भिकू बोमी नायक**
(जैत संपादक आनी ज्येश्ठ कोंकणी शिक्षक)
खोर्ली, तिसवाडी-गोंय.
मो: 9850465229

पुंडलीकाक हांवें पयलो पळयलो तो जानेवारी 1970 त. ताचें जालें अशें. त्या वेळार हांव म्हज्या बेतके गांवच्या सरकारी शाळेत सातवेच्या वर्गात शिकतालो. आमची शाळा सावय-वेरे सरकारी हायस्कुलाच्या शाळा समुहात येताली. सावय-वेरें, बेतकी, वळवय आनी केरी पंचक्रोशीतल्यो सगळ्यो सरकारी शाळा ह्या समुहात येताल्यो. ह्या शाळा समुहाचे वर्सूकी स्नेहसंमेलन सावय-वेरेच्या हायस्कूलांत जावपाचें आशिल्लें. आमच्या शाळेंतल्यान एक नाटकुलें आनी दोन नाच-गीतां, नक्कल सादर करपाची आसली ''ताई आमची होणार श्रीमंताची बायको'' ही नक्कल हांव करपाचो आसलो. स्नेहसंमेलन सुरू जाल्लें. कार्यावळीक सुरवात जाल्ली. स्टेजीर 'यम् जागा आहे' हें पुंडलीक नायक हांणी बरयल्लें नाटकुले चलतालें. यमाच्या भुमीकेत स्वताः लेखक म्हणल्यार पुंडलीक नायक भारदस्त आवाजान भुमिका सादर करतालो. पुंडलीकाची ती जबरदस्त भुमिका पळोवन नाटकुले सोंपल्या उपरांत म्हाका ताका मेळनशें दिसलें. हांवें म्हजे गुरूजी भिकाजी डेगवेंकर हांकां तशें सांगलेयबी. पूण म्हजी कार्यावळ सादर जावपाची अशिल्ल्यान 'पुर्वी कार्यक्रम सादर कर कुणाला भेटायचे ते नंतर भेटू' असो धेकणो म्हजेर घातलो. उपरांत म्हजी नक्कल सादर जाली. खूब सुंदर जाल्ली. प्रेक्षकांतल्यान म्हाका 'पांच' रूपयाचें खासा इनाम जाहीर जाल्लें. अशी आनीक पांच रूपयाची 'तीन' इनामां जाहीर जाल्ली. स्टेजीर आपोवन मुखेल सोयऱ्यांच्या हस्तूकी म्हाका वीस रूपयांचे इनाम दिले. त्या वेळार पांच रूपयाचे इनाम म्हणल्यार खूबूच तें. म्हज्या हातांत वीस रूपया आशिल्लें. कितलो खोशी जाल्लो हांव तें इनाम घेवन. हांवें तें वीस रूपया सांबाळपाखातीर गुरूजीकडेन दिलें.

स्टेजीत शिक्षक म्हजें अभिनंदन करतालें. अभिनंदन करप्यांमदी दुसऱ्या शाळांचें शिक्षकूय आशिल्लें. हांव खूब खोशी जाल्लों. इतल्यात म्हज्या फुड्यांत कोण तरी येवन 'तुजें नांव किते रें?' अशें विचारलें, "हांव भिकू बोमी नायक" अशीं जाप दिवन हांवें ताच्या तोंडाक पळयलें. म्हज्या सामकार 'यम' म्हणल्यार पुंडलीक नायक उबो आसलो. ताचे बरोबर आनी एकलो आसलो. (मागीर बऱ्याच तेपान तो महादेव नायक म्हूण कळ्ळें) 'हरवें सोदतालो ताका भाजिल्ले मेळिल्लें.' हिच म्हजी ताका मेळपाची पयली वेळ.

जून म्हयन्यात सावयवेरेंच्या सरकारी हायस्कूलांत आठवेंक हांवें ॲडमिशन घेतलें. म्हजें सावयवेरेच्या हायस्कूलांत शिकप सुरू जालें. म्हजी पुंडलीकाकडेन पयली वळख जाल्लीच. शाळेंत येतना वतना पुंडलीक म्हाका मेळटालो. पुंडलीक तेन्ना धावेक आनी हांव आठवेंक आशिल्लो. इतले आसूनय धावेच्या पुंडलीक नायक हांचेकडेन म्हजे लागीपण आशिल्लें. त्या वेळार पुंडलीकाच्यो काणयो हांवें पेपरांत वाचिल्ल्यो. आमच्या घरांत म्हजो बापूय राष्ट्रमत आनी गोमंतक हाडटालो. ताका लागून भुरगेपणापासून पेपर वाचपाची सवय आशिल्ली. पुंडलीकाचे नांव पेपरांत वाचले म्हणटकच म्हाका ताचो अभिमान दिसतालो. सावय-वेरेच्या शाळेत शिकताना पुंडलीकाच्या सांगातान तुकाराम रामा शेट, दशरथ परब, सुमन कामत, मोहन वेरेंकार, नारायण तारी हांची वळख जाली.

आमच्या घरांत म्हजो बापूय राष्ट्रमत हाडिल्ल्यान राष्ट्रमतात कोंकणी बरप येतालें. हांव मराठी माध्यमांतल्यान शिकतालो. देखून बेस बरें



कोंकणी वाचतालो. मराठी परस कोंकणी वाचतालो तें म्हाका बरें समजतालें. हांव जी भास उलयता तीच भास म्हाकां वाचूक मेळटाली. म्हज्या काळजांत ती रिगताली. पुंडलीकाच्या सहवासात म्हाकां पुस्तकां वाचपाची सवय लागली. पुंडलीक म्हाकां आपणाकडेन आशिल्ली पुस्तकां वाचपाक दितालो. म्हजो शाळेंतलो मराठीचो शिक्षक चंद्रकांत चिपळूणकर म्हाकां 'हें पुस्तक वाच, तें पुस्तक वाच' अशें सदांच सांगतालो. आनी हांव म्हज्या शाळेंतल्या वाचनालयांतल्यान पुस्तकां व्हरून अधाशाप्रमाण वाचतालोयबी.

हांव आठवेंक शिकता आसतना म्हाकां टायफॉईड जालो. दुयेंस जाल्ल्यान हांव पंदरा दीस शाळेंतलो घरा उरलो. त्या वेळार पुंडलीक आनी महादेव आनी कोणतरी एकलो म्हजे खबरीक फोंडचेभाटातल्यान म्हज्या घरा चलत आयिल्ले. ते वेळार पुंडलीकच्या मनांत म्हजेविशीचीं आपुलकी पळोवन हांव सुखावलो. अशें तरेन हांव पुंडलीकाकडेन लागी येत रावलो.

म्हजें ताच्या घरा येवप वचप जातालें. ताचो आवय-बापूय म्हाकां बरो करतालो. पुंडलीक घरा नासलो जाल्यारूय ताची आवय म्हाका बसोवन घेतली. म्हजी वासपूस करताली. अशें तरेन

सावयवेरेंच्या हायस्कुलांतले दीस पुंडलीक आनी हेर इश्टा बरोबर खूब मजेत वताले. हांव शिकपाकूय बरो आशिल्लो. शाळेच्या सगळ्या कार्यावळींनीं वांटो घेतालो. ताका लागून सगळे शिक्षक म्हाका बरें करताले.

पुंडलीक मॅट्रीक (अकरावी) पास जावन पणजे कॉलेजीक वचपाक लागलो. तेन्ना हांव धावेक आशिल्लो. आता पुंडलीकाचे मेळप जायना जालें. पुंडलीक सकाळी साडेसाताच्या बशीर पणजे वतालो. हांव जेन्ना शाळेंक चलत वतालो तेन्ना केन्नाय वाटेर तो म्हाका मेळटालो.

पुंडलीक पणजे धेंपें कॉलेजीत गेल्या उपरांत आकाशवाणीचेर, ताच्यो श्रुतीका आमकां आयकूंक मेळटाल्यो.पेपरांनी कथा वाचूक मेळटाल्यो. पुंडलीक लेखक म्हूण नांवाजतो जालो. पुंडलीक इतलें बरें बरयता तें पळोवन म्हाका ताचो अभिमान दिसतालो. पुंडलीका सारखे हांवें किद्याक बरोवचें न्हय? अशें म्हाका दिसतालें. हांवें पयली एक काणी मराठीत बरयली. ती व्हरून चिपळूणकर सराक दाखयली. सरान ती सारखी करून पेपरांत धाडून दिली आनी ती छापूनय आयली. अशें तरेन हांव बरोवंक लागलो. हांव कविता बरयतालो. बरयल्ल्यो कविता म्हज्या सराक आनी पुंडलीकाक व्हरून दाखयतालो.

फुडें मॅट्रीकची (अकरावी) परिक्षा पास जावन हांवें पणजेंच्या धेंपें कॉलेजीत कला शाखेत ॲडमिशन घेतलें. त्या वेळार पुंडलीक सान्ताक्रूज हायस्कूलांत कोंकणी शिक्षक म्हूण काम करतालो. हांव सांजेच्या वेळार आझाद मैदानालागीं टि.बी.कुन्हा हॉलाकडेन येतालो. थंय पुंडलीकूय आसतालो. ताजेबरोबर आनीकूय कोंकणी लेखक आसताले. पुंडलीकानूच म्हजी वळख नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, तानाजी हळर्णकार, प्रकाश पाडगांवकार, गुरूदास पै, रविन्द्र केळेकार, मनोहरबाब सरदेसाय, भरत नायक आनी कितल्याश्याच कोंकणी लेखकांकडेन करून दिली. पणजेत खंयूय कार्यावळ आसली जाल्यार दोगूय त्या कार्यावळीक सांगातान वताले.

1974 त पणजे अखील भारतीय कोंकणी परिशद भरपाची आसली. ह्या परिशदेचे मुखेल सोयरे म्हणून साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष सुनितीकुमार चटर्जी येवेपाचे आसले. पणजेच्या आझाद मैदानाचेर जावपाच्या ह्या परिशदेचे सरचिटणीस म्हणून पुंडलीक नायक वावुरतालो. त्या वेळार बारीक सारीक कामां हांवूय करतालो. परिशदेच्या माटवांत पुंडलीकाक लागून हावूंय वावुरलो. ल्हवू ल्हवू कोंकणीमय जालो. 1974 त जाल्ली परिशद म्हाका खूब किते दिवन गेली. थंय हाजीर आशिल्ल्या कोंकणी लोकांचो उत्साह पळोवन हावूंय भारावलो. कोंकणीखातीर कितलेशेंच लोक वावुरता तें पळोवन म्हाकाय बी असोच वावर करूंक जाय अशें म्हाका दिसपाक लागलें.

1976 मेरेन वळवयच्यान पुंडलीक नायक, तुकाराम रामा शेट, नारायण तारी, महादेव नायक, पांडुरंग गावडे सावयवेरेंच्यान अरूण सिंगबाळ आनी बेतकेच्यान भिकू बोमी नायक, रोहीदास तारी आनी उमाकांत शेटये ह्या कोंकणी चळवळींत वांटो घेताले. वळवयत पुंडलीका बरोबर ताचे सांगाती आसतालेच. तरीय गांवच्या लोकांकडल्यान तांका त्रास जातालेच, सावयवेरेचो अरूण सिंगबाळ सारस्वत आशिल्ल्यान ताजे वाटेक कोणूच वचनाशिल्ले. बेतके म्हजे बरोबर रोहिदास तारी

आनी उमाकांत शेटये वावुरताले खरे पूण गांवांभायर. गांवांत आपूण कोंकणी वाटेन आसा हे दाखोवन दिनाशिल्ले. ताका लागून म्हाकाच गांवांतल्या लोकांकडल्यान खूबच त्रास जाताले. कोंकणीवादी म्हूण चाळयताले, बरोबरचे भुरगे उलयनाशिल्ले पूण हांवें कोंकणी सोडली ना. हेच मातयेत घट्ट पांय रोमून उबो रावलो. तीच परिस्थिती वळवयत पुंडलीकाची आशिल्ली. कोंकणी चळवळ हे आमचें ध्येय आशिल्लें. आमी कोंकणी चळवळीत वावुरताले त्याच वेळार वळवयत आनी सावयवेऱ्यांत कांय नवें भुरगे कोंकणीत बरोवंक लागलें. तातूंत प्रकाश दत्ताराम नायक, सुरेंद्र वळवयकार, ज्ञानेश्वर तारी, संजीव वेरेंकार, अशोक शिलकार आनी उदय म्हाब्रो हें आसलें. तें बरयतालें, कोंकणीच्या कार्यावळींनी वांटो घेताले.

वळवय, सावय-वेरें आनी बेतके वांठारांत बारीक बारीक कोंकणीच्यो कार्यावळी जाताल्यो. एक दीस हांव आनी पुंडलीक, तुकाराम, टि.बी.कुन्हा हॉलांत बशिल्लेकडेन सावय-वेऱ्यांत वासंतीक कोंकणी साहित्यमेळ घेवपाचे थारायलें. आनी सावय वेऱ्यांत वासंतीक मेळ घेतलोयबी. हया मेळांत गोंयांतले सगळे नामनेचे कोंकणी लेखक हाजीर आशिल्लें. दीसभर कार्यावळी जाल्यो. आमकां सगळयांक नामनेच्या कोंकणी साहित्यकांच्या मांडयेक मांडी लावन बसूंक मेळिल्ल्याची खोस जाली. अशेतरेन कोंकणीचो वावर आमी फुडें व्हरपाक लागले.

1977 त नागेश करमलीच्या मुखेलपणाखाला लळीतकाची कार्यावळ गोंयभर चलताली. त्या कार्यावळीत पुंडलीक नायक, तानाजी हळर्णकार, एन्.शिवदास, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार, अशोक भोसलो आनी अशें कितलेशेंच कोंकणी लेखकां बरोबर हावूंय वांटो घेतलो. ह्या लळीतकातल्यान गोंयांतल्या कोंकणी चळवळीतल्या वावुरप्यांची आनी कोंकणी लेखकांची वळख म्हाकां जाली.

गोंयांत त्या वेळार जाग, नवें गोंय, भुरग्यांचो राजहंस, परमळ अशीं कोंकणी नेमाळीं चलताली. म्हाकाय बी अशें एक नेमाळें सुरू करचें अशें दिसलें. पुंडलीकाकडेन तशें हांवें उलोवनूय दाखयलें. टि.बी.कुन्हात बशिल्लेकडेन नेमाळें सुरू करपासंबंदान आमी दोगांयनी बरीच चर्चा केली. निमाणी नेमाळें सुरू करपाचें थारलें. कोणा-कोणाकडेन साहित्य मागोवची हाची वळेरी काडली. पूण नेमाळें सुरू करतलो जाल्यार प्रकाशन संस्थेची गरज आसता. देखून प्रकाशन संस्थाय स्थापन करपाचे थारलें. जैत प्रकाशन नावांचें प्रकाशन संस्था स्थापन केली. नेमाळ्याचें 'जैत' अशें नामाकरण जालें. लेखकांक साहित्य मागपी पत्रां गेलीं. कांय जणांक तोंडानूच रकाद दिलें. जायरातीखातीर अपीलां छापून कामाक सुरवात केली. त्या वेळार हांव 'दैनीक नवप्रभात' बातमीदार म्हणून काम करतालो. ताचो फायदो सरकारी जायराती मेळोवपाखातीर जालो. कांय खाजगी आस्थापनाच्यो जायराती मेळ्ळ्यो. लेखकांचे आयिल्ले साहित्य संपादनाचो वावर पुंडलीकान सांबाळो. आनी अंकाचो आराखडो तयार जालो. त्या वेळार सह्याद्री प्रिंटिंग प्रेस रायबंदर फोणवें हांगां चलतालो. थंय वचून अंक छापपाक दिलो. छापखान्याचो मालक सुरेश बोरकार आनी सागर भट हांचेकडेन उलोवणी जाली. त्या वेळार 'लेटर प्रेस' चलताले. सुमार एका म्हयन्याबराक अंक छापून जालो. पांचशें प्रतीचे बील

पांचशीं रूपया जाल्लें. अंकाचे मोल दोन रूपया दवरलें. 1978 त सुरू केल्लें जैत आयजमेरेन उजवाडाक येता.

1977 त पुंडलीकाचे मडगांवच्या हेमा धुमटकारा बरोबर लग्न जालें. पुंडलीक लग्न जाल्ल्यान आमचे पुंडलीकाक मेळप बरेच कमी जातालें. तरीय केन्ना केन्नाय मेळप जातालेंच. 1979 त पुंडलीकान अपुरबाय नांवांचे प्रकाशन सुरू केलें. पुंडलीक आनी हेमा 'चित्रंगी' प्रकाशित करतालीं. आनी बेतकेच्यान हांव 'जैत' प्रकाशीत करतालों. ते नदरेन आमच्या वांठारांतल्यान दोन नेमाळीं उजवाडाक येताली. हाची खोस आमकां जाताली. कारण कोंकणी चळवळीचो हो एक व्हड वांटो आशिल्लो.

1985 त राजभास आंदोलन सुरू जालें. आंदोलनाखातीर कोंकणी प्रजेचो आवाज ही संघटना निर्माण जाली. संघटनेचे निमंत्रक म्हूण पुंडलीक नारायण नायक हांची निवड जाली. संघटनेखातीर कोंकणी लेखक, राजकीय पुढारी, कोंकणी वावुरपी, राजभाशेखातीर पोटतिडकीन वावुरतताले. खुबशें राजकारणी मात 'राजकारण' करतालें. दत्ता श्री.नायकाच्या दत्तप्रसाद इमारतीतल्या कार्यालयांत कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचे काम चलतालें. दीसभर बसका घेवप आनी रातचे थंय येवन कामाचो नियाळ घेवप असो वावर चलतालो. कोंकणितले खूबशे वावुरपी थंय येतालें. हांव राष्ट्रमताखातीर त्या वेळार सभांचे वृत्तांकन करतालो. चंद्रकांत केणी हांणीं हें काम म्हजेकडन दिल्लें. रातच्यो केणी हॉटिलांत बसका जाताल्यो. आनी त्या बसकेंत आंदोलनाची फुडली दिका थारताली. बसका पुंडलीकाच्या येजमानकेखाला जाताल्यो. कोंकणीतले सगळे साहित्यीक, वावुरपी, राजकारणी हांकां मोठ्या चतुरायेन पुंडलीक 'कन्ट्रोल' करतालो. राजभाशेच्या बाबतीत सगळ्यांचे एकमत आसले तरी थोडे लोक (राजकारणी) वेगळे तरेन वागतालें. राजभाशेच्या प्रस्नाचो वा चळवळीचो आपल्या राजकीय पक्षांक कितलो 'बरो' पडटलो हाचो विचार चड जातालो. आनी ह्या सगळ्या गजालींचो पुंडलीक सारासार अभ्यास करून केपीए चो पुढारी ह्या नात्यान धिटायेन फुडें वतालो.

राजभास आंदोलन निमण्या पांवड्याचेर येता येता आंदोलनाक हिंसक वळण लागले. ह्या वेळार पुंडलीकचेर आयिल्लो आकांत आमी सगळ्यांनी पळयला. आनी अशें जाले जाल्यार राजभाशेचो प्रस्न कडेक पडत असो भंयूय दिसपाक लागलो.

आमी ज्या वाठारांत रावतालें त्या वाठांरांतलें विरोधक आमच्या विरोधात उबे राविल्लें. विरोधक पुंडलीकाचेर हल्लोय करपाचे आशिल्लें. पुंडलीकाचो भाव हिरू नायक हांचो प्रेस फोडलो जाल्यार सावय वेऱ्या महेश नायक ह्या तरनाट्याच्या गळ्यांत व्हाणाच्यो माळो घालून भोंवडायलो. माशेलांत म्हाका आडावन मारपाचो यत्न जालो. ह्या सगळ्या गजालीक लागून आमकां आड वाटांनी घरा येवेचे पडटालें.

निमाणी सरकारान राजभाशेचे बील मानून घेतले आनी कोंकणी राजभास म्हणून सरकारान जाहीर केली. 555 दीस चलील्ले हें आंदोलन सोपलें. पुंडलीक नायकान समर्थपणान हें आंदोलन चलोवन कोंकणी राजभास करपाचो मान ताच्या नेतृत्वाक मेळ्ळों. कोंकणी राजभास जाली. गोंय सरकारान तरेकवार येवजणो चालीक लायल्यो. कोंकणी अकादेमीच्या मार्फत कोंकणीच्या उदरगतीचो वावर

सुरू जालो.

पुंडलीकाक कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष पद, अध्यक्ष पद, साहित्य अकादेमीचेर मानाचे पद, अश्या कितल्याश्याच संस्थाचेर कोंकणीचे प्रतिनिधीत्व म्हूण काम करतना कोंकणीची उदरगत कशी जातली, कोंकणी साहित्यीक कशें वयर सरतले, कोंकणी वावुरप्यांक मानाचो पाट कसो फावो जातलो ह्याच ध्यासान कोंकणीचो सेवक म्हूण पुंडलीक नायक वावरूक लागलो.

कोंकणी खातीर तटस्थपणान वावर करतना, गरज पडल्यार भिडमुरवत धरिनासतना कोंकणी आड वावुरप्यांक तांणी फैलार घेतल्यात. सरकाराक लेगीत धारेर धरल्यात. पुंडलीकाच्या कथांक आनी नाटकाच्या हस्तलिखीतांक 1970–1975 च्या अदमासाक पुरस्कार मेळपाक लागिल्लें. त्या उपरांत 1975 वर्सांक पुंडलीकाच्या 'रानसुंदरी'क कोंकणी भाशा मंडळ आनी कला अकादेमीचो पयलो पुरस्कार मेळळो. तेन्नाच्यान आयज वेर ताका राज्यस्थरीय, राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय मळाचेर पुरस्कार मेळत रावलें. हातूंत साहित्य अकादेमी आनी संगित नाटक अकादेमीच्या, गोमन्त शारदा पुरस्कारांचो आस्पाव आसा. पुंडलीकाच्या रूपान कोंकणी साहित्यांक एक 'रत्न' लाबलें. आपल्या कतृत्वान पुंडलीकान आपल्याक व्हड करताना कोंकणीकूय व्हड केली हाचो अभिमान म्हज्या सारख्या ताच्या इश्टाक जाल्याबगर राव ना.





# पुंडलीक नारायण नायक : जिवीतपट

**जल्म, शिक्षण, व्यवसाय, सामाजीक, साहित्यीक आनी हेर माहिती :**

| | | |
|---|---|---|
| 1952 | : | जल्म, 21 एप्रील, वळवय, फोंडें -गोंय (स भावंडांत पांचवो) |
| 1960 ते 1971 | : | भुरगेंपण आनी विद्यालयीन शिकप गांवात. महाविद्यालयीन पणजे. |
| 1972 ते 1978 | : | स वर्सां कोंकणी, मराठी आनी हिंदी भाशांचो शिक्षक म्हूण कार्यरत. |
| 1977 ते 1981 | : | कोंकणी नाटकांचें दिग्दर्शन केलें. |
| 1977 | : | हेमा धुमटकार मडगांव हांचे कडेन लग्न. |
| 1979 ते 1984 | : | आकाशवाणी पणजी केंद्रार पयलीं उपसंपादक जाल्यार उपरांतच्या काळांत पालवी संपादक (हातबरप) ह्या हुद्द्यार कार्यरत. मागीर पूर्ण वेळ लेखनाखातीर नोकरेचो राजिनामो. |
| 1985 | : | 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' हे संघटनेचो निमंत्रक म्हूण निवड. 555 दिसांच्या राजभास आंदोलनांत योगदान. |
| 1990 | : | युगांकाचो (पूताचो) जल्म. |
| 1991 | : | राजभास संचालनालयाचे सल्लागार समितीचे वांगडीपद. |
| 1993 ते 1996 | : | गोवा कोंकणी एकादेमीचे उपाध्यक्ष म्हण तीन वर्सां कार्यरत. |
| 1992 ते 1997 | : | उदयपूरच्या पश्चिम विभागीय सांस्कृतीक केंद्राचे वांगडी. |

| | | |
|---|---|---|
| 1993 ते 1998 | : | दिल्लीचे संगीत नाटक अकादेमीचे वांगडी. |
| 1993 ते 1996 | : | गोवा कला अकादमीचे वांगडी. |
| 1997 | : | नवी दिल्लीचे, नॅशनल बूक ट्रस्ट ऑफ इंडिया, संस्थेंचे कोंकणीचे वांगडी. |
| 1998 | : | पणजी दूरदर्शन केंद्राचे सल्लागार समितीचे वांगडी. |
| 1994 | : | केरळांत जाल्ल्या 'सुरभी मानसोत्सव' ह्या राष्ट्रीय साहित्यीक परिसंवादांत वांटेकार. |
| 2001 | : | दुबयची भोंवडी |
| फेब्रुवारी 2002 | : | सि. आर. पारेख इंडियन क्रिएटिव रायटर इन रॅजिडेन्स स्प्रिंग 2002 उपक्रमा अंतर्गत अमेरिकेंतल्या पॅनसिल्वानिया विद्यापिठांत आपोवणें. |
| 1995 | : | केरी फोंडें हांगा जाल्ल्या 'नायलॉन 66' विरोधी सामाजीक आंदोलनांत सक्रीय वांटो. |
| 1999 | : | बेळगांव जाल्ल्या अ.भा.कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष. |
| 2002 ते 2004 | : | भारत सरकाराच्या पर्यटन आनी सांस्कृतीक विभागाची खाशेली फॅलोशीप. |
| 2003 | : | म्हायती अधिकार कायद्याचे सल्लागार समितीचे वांगडी म्हूण नेमणूक. |
| 2002 ते 2005 | : | गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण नेमणूक. |
| 2005 ते 2008 | : | गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण दुसरे फावटी नेमणूक. |
| 2012 ते 2015 | : | गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण तिसरे फावटी नेमणूक. |
| 2008 ते 2012 | : | नवी दिल्लीचे साहित्य अकादेमीचे कोंकणी सल्लागार समितीचे निमंत्रक आनी वावुरपी मंडळाचे वांगडी. |
| 2010 | : | टोरिनो, इटली हांगा आंतरराष्ट्रीय पुस्तक मेळांत वांटेकार. |
| 2011 | : | मंगळूरच्या कोंकणी भास आनी सांस्कृतीक प्रतिष्ठानाची फॅलोशीप फाव जाली. |
| 2014 | : | इंडिया हॅबिटेड सेंटर, नवी दिल्ली हांच्या 'समन्वय' फेस्टीवलांत सहभाग |
| 2012, 13 | : | फर्मागुडी-फोंडें हांगासर जाल्ल्या पयल्या कोंकणी नाट्य संमेलनाचे अध्यक्ष |
| 2014 | : | गोवा आर्ट्स ॲन्ड लिटररी फेस्टीवलांत सहभाग |
| 2014 | : | अस्मितापर्व सहभागः रवीन्द्र केळेकारः नामनेचे निबंदकार, व्याख्यान (हिंदीत) मोरारी बापू आश्रम, भावनगर-गुजरात. |

## पुराय साहित्य संपदा :

**स्वतंत्र साहित्य :**

| | वर्स | पुस्तकाचें नांव | साहित्य प्रकार |
|---|---|---|---|
| 1. | 1974 | रानसुंदरी | (बाल साहित्य) |
| 2. | 1975 | गांवधनी गांवकार | (एकांकी संग्रह) |
| 3. | 1976 | गा आमी राखणे | (कविता संग्रह) |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 4. | 1977 | बांबर | (नवलिका) |
| 5. | 1977 | पिशांतर | (कथा संग्रह) |
| 6. | 1977 | मुठय | (कथा संग्रह ) |
| 7. | 1977 | अच्छेव | (कादंबरी ) |
| 8. | 1977 | खण खण माती | (नाटक) |
| 9. | 1979 | रक्तखेव | (नाटक) |
| 10. | 1979 | राखण | (नाटक) |
| 11. | 1980 | छप्पन थिगळी यशवंत | (एकपात्री) |
| 12. | 1982 | चौरंग | (एकांकी संग्रह) |
| 13. | 1982 | सुरींग | (नाटक) |
| 14. | 1984 | आळशांक वाग खातलो | (बाल एकांकी) |
| 15. | 1984 | सुर्यसांवट | (नाटक) |
| 16. | 1985 | वसंतोत्सव आनी दायज | (दोन नवलिका) |
| 17. | 1986 | देमांद | (नाटक) |
| 18. | 1986 | मुक्तताय | (नाटक) |
| 19. | 1986 | शबै शबै भौजनसमाज | (नाटक) |
| 20. | 1986 | पिंपळ पेटला | (नाटक) |
| 21. | 1986 | श्री विचित्राची जात्रा | (नाटक) |
| 22. | 1987 | आकाशमंच | (नभो-नाट्य संग्रह) |
| 23. | 1988 | मनू | (बाल नवलिका) |
| 24. | 1989 | अर्दूक | (कथा संग्रह) |
| 25. | 1990 | दिगंत | (एकांकी संग्रह) |
| 26. | 1991 | दायज | (नाटक ) |
| 27. | 1992 | रंगपाट | (नाट्य-नियाळ) |
| 28. | 1992 | चैतन्यात मठ ना | (नाटक) |
| 29. | 1995 | आत्मवंचना | (नाटक) |
| 30. | 1996 | गोंयचो पावस | (बाल साहित्य) |
| 31. | 1998 | शिंवाचो बळी | (बाल एकांकी) |
| 32. | 1998 | गुणाजी | (नवलिका) |
| 33. | 2005 | गौरी आनी कल्परुख | (बाल नवलिका) |
| 34. | 2005 | बेकार भोंवडेकार | (बाल नवलिका) |
| 35. | 2005 | छुम छुम घुंगरी | (बाल गितां) |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 36. | 2011 | पाजण | (निबंद संग्रह) |
| 37. | 2011 | प्रेमजागोर | (नाटक) |
| 38. | 2011 | प्रेमयुध्द | (नाटक) |
| 39. | 2011 | सांगोड | (नाटक) |
| 40. | 2011 | कथा अस्तुरी | (नाटक) |
| 41. | 2011 | दिव्या दिव्या दिपत्कार | (नाटक) |
| 42. | 2011 | रंगकाव्य | (नाट्य संग्रह) |
| 43. | 2012 | तिरंगी चक्राचक्री | (नाटक) |
| 44. | 2012 | शिरी रे शिरी अधांतरी | (नाटक) |
| 45. | 2012 | काळजाची काणी | (नाटक) |
| 46. | 2012 | अंता घरा भगवंता | (नाटक) |
| 47. | 2012 | धनया देंवचारा | (नाटक) |
| 48. | 2012 | रंगरंजन | (नाट्य संग्रह) |
| 49. | 2012 | दिश्टदौलत | (नाटक) |
| 50. | 2012 | चित्रस्वयंवर | (नाटक) |
| 51. | 2012 | चतुरंगा | (नाटक) |
| 52. | 2012 | परिक्रमा | (नाटक) |
| 53. | 2012 | कांसुलो | (नाटक) |
| 54. | 2012 | रंगशिल्प | (नाट्य संग्रह) |
| 55. | 2012 | फिरंगी फटास | (नाटक) |
| 56. | 2013 | नवचेतना | (गीत संग्रह) |

**अणकारीत साहित्य :**

| | | |
|---|---|---|
| 1985 | काझी नझरूल इस्लाम | (चरित्र) |
| 1987 | नानालाल | (चरित्र) |

**संपादीत साहित्य :**

| | | |
|---|---|---|
| 1992 | वेंचीक कोंकणी एकांकी | (प्रातिनिधीक एकांकी संग्रह) |
| 1997 | समकालीन कोंकणी लघुकथा | (प्रातिनिधीक कथा संग्रह) |
| 2001 | कोंकणी नाट्यस्पर्धेची पंचवीस वर्सां | ( नाट्य सर्तिचो नियाळ) |
| 2014 | समकालीन कोंकणी एकांकी | (प्रातिनीधीक एकांकी संग्रह) |

**अप्रकाशीत /आगामी**

| | | |
|---|---|---|
| 1. | लाडली लक्षिका | (नाटक) |
| 2. | दगाबाज झिंदाबाद | (नाटक) |



| | | |
|---|---|---|
| 3. | मनशाळी मोनजात | (नाटक) |
| 4. | तकली तड्डकी | (नाटक) |
| 5. | दुडू दुडू धांव | (नाटक) |
| 6. | मोनजाती करामती | (बालसाहित्य) |

**पुंडलीक नायक हांच्या पुस्तकांचो हेर भासांनी अणकार :**

1989 श्री विचित्राची जात्रा नाटकाचो इंग्लिश भाशेंत अणकार. 'The fair of the unfair' (Indian Literature March-April 1989) अणकारपी डॉ. अरुण हेबळेकार.

1989 श्री विचित्राची जात्रा (नाटकाचो) तामिळ भाशेंत अणकार. 'तिसायमारी नाटकूम दैवा चंथाय' अणकारपी डॉ. आर. सिंगराव दिवीलन

2002 अच्छेव (कादंबरीचो) इंग्लीशींत अणकार. UPHEAVAL अणकारपीः डॉ. विद्या पै

2004 गुणाजी (नवलिकेचो) गुजराती भाशेंत अणकार. गुणाजीः अणकारपीः डॉ. प्रतिभादवे

2008 चैतन्याक मठ ना, श्री विचित्राची जात्रा (नाटकांचो) कन्नड भाशेंत अणकारः 'मथाविल्ल्डा चैतन्या ॲन्ड श्री विचित्रादा जात्रे' अणकारपीः एस.एम. कृष्णराव.

2011 चौरंग (एकांकी संग्रहाचो) पंजाबी भाशेंत अणकारः धूप–छाँवः अणकारपीः डॉ. आतमजीत

**चित्रपट, टेलिफिल्मां आनी टेलिप्ले :**

| वर्स | चित्रपटाचें नांव | सहभाग स्वरूप |
|---|---|---|
| 1991 | जैत | टेलिफिल्म– कथा, पटकथा, संवाद, |
| 1991 | रानसुंदरी | भुरग्यांखातीर टेलिप्ले– लेखन |
| 1992 | मर्णकटो | टेलिफिल्म – लेखन |
| 1993 | स्विकृती | टेलिफिल्म– संवाद लेखन |
| 1993 | वधचक्र (मराठी) | विडिओ फिल्म– कथा, पटकथा, संवाद, गीत |
| 1994 | देखणी दुराय | विडिओ फिल्म– कथा, पटकथा, संवाद, गीत |
| 1996 | सांगाती | गीत |
| 2003 | दौलत | विडिओ फिल्म–कथा, पटकथा, संवाद, गीत |
| 2006 | परिक्रमा(हिंदी) | टेलिफिल्म– कथा |
| 2006 | गौरी | भुरग्यां खातीर टेलिफिल्म – लेखन |
| 2008 | भाक्राबाबाली भोंवडी | भुरग्यां खातीर टेलिप्ले –लेखन |
| 2009 | शिंवाचो बळी | भुरग्यां खातीर टेलिप्ले– लेखन |
| 2009 | कथा अस्तुरी | टेलिप्ले– लेखन |
| 2010 | इलॅक्ट्रॉनिक पुंडलीक | व्हि.सि.डी. –साहित्यदर्शन |
| 2012 | सुरींग | फिचर फिल्म – कथा, संवाद, गीत |
| 2013 | गुणाजी (कोंकणी, मराठी) | फिचर फिल्म, कथा, संवाद, गीत |

**पुंडलीक नायक हांच्या साहित्याचो प्रातिनिधीक ग्रंथांनी आसपाव :**

पुस्तक, संपादक / लेखक, साहित्यकृती , प्रकाशक, प्रकाशन वर्स -

1) Poetry of Goa (इंग्लीश)सं. : डॉ. र. वि. पंडित, (कविता : बांगर बैल), गोवा कल्चरल एंड सोशल सेंटर, 1974

2) Goa then & Now -(1961 - 1981) (इंग्लीश, कोंकणी, मराठी) आस्पाव : कोंकणी साहित्याची वाढ (नियाळ), Department of information public relations, Govt. of Goa, Daman and Diu, 1982

3) कोंकणी काव्यसंग्रह (प्रातिनिधीक कविता संग्रह), सं. : बाकिबाब बोरकार, (कविता : म्हजो बांगर बैल, आमी कोण, आजयेची काणी, तुजें पत्र पावलें, वनवासी, म्हज्या घराची वळख, पाडेल्यानो...., दर्याचें गीत), साहित्य अकादेमी - नवी दिल्ली - 1981, 1989

4) नवें पर्व - भारतरत्न डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर जन्मशताब्दी विशेशांक (कोंकणी, मराठी, इंग्लीश), (लेख : डॉ आंबेडकर आनी दलित साहित्य), माहिती आनी प्रसिद्धी खातें, गोंय सरकार, 1990-91

5) रंगराज (प्रातिनिधीक एकांकी संग्रह), सं.: भरत नायक, (एकांकी : गणिलो गणपती), नामी प्रकाशन, गोवा वेल्हा, 1983

6) कोंकणी कथा संग्रह (प्रातिनिधीक कोंकणी कथा संग्रह) सं. : चंद्रकांत केणी, (कथा : कासय), साहित्य अकादेमी 1985, 1989

7) वेंचीक कोंकणी एकांकी (प्रातिनिधीक एकांकी संग्रह), सं. : पुंडलीक नायक, (एकांकी : मर्णकटो), साहित्य अकादेमी, 1992

8) तीन दसकां (कोंकणी वेंचीक साहित्याचें संकलन, 1961 - 1990) (नाटक : चैतन्याक मठना) संकलन आणि संपादन : चंद्रकांत केणी. प्रकाशक : व्ही. एम. साळगांवकार प्रतिष्ठान, वास्को द गामा - 1993

9) भारतीय शिखर कथा कोश (हिंदी) प्रातिनिधीक कोंकणी कथा संग्रह), (कथा : खाटकागेर एक रात) सं. : कमलेश्वर, पुस्तकायन, दरियागंज, नवी दिल्ली 1992

10) Prateechi (इंग्लीश) A literary Digest of West India Languages (नाटक : The fair of the unfair' श्री विचित्राची जात्रा ह्या नाटकाचो अनुवाद, अनुवादक : डॉ अरुण हेबळेकार) संपादक : सुरेश दलाल आनी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, साहित्य अकादेमी - नवी दिल्ली, 1992

11) कोंकणी कथाकल - (मल्याळम) प्रातिनिधीक कोंकणी कथा संग्रह. कोहिनूर प्रिंटर्स, भिसूर, 1993

12) कोंकणी वाचनपाठ (कोंकणी यत्ता इकरावी, क्रमीक पुस्तक), (एकांकी : एका जुंव्यार जंय), गोंय माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ, पर्वरी-गोंय -1989, 1995

13) Indian Literature No. 130. March-April 1989,VOL.XXXII.No.2 : नाटकाचो आस्पावः श्री विचित्राची जात्रा - The fair of the unfair

14) कथा परिक्रमा (प्रातिनिधीक कथा संग्रह) सं. : भूषण भावे, (कथा : भोंवर), जैत प्रकाशन, बेतकी, 1995

15) साहित्यशिल्प (कोंकणी - सोद निबंद संग्रह), सं. : पांडुरंग भांगी, (सोद-निबंद : नाटक जीवनाचें वास्तवपूर्ण दर्शन), गोवा कोंकणी अकादेमी पणजी, गोंय, 1995
16) समकालीन कोंकणी लघुकथा संग्रह (प्रातिनिधीक कथा झेलो) सं. : पुंडलीक नायक, (कथा: प्रेमजागर), नेशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया नवी दिल्ली-1998, 2010 ( तेलगु अनुवाद : समकालीना कोंकणी कथानिकालु अनुवाद : श्री. सिष्टा जे राव, प्रकाशक : नेशनल बुक ट्रस्ट - 1998
17) वेंचीक कोंकणी कथा - कविता (कोंकणी पाठ्यपुस्तक 1962, 1976) (कथा : आडवण), (कविता : म्हजो बांगर बैल), कोंकणी भाशा मंडळ गोंय, 2001
18) Theatre Business Management of Men-India Theater in 2000 (English) राष्ट्रीय सेमिनारांतल्या प्रपत्रांचें संकलन सं. : एच. एस. शिवप्रकाश (लेख : The Native - llien Encounter in theater), साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली 2000
19) कोंकणी वाचनपाठ (कोंकणी पाठ्यपुस्तक, यत्ता इकरावी) (ललित निबंध : काळजांत जागो आसल्यार जागो मेळटलो), गोंय माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ, पर्वरी - गोंय 2002
20) कथावली (कोंकणी-मराठी गोमंतकीय कथांचें संकलन) संकलन : डॉ सोमनाथ कोमरपंत, दामोदर मावजो, (कथा : पारज) इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा, 2002
21) KNIT INDIA THROUGH LITERATURE (इंग्लीश) VOLUME III - The West Editor : Sivasankar Interview and Glow of fire (short story), प्रकाशक : East West Book (Madras) Pvt. Ltd. Chennai - 600029 -2004
22) कोंकणी कथा मराठीत, सं. : डॉ. किरण बुडकुले, 'आडवन' (कथा : आडवण ), साहित्य अकादेमी, 2005
23) 1857 नवजागरण और भारतीय भाषाएँ(हिंदी ) सं. : शंभुनाथ. (लेख : 'नवजागरण और कोंकणी'), केंद्रिय हिंदी संस्थान आगरा, 2008
24) लक्षवेधी (मराठी) व्यक्तिचित्रणां, परिचय लेख. लेखक : चंद्रकांत रामा गवस, प्रकाशक : मुक्तांगण प्रकाशन, साळ, गोंय 2009
25) कोंकणी वाचनपाठ (कोंकणी पाठ्यपुस्तक, यत्ता - णववी) (व्मक्तिचित्रण : भिकारो) प्रकाशक : गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळ, परवरी-गोंय.
26) कथादर्पण, (हिंदी- प्रातिनिधिक कोंकणी कथा) सं. : डॉ. किरण बुडकुले, मोहनदास सुर्लकार, (कथा: अग्निदिव्य), इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा, पणजी, 2009
27) भारती कविता (पंजाबी - प्रातिनिधीक कोंकणी कविता), सं. : माधव बोरकार, साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली 2011
28) स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा, सं. : अ. ना. म्हांबरो, (कथा : आडवण) कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, 2013
29) प्रातिनिधीक कथांझेलो, सं. : भालचंद्र गांवकार, (कथा : अग्निदिव्य), कोंकणी भाशा मंडळ, 2013
30) आधुनिका कोंकणी कथागळू (कन्नड-प्रतिनिधीक कोंकणी कथा संग्रह), सं. : डॉ. गीता शेणय (कथा) कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर - 2013

31) घुडी लागली रे (प्रतिनिधीक गीत संग्रह) सं. : सुनील पालकार (गीतां : घुडी लागली रे, नवचेतना, परिक्रमा), पणजी, 2014

32) प्रातिनिधिक पुर्तुगेज कथा संग्रह, (कथाः उचांबळ )

33) Indian Short Stories (Anthology) (कथा : कासय - Turtle) साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली

34) प्रातिनिधीक मराठी कथासंग्रह (प्रातिनिधीक मराठी कथा संग्रह), सं.: प्रा. रवीन्द्र घवी (कथा : कहाणी एका मांजरीची), साहित्य सेवक मंडळ, गोंय

35) पांच दसकां कोंकणी कवितेचीं (कोंकणी प्रातिनिधीक कविता संग्रह), सं. : माधव बोरकार, (कविताः स्राप, अक्षरां! गोरवां कशी!, कविता रुसून आसा), कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय.

36) Ferry Crossing (English गोंयच्मा कथांचो प्रातिनिधीक कथा संग्रह) सं. : मनोहर शेट्टी (कथा : बळजबरी, कासय ) पेंग्वीन प्रकाशन, इंडिया, 1998

37) स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कविता (प्रातिनिधिक कविता संग्रह), सं. : डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, (कविता : 'म्हजो बांगर बैल' 'आमी कोण', 'आजयेची काणी', 'हांव गरवली', 'वनवासी', 'पाडेल्यांनो..'), कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय.

38) समकालीन कोंकणी एकांकी (प्रातिनीधीक कोंकणी एकांकी संग्रह) सं.: पुंडलीक ना. नायक (एकांकी 'खाटकागेर एक रात') साहित्य अकादेमी नवी दिल्ली 2014.

**पुरस्कार आनी सन्मान :**

| वर्स | पुरस्कार भेटोवपी संस्थेचें नांव | साहित्यकृती/गौरव |
|---|---|---|
| 1975 | कोंकणी भाशा मंडळ, (गोंय) उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार | रानसुंदरी (बालनाट्य) |
| 1975 | गोवा कला अकादमीचो उत्कृश्ट ग्रंथ पुरस्कार | रानसुंदरी (बालनाट्य) |
| 1978 | गोवा कला अकादमीचो उत्कृश्ट ग्रंथ पुरस्कार | अच्छेव (कादंबरी) |
| 1980 | ऑल इंडिया रेडिओचो वर्सुकी नभोनाट्य पुरस्कार | मर्णकटो (नभोनाट्य) |
| 1984 | केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार | चौरंग (एकांकी संग्रह ) |
| 1987 | ऑल इंडिया रेडिओचे नभोनाट्य लेखन सर्तींत पुरस्कार | म्हासागरांतलें तारूं (नभोनाट्य ) |
| 1988 | ऑस्ट्रेलियन अकादेमी ऑफ ब्रॉडकास्ट अण्ड सामन्सचो पॅटर्स पुरस्कार | श्री विचित्राची जात्रा-श्री विचित्रेश्व रका मेला (नभोनाट्य) |
| 1990 | गुंडू सिताराम आमोणकार यादस्तीक साहित्य पुरस्कार | (कोंकणी साहित्य सेवे खातीर) |
| 1991 | पी. डी. कुडचडकार नाट्य लेखन पुरस्कार | (नाट्य लेखना खातीर) |
| 1997 | गोवा फिल्म फेस्टिवल 1997 : उत्कृश्ट फिल्म आनी पटकथा पुरस्कार | फिल्म : देखणी दुराय |
| 2007 | कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोंय सरकाराचो पुरस्कार | (जीवन गौरव) |
| 2008 | भुरग्यांच्या टॅलिफिल्मां खातीर अखील भारतीय दूरदर्शन पुरस्कार | (गौरी) |
| 2008 | गोवा कला अकादेमीचो रंगसन्मान पुरस्कार | (जीवन गौरव) |

2009 गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार. (जीवन गौरव)
2010 गोवा कला अकादेमीचो गोमन्त शारदा पुरस्कार (जीवन गौरव )
2012 कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठानाचो विमला व्हि. पै विश्व कोंकणी पुरस्कार – रंगकाव्या खातीर
2013 संगीत नाटक अकादेमीचो पुरस्कार (नाट्यलेखन) (जीवन गौरव )

**पुंडलीक नायक हांच्या साहित्याचो संशोधनात्मक समिक्षणात्मक अभ्यास :**

| वर्स | साहित्यकृती / लेख | संपादक / बरोवपी |
|---|---|---|
| 1999 | वेंचीक पुंडलीक | राजू नायक (मुखेल सं.) |
| 1999 | पुंडलीक नारायण नायक साहित्य सूची | प्रियदर्शिनी तडकोडकार |
| 2011 | मार्कंडेय एवं पुंडलीक नायक का कथा साहित्य | डॉ. वृशाली मांद्रेकार |
| 2008 | Glimpses of Indian literature in English translation (The Upheaval) | Naikar Bassavaraj |
| 1998 | साहित्य नियाळ अंतरंग आनी कायारुपां | डॉ. किरण बुडकुले, (लेख – पुंडलीकनायकाच्या कादंबरी, कथा साहित्याची चिकित्सा) |
| 1977 | कोंकणी साहित्य समीक्षा | डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार (लेख:अच्छेव: गांवजिणेचें उत्कट दर्शन) |
| 1977 | कथा शिल्प समीक्षा | (लेख : पुंडलीक नायकाचें कथाविश्व) लक्ष्मणराव सरदेसाय |
| 1998 | वालोर (समिक्षा) | एस. डी. तेंडुलकार (लेख : पुंडलीक नायकाच्या नवलिका आनी नवलकथांचें विवेचन) |

**हेर लेखन आनी संपादन :**

1) 'रुतू' ह्या कवितेच्या द्वि–मासिकाचे जानेवारी 1983 ते डिसेंबर 1990 मेरेन संपादक, प्रकाशक : कुळागर प्रकाशन, मडगांव – गोंय.
2) 'गोवापुरी' (इंग्लीश) नेमाळ्याचें संपादन – जाने/मार्च 2005 आनी एप्रील/जून 2005, प्रकाशक : इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा, पणजी.
3) सदर लेखन : पाजण 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत समकी सदर, 1986 ते 1990 (सुमार 267 लेख)
4) बाकीबाब बोरकर हांचेर लेख. प्रकाशक – कला आनी संस्कृती संचालनालय प्रकाशन.
5) राज्य स्तरीय आनी राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या साबार साहित्यीक उपक्रमांनी आयोजक, संघटक, समन्वयक, संयोजक वा मार्गदर्शक म्हूण वांटेकार.



*कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां*
*मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी*
*भौ. पुंडलीक नारायण नायक*
*हांकां आमचीं परबीं!*



# संतोष महानंदू नायक

## कुंडय - गोंय

*कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां*
*मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी*
*भौ. पुंडलीक नारायण नायक*
*हांकां आमचीं परबीं!*

# विजय ज. सरदेसाय

आमदार

फातोर्डें मतदार संघ



*कोंकणी साहित्य आनी कला हांकां*
*मोलादीक योगदान दिवन तांची सेवा करपी*
*भौ. पुंडलीक नारायण नायक*
*हांकां आमचीं परबीं!*



# धाकू मडकईकर

जिल्हो पंचायत सदस्य
सेंट लॉरेन्स मतदार संघ, उत्तर गोंय



# GOA STATE INFRASTRUCTURE DEVELOPMENT CORPORATION LIMITED

(A Govt. of Goa undertaking)

7th Floor, 'EDC House', Dr. Atmaram Borkar Road, Panaji-Goa.

Tel: 6645769-73 FAX: 2226256 E-mail: email@gsidcltd.com

## ACTIVITIES

Under the able and dynamic leadership of Shri. Manohar G. Parrikar, Hon'ble Chief Minister of Goa & Chairman (GSIDC), the corporation is taking giant strides towards speedy implementation of Infrastructure projects in the state. The activities of GSIDC are :

- Identification and Development of Infrastructure projects in rural and urban areas.
- Identification and development of projects for Tourism Industry.
- Funding and Assisting Infrastructure projects being implemented by other Departments / Corporations of the State Government.
- Exploring possibilities of Public Private Partnership.



Exterior View of Ponda Swimming Pool



Exterior View of Shiroda Bus Stand

## ONGOING & PROPOSED PROJECTS

- **DEVELOPMENT OF MARKETS**
- **BEAUTIFICATION OF JETTIES**
- **BRIDGES**
- **HOSPITALS**
- **BUS STANDS**
- **ROADS**
- **STADIUMS**
- **RAVINDRA BHAVANS**
- **SWIMMING POOLS**



# GOVERNMENT FOR A BETTER AND PROSPEROUS GOA

**People Friendly and path breaking decisions accomplished by the Government of Goa**



## Promises Fulfilled

1) Reduction in petrol Prices by Rs. 11/- per liter with the abolition of vat.
2) Allowance of Rs. 1000/- per month under Grlha Adhar Scheme to housewives to offset inflation.
3) Increase in the financial assistanca from Rs. 1000/- to 3500/- per month to differently abled persons.
4) Rs. 1 lakh to every girl child upon attaining the age of 18 years under ladli Laxmi Scheme to Meet marriage, education and other expenses.
5) Abolition of House Tax for BPL families.
6) Revised Cyber Age Scheme providing laptops to students of STD XI and Tablets for school students.
7) Massive plan fund for overall welfare and development of ST population. Several Schemes nitified. Benefits extended to Dhangars.
8) Organisation of Krishirath Scheme in every takluka.
9) Modification of Kamdhenu Scheme to boost dairy farming.
10) Measures initiated for providing 24X7 water supply.
11) Enhancement in the Kala Sanman pension to old artists and state culture awardees to Rs. 2500/- and Rs. 3200/-














Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



**Working towards a Secular & Prosperous Goa**